Price Rs. 20/- (Rs. 25/- Outside Goa)

मासिक

# बिम्ब

कोंकणी समाजाचें पडबिम्ब

मार्च २०१०



# अस्तुरेच्या पदरांत निर्बळेचें वरदान

आंतरराष्ट्रीय महिला दिन विशेषांक

# कोंकणी मासिक
# बिम्ब


वर्स : ९ अंक ३

मार्च २०१०

मोल २० रुपया

मुखेल संपादक

दिलीप बोरकार

भुरग्यांचें आंगण संपादन

सुफला रुद्राजी गायतोंडे

मुद्रक आनी प्रकाशक

दिलीप बोरकार

छापणावळ

सह्याद्री ऑफसेट, खोर्ली-तिसवाडी

मार्केटींग व्यवस्थापन

कामिनी किणी

अक्षर जुळवणी आनी मांडावळ

श्वेता नाईक

वर्गणीचे दर

वर्सुकी २०० रु. / तीन वर्सां ५५० रु.

खंयच्याय म्हयन्या सावन वर्गणीदार जांव येता. वर्गणीचो चेक 'बिम्ब' ह्या नांवान धाडचो



संपादकीय पत्रवेव्हाराचो पत्तो

'धर्म-लक्ष्मी', सांत लॉरेन्स,

आगशी - गोंय ४०३ २०४

दूरध्वनी : (०८३२) २४३८३५५

E-mail : bimbkonkani@yahoo.co.in






**रेखाचित्रां** - गिरिश नंदा बोरकार

संपादकीय

# महिला शक्त चिरायू जावं

मार्च म्हयन्याचो बिम्ब दर वर्सा 'महिला विशेशांक' आसचो असो आमचो हावेस आशिल्लो. बिम्ब मासिक म्हूण जल्माक येत सावन दर वर्सा मार्च म्हयन्याचो अंक आमी 'महिला विशेशांक' म्हूण जरी पाचारिल्लो तरी तो खऱ्या अर्थान 'महिला विशेशांक' केन्नाच जावंक पावलो ना. एक दोन लेख आनी शिर्शकथा बायलांच्या समस्यांचेर आसली म्हूण तो महिला विशेशांक म्हूण मिरयतना आमकां खंत भोगतालीच. पूण ह्या वर्साचो हो मार्च म्हयन्याचो अंक खऱ्या अर्थान महिला विशेशांक म्हणपा सारको जाला आनी आमीय तो महिला विशेशांक म्हूण वाचकां मुखार दवरूंक शकतात.

आंतरराष्ट्रीय महिला दिनाच्या निमतान मार्च म्हयन्याचो बिम्ब 'महिला विशेशांक' म्हूण प्रसिध्द करपाचो हावेस आमी उक्तायलो आनी आमच्या उल्याक खूबश्या महिलांनी उत्स्फूर्तपणान प्रतिसाद दिलो. अंकाच्या पानांची मर्यादा हुपली तरी आमी ह्या अंकात सगळ्या लेखांक प्रसिध्दी दिल्या. ते खातीर खंयचोच लेख कडेक दवरपाचो संपादकीय अधिकार हे खेप आमी वापरूंक ना. जे जे लेखिकेन ह्या निमतान आपल्याक व्यक्त केल्या तांचीं सगळ्यांचीं मतां आमी आसा तशींच प्रसिध्द केल्यांत.

जितले जितले लेख ह्या विशेशांकाखातीर आयल्यात ते वाचतकच मुखेलपणान एक सूर आमकां जाणवलो की दादल्यांपरस बायलमनीसूच दुसरे बायलमनशेचेर अन्याय करता. एक-दोन लेख अशेय आसात की तातुंतल्यान बायलमनशेचेर जावपी दादल्याकडल्या अन्यायाचो खर निशेध व्यक्त जाला. बायल मनशेच्या स्वतंत्र अस्तित्वाचो ताणीं प्रखरपणान पाखो घेतलो. पूण इतलेंय करूनय आपलो घरचो नामो दितना मात केअर ऑफ घालून आपल्या घोवाचें नांव बरयलां.

ही गजाल आपल्याचेर जाल्ल्या संस्कारांतल्यान घडटा हें आमी मान्य करूनय एक गजाल आमकां हांगा मुजरत सांगन दिसता की बायलमनीस ही केन्नाच कोणाची संपत्त जावंक शकना. तिका आपलें अशें अस्तित्व आसा. खंयचीय चली मनीस लग्न जावन जेन्ना घोवाल्या घरा वता तेन्ना तिणें त्या घोवाची बायल म्हूण ताच्या घरांत पावल दवरतना आपलें अस्तित्व विरगळावन उडोवंक फावना. आपलें पुराय अस्तित्व सांबाळूनच संवसार करूं येता. नातर एखाद्रो कर्तृत्वी दादलो गाडी घेता आनी ती आपल्या नांवार करता, टी. वी. घेता, बंगलो घेता तोय आपल्या नांवार करता. तशीच एक बायल हाडटा आनी तिचें नांव आनी आडनांवूय बदलून तिकाय आपल्या नांवार करता. पयलीं तें चली म्हूण बापायच्या नांवार आशिल्लें तें लग्न जावन घोवाच्या नांवार जाता. खंयचीय वस्त आनी बायलमनीस हांचे भितर दादल्यांक कांयच फरक दिसना. मुद्दो आमकां मान्य आसा. पूण हाचो निशेध करतनाच आपलो नामो दितना केअर ऑफ आपलो घोव कित्याक?

जेन्ना लग्न जावन एखाद्री चली ज्या घरांत वता त्या घराचो अर्धो अधिकार ते चलयेन त्या घराचो हुंबरो हुपल्या बराबर ते चलयेचो जाता. चली लग्न जावन आयल्या देखून तिची वळख पोस्टमनाक जाल्ली नासता म्हूण केअर ऑफ बरोवंचें पडटा हें एक वेळ मान्य केलें तरी पोस्टमन दर दिसा बदलना. ताका गांवांत कोण नवी बायल आयल्या ताची कल्पना आसता. अशें आसतना आपल्याक कोण वळखना असो समज करून केअर ऑफ बरोवप म्हळ्यारूच आपल्या घोवाचें अधिपत्य मान्य करप. आमकां साहित्य धाडपी खूबश्यो चलयो, बायलो हें पिशेपणा करतात. तांका म्हाका हीच संधी घेवन सांगन दिसता, तुमी तुमकांच पयलीं दादल्यांच्या अधिपत्यांतल्यान मुक्त करून घेवपाची गरज आसा.

बायलमनीस ही लेचीपेची न्हय. तिचे भितर प्रचंड शक्त आसा. हीच शक्त दादल्यांनी वळखल्या. शांता ही खंयच्याय खिणाक दुर्गा जावं येता हाची कल्पना दादल्याक आसा. तेच पासत तिका शांता दवरुपाखातीरूच दादलो कायम प्रयत्न करीत आसता. तेच पासत दर खिणाक तिच्या बायलपणाची तिका जाणविकाय करून दिता. चाटे पावलांक तिका याद करता तूं बायल म्हूण. ह्याच सतत जाल्ल्या दडपणांतल्यान बायल आपल्याच मनाक मागीर समजायता, तूं बायल, तुवें बायलमनशेचेच मर्यादेंत रावंक जाय. हांगा पावला कणकणी पिडपी आसात. तांचो धर्म पिडपाचो. पूण पिडून घेवप्यांनी आपलो धर्म बदलूंक नाका?

बायलांभितर आशिल्ली शक्त कांय लोकांनी वळखल्या. ते शक्तीचो वापर ते आपल्या सुवार्थाखातीर करतात. तेच खातीर आमकां आयच्या काळार बाबांचे कार्यावळींक दादल्यां परस बायलांचो आंकडो चड दिसता. सनातना सारख्या फटींग देमागोगा फाटल्यान ह्या स्त्री शक्तीचो दुरूपेग जाता. हें घडपाफाटली चूक ही दादल्याचीच. दादल्याक आपल्या बायलेमदली शक्त ओळखूंक येवंक ना. वळख जाल्या ती शक्त अर्दकुटी. तेच पासत भिरांतेन तो ती शक्त चिड्डीत आयला. बायलमनशेक बायल म्हूण हिणसावन ते शक्तीचें दमन करचे परस, ती शक्त वळखून, ती योग्य दिशेन वापरिल्ली जाल्यार आयज सगळ्यांचेंच भांगर जावपाचें. पूण अडेच्या अभिमानान दादल्यांनी बायलांची शक्त सासणाखातीर दामून दवरली आनी ताणीं आपल्याच पांयार फातर मारून घेतला. सुखी जीवनाचो लाबूच दादलो केन्ना घेवंक पावलो ना.

आंतरराष्ट्रीय महिला दीन आनी महिला विशेशांक काडून ही समस्या सुटावी जावपाची ना. ते खातीर बायलांकूय आपले मदले शक्तीची जाणविकाय जावपाक जाय आनी दादल्यानूय ती वळखूंक जाय. देशाखातीर वो समाजाखातीर न्हय तर आपलेंच जीवन, आपलोच संवसार सुखी करपा खातीर. आमी सद्या तरी इतलीच मर्यादीत अपेक्षा बाळगुया आनी म्हणुया महिला शक्त चिरायू जावं!

# मोलावणी न्हय, समिक्षात्मक सदर जावंचें !

संपादक बिम्ब,

कविवर्य एस्. डी. तेंडुलकार 'मोलावणी' हें काव्यपरिक्षणाचें सदर बरयतात ही खूब बरी गजाल. कलात्मक सुक्षीम जाणिवेचो कवी आनी समिक्षक म्हणून तशेंच आपले अशे खाशेले नदरेन पळोवपी वाचक म्हणुनूय तांचें म्हत्व आसा. आयज कोंकणींत खूबशे लोक बरयतात आनी खूब काळ बरयतात. कोंकणींत कोणूच आपूण जावन केन्ना कोणाचे कलाकृतीचें रसग्रहण, परिक्षण वो समिक्षण करिनांत. हाका आडवाद आसात एस्. डी. तेंडुलकार. ते आपल्याक दिसता तेन्ना बरयत गेल्यात. सद्या ते बिम्बांत बरयतात ही ते खातीर कोंकणी समिक्षक प्रांतांतली बरी घटना आसा वा जावूं येता. सृजनकर्त्याक मननीय करपाची कळाशी तांच्या उतरांनीं आसा. हीच ती म्हाका म्हत्वाची दिसता.

बालकवींची 'औदुंबर' ही अशी एक कविता जिचेर चडांत चड लोकांनीं आपलो दृश्टीकोण बरयला. कवितांचेर फकत एकट्यानूच बरोवंचें अशें बिलकूल ना. औदुंबराचेर बरयल्ल्या लेखांनीं एक सिध्द केलां की कविता/कलाकृती हजार तरांनी, हजार नदरकोनांनी पळोवं येता. सुक्षीम वाचकांची नदर हें बरप वाचून बरें कितें, खरें कितें तें थारायताच. कोंकणीत जांकां समिक्षात्मक साहित्य बरयन दिसता अशे वाचक, साहित्यीक, अभ्यासक आसाच आसात. तांच्यांनीं ह्या मोलायल्ल्या साहित्याचेर आपल्यो प्रतिक्रियाय बरोवं येतात आनी संपादकूय त्यो छापपाक तयार आसतलो अशेंय दिसता. वयतां वयतां एक सांगन दिसता, सांगतां 'पिंपांत मेले ओल्या ऊंदीर' हे कवितेचेर म. वा. धोंड ह्या मराठी समिक्षकान बरयिल्लें आनी ताणेंच पंचवीस वर्सां उपरांत तमाम आनी खूब गजाली ते कविते संबंदांत जाणा जाले उपरांत बरयिल्ले लेख ही काव्याच्या प्रांतांतली म्हत्वाची घटना. ह्या दोनूय लेखांतल्या नदरकोणाच्या वेगळेपणांतल्यान कशे निर्माण जातात ताची बरी देख. नव्या समिक्षात्मक बरोवप्यानी समिक्षात्मक साहित्याचो अभ्यास करून बरयल्यार भांगरार चान्न्याची धार.

मोलावणी हें तुमी दिल्लें शिर्शक आवडूंक ना कारण मोलावपांत मोल करप वा आपल्याक जाय त्या मोलाक घेवप वा दिवप अशेंय जावं येता. साहित्यांत कलाकृतीचें जें मोल आसा तेंच तितलें व्यक्त जावप अशें आसलेल्यान ताका समिक्षकाचे नदरेंतल्यान अशें वा अशे तरेचें नांव चड सोबतलें.

बरें मागून,

**रमेश भगवंत वेलुस्कार**
फोन : ९४२०६८८४६१




भौ. दिलीप बोरकार हांकां
नमस्कार,

'बिम्ब' फेब्रेरच्या अंकांत 'आयलें तशें गायलें' ह्या सदरांत तुमी बरयल्लो 'बायपासांत दबलां म्हजें भुरगेंपण' हो निबंद वाचलो. आवडलो. रवीन्द्र केळेकार, दत्ता दामोदर नायक हांणी हे आदीं हो वाङमयप्रकार उत्कृष्टरीत्या हाताळिल्लो आसा. तातूंत तुमचेंय नांव जोडचें अशें म्हाका दिसलें. उत्कृष्ट निबंद बरोवपाक जी गद्यशैली जायी ती तुमचेकडे आसाच, पूण विशयाच्या खरायेक वचपाची तांक तुमी दाखयल्या ती म्हत्वाची.

पूण एक 'आयलें तशें गायलें' वा 'नवप्रभा'तल्या 'रूक्षप्रश्न' ह्या सदरांतले तुमचे बाकिचेय सेन्सिबल लेख वाचताना म्हाका सतत प्रस्न पडत आयलो तो हो की, 'बोरकारी' आनी 'जिमलेट' बरोवपी दिलीप बोरकार तो होच काय तो वेगळो?

**- एस्. डी. तेंडुलकार**



# अस्तुरेच्या पदरांत निर्बळेचें वरदान



– हेमा नायक

*हातुंतल्यान एक नवी वाट आमकां सोदून काडपाची आसा. सामाजीक आनी राजकी थरावयल्या नेतृत्वाक पिंवळ घालून आसात त्या सामाजीक संस्थांक आनी प्रवृत्तींक, समाजांतल्या बायलांच्या स्थानाक आनी प्रतिमेक परतून एक फावट नितळ, चकचकीत करपाचो वेळ आयला. सशक्तीकरण हें एक आव्हान थरलां. विचारमंथनाची गरज उप्रासल्या. सरकारी संस्था, बिगर सरकारी संस्था हातुंतल्या वांगडयांनी गांवांगांवांनी वचून बायलांचें कावन्सिलींग करपाक जाय. देवदेवस्पण आनी धार्मिक गजालींचेर भासाभास करपाक जाय. हे खातीर आमकां बंद मठ आनी आश्रमांची गरज ना उकतें मेकळें मळय उपकारता. नवी चेतना आकाराक येवपाक अशीं सैमिक ठिकाणां चड बरीं. आमकां एक नवें फुडारपण जाय. तळागळांतल्या बायलांक आकर्शीत करपी अशें नेतृत्व जें सामकें तांचेमदल्यान आयिल्लें.*

स्त्री स्वातंत्र्याचेर उलयताना एखादो वक्तो आपणाक कितलें स्वातंत्र्य घेता ताचो अणभव आमकां आसाच. ‘बायल मुक्त जाल्या, बायल स्वावलंबी जाल्या, बायलेक उडपाक मेकळें मळब मेळ्ळां, ती दिगंतांत भरारी मारता.’ अशीं लालीत्यपूर्ण विधानां वक्तव्यांतल्यान आयकताना जिवाक धादोसकाय भोगता. खासा बायल लेगीत आपूण कितली स्वतंत्र आसा हें पटोवन दिवपाचो नेटान यत्न करता. पूण हो सगळो भ्रमनिरास. प्रत्यक्षांत तिचें अस्तित्त्व तशें ना. कागदपत्रांनी जायते कायदे आसात. पूण ह्या कायद्यांचो लाव केन्ना जाता, तर पुरावे आसले जाल्यार आनी साक्ष मेळ्ळी जाल्यारच नाजाल्यार अस्तुरेची जीण ही जिवेपणीच नरकयातनांचे भकीक पडिल्ली जीण अशें म्हणल्यार खूब जाणांच्यो भावना दुखावतल्यो. पूण ताका उपाय ना. आयचे घडकेक बयल ही दादल्यांच्या हातचें बावलें आसा अशें काळीज घट्ट करून म्हणचें पडटा.

आयजमेरेन अशेंच घडत आयलां – बायलांक वापरप वा बायलेन आपलो वापर करूंक दिवप. अखंडीतपणान चलत आयिल्ल्या ह्या नेमांत बदल घडूंक ना. आदल्या काळार समाज अशिक्षित आशिल्ल्यान आनी चड करून बायलांमदीं शिक्षणाचें प्रमाण उणें आशिल्ल्यान बायलांक वापरपाची पद्दत वेगळी आशिल्ली. आयच्या सुशिक्षीत समाजांत हें वेगळे तरेन नदरेंत पडटा. आदीं मनरिजवणेची साधनां जाय त्या प्रमाणांत नाशिल्ल्या कारणान दादल्यांनी बायलेचो मनरिजवणे खातीर जाय तसो वापर करून घेतलो. आतां त्या काळार पुरूषप्रधान संस्कृती आशिल्ल्या त्या समाजाक तें मान्य आशिल्लें अशें धरूं येता. एकापरस चड घोवांची एकलीच बायल आसूं येताली वा एकाद्रया घोवाक एकापरस चड बायलो आसूं येताल्यो. हो जालो आदलो काळ. म्हणल्यार ancient period - पुर्विल्लो काळ. दादल्यांचें वर्चस्व आशिल्लो समाज. ह्या काळांत बायलेक सामकें किंकोंत लेखप जालें, तिका उणाक दर्जोउरलो. तिच्या तोंडांत परती जाप येवंचे पयलीं दादल्याच्या हातांत पायांतली व्हाण पावपाक लागली. इतली अपमानीत जीण जगपाचो तो काळ. अस्तुरी परावलंबी. विचारीक अस्वस्थतायेन ती

घुस्मटून उरली.

मागीर आयलो तो Medieval Period – म्हणल्यार मध्ययुगीन काळ. ह्या काळांत बायलेचो आकांताचो छळ जालो. हुंडाबळी, बालविवाह, भृणहत्त्या, सतीप्रथा ह्यो सगळ्यो घडणुको ह्या काळांतल्यो. बायलांखातीर हो सुखदिणो काळ न्हय. तांचेखातीर तो 'काळखी काळ'. ह्या काळांतले संस्कृतायेन बायलांची वाणीच अंदून वडयली. ह्या काळांत बायल म्हणल्यार बापायचें, वा भावाचें वा घोवाचें फकत भांडवल आशिल्लें. तिका आपणालें स्वत:चें मत मांडपाक मेळनाशिल्लें, आपली इत्सा प्रकट करपाक मेळनाशिल्ली. भुरगेपणांत लग्न, सती, चलयांच्या शिक्षणाचेर मर्यादा ह्यो वायट गजाली ह्या काळांतल्यो. आनी ह्या असल्या संघर्षांतल्यान पेटून उठिल्ली बायल आज विद्रोहाकडे चलपाक लागल्या. तिचो आक्रस्ताळपणा आडावंक नजो अशी गत जाल्या.

दादल्याकडेन सर्त करपा इतली आयची बायल ताकतवान जायत चल्ल्या. बायलेबगर समाजाक पर्याय ना असो हो काळ. तिकाय तें होलमलां. आयच्या समाजांतली तिची वागणूक, चालचलणूक पळयल्यार दुबाव येता, इतल्या तेपाच्या घुस्मटमाराचो हो स्फोट जायत चलला काय वर्सांसंकिनी मनांत बाळगून दवरिल्लो डंख ती आतां भायर काडटा ! पूण हें अशें घडपय सारकें न्हय. मर्यादा हुपिल्ले बायलेक समाजांत स्थान ना हाची जाणीव तिका आसप गरजेचें. 'वाऱ्याक गेल्लें शीत मुठल्याक येना' ही शिकवण आमचे फाटले पिळगेन आमकां दिवन दवरिल्ली. आयचे पिळगेच्या कानार हीं उतरां पडचेपयलींच तांचो अणकार जावन शीताचो 'रायस ' जालो आनी राहणीमानच बदलून गेलें.

बायलेक स्वातंत्र्य मेळ्ळें. समाजीक, राजकी, शिक्षणिक, विचारीक सगळ्या मळांचेर तिका दारां उकतीं जालीं. पूण तरी लेगीत आयची बायल दुबळी आसा अशें



म्हणल्यार भोवसंख्य बायलांक वायट दिसूं येता वा ती कशी सबळा जाल्या हें पटोवन दिवपाचो यत्न जावं येता. एक गजाल मात निश्चितूच सत मानची पडटली, समयानुरूप बायलेचो जुस्ताजुस्त वापर जायत चल्ला आनी असो वापर जावप वा बायलेन आपणांक वापरून घेवप हीच तर तिच्यांतली दुर्बळकाय! तिचे दुर्बळकायेक लागूनच दुसऱ्यांच्या मस्तेपणाक भार आयला.

## बायलांचेर राजकारण

कॉलेजींत आसतना पॉलिटीकल सायन्स हो विशय मार्क मेळोवन पास जावपाखातीर शिकप जातालो. पूण त्या शिक्षणाचो संबंद आयज प्रत्यक्ष जिणेकडेन जुळून आयिल्लो दिश्टी पडटा. सरकार जेन्ना गडगडटा अशें दिसता वा सरकाराची अथीरताय नदरेंत भरता तेदेवेळार सरकारांतले जाळवणदार जनतेचें लक्ष चलबिचल करपाचो यत्न करतात. न्हय नसत्यो राटावळी उस्तून काडून जनतेचें लक्ष थंय आकर्शून घेवन तांकां अस्वस्थ करपाचो यत्न करतात. हातुंतले म्हत्वाचे घटक म्हणल्यार ड्रूज, म्हारगाय, आर्थिक विशमताय, बेरोजगार बी असले. हें सेगीत चालूच आसता. शिक्षीत जनतेकय ताची जाणविक आसा. पूण हालींसराक मात ह्या गजालींनी आनीक एकाची भर पडल्या आनी ती म्हणल्यार अस्तुरेची विटंबना.

आमचेमदीं आर्दी कांय राजकारणी आशिल्ले, 'कॉमेडी' वर्तनाचे. आपल्या राजकी अस्त्राचो जाय तसो वापर करताले. पुलिसेक फोन करून एखाद्रयाक धरपाक लायताले आनी ताचे सोयरे राजकारण्याचे पांय धरून गळवज्ञा येतकच तोच फोन घुंवडावन ताका सोडूंक लायताले. अजापाचेंच सगळें! आतां तर ते राजकारणीय सोंपले आनी जनतेचें अबुद्दीपणय सोंपलें. देखून असल्यो गजाली तांच्याच आंगलटार येवपाक लागल्यात. पूण बायलेचे अब्रूचे मात धिंडवडे जावपाक लागल्यात. बलात्कार, मोलेस्टेशन सारक्यो घडणुको ज्यो कायदेशीरपणान मिटोवं येतात वा अपराध्याक खर ख्यास्त भोगोवं येता, तरी लेगीत तांची जाहीर चर्चाच चड जाता. असल्या विशंयाचें चघळपूच चड जालां. पयलीं बायलो एकामेकाच्या कानांत ज्यो गजाली फुतफुतताल्यो तेच आतां समाजांत जाहीर चर्चेचो विशय जाल्यात. निमाणेकडेन अप्रत्यक्षपणान कोणा महनीय व्यक्तिच्या मुस्कटांत मारून ताका बदनाम करून सोडप, हेंच न्हय तें राजकारण? सरकाराची कोंसळटली धिगी सांवरली. जालें, सरकार सुरक्षीत. ताचे अकार्यक्षमतेकडेन जनतेचें दुर्लक्ष. समाजांतलो ज्वलंत प्रश्न दुसरोच आनी ह्या ज्वलंत प्रश्नाकडेन आडनदर करपाक बायलेचो वापर! राजकी शास्त्रांतलें हें एक प्रात्यक्षीक.

समाजांत एकेवटेन चल्ला बायलेच्या समानतायेच्या तत्वाचो पुरस्कार आनी दुसरेवटेन मागणी चल्ल्या बायलांखातीरचे खास राखीवतायेची. खंयच्याय मळाचेर वावुरताना बायलेक 'अस्तुरी' म्हण पळोवपाची उणाक नदर वा 'कलीग' म्हण तिचेकडेन सर्त करपाची नदर, तिचेकडेन वागताना विविध फरक. ह्या समाजांत बायलेक केन्ना देवी म्हण पुज्य मानली, केन्ना घराचो कारभार सांबाळपी घरकान्न मानली, केन्ना तिडक उक्तावपाक तिका एक साधन मानलें. पूण तिका केन्ना बरोबरचो जागो दिलो

ना. हेंच तर तिचें खरे दुख्ख. दुख्खच न्हय, तर आयचे घडकेक तिची ती शोकांतिका. तिचेर घडटल्या अन्यायांचें आनी अत्याचारांचेंच राजकारण चल्लां. दिसा उजवाडा बायलांचेर बलात्कार जावंक लागल्यात. ती बायल मागीर खंयचीय आसूं. आपल्या गांवची, शारांतली, राज्यांतली वा परकी राष्ट्रांतली लेगीत. तशेंच, घडूं ते अत्याचार मागीर राजकर्त्यांकडे संबंदीत व्यक्तिंकडल्यान, सरकारी खात्यांतल्यान जबाबदार व्यक्तिं कडल्यान वा आनीक कोणा प्रतिष्ठित व्यक्तिंकडल्यान. सगळ्यांक जाय तशो सुविधा उपलब्ध आसतात. एकल्याची देख घेवन दुसरो शाणो जाता अशेंय ना, वयल्यान तो अदीक मस्तो जाता. ह्या मस्तेपणांक अपुरबायेचो आकार मेळटा. घरांत कामाक दवरिल्ले ल्हान चलयांचेर घरमालकाकडल्यानूच विनयभंग जाता, शाळेंत वतल्या ल्हान चलयांक लेगीत गांठून असवडीं एकोड्या जाग्यार व्हरून तांचो विनयभंग करपी नराधम जळामळा शिंपडून आसात. आंकवार चलयांचो विक पोयंट 'लग्न' हाची जुस्ताजुस्त पारखणी करून तांकां फुसलावन अनवळख्या जाग्यांनी व्हरून, अब्रू लुटून तांचो खून करपी 'महानंद' सांपडलो पूण गुन्याव शाबीत जायना. असल्या नाजूक विशयांसंबंदीत अपराधी कोण हें समाजाक पुराय खबर आसा. पुलीसेंत तांच्या आड कागाळय नोंद जाल्ली आसता, पूण प्रत्यक्ष घडणूक पळयिल्लो गवाय मेळना. बायलांच्या जिवाकडेन चलिल्लो माजरा-हुंदराचो खेळ हें राजकारण न्हय?

## बायलांचेर थापिल्लें सशक्तीकरण

दादल्यांची एक गजाल भोव तोखणायेची. बायलांचेर चडान चड जापसालदारक्यो घालून तांकां दीसरात विविध कार्यांनी गुंतोवन दवरपाचें संवंग तांकां बेस बरें सादलां. रांदप, वाडप हें तिचें मुखेल काम. जेवप मात तिणें सगल्यांच्या शेवटाक. सगळ्यांक वाडून उरिल्लें. कांयवेळा आदलें शेळेंयबी. दादल्यांक आपल्या आरोग्याची काळजी. ताणें ती स्वत: घेवपाची आनी ताचे बायलेनय घेवपाची - धर्मपत्नी . आनी बायलेन मात जाता नजो आसतानाय कश्टुपाचें. धोंपरां धरल्यार लेगीत उठाबश्यो काडपाच्यो. पुरो जाल्यारय उसरपत घेवपाची ना. कामांची सांखळ गळ्यांत आडकावन भोंवपाचें. तोंडान तापप ना, वाजेवप ना. पिरंगणी तर नाच. कश्ट आनी सोंशिकताय तिच्याच वांट्याक. असले अवतिकार्येंत- तिका भायर वचपाची मेकळीक ना. घरांतलें जाग्यार घालून वचपाचें. सकाळचो नाश्ता धरून रातचें जेवण मेरेन. संप, मोर्चा, भाशणां मागीर कशें परवडटलें? आनी हाकाच लागून असल्या कार्यावळींनी आमकां बायलांची उपस्थिती उण्या प्रमाणांत जाणवता. अशेतरेन बायलेचे बुद्दीचें शोशण आजूनय चलता. ती कितलीय शिकूं आनी बुदवंत आसूं, घरसंवसार पयलीं, तें सांबाळून मागीरच बाकिच्यो गजाली. ही बायलेची व्यथा.

आमी कितलेंय म्हणलें तरी बायलांचेर सगळेवटेन शारीरीक आनी मानसिक अत्याचार घडतच आसतात. ती घरांतय सुरक्षित ना, समाजांत वावुरतानाय ना आनी ऑफिसांतय ना. देखून तर तिणें 'स्वरक्षित' जावप सामकें गरजेचें. बायलांच्या फावोराद केल्ले कायदे खूब आसात. चकचकीत-चलयेच्या जल्मासावन ते ती वाडटाना पिरायेच्या विविध पांवड्यार, घडोघडी तिचेखातीर सोयी सुविधांचो वर्षाव आसा. पूण तें पाळप जायना अशी गत आसा. तिचे दुर्बळकायेच्या कारूण्यान समाजांतले उदारतायेक ओतो आयला. 'महिला सशक्तीकरणा' च्या नांवाखाला बायलांचें व्यक्तिमत्व सशक्त करपाच्या जाग्यार तांच्या संख्याबळाचेंच शक्तीप्रदर्शन चल्लां. खरेपणी बायलांमदलें आत्मबळ वाडोवपाच्या हेतान फुडें काडिल्ली ही येवजण. तांचे मदली आत्मीक, राजकी, सामाजीक आनी अर्थीक शक्त बळीश्ट करून आपले तांकीन निर्णय घेवपाचें तांकां बळगें येवप हो ताचो मुखेल हेत. आपलें खेरीत अशें व्यक्तिमत्व घडोवन स्वतंत्र आनी स्वावलंबी जावप, अधिकारांची जाणवीक आसप ह्यो सकारात्मक गजाली सशक्तीकरणांत आस्पावतात. पूण गोंयांत तरी ह्या सशक्तीकरणाची दिका खंयचेवटेन पावल्या ताचो दुबाव येवपाक लागला. इतलीं वर्सां दबाज्यांनी आयोजीत केल्ल्या स्त्री सशक्तीकरणाच्या नांवार घडोवन हाडिल्ल्या मेळाव्यांउदेशीं ती खऱ्यांनीच सशक्त जाल्ली जाल्यार वेळा प्रसंगार कोणायकडल्यान वापरून घेवची नासली. कोणा खुन्याक ती बळी पडची नाशिल्ली. आपले धुवेचेर घडटली आगळीक उक्त्या दोळ्यांनी खंयची आवय पळोवची नाशिल्ली. दोळ्यांमुखार खुनी दिश्टी पडटा, पूण सूड घेवंक जायना आसून इतली असहाय जावची नासली. इतलेंच न्हय, तर शेजारचे बायलेचें दुखख आपणाक लागना म्हूण वाड्यावयल्यो बायलो निश्ठूर जावंच्यो नासल्यो. सगळ्या गजालींचो खोलायेन अभ्यास केलो जाल्यार सशक्तीकरणाच्या नांवार बायलो कोणा राजकी व्यक्तिच्या धाकांत उरल्यात हें आनी कोणें वेगळें सांगपाची गरज आसा?

## राजकी सत्तेचे चेंपण

आर्थिक नदरेन बायल आपल्या पांयार उबी रावंची म्हण सरकारान तांचे खातीर खास येवजण्यो जाहीर केल्यात. 'आपरोजगार' ही सशक्तीकरणांतल्यान आयिल्ली आनीक एक येवजण. गांवगिऱ्या वाठारांतल्या बायलांनी एकठांय येवन कसलेय ल्हान व्हड धंदे उबारचे आनी स्वत: कमोवचें हो हाचे फाटलो हेत. पूण हाकाय वेर गेल्ली दिसून येता. सुरवेक हे पंगड योग्य मार्गान चलताले. बायलांक बरी शीस्त लागिल्ली. पूण हातूंतय वेगवेगळ्यो प्रवृती भितर सरिल्ल्यो. कांय थोडे पंगड सोडले जाल्यार बऱ्याचशा पंगडांनी दिशाच बदलली. तातुंतल्यान मेळटल्या रिणांचो उपेग भलतेच कडेन जावपाक लागलो. अजाप म्हणल्यार 'स्वयं सहाय गटांत'ल्यान उद्देगधंद्याच्या नांवाखाला काडिल्ल्या रिणांचे रकमेचो उपेग घरांतल्या दादलेमनशांनी करून दवरिल्लीं रिणां फारीक करपाक जावपाक लागलो. एखाद्रे बायलेन

आपल्या घोवान सोरो पियेवन बार्राचेर करून दवरिल्ली उदारी पावोपाक पयशे काडचे आनी हें रीण पावोपाक मागीर ते बायलेन दिसावड्याच्या वावराक कामेरे म्हण वचचें वा कोणागेर आयदनां घांसपाच्या वावराक वावराडी म्हण रावचें. एकूण कितें गांवगिऱ्या वाठारांतल्या बायलांच्या कट्टुलांतलें कामेरेंपण वा वावराडेपण धुवन वचपाचें ना. घोवांची ही दशा तर पुतांची वेगळींच फोल्गां! कांयकडेन पुतांनी टुरीजमाच्या नांवार मोटारसायकली काडून भाड्यान दिवपाचोय धंदो सुरू केलो. चवकशी करतकच अश्यो एक आनी दोन न्हय, जायत्यो गजाली कानार पडल्यो. ह्या असल्या येवजण्यांचीय आतां भिरभिरी मारपाक लागल्या. कसलोच ताळतंत्र ह्या येवजण्यांचेर उरिल्लो ना. बायलांनी स्वावलंबी जावपाखातीर चलयिल्ली ही येवजण कोणां वेसनी घोवांनी बिलां फारीक करपाक आनी नावाडग्या पुतांक वेसनाधीन करपाक उपकारली.

तळागाळांतल्या महिला वर्गाची अवतिकाय तर अदीकूच घुस्मटून उरल्या. गांवगिच्या वाठारांत चड शिकूंक नाशिल्ल्या आवयांच्यो धुवो इंग्रजी माध्यमांतल्यान कश्योबश्यो एस.एस.सी. मेरेन धुकलतात. पूण मागीर एक तर नापास जावन घरा बसतात वा पास जाल्ल्यो सुंगटां सोलपाच्या वा हेर असल्या कारखान्यांत दिसावड्याच्या नोकऱ्यांक वतात. घरची अवतिकाय सामकीच वायट. प्रतिशठेचें जिणें ना आनी ताका लागून सोयरीगतीय जायनांत. लग्नाखातीर खंत करपी चलयो 'महानंदा' सारख्या खुन्यांचीं सावजां जातात. बायलो अगतीक. कोणतरी बळीश्ट तांचो वापर करून घेता आनी त्यो मोनेपणी सगळें सोंसतात. आवाज काडल्यारय वयल्यान कोणाचो तरी दबाव वा मुखार नोटांचे कवळे. मेल्लो मरून गेलो, आपूण तरी सुखाक पावत ही भावना तांच्यात कित्याक उचांबळून येवंची न्हय? कित्याक तर, महानंदाच्या क्रूरकर्मांची गजाल वाड्या कणकणी खबर आसा. पूण उकतेपणी उलोवपाचें कोणाकूच धाडस ना. राजकी व्यक्तींनी हांचेर दबाव हाडला हें ज्युस्त पारखूं येता. खून जाल्ल्या चलयांच्या घरा गेल्यार घडिल्ली गजाल तांगेल्यो आवयो जुस्ताजुस्त वर्णन करून सांगतात. आयकताना तातूंत कितें फट आसा अशें मातय दिसना. पूण सरभोंवतणच्या वाठाराचेर मात विचित्र सया पातळिल्ली नदरेंत भरता. त्या घरांत कोणय अनवळखी भितर सरता तेन्ना शेजारच्या घरांतल्यो बायलो पडवेर येवन नदर लावन पळयतात. एखाद्रे कथेंत वर्णन करपासारको देखाव दोळ्यांक दिश्टी पडटा. कपडे उमळटले बायलेच्या हातांतलो कपडो पीळ घालताना तसोच उरता. केंस वळयतलेचे हात वयरूच उरतात. तांदूळ वेंचतले बायलेचे दोळे भायर थिरावतात. पूण कोणूच फुडें सरना. घर विचारल्यार एक तर हाताचे खुणेन वा नदरेनचे निशाणेन दाखयतात. सामाजीक वावुरपी लेगीत पयसुल्ल्यान बोटाचे कुरवेन घराची वाट दाखयतात. त्या घराचेर बहिश्कार घाल्ल्यावरी हो सगळो देखाव. महिला मंडळाच्यो बायलो, स्वयंसहाय गटांतल्यो बायलो ह्या अन्यायाआड आवाज उठोवपाक फुडें कित्याक सरनांत हें एक कुवाडेंच जालां. ही इतली गळचेपी कित्याखातीर? खंयची राजकी सत्ता तांचे स्वास अंदिता?

## बायलांचे पंगड आनी धर्मकारण

गांवांगांवांतल्यो बायलो खवदळून उठत जाल्यार एके घडकेक ह्या अन्यायाक वाचा फुटूं येता. पूण तशें घडप शक्य ना. कित्याक तर ह्या प्रकरणांचो सूत्रधार वेगळोच आसा आनी ताचीं सुत्रां भलतेच कडेन आसात. खूब खोलायेन भितर सरतकच हातुंतले जायते धागेदोरे हाताक लागतात पूण ताची वाच्यता करपाचें धाडस कोणांक ना. लोकप्रतिनिधींकय ना आनी प्रसार माध्यमांकय ना ही खंतिची गजाल. गांवांनी वचत जाल्यार लोकांमदली कुजबूज कानार पडटा ती आंगार कांटो हाडपी. पूण तें कुजबूजप वाऱ्याचेर हुबून वता. जालें, विशय मेकळो.

पूण अशें सगळेच बाबतींत घडटा अशें ना. कांय वर्सां फाटीं सालेली प्रकरण मिटोवपाक बायलांचीच शक्त उपकारा पडली. कोंकणी राजभास आंदोलनावेळार बायलांचे शक्तिचो प्रत्यय आयला. बायलांचे प्रामणिकतायेचो दिश्टावो आमकां जायते फावटीं घडिल्लो आसा. बायलांची एकवटीत शक्त वेळावेळार वापरांत आयल्या. पूण हे शक्तिचो जो वापर जाला ताचें फळ मात बायलांक खूब उण्या प्रमाणांत मेळ्ळां. गरज म्हण वापरप आनी मागीर तांचें नांवूय घेवप ना वा तांकां फावता तें स्थानय दिवप ना असल्योय गजाली घडटात. अशा वेळार खंत भोगलेबगर रावना.

सामाजिक जागृताय आनी वैचारीक गजालींपासून बायलांक अळंग कुशीक काडपाचें राजकारण्यांचें कारस्थान थोडेंभोव सादलां. वाडटे म्हारगायेक तोंड दितना बायलेचेर उपासमार घडपाची पाळी आयल्या. संवसाराचो रथ ओडटना तिका नाकापुरो जावपाक लागलां आनी जुस्त ह्याच वेळार बायलांक अध्यात्माचें पिशें लावन सोडलां. घोवाक जडिल्लें सोऱ्याचें वेसन, आधुनिकतायेकडेन एकरूप जाल्ल्या भुरग्यांचें बेजबाबदारपणाचें वागप आनी हातुंतल्यान इबाडिल्ले मनस्थितीचे सैरभैरतायेक थाकाय मेळपाखातीर घुस्पल्ले अवतिकायेंतल्या बायलांचीं पावलां देव देवस्पणांकडेन वळपाक लागलीं जाल्यार तातूंत तांचो दोश ना. तर समाज वेवस्थेचेर पडिल्ल्या राजकी प्रभावाचो तो दोश आसा. बायलांच्या वेगवेगळ्या गटांतल्यान संघटीत जावपाचो उपेग धर्मकारणांत योग्य तरेन जाल्लो दिसून येता. बायलांमदीं असुरक्षिततायेची भिरांत पातळ्ळ्या आनी तातुंतल्यान धर्मपिशें अदीक बळावलां. सुशिक्षतपणाक लागून शास्त्रां, रितीरिवाज हातुंतल्यान भायर सरचे बदला ती आपणाक तातूंत चड घुस्पावन दवरूंक लागल्या. राजकारण्यांनी हाची ज्युस्त पारखणी केली आनी देवाधर्माच्या नांवाखाला कांय बुदवंत राजकारण्यांनी आपल्या मतदार संघांतल्या बायलांक बर्शींच्यो बशी भरून फुकटांत शिरडीक व्हरून हाडलें, देवस्थानां भोंवडावन हाडलीं. तांच्या धर्मपिशाचेर भावार्ताचो अदीक अर्क चडयलो. तांचेमदल्या देवस्पणाक चड खराय हाडली.



सशक्तीकरणाचो अर्थूच बदलून ताच्या आदारान बायलांक अशी पांगी करून वडयलीं. अशा ह्या धर्मिक वातावरणांत वावुरतल्या अस्तुरींचीं पावलां मठाकडेन आनी आश्रमांवटेन वळ्ळीं जाल्यार तातूंत अजाप दिसचें न्हय. तांचेमर्दी वाडीक लागतल्या ह्या आकर्शणाचेर आरोप जातना तांच्यांत ही प्रवृत्ती बळावपी समाजांतले वृत्तीचेर पयलीं धपको बसूंक जाय.

## धर्मकोल्ल्यांनी केलो बायलांच्या भोळेपणाचो वापर

खरेपणी धर्माचो वापर जावंक जाय तो शांतीकाय निर्माण करूंक, मानवी अधिकारांचेर चलतलें आक्रमण थांबोवक आनी आपणाक मदत घडची तशेंच हेरांच्याय उपकारा पडचें म्हण वेगवेगळ्या नात्यांची आनी परंपरांची जपणूक करूंक. पूण आमच्या धर्मकोल्ल्यांनी मात बायलांच्या भोळेपणाचो आनी कुड्ड्या भावनांचो गैरफायदो घेतलो. धर्माक धोको आसा म्हणपाची भिरांत बायलांमर्दी पातळायली. ह्या संघटनांवरवीं सादूरतायेची शिकवण दिवपी मनभुलोवण्या भाशणांनी बायलांच्या दुबळ्या मनांचेर दबाव हाडलो. अध्यात्मीक भक्तीवरीं भूल घालपी सुमधूर वाणीच्या माध्यमांतल्यान बायलांक एकाग्रतेकडेन वळोवपाची धर्मकोल्ल्यांची वर्तणूक सुशिक्षीत आनी अशिक्षीत वर्गांतल्या तशेंच शारांतल्या आनी गांवगिऱ्या वाठारांतल्या बायलांमर्दी व्हडा प्रमाणांत पातळ्ळ्या. ह्या नश्टया छंदावरवीं बायलांचें हालींसरा कर्तुत्वच गळसणिल्लेवरी जालां. स्वामी, बाबा, समर्था, शिवबाबा, विविध प्रतिकां आनी प्रतिमा. संवसारांतल्या सदच्या कटकर्टीपासून पयस वचपाचो अध्यात्मिक साधनांचो मार्ग बायलांक मोहीत करता. तांची बुद्धीमत्ता आनी निपूणटाय असल्या गजालींनी ओतिल्ली दिसता. किर्तनां आनी प्रवचनां हातूंत वरांचीं वरां रमतात. कतृत्वहीण करपी तेच अध्यात्मिक विचार. पूण तांच्या मनाक थाकाय मेळटा. एके तरेचें वेसन तें. मनाक ल्हव करपी. हातुंतल्यो वृत्ती आनी प्रवृत्ती, तशेंच तातुंतले धोके तांकां खबर नासतात. सोरो, सिगार, अफू सारक्याच्या वेसनाधीन जाल्लो मनीस जसो शक्तीहीण जाता तसोच होवूय प्रकार घडटा. बायलांचे प्रामाणिकतायेचीं हीं दुबळेपणां आनी हाकाच लागून हे सामाजीक, राजकी आनी धार्मिक वेवस्थेन तांच्या तनामनाचो वापर करून घेतलो. हें आडावपाक खंय बडी बसूंक जाय तें थारावपाचो वेळ आतां आयला.

अंतस्करणांतल्यान पेटून उठिल्ली बायल जेन्ना आकांतून रस्त्यार येता तेन्नाच तिचो विचार शर्थीक पावता हें आजमेरेनचें सत. बायलांमर्दी सामाजीक उत्क्रांती जावची ह्या हेतान गोंयांत खाशेल्या पंगडांची गरज भासली.

म्हाका उगडास आसा ते प्रमाण ४०-४५ वर्सांफाटीं गोंयांतल्या कांय शारांतल्या सुशिक्षीत बायलांनी एकठांय येवन वैचारीक नदरेंतल्यान थापणूक केल्ल्या पंगडांक महिला मंडळ, भगिनी मंडळ अशीं नांवां दिल्लीं. म्हज्याय विचारांक चालना हातुंतल्यानच मेळिल्ली. अखिल भारतीय महिला फेडरेशनच्या मुंबय फांट्यांतल्या बायलांमर्दी आशिल्ल्या धाडसाची किटाळ म्हज्यांतय उसळिल्ली. समाजवादी तशेंच कम्युनिस्ट पक्षांतल्या बायलांनी तेन्ना देशभर खवदळ घाल्लो. अन्यायाआड ताणी काडिल्लो आवाज आजूनय कानांत साद घालता. चाळिशेक वर्सांफाटी मुंबय शारांत मृणाल गोरे, मंजू गांधी, प्रेमा पुरव सारक्या फुडारी बायलांनी म्हारगाये आड लाटणी मोर्चा काडिल्लो तो जायत्या जाणांक आजूनय याद आसतलो.

लाटफळीं आनी लाटण्यो घेवन बडयत म्हारगाये आड घोशणा दिवन ताणी मोर्चा काडिल्लो. उत्स्फूर्त काडिल्ल्या त्या मोर्चावरवीं बायलांचे शक्तीचें तें प्रदर्शन थरिल्लें. विविध संघटना एक जाल्ल्यो. वेगवेगळ्या पक्षांचो तेंको मेळिल्लो. मनांत आयल्यार बायलांच्यानी कितें करूं येता ताची ती देख आशिल्ली. आनी आयज तर म्हारगायेन तेंगशी गांठल्या. तरी आसतना असलें हें धाडस आनी अंतस्करणांतल्यान पेटून उठप आयचे घटकेक दिसना हाची खंत भोगता. कोणे काडून घेतली ही बायलेची शक्त?

### गांवपणांत बायल ना

मेळटा त्या कामाक बायलांक वापरपाचो जो प्रकार आयज चालू आसा तो बंद जावपाक जाय अशी पोटतिडक निर्माण जावप सामकें गरजेचें. वाड्याकणकणी महिला मंडळां स्थापन जाल्यांत तीं नदरेंत पडटात. ह्या संस्थांवरवीं उत्सवी स्वरूपाच्यो कार्यावळी बरेतरेन घडून येतात. हळदीकुंकमासारखे सुवाळे वेवस्तीत जातात. वर्सुकी कार्यावळीय दर वर्सा बेस बऱ्यो जातात. खाणाच्यो आनी शिवणीच्यो सर्ती घडोवन हाडटात. फुगडी सर्तिनीय पंगड सहभागी जातात. डोनेशना मेळपाक अडचण येना. सदळ हातांनी मदत करपी आश्रयदाते कितें उणे नात. पूण आज चिमटीभर दान घेतिल्ल्या पोशांतल्यान फाल्यां मतांचें राजकारण जातलें हाचें धंगण बायलांक उरिल्लें दिसना. दान दिल्ल्यांकडेन प्रामाणिक रावूंक जाय ही तांची भोळी समजिकाय. तांच्या ह्या भोळेपणाचो जाय तसो फायदो जायत्या जाणांनी विविध तरांनी करून घेतला. तांचेवरवीं खंय कितें 'सप्लाय' जाता आनी कसली देवाण-घेवाण जाता हांची सुलूसय लागप कठीण जालां. एक धोकादायक वास्तव आमी दोळे आसून कुड्डेपणान नियाळटात. हालींसराक तर असल्यो गजाली सर्रास घडटात. लोकसंख्येंत अदर्यापरस चड मतदार ह्यो बायलो आशिल्ल्यान वेगवेगळ्या महिला मंडळांच्या बायलांक आनी स्वंय सहाय गटांतल्या बायलांक वेगवेगळ्यां खात्यावरवीं खूश दवरप चल्लां. महिला मेळाव्यांचें अर्दीमर्दीं आयोजन जाता.विविध वाठारांतल्या बायलांक बसी भरभरून हाडटात. तांच्या पोटापाण्याची वेवस्थाय बरी जाता. इतलेंच न्हय तर दिसावडोय सुट्टा. अशा वेळार वावराक चुट्टी लायली जाल्यारय कोणाक कांय पडिल्लें ना. 'साद' घाल्ल्या उल्याक धांवून वचप हें तांचें कर्तव्य. पूण आयोजीत मेळाव्यांत अन्याया आड पोटतीडक उकती जायना. फकत वरीश्ठांची खुशामत चलता. खुन्यांचे आनी सैतानांचे भकीक पडिल्ल्या चलयांच्यो आवयो लेगीत तातूंत आसतात. न्याय मेळत म्हूण आशेन आयिल्लो आसतात. पूण थंय असो 'माहोल' जाल्लो आसता, ह्यो गजाली त्या वातावरणांत उज्यार लोणी विरगळचें तशो त्योवूय तातूंत नाच्च जावन वतात. थंयच्या मंगलमय वातावरणांत ह्या वेदना दिवपी गजालींचें कोणाकूच पडिल्लें नासता. जय हो! म्हणून सगळो माहोल फाफसता. आनी अशे तरेन 'वापरप आनी काबार करप, ताचें नांव निशाण दवरप ना' हो वसो समाजांतल्या क्रूरकर्म्यांच्या आंगवळणी पडलो. साक्ष ना आनी गवाय ना. केशी हुमकळटात, दिसांचे दीस, फाटोफाट सप्तकां-म्हयने आनी वर्सां. अपराध्यांक फाटराख्यांचे आशिर्वाद सतत आसतात.

### -विधानसभेंत बायलांच्यो अनुत्रीत समस्या-

बायलांचो राजकारणांत सक्रीय वांटो आसचो म्हण नेटाचे यत्न चलिल्ले आमकां दिसतात. पूण हें सगळें आडेचें हेंवूय नदरेंत भरता. पंचायतींत आनी जिल्हा परिशदेंत बायलांक राखिवताय आसा. ग्रामीण बायलांखातीर हो उपक्रम खूब बऱ्याचो. पूण अशा बायलांक समजून घेवपाच्या जाग्यार बऱ्याच जाणांचे बाबतींत बकच्छायो चलल्यात. तिच्या कर्तृत्वाचो उपेग सामाजीक वावरांत करून घेवपाच्या जाग्यार समाज भलत्याच प्रकारणांनी लक्ष अदीक घालता. तांचें आशिक्षीतपण जायते कडेन मर्यादा थरता. कायदयाचें गिन्यान नाशिल्ल्यान सामाजीक सुदारणा घडून येवपाक हाची मदत जायना. अधिकारांची आनी कायदयांची फाव ती म्हायती ह्या महिला पंचांक आनी सरपंचांक नाशिल्ल्यान तांकां एका मताखातीर नग म्हूण वापरप जाता. कारभार चलोवपी दुसरेच उरतात. कांय कडेन आजून आखाणो मारपी बायल ही पंच वा सरपंच आसा. वाड्यार सुदारणा करपाची तिका उमळशीक आसता, पूण वाड्चा वयले दोग-तीग मुखेलीच आजूनय गांवपण घेवन समस्या निकालांत काडटात. गांवपणांत बायलांक स्थान ना. ह्यो गजाली सामक्यो बंद जाल्ल्यो नात. पंचायत आसूनय गांवपणांत थारिल्लेंच ग्राह्य धरप चल्लां. गांवांतलो हो असलो अडाणी थरावयलो एकवट राजकी वर्तूळांतल्या कांय जाणांक फायद्याचो थरला. बायलांचो राजकारणांतलो सक्रीय वांटो आनी बायलांक कुशीक दवरून गांवपणांतल्यान एकवटिल्लो गांव ह्या दोनूय तरांनी कोणा राजकर्त्याचें आसन थीर उरता हातूंत दुबाव ना. स्त्री शक्त राजकारणांत आसून नाशिल्ल्यावरी. मतदानांतलो मात तांचो सक्रीय वांटो नदरे आड करूं नजो. 'लोकसंख्येंत अदर्या परस चड मतदार बायलो आसात' हें विधान झरोवन झरोवन ताच्यो वादऱ्यो केल्यो राजकी मळावयल्या विचारवंतांनी; आनी बायलांनी आपलेच फाटीचेर शाबासकी दिवन ओर्र मिरयलें.

राजकारणांत बायलांक समान अधिकार आसात. पूण राजकी मांडणी थारायताना (स्ट्रेटेजी) बायलांक विश्वासांत घेतिल्लें दिसना. नग म्हण तिचो संख्याबळाखातीर उपेग जाता तितलोच. हातूंत खासा बायलेचोय दोश आसा. चडानचड बायलांनी राजकारणांत येवपाक जाय ह्या ध्यासान पेटिल्ल्यो राजकारणी बायलो दिसनात. तशे यत्नय ताणी केल्ले दिसनात. गोंयांत तर

शशिकला काकोडकार, सुलोचना काटकार, निर्मला सावंत, व्हिक्टोरीया फर्नांडीस अशा वेंचीक बायलांचें अस्तित्व विधान सभेंत सोडलें जाल्यार आनीक कोण बायल नदरेंत येना. देखून चाळीस आमदारांचे विधानसभेंत बायलांच्यो समस्या अनुत्तरीत उरतात. चालू वर्सांतलें महानंद खून प्रकरण गाजलें ना. बलात्कार, मोलेस्टेशन, खून हांचेरय खर उलोवपां जालीं नांत. गोंय विधानसभेचीं अधिवेशनां आयलीं आनी गेलीं पूण अस्तुरेचो-आवाज घुस्मटूनच उरलो. आनी मागीर खोल तळांतली म्हज्यांतली अस्तुरी गळवज्ञा येवन म्हणपाक लागली, म्हजी एकूच विनवणी आसा समेस्तांनो. हांव दुडू मागिना, धन मागिना आनी कांयच मागिना, म्हजी विनवणी आसा ती एकूच, अंतस्करणांतलें एकूच मागणें आसा म्हजें, म्हजे वांटेवयल्यो खांची खळग्यो काडून वडयात आनी म्हाका मुक्त करात. कित्याक तर बायलांचे जे धिंडवडे चल्ल्यात तें म्हज्यान सोसूं नज जालां. धांपून दवरपाच्यो गजालीय उक्ताडार वडोवन राजकारण्यांचो खेळ चलला.

## –निर्बळेचें वरदान –

आधुनिक काळांतले बायलेची प्रतिमा म्हणल्यार एक विरोधाभासूच. साप शिडयेचो तो खेळ जाला. एके वटेन ती जैताचे शिडयेच्या तोंकार पावल्या, तर दुसरेवटेन आकांताळ्या अन्यायांक लागून आनी अत्याचारांक बळी पडून ती सोरपाच्या तोंडांत सांपडल्या आनी घस्सायच करून खाला कोंसळ्ळ्या. फाटल्या काळापरस आयच्या काळांतले बायलेन खूब कितें सादयलां. पूण प्रत्यक्षात मात तिच्या तोंडांतलो घांसूच कोणतरी काडून घेवंक लागला. तिच्या व्यक्तिमत्वाक धोको उपरासला. बऱ्याचशे फावटी घोव बायल एकाच मळार वावुरपी आसल्यार बायलेचें व्यक्तिमत्व नगण्य थरलां. घरांतल्या एकल्याच मनशाक सरकारी अनुदान मेळटा. तो नेम साहित्यिक, सामाजिक मळारय लागू जायत चल्ला. आलिखीत नेम तो. आयोजकांची आनी परिक्षकांची नैतिक जापसालकी–घोव उच्च पदार आसल्यार बायलेक तिच्या स्वकर्तुत्वाचेर फावतात त्यो सवलतीय मेळपाक कठीण जातात. आनी ह्या असल्या अलिखीत नेमांचो रचणार तर दुबावूच ना, खासा दादलेच आसता! बायलेच्या मनांत चुकून लेगीत असली भावना येवंची ना. बायलेचे उदरगतिची वाट अशी खांची खळग्यांनी भरिल्ली आसा आनी पडत–धडपडत ही वाट चलतना जायत्यो अडचणी येतात. त्यो अडचणीच तिच्या जिविताच्यो वेगळावं नजो अशे घटक जाल्यात, आपणांक कोण, कसो वापरून घेता ताचें गिन्यान तिका येवपाक लागलां. पूण ती असहाय आसा. एके नदरेन ती निर्बळाच! तिका तिडक येता, राग येता, तिच्यांत आक्रस्ताळेपणा आसा, ती बंडखोरय बी! पूण तो खीण पयसावतकच ती आपूणशींच न्हिवता. तिच्यांतली सोंशीकतायच ह्या सगळ्या भावनांचो चुरो करतात आनी शांतादुर्गा ह्या नांवान ती नामनेक पावता. तिच्यांतलो हो वीक पोइंट सर्वज्ञात आसा आनी समस्त पुरूष वर्गान तिच्या ह्या दुबळेपणाचो पुराय फायदो घेतला.

## –नव्या नेतृत्वाची गरज–

आनी आतां –हातुंतल्यान एक नवी वाट आमकां सोदून काडपाची आसा. सामाजीक आनी राजकी थरावयल्या नेतृत्वाक पिंवळ घालून आसात त्या सामाजीक संस्थांक आनी प्रवृत्तींक, समाजांतल्या बायलांच्या स्थानाक आनी प्रतिमेक परतून एक फावट नितळ, चकचकीत करपाचो वेळ आयला. सशक्तीकरण हें एक आव्हान थरलां. विचारमंथनाची गरज उप्रासल्या. सरकारी संस्था, बिगर सरकारी संस्था हातुंतल्या वांगडयांनी गांवांगांवांनी वचून बायलांचें कावन्सिलींग करपाक जाय. देवदेवस्पण आनी धार्मिक गजालींचेर भासाभास करपाक जाय. हे खातीर आमकां बंद मठ आनी आश्रमांची गरज ना उकतें मेकळें मळय उपकारता. नवी चेतना आकाराक येवपाक अशीं सैमिक ठिकाणां चड बरीं. आमकां एक नवें फुडारपण जाय. तळागळांतल्या बायलांक आकर्शीत करपी अशें नेतृत्व जें सामकें तांचेमदल्यान आयिल्लें. राजकी सुवार्थ आनी धर्मपिश्याचो वास नाशिल्लें. रितीं शास्त्रां आनी देव देवस्पणांक विज्ञानीक आकार दिवपी अशें. बायलांवयल्या अन्यायांची जाण आशिल्लें. बायलांच्या अंतर्मनाच्या तळाक स्पर्श केल्लें. धन संपत्तेचो त्याग करून परोपकारी वृत्ती आपणायिल्लें.

आयचे घटकेक खंयचेय अवस्थेंत असल्या नेतृत्वाची गरज आसा. आयची अस्तुरी त्या नेतृत्वाची वाट पळयता. प्रसार माध्यमांचोय हातूंत खूब मोटो वांटो आसा. 'रूचिरा' प्रकरण उकताडार आयलें तशींय बाकिचींय प्रकरणां उक्ताडार हाडपाक जाय. समाजांतलीं धोंगां पोंगां नदरेंत हाडून दिवपाचें काम जीं प्रसारमाध्यमां शिटूकतायेन करतात ताणींच समाजांतल्यो तोखणायेच्यो गजाली प्रदर्शीत करून दोळे दीपकावन वडोवंचे.

हें अशें घडपाक वेळ लागचो ना. ताका लागून दादल्यांमदीं बळाविल्ली पुरूषी अहंकारी वृत्ती बेणून वडोवपाक जाय. बायलांकडेन समानतायेचे नदरेन पळोवपाचो विशाळ दृष्टीकोण ताणीं आपणावपाक जाय. खासा बायलेनूच आपणाक आपणेच उणाक नदरेन पळोवपाची नदर बदलपाक जाय. हें सगळें नक्कीच घडटलें. पूण ते खातीर सकारात्मक दृष्टीकोण जाय, आनी आपणांमदलो आत्मविश्वास तशेंच इत्साशक्त वाडीक लावपाक जाय. बायलेक हें सगळें घडिल्लें जाय. आदीम काळापासून तें आयजमेरेनचे बायलेक!

वळवय
फोंडे – गोंय
फोन : ९७६४५९७६२८

(हेमा नायक ह्यो साहित्य अकादेमी पुरस्कार लाभिल्ल्यो ज्येश्ठ कोंकणी साहित्यिका.)

# कोण म्हणटा बायलांक राजकारणांत मान ना म्हूण?





–शीला कोळंबकार

*राजकारणांत ज्यो बायलो पडटात त्यो पयलीं चारित्र्यान शुद्ध आसूंक जाय. त्यो बुदवंत आसूंक जाय. सामकार आशिल्लो मुखार कसली खेळी खेळटलो हें तिका रोकडेंच कळूंक जाय. उलयतना मुद्दयेर थीक बसयिल्लेवरी उलोवंक जाय. ती एक ध्येयनिष्ठ, कळकळीची कार्यकर्ती आसूंक जाय. समाजाचे उदरगती खातीर ती प्रयत्नशील आसूंक जाय. तिचे भितर आवयपण आसूंक जाय. म्हळ्यार वांगडच्यांक केन्ना माफ करचें, केन्ना ताचे चुकीची खयास्त दिवची हें तिका कळूंक जाय.*

कोण म्हणटा बायलांक राजकारणांत मान ना म्हूण? पयले सुवातेर मान, स्वातंत्र्य ह्यो अशो गजाली ज्यो कोण कोणाक दिनांत. त्यो आपल्यो आपणे घेवपाच्यो आसतात. आनी त्यो घेवपाक संघर्श करचो पडटा. नेतृत्वाच्या रस्त्यार चलतना अडचणींचे दोंगर उबे आसतात. ते तुमी हुपले काय मान, सन्मान आपशींच तुमचे फाटल्यान धांवत येतात.

अशें म्हणटात की देवाक प्रसन्न करून आपली इत्सा पूर्ण करपाची आसत जाल्यार ताका बारा वर्सां लागतात. पूण तेंच जर देंवचाराक कोंबो कापलो जाल्यार तेंच काम बारा दिसांनी जावं येता. राजकारणांतूय बी हेंच चलता. थंय शॉर्टकट खूब आसतात. लांच दिवप, धमकी दिवप, नाका आसताना संप करप, खून करप, दुसऱ्यांक फार्टी ओडून आपणे मुखार सरप हे ते शॉर्टकट.

नेतृत्व करपी बायलां मुखार जाल्यार अडचणींचे हे दोंगर खूब व्हड आसतात. खेरीज तिच्या माथ्यार चारित्र्याचें, तिच्या शीलाचें व्हड वजें आसता. तें सांबाळीत तिका चडटी चडपाची आसता. मर्दी एक पावल जरी चुकलें जाल्यार जालें, ती दादल्याचे भकीक पडलीच म्हूण समजुपाचें.

ह्या जगांत वावुरतना जेन्ना आमी बायलांचो विचार करतां तेन्ना दादल्यांच्या मानसिकतेचोय विचार करचो पडटा. जगांत जितले धर्म आसात तातूंत बायलांची सुवात सकयल्या पांवडच्यावेली दाखयल्या. मातृसत्ताक पद्दती जे सुवातेर आसा, थंय लेगीत मामा म्हणजेच दादलो हो मुखेल



आसता. दादल्यांनी बायलेक मानसन्मान दिलो तो फकत आवय म्हूण! ताका लागून तिचेर आनीकूय बंधनां आयलीं. तिचे मुखार लक्ष्मणरेशा आंखून दिली. आनी तिका सांगलें ही रेशा जर तुवें हुपली तर तूं रावणाचे भकीक पडटली. पूण हे रावण घरांतूय रिगूंक शकतात, हें मतींत धरून दादल्यानी तिका आत्मरक्षण कशें करचें तें मात शिकयलें ना.

काळ बदललो. बायलां शिकलीं. तांकां तांची तांक कितली तें समजलें. ती घराभायर पडली. स्वातंत्र्याची रूच तिका कळ्ळी पूण खऱ्या अर्थान तिका ताचो अर्थ कळ्ळा काय ना हो संशोधनाचो विशय. ती दादल्यांबराबर स्पर्धा करूंक लागली. दादल्यांपरस आपूण खंयूच उणाक ना हें दाखोवंक ती धडपडूंक लागली. खरें म्हळ्यार स्त्री ही सगळेच बाबतींच आपले परस श्रेष्ठ हें दादल्यांनी वळखल्लें. तेन्नाच तर हजारांनी वर्सां पयलीं 'तूं बायल म्हूण तूं कनिष्ठ' अशें तिच्या मनार बिंबयलें. तें अजून पसून पुसून वचूंक ना.

दादल्या बगर जगप कठीण, तोच आपलो आदार, चली ल्हान आसतना बापायन, भावान तिका सांबाळप, व्हड जातकीच घोवान तिचो सांबाळ करप, म्हातारी जातकीच पुताच्या आदारान तिणें जगप अशें सतत तिच्या कानार दादल्यांनीं घालां. बायलेन कशें वागप हें दादल्यांनी थारायलें. तिका कितें जाय नाका, तिच्या जगपाचे नेम दादल्यांनी थारायले. दुखाची गजाल म्हळ्यार बायलांनीच ताका मान्यता दिली. आपूण एक स्वतंत्र व्यक्ती म्हूण तिणें स्वत:कडेन केन्ना पळेलेंच ना.

रवीन्द्रनाथ टागोरान एके सुवातेर म्हळां, जेन्ना एकाद्री बायल कितेंय मूर्खपणा करता तेन्ना दादलो सगळीं बायलां अशींच मूर्ख! अशें म्हणटा. पूण तींच मूर्खपणां जेन्ना एकाद्रो दादलो करता तेन्ना तो गृहस्थ मूर्ख अशें म्हणटा.

खरें म्हळ्यार बायलूच बापायक, भावांक, भुरग्यांक बी सांबाळटा आनी ताचें श्रेय मात दादल्याक दिता. कारण ती कसल्याच फळाची अपेक्षा करिनासतना आपलें काम करता.

ज्या बायलांनी आपली शक्त, तांक वळखली तीच मुखार पावली. देखीक कामराज क्राँग्रेसचे अध्यक्ष आशिल्ले. ताणीं इंदिरा गांधीक 'गुंगी गुडियां' म्हूण पंतप्रधान केली. नेहरू घराण्याचें वलय आशिल्ल्यान तिका कोणें विरोध केलो ना. पंतप्रधान जातकीच हे गुंगी गुडियेन केल्लो इतिहास सगळ्यांक खबर आसा.

इंदिरा गांधी, मागरिट थँचर, सिरिमाओ बंदारनायके, बेनझीर भुट्टो, हिलरी क्लिंटन हांकां सगळ्यांनी मान दिलो ना तर?

विजयालक्ष्मी पंडित, डॉ. सुशीला नायर, सरोजिनी नायडू, लक्ष्मी मेनन पसून मृणाल गोरे, अहिल्याबाई रांगणेकर, नंदिनी सत्पथी आतांची सुषमा स्वराज, ममता बँनर्जी बी बायलो राजकारण गाजयतात जाल्यार मेधा पाटकर, किरण बेदी सारख्यो बायलो सरकाराकूच धक्के दितात.

बायलो प्रामाणिक आसतात. देखीक खंयचेंय रीण जेन्ना दादलो काडटा तें परतून फारीक न करपाखातीरूच काडटा. हाचे उलट बायलांनी जीं रिणां काडल्यांत तीं ताणी फारीक केल्यांत तिवूंय बी वगतार. महिला बचत गटांनी जीं रिणां काडल्यांत तीं ताणी केन्नाच बुडोवंक ना. ही म्हायती बँकांच्या सर्वेक्षण अहवालांत दिल्या.

राजकारणांत ज्यो बायलो पडटात त्यो पयलीं चारित्र्यान शुद्ध आसूंक जाय. त्यो बुदवंत आसूंक जाय. सामकार आशिल्लो मुखार कसली खेळी खेळटलो हें तिका रोकडेंच कळूंक जाय. उलयतना मुदयेर थीक बसयिल्लेवरी उलोवंक जाय. ती एक ध्येयनिष्ठ, कळकळीची कार्यकर्ती आसूंक जाय. समाजाचे उदरगती खातीर ती प्रयत्नशील आसूंक जाय. तिचे भितर आवयपण आसूंक जाय. म्हळ्यार वांगडच्यांक केन्ना माफ करचें, केन्ना ताचे चुकीची ख्यास्त दिवची हें तिका कळूंक जाय.

तिचे भितर आपले बराबर हेरांकूय वांगडा घेवन मुखार वचपाची तांक आसूंक जाय. खरें म्हळ्यार बायलां भितर ही तांक आसता. ते प्रमाण ती यत्न बी करता. पूण राजकारणांत तिचे हे गूण अवगूण थारतात. कित्याक ती प्रामाणिक आशिल्ल्यान ती पैशे खायना आनी दुसऱ्यांकूय पैशे खावंक दिना. अशा वेळार हेर लोक तिका मुखार वचूंक दिनांत. सगळे कोमिनार जावन तिका खंयचे खंयूय धुकलून दितात.

हालीं राजकारण म्हळ्यार चिखोल जाला. त्या चिखलांत बायलांक साळकावरी रावचें पडटा. आपलें चारित्र्य लखलखीत आसा. सत् आपलेवटेन आसा हें दाखोवन दिवचें पडटा. हें जर ताणीं दाखोवन दिलें जाल्यार लोक आपशींच तांकां मान दितात. तांचे विरोधक लेगीत तांकां मानतात. बायलांनी एक खेप आपल्याक सिद्ध करून दाखयत जाल्यार तिका मान न दिवपाची हिम्मत कोणूच दाखोवंक शकचो ना.


मुंबय
फोन:९८१९३१५३०७




(शीला कोळंबकार ह्यो साहित्य अकादेमी पुरस्कार लाभिल्ल्यो ज्येष्ठ कोंकणी साहित्यिका.)

# बायलमनीस आयज खऱ्यांनीच स्वतंत्र आसा?

*भोपाळा सारकिल्ल्या वाठारांनी जर चली जालें कीं ताका कुळण्यांत घालून वयर खंय मातयेचो लेप दिवप. त्या नाजूक जिवाचो श्वास बंद जावंक कितलोसो वेळ लागतलो? कांय खेड्यांनी तर खंय चली जालें रे जालें ताका दुदांत बुडोवन धरप. जीव धरतलो कसो पापणीचो? असलें हें बायलांचें जिवाचेरच उठपी स्वातंत्र्य! रेडिओचेर बातम्यांक वतना असल्यो कितल्योशो खबरी वाचूंक मेळटाल्यो. वाचून लेगीत आंगार कांटो उबो जातालो. एका गांवांत तर खंय कितलींशींच वर्सां चलयेच्या लग्नाची वरातच आयली नासली. अशे तरेन चलीय जावंक दिली ना जाल्यार वाजंत्री आनी वरांत खंयची?*

**– जयमाला दणायत**

**ना**का गे बाये हो बायलांचो जल्म! म्हजीं हीं मुक्ताफळां आयकून म्हज्या बरोबरचीं बरोवपी वा हालींच्या नव्या पिळगेतलीं भुरगीं म्हाका हासलेबगर रावचीं नांत. ह्या समानतायेच्या युगांत, ह्या स्त्रीमुक्तीच्या काळांत कितें येवजिता आनी बरयता हें, अशेंच म्हणटलीं. पूण हांव फकत आमची हांगची परिस्थिती सांगिना. एकूणच एक 'जनरल ट्रूथ' एक सामान्य सत् तुमच्यामुखार दवरचेलो येत्न करतां. तें वाचून बायलमनीस आयज खऱ्यांनीच स्वतंत्र आसा काय ना तें तुमचे तुमीच थारावचें.

ल्हान आसतना हांव चली कित्याक जालें, हेर चलेभुरग्यांवरी म्हाका चलो कित्याक केलो ना अशें विचारून हांव म्हजे आवयक खूब धोंसतालें. खरें म्हळ्यार सगळ्यांत धाकटें, कुसखरपवणें म्हणून म्हजी खूब अपुरबाय जाताली, तरी मनांत अशें येतालें, कारण चल्यांनी खंयय भोंवल्यार, केल्यार तांकां कोण विचारनासलो, पूण चलयांनी मात तशी मस्ती केल्यार घरांतल्या जाण्ट्यांक खपनासलें. चलयेन अशेंच वागूंक जाय, तशेंच उलोवंक जाय, घबघब करून धावूंक जायनां, मेळत तशें पाण्ट्यार वा रानांत वचूंक जायना. कोणय बरोबर आसल्याबगर हांगा थंय वचूंक जायना, तिनसांज जावचे पयलीं घरांत येवंक जाय अशीं जायतीं बंधनां आमचेर आसतालीं. चले भुरग्याक बारा गाड्यांनी अब्रू, एखाद्री गेली म्हणून कांय नजो, चली म्हणजे काचेची बशी, वेर गेल्यार भायर मारपाची. हें आनी आयकून घेवचें पडटालें. आतां आमी आपल्या भुरग्यांमदीं असो भेदभाव करिनांत, चलो चली समान मानतात, तांकां समान संधीय दितात. आमकां जें जें मेळ्ळें ना तें तें सगळें तांकां दिवपाचो येत्न करतात, आनी आमी तशें वागलींनांत तरी ही आयची पिळगी आमकां भोऽऽ मीठ घालूंक बसल्या म्हणा!

आमच्या गांवांत, घरांत बी एम.सी. च्या वेळार ते तीन दीस वेगळें बसप, आपले कपडे, आयदनां सगळें वेगळें दवरप, घरांत कोणाक, कित्याक आफडप ना, मुख्य म्हणचे जेवतगीच, खातगीच त्या जाग्यार शेणालोळो, सारवप हें सामकें नावडीचें काम! त्या दिसांनी तर म्हाका चलीमनीस जावप, हो जल्म म्हळ्यार सामकें हळशिकावणें दिसून सामको वीट वीट येवप? सैमान बायलमनशेचेर केल्लो हो अन्याय कसो दिसतालें म्हाका! मागीर मातशें व्हड जायत गेलें, भुरगेपणांतल्यान तन्नेपणाच्या हुंबऱ्यार पावल दवरलें तशें म्हजें म्हाकाच जाणवलें, चली जावप हें हांव येवजितां तितलें सामकेंच वायट न्हय. तांतले तातूंत आवयपण मेळटगीच ही सृजन शक्त फकत चलयांकच मेळ्ळ्या हाचो अभिमान दिसूंक लागलो.

आनी तशें पळेल्यार सामक्या पुरातन काळासावन 'गार्गी, मैत्रेयी'च्या रूपान स्त्री

स्वातंत्र्याचो प्रत्यय मेळटा. पूण मागीर परकीयांच्या हल्ल्यांत बायलांचेर अन्याय, अत्त्याचार जावंक लागले, पुरुषी शक्तीमुखार बायल अबला थारली. तिची राखण ही दादल्यांची जापसालदारकी जाली.



आनी मनूच्या 'न स्त्री स्वातंत्र्यं अर्हति ।' हें वेदवाक्य मानून पुरुषप्रधान संस्कृतायेचीं मुळां समाजांत घट्ट रोमलीं आनी तेन्नासावन पयलीं बापूय वा भाव आनी मागीर घोव, मांव, देर हांचे शेकातळा बायलेचें सगळें स्वातंत्र्य ना नपयत जालें. बायलांचेर आर्थिक, सामाजिक, सांस्कृतिक, राजकी सगळ्या मळांनी चोय वाटांनी बंधनांच बंधनां आयलीं. बायलांक सकयल्या दर्जाचीं थारावन तिज्या स्वातंत्र्याचेरच गदा आयली. तांकां वंय, मेर पडली. तरी लेगीत 'यत्र कार्यस्तु पुज्यते, रमन्त्रे तत्र देवता' ही भावना फकत आपल्या भारतांतच आसा. एकीकडेन बायलांक देवीचो दर्जो दिवन तिका व्हड मान दितात, तर दुसरेवटेन तिका शुद्रातीशुद्र थारावन, नरकाचें दार मानून, तिच्यो भोयो भोयो करतात. बायल म्हणजे पांयांतली व्हाण मानून तिका पांयांतळा माड्डीवपीय हांगा मेळटात. भारतांत विविधताय आसा. हांगां विंगड विंगड वाठार, विंगड विंगड भाशा, चाली रिती, खाण जेवण सगळें वेगळें वेगळें! ताकालागून हांगाच्या कांय भागांनी मातृसत्ताक पद्धत अस्तित्वात आसा. हिमांचल प्रदेश, गुवाहाटी, शिलाँग सारकील्या भागांनी जवळ जवळ सगळींच कामां बायलांच करतना दिश्टी पडटात. थंय आवय ही घराची मुखेली आसता. आनी सगळ्या मालवजाची अधिकारी! रुढी परंपरेन हें सगळें धाकटे चलयेकडेन वता. दादल्यांक चडशे कांय अधिकार नासतात.हे असले काय आडवाद सोडल्यार हेर कडेन मात दादलेच मुखेली आसतात.

आमच्या गोंयांत म्हणा जावं हांव रावतां ते मुंबयतच न्हय, पुराय महाराष्ट्रांत बायलांची स्थिती खरेंच तोखणाय करपासारकी आसा. गोंयांत तर पोर्तुगीज कायद्यान घोवाच्या मालमत्तेचो अर्द हक्क बायलेक आसता म्हणचे बायलेचो खऱ्या अर्थान आर्थिक स्वातंत्र्य पैलींधरून आसा. आतां महाराष्ट्रांतय तो कायदो लागू जाला म्हणा. पूण फुले, आगरकरासारकिल्या व्हडल्या व्हडल्या समाजसुधारकांनी बायलांची स्थिती सुधारपाखातीर म्हान कार्य केलें, देखून हांगाच्या बायलांची स्थिती सुधारल्या. नातर यु.पी. बिहार सारकेल्या राज्यांनी पळेल्यार सामकें जीव घेवन धांव मारन दिसपाची परिस्थिती. फाटले खेपे बेंगलोर वतना भैयिणींचो एक जथोच कसो आमचे बोगींत आसलो. खूबशो बायलो सिटार बसनासतना जमनीर फतकल मारून बशिल्ल्यो. हांवें अजापान तांकां विचारलें तर सांगूंक लागलीं, आमच्यांत घरांतलीं जाण्टीं मनशां म्हऱ्यांत आसतना वयर बसनात. ताणें पदरान धापून सकयलच बसचें पडटा. हांवें म्हळें घरांतय अशेंच? तर हय म्हणूक लागलीं. तांच्यांतलो कोणय दादलो थंय पावलो कीं पदरान सामकें तोंड धापून बेगबेगीन उठून उबीं रावतालीं. हांवें मागीर तांच्या मांयक बी जाण्टेल्यांक समजायलें – म्हळें निदान प्रवासांत तरी अशें करिनाकात. सीट बर्थ रिझर्व करूनय तांकां सकयल बसूंक लावप हें बरोबर न्हय. खूब तरांनी समजावन सांगतगीच तीं कशीं तरी तयार जालीं. चोवीस वरां तांची ही कसरत पळोवनच हांव सामकें थकून गेलें. उबो जल्म हीं कशीं काडटात काय हे येवजणेनच म्हाका नाका शेवट जालो. पूण हें खरें, हांचें प्रुफय म्हाका रोकडेंच मेळ्ळें.

आमचें एक सोयरें घोवाली, बदली जाली म्हणून बनारस गेल्लें. तीन म्हयन्या भितर परत गांवघरा आयलें. ताचें म्हणणें 'एक तर थंय नाल्ल, नुस्तें मेळना. हांकां तर सदांच हुमण कडी जायच. सुक्याचेर कितें सद्दां भागयतलें? बरें तितलेंच जाल्यार बरें. कितेंय शीत, रोस खावन दीस काडूं येताले. थंय खंय भायरूच सरूंक मेळना. कोणूच बायलो भायर भोंवनात. तकली तोंड धापून शेजारी पाजारी घरांत गच्च. हाचो जीव सामको वयर – सकयल. असलें हें वागप आमकां गोंयकारांक परवडपाचें गे? तीन म्हयन्यांभितर पपा काडली' म्हणूंक लागलें.

भोपाळा सारकिल्ल्या वाठारांनी जर चली जालें कीं ताका कुळण्यांत घालून वयर खंय मातयेचो लेप दिवप. त्या नाजूक जिवाचो श्वास बंद जावंक कितलोसो वेळ लागतलो? कांय खेड्यांनी तर खंय चली जालें रे जालें ताका दुदांत बुडोवन धरप. जीव धरतलो कसो पापणीचो? असलें हें बायलांचें जिवाचेरच उठपी स्वातंत्र्य! रेडिओचेर बातम्यांक वतना असल्यो कितल्योशो खबरी वाचूंक मेळटाल्यो. वाचून लेगीत आंगार कांटो उबो जातालो. एका गांवांत तर खंय कितलींशींच वर्सां चलयेच्या लग्नाची वरातच आयली नासली. अशे तरेन चलीय जावंक दिली ना जाल्यार वाजंत्री आनी वरांत खंयची? गर्भजल परिक्षा कायद्यान बंदी, सगळें खरें आसलें तरी ह्या असल्या वाठारांनीं हे अमानुश प्रकार नीस दिन बरसत आसतात. हाका आदि ना अंत.

हें जरी खरें आसलें, तरी आमच्या देशांत जायतें बरें अशी स्थिती. हेर सुधारिल्ल्या देशांनी हाचे परस वायट स्थिती आसा. अर्थांत ही सगळी आयकल्ली आनी वाचिल्ली म्हायती. 'चक्षुःरैव स्थिती' न्हय. आख्ख्या संवसारार वेपारी सत्ता गाजोवपी चीन सामको

साम्यवादी देश म्हणून फामाद! पूण तांतलो तो साम्यवाद बायलांच्या वांट्याक चडसो आयिल्लो दिश्टी पडना. सोबितकायेचे पिशे कल्पनेन चलयांचे पांय ल्हान दवरचे पासत भुरगेपणांत दोडून बांदून तांकां कुटत चलोवप फाटल्या शेकड्या मेरेन चलतालें. आतां मात थंय 'एक घर एक भुरगें' हो कायदो येतगीच बायलांचें स्थान मात्शें बदल्लां. पूण तें बायलांची संख्या हजारांक आठशां सकयल पावल्या म्हणून! तरण्या चलयांचो भाव वाडला, आनी जायत्या गरीब तरणाट्यांक जल्मभर आंकवार रावचें पडटा.

जपान तर इतलो फुडारिल्लो, गिरेस्त देश. कांय वर्सां पयलीं आख्ख्या संवसाराक भारी थारिल्लो. थंय आजूनय बायलांक शोभेची वस्त मानतात. ऑफीस जावं हॉटेलांनी येवकार दिवपापुरतो तिका जागो. वयल्या जापसालदारकेचो जागो तिज्या वांट्याक चुकूनच येता. युरोपांतल्या बायलांचो तर 'कॉर्सेट आनी चेस्टिटी बेल्ट' हाणी शेंकडो भरापयलीं जीव सामको नाका करून सोडिल्लो. वेंतभर कमर आनी उभार थानां ही दादल्यांची मागणी पुराय करचेपासत बायलांक कितलें दुख्ख भोगचें पडलां आसतलें हें बेठे येवजून लेगीत मनाक शीण येता. आमचे दादले घरापासून पयस गेले तरी तांचो आपल्या बायलांचेर विश्वास आसता ही केदी व्हडली अभिमानाची गजाल आसा!

भारताक स्वतंत्रताय मेळ्ळ्याबराबर हांगाच्या सगळ्या सज्ञान नागरिकांक मताधिकार मेळ्ळो. युरोप, इंग्लंडांत बायलांक तो मेळोवचे पासत, वर्सांचीं वर्सां झगडचें पडलें. 'सफ्रजेटस' चळवळ करची पडली. पगारांत लेगीत दोन तरा, त्या भायर लैंगिक छळाक तोंड दिवचें पडटा तें वेगळेंच. सगळेकडेन असुरक्षितताय. त्यामानान भारतांत परिस्थिती जायती बरी म्हणची पडटा. हांगाय असुरक्षितताय आसली तरी सगळ्या मळांनी बायलांक आपली कर्तबगारी दाखोवंक वाव मेळटा. हेर देशांनी परिस्थिती साप्प वेगळी. एकूण सार कितें काय म्हळ्यार आमी भारतांत जल्मल्यांत हें आमचें मोठें भाग्य समजूंक जाय. हेर देशांची स्थिती पळयल्यार अशेंच दिसता.

इराणांतल्या कडक धार्मिक वातावरणांत बायलांची कशी आनी कितली घुस्मट जाता तें तिजी तीच बाबडी जाणा! तकलेक हिजाब बांदप. केंस, कान, मान धांपप, थंयचे गरमेन तकली चिकचिकता, आंगार काळी 'चादर' पांगुरची पडटा तांकां. हातसुद्दां भितर, फकत तोंड उक्तें. उलयतना खंय तेंवय धांपप. कातीर फोड येवपासारकी थंयची उष्णता. जीव वचपाची पाळी! आडखळ नासतना, पडनासतना कशीं चलतात तांचीं तांकांच खबर! बायलांचे भलायकेचेर हाचो खूब वायट परिणाम जाता. घराभायर वचप ना, व्यायामाचें नांव ना, फकत खा खा खावप! मागीर वांकड्यो तिकड्यो सुट्टात. काळजा दुयेस, बी.पी., डायबेटीस, संधिवात आनी मानसिक घुस्मटमार तर आसाच. हांची ही कापडी जल्मठेप म्हणचे धर्माच्या नांवांखाल बायलांचो जल्मभर छळच म्हणपाचें! आमच्या मुंब्राक पळोवपाचे मुस्लिम बायलांचे हाल! सगळें आंग धापून गर्देत चिड्डुत त्यो बायलो चडटात काळे पेंग्वीन कशे! बरोबर कितलींशींच कार्चीबुर्चीं! फॅमिली प्लॅनिंग बी तांच्या धर्मांत बसना. मागीर फोर्सान वर्सान वर्स गुरवचार आनी बाळंटेर! मागीर १७-१८ वर्सां पिरायेर दोनूय हातांत दोन, कमरार एक आनी पोटांत एक- तातूंत तो आंगभर काळो बुरखो, कांय जाण मोठे खोशयेन आपल्या धर्माच्यो रुढी परंपरा मोठ्या उमेदीन मिरयतात. तर कांय जाण नाईलाज म्हणून हें सगळें सोंसतात. 'अलोंग विथ माय डॉटर' हे कादंबरींत हे असले स्थितीचें बारीकसाणेन वर्णन केलां, तें वाचून कोणाचेंय आंग भयान शिरशिरलेबगर रावचें ना. इतलें त्या बायलांचे हाल वाचतगीच आमी खऱ्यांनीच भाग्यवान दिसतात.

आमच्यो आदल्यो प्रधानमंत्री सर्गेस्त इंदिरा गांधी म्हणा, वा आयची राष्ट्रपती भौ. प्रतिभा पाटील, जावं किरण बेदी, कल्पना चावला अशीं जायत्यो बायलो आपल्या आपल्या मळांनी आपल्या फिशालकायेन चमकतना दिसतात. अशो हाताच्याच न्हय तर पायांच्याय बोटार मेजूंक जायत इतल्या बायलांक पुरायेन हें स्वातंत्र्य मेळ्ळां आसत; न्हय ताणीं तें झगडून झोंबून घेतलां म्हणूं या. पूण हाचो अर्थ असो जायना कीं सर्वसामान्य बायलां पुरायेन आयज स्वतंत्र जाल्यांत.

मध्यप्रदेशांतल्या शर्मा काय वर्मा नांवाच्या दोतोरणीन मुंबय फाटीं घोवाच्या आनी घरच्यांच्या छळाक लागून गोळाक लावन घेवन जीव दिलो अशें पेपरांत छापून आयिल्लें. येदी व्हडली कुशल, फेमस डॉक्टरीण- बरें जोडपी ती लेगीत ह्या छळांतल्यान सुटली ना. व्हडल्या आफिसांत व्हडल्या पोस्टार आशिल्ली व्हडली इंजिनिअर बायल म्हयन्याक लाखांनी जोडपी, पूण घरांत तिका पांय पुसण्याइतलीय किंमत नाशिल्ली हांवें पळेल्या. बायलेन शिकचें, नोकरी करची, जोडून हाडचें, पूण मनांत आयल्यार कोणाक येद्दें कितें उबारून दिवपाचें स्वातंत्र्य तिका आसताच अशें ना. उच्चशिक्षाविभूषित चलयांची संख्या जायती वाडल्या, उंचल्या पावंड्यावेलो अधिकाराचो जागोय तीं सांबाळटात. तरीलेगीत घरकाम, भुरग्यांचो सांबाळ करप तें फकत बायलांचें राखीव मळ मानतात. तरी भुरग्यांनी खंयचे शाळेंत वचचें, खंयच्या मिडीयमांतल्यान शिकचें हें लेगीत थारावचेलो अधिकार जायत्या जाणांक नासता. म्हजे मतान जोमेरेन न्हवरेकार व्हंकलकार हो भेद समाजांतल्यान ना नपच्शात जायना, जावं कन्यादानासारके विधी लग्नांत आसात, जोमेरेन बायलेक दुय्यम स्थानाचेर बसयतात, तो मेरेन बायलांक पुरायेन स्वातंत्र्य मेळ्ळें अशें जावचें ना.



३०, मांगल्य,
अवधूत को. ऑ. सोसायटी,
डोंबीवली (पूर्व) ४२१ २०२

# आयची बायलमनीस आज स्त्रियांनी स्वतंत्र आसा?



- सुधा सुरेश आमोणकार

*घटस्फोटिता, विधवा, प्रौढ कुमारीका हांका आयचो भारतीय समाज उणाक नदरेन पळयता. पुरूशप्रधान संस्कृतीचे परंपरेचेंच तें एक आंग आसुंये! दादल्याची बायलेकडेन मनीस म्हूण पळोवपाची नदर निवळटली, तेन्ना घडये हें चित्र बदलतलें. पूण तो मेरेन बायलोच बायलांच्यो दुस्मान जावन वावुरतल्यो? त्यो आपूण जावनच बायलांमदीं जाती निर्मितल्यो? मनीस म्हूण बायलांकडेन पळोवपाचें त्योवूय टाळटल्यो? दादलो आनी बायल हांचे मदले विशमते आदीं बायलांमदली ही विशमता आमीच ना करूंक नाका?*

**भा**रतीय घटनेन दादल्या बायलांक समान संद, समान हक्क दिले पूण ताची अंमलबजावणी जितली जावंक जाय आसली तितली जाली काय? काय पेपराचेरच चड उल्ली?

घटनेन दिल्ले हक्क, रूढीन निर्मिल्ली मनोवृत्ती आनी प्रत्यक्ष सरभोंवतणी आशिल्ली परिस्थिती हांचो आपसांमदलो विरोध दिश्टी पडटा. हो आमच्यांनीं यत्नान उणो करूं येता.

पयलीं तेंपावेली फकत रांद आनी वाड ही बायलांची भुमिका आतां उरूंक ना, तर खूबशा मळांचेर बायलांनीं कर्तूत्व दाखयलां. ती जायत्या गजालींनीं आपली समर्थताय दाखोवंक लागल्या. 'स्त्रीशक्ती म्हळ्यार एक व्हडली सात्विक तांक, एक अप्रूप शक्ति. तिजी ही तांक फाव त्या वावरांत, लागनाशिल्ल्यान, तिचो दिश्टावो हेरांक जावंक पावना.' गांधीजीन हें सांगिल्लें.

एक कुटूंब चलोवपी ती एक गृहमंत्री. भुरग्यांक मायेन वाडोवपी ती एक समर्थ आवय. वेळ पडल्यार 'शांता जाली दुर्गा रे' अशी ही दिव्य तांक.

आनी तरूय बायलांची सुवात दुय्यम, सकयल्या पावंड्यावेली! दादल्यापरस बायल उणी हो विचारच मनांतसून पुसून वचना जायत, जाल्यार किते उपेग? बायल जावं दादलो दोनूय मनशांच न्हय? मनशाकडेन, मनीस म्हूण पळोवपाचें, चलपाचें काय बायल आनी दादलो म्हूण पळोवपाचें? जन्मापासून आमकां हें कोणें शिकयलें? समाजान? समाज वेवस्थेन? दादलो आनी बायल हांचे मदीं विशमताय आसूंक फावना. ही विशमताय ना करप हें आमचे सुवादीन आसूनय, आमी ती भायर मारून उडोवपाचो यत्न केलो ना जाल्यार आमीच बायलां आमच्या पांयार फातोर मारून घेत आसात, अशें जावंचें ना?

मनशाचें जिवीत सुखांत चलचें म्हूण

जाणट्यांनी ही समाज वेवस्ता आखून दिल्ली. मनशां-मनशांक तरेकवार जापसालदारक्यो वांटून दिल्ल्यो. समाजहिताचे नदरेन तें अटळच. पूण तत्व फाटल्यान पडलें. ही वेवस्ता मनशांभितर आसली. मनीस हो चड म्हत्वाचो आसलो तातूंत. पूण हें फांसून वचूंक लागलें. वेवस्ताच मनीसपण नाशिल्ली कशी जावंक लागली.



बायल आनी दादलो समसमा म्हणपाची शिकवणय तिका शिक्षणान मेळूंक पावली ना. तिच्या घरांतय तशे संस्कार तिचेर जावंक पावले नांत.

नाजाल्यार आमी आवयो, आपल्या चलयांक अशें म्हणच्यो नासल्यो,

''आगो, पापणी, ओगीच वाद घालू नाका, तुका वायट संवय जातली. म्हारग पडटली तुका घोवागेर वतकच. संवयेचे बोट तोंडांत वता. फाल्यां घोवागेर वतकच अशेंच वागलें जाल्यार कशें जातलें? चलयेच्या जल्माक आयलां तूं! चल्यावांगडा सर्त करूं नाका.''

असल्या उतरांनी आवयो कितें सुचयतात? वाद घालप हें मुळांतच वायट आसत जाल्यार तें खंयच करूंक उपेग ना. पूण घोवाचे आवडी-निवडी प्रमाण केलें जावं न केलें तर मात मान्य आसा हांतलो गर्भितार्थ चलयेक कळटा. आनी आपूण दादल्यापरस उणी आसा म्हणपाचो न्यूनगंड तिका भुरगेपणासावन जावंक लागता.

आमचे समाज वेवस्थेनच तिका हें कुड्डेपण दिलें. हो कुड्डो विचार तिका दिलो? आयज बायलांक मेळिल्ल्या शिक्षणान तांकां मेळिल्ल्या तरेकवार संदींक लागून तांची जीण साप्प बदलल्या. तांचे जिणेचें मान दुसरेभाशेन जालां आनी तरी लेगीत बायल ही बायलच, तिका दादल्या परस उणीच सुवात आसा, असोच संस्कार, अशीच सुचोवणी, ही समाज वेवस्था एकसारकी दीत रावली जाल्यार कितें उपेग? पूण हे वेवस्थेन दिल्लो कुड्डो विश्वास आमच्यांनी मुजरत टाळूं येता, आनी उणो करूं येता. चली आनी चलो हातूंत वेगळेंपण आसा हें जीवशास्त्रीय सत्य जावन आसा. ताचे पुरते कांय फरक करचेच पडटले, पूण हे समाज वेवस्थेन घालून दिल्ल्या ह्या भुमिकांचें, जावं नात्यांचे हे कांच आमकां उणे करूंक येतात न्हय? हे विश्वास कुड्डे म्हणून विचारांक लुकसाणी करतातच. वेल्यान ते बायलांच्या कर्तृत्त्वाकय नाकाशिल्ली शीम घालतात, बंधना घालतात. आनी हातुंतच खरेली भिरांत आसा.

बायलांनीच बायलांक फुडें काडूं नाका? एकमेकांचो कुड्डो विश्वास आमचो आमीच नाकारून फुडें सरूंक फाव

स्त्रीमुक्ति म्हळ्यार, दादल्यांकडेन झगडप न्हय. जावं दादल्या वांगडा सर्त न्हय. स्त्री स्वातंत्र्य म्हळ्यार दादल्यां विरूद्ध चळवळ न्हय तर तिका मुक्त करप. भिरांकूळ समाजिक आनी धर्मीक रूढींच्या बंधनांतल्यान मुक्ति, आतां तिणेंच आपल्या मनाबळाचे तांकीर करपाची खूब गरज आसा.

आमी बायलांनी, आमचेरच नाकाशिल्लीं बंधनां ओगीच कित्याक घालून घेवपाचीं? मेकळेपणान खाशेल्यो इत्सा आंवडे फावत्या मार्गान पूर्ण करूंक मेळ्ळ्यार तें आमकां खऱ्यानीच नाका आसता? मेकळेपणान आपल्या व्यक्तिमत्वाचो हेरांचेर प्रभाव घालप, एकमेकांच्या ज्ञानाचो उपेग करून आपलें व्यक्तिमत्व फुलोवप ह्या गजालींनी कसली लुकसाणी जाता? हातूंत कसलें उणेपण? बऱ्या गजालींतल्या विशाळ विचारांचो दिश्टावो आमकां जायना जायत जाल्यार आमची खरेली उदरगत कशी जातली? आनी जाका लागून आमचें व्यक्तिमत्व फुलना अशा कुड्डया विचारांक आमी कित्याक आपणावपाचें? आमचे मदली समर्थकाय जागोवपाच्या जाग्यार आमीच ती कित्याक चेंपून -चिड्डून उडोवपाची? तातुंतल्यान आमी कांयच सादूंक पावची नात. अशी समाजवेवस्था आमचे उदरगतीक खीळ घालता जाल्यार, तिच्या चेंपणाखाला आमी चिड्डून वचपाचें?

संवसार जेटाचे गतीन फुडें फुडें धांवत आसा. तो फुडें वचत रावतलो. पूण आमी बैलगाडयेंतसून वतलीं म्हूण आमी चिंतलें जाल्यार लुकसाण कोणाचें जातलें? आसा तेंच बरें आसा म्हूण अट्टहास करप आनी आमीच आमकां दुर्बळ समजप, हें आमचें हीत करपी जावं येता?

आयज आमी पळयतातच की, जायत्या मळाचेर बायलो आपल्या कर्तृत्वान फुडें वचत आसात. आमी बायलो त्या बायलां भाशेनूच न्हय? ती जें ज़ें करतात तें आमच्यांनीय करूं येता न्हय? तें म्हज्यान कित्याक करूं नज? हो प्रस्न आपणाक विचारपाचो वेळ आयला.

त्या बायलांक मेकळीक आसा, तांचे कडेन शिक्षण आसा, तांच्या घोवाचें तांका नैतिक बळगें मेळटा. घरांतलीं मनशां तांका फाटबळ दितात, जावं फाव तशो संदी तांका मेळटात, म्हूण त्यो फुडें पावल्यात, म्हाका त्यो मेळूंक नात, अशें आपणाकच सांगून आपली प्रतारणा करपांत कितें अर्थ आसा? चारूयवटांनीं संदी पातळ्ळ्यात. तांचो लाव घेवप हें आमच्या हातात आसा न्हय?

तें करपाक आमकां कोण आडायता? आनी तशें घडत आसत जाल्यार त्या गजालींक विरोध करून, त्या संदीचो लाव घेवप हेंच श्रेयस्कर न्हय?

सगळीं मळां आतां बायलांक उकतीं आसात. साहित्याच्या मळार बायलांनी आपलें व्यक्तिमत्व मेकळेपणान फुलोवंक येता. आपले मोलादीक अणभव उक्तावन, हेर बायलांकय तांचो लाव दिवं येता. साहित्यांत मोलादीक भरय घालूं येता. राजकी मळावेली लांचलुचपतीची हळशीक पयस करपाक तर बायलांनी फुडेंच सरूंक जाय. आतां तर ३० टक्के प्रतिनिधित्व बायलांक दिवपाची भास चल्ल्या. ताचो लाव आमी बायलांनी घेवंकच जाय.



बायलोच बायलांच्यो दुस्मान जावन वावुरतल्यो? त्यो आपूण जावनच बायलांमदीं जाती निर्मितल्यो? मनीस म्हूण बायलांकडेन पळोवपाचें त्योवूय टाळटल्यो? दादलो आनी बायल हांचे मदले विशमते आदीं बायलांमदली ही विशमता आमीच ना करूंक नाका? ही विशमता ना करप हें आमचे सुवादीन आसूनय, आमी ती भायर मारून उडोवपाचो यत्न केलो ना जाल्यार, आमीच बायलां, आमच्या पांयार फातोर मारून घेत आसा अशें जांवचे ना?

खूबशा मळांचेर बायलांनी कर्तूत्व दाखयलां. ती जायत्या गजालींनी आपली समर्थकाय दाखोवंक लागल्या. पूण जितल्या प्रमाणांत ही जागृताय जावंक फाव तितली जावंक पावंक ना. आनी म्हूण हे समाज वेवस्थेत बदल घडोवन हाडप खूब गरजेचें जावन आसा आनी म्हूण पयली गजाल म्हळ्यार आमी आमचे मदले खरे तांकीक वळखूंक जाय. आनी न्हिदिल्ले आमचे तांकीक खऱ्यानीच जागोवंक जाय. आमी भितल्ल्यांनच जेन्ना पेट्टलीं, अस्वस्थ जातलीं तेन्नाच ही समाजिक जीण बदलपाची स्फूर्त आमकां मेळटली.

बायलांक फुडें काडपाखातीर खूब कायदे जाले. तिची सुवात खूबशी सुदरल्या पूण अजूनय ती सुवात पचनी पडूंक ना. बहुजन बायलांक हाजो लाव मेळूंक पावंक ना. अजूनय पुरूशप्रधान वृत्ती चालूच आसा.

खबरांपत्रांनी व्हडल्या अक्षरांनी एक खबर आयिल्ली. 'देशांत गेल्ल्या वर्सभरांत ११ हजार बायलांचेर बलात्कार, २२ हजार बायलांचो विनयभंग, ४,८५० हुंडाबळी, तरणाट्या चलयांक आनी बायलांक उखलून व्हरपाच्यो खूब घडणुको, १९९३ त तर तश्यो ११,५०० घडणुको घडल्यो.'

हे भिरांकूळ आंकडे कितें दाखयतात? आयच्या समाजाचें हें विकृत चित्र पळोवन कोण खेदिश्ट जावंचो ना? मनीस आपलें मनीसपण शेणोवन बसलो? सुधारणेच्या ह्या काळांत, २१ व्या शेंकड्यांत पावल दवरून, तीच पयलीची रानवट वृत्ती? विज्ञान युगाचे हे विपरीत परिणाम? सोंसू येता हें सगळें आयकून? मनीस विचारवंत प्राणी न्हय? खंय गेली ताजी बुद्ध? आनी विचार करपाची तांक? प्रकृतीन दादलो विध्वंसक आसता अशें म्हणचें पडटा न्हय! रानवटी अवस्थेंत ताका झगडचें पडटालें, आतां रानवटी अवस्था गेली, पुणून लडपाची ताची खुमखुमी अजून गेल्ली दिसना. एक काळ आसलो, बायलांक फुडें काडपी दादलेच चड आसले. तांका स्वतंत्रपणाची तांक दिवपाक, शिक्षण दिवपाक रानडे, आगरकर, कर्वे सारकेले म्हान दादलेच आसले. मागीर आज हो भिरांकूळ विरोधाभास कित्याक?

बदल जाले, पूण ते वयलेवयर! अजून गाभो तसोच आसा. आयजूय बायलेक कोणूय पालक आसचो, ती ताचे अंकीत आसची, हीच समाजाची भावना.

घटस्फोटिता, विधवा, प्रौढ कुमारीका हांका आयचो भारतीय समाज उणाक नदरेन पळयता. पुरूशप्रधान संस्कृतीचे परंपरेचेंच तें एक आंग आसुंये! दादल्याची बायलेकडेन मनीस म्हूण पळोवपाची नदर निवळटली, तेन्ना घडये हें चित्र बदलतलें. पूण तो मेरेन

आयज आमी २१व्या शेकड्यांत पावल दवरलांच मळबांत मनीस भोवंक लागला, मनशाचीं जायतीं कामां तरेकतरांचीं यंत्रां करूंक लागल्यांत अशे तरेन फुडारिल्ल्या देशांत, शेंकड्यांनी वर्सां जालीं तरूय अजून समाजांत वरदक्षणेचो श्राप उरला हें कोणेय सांगल्यार खरें लेगीत दिसचें ना. वरदक्षणेचो हो जीव घेवपी प्रस्न मात दिसान दीस सोपो जावचे बदला कठीण जायत चल्ला. आस्तिक जावं नास्तिक ह्याच प्रश्नान आकूळ पिकूळ जाला अशें वता थंय दिश्टी पडटा. पेपरांनी तर आमी आत्रेपयऱ्यान वाचतात कीं, हुंडो सारको दिलो ना म्हूण मांयन सुनेचो जीव खालो आनी ऊबगून, सुनेन हुलपावन घेतलें, स्वतःक गोळ लावन घेतलो, जावं घरांतल्यान ती नाच्च जाली. म्हणून हे दुश्ट प्रथेक लागून बायलांची जीण सामकी कस्पटासमान जाल्या. तिचे जिणेक कसलेंच म्हत्व ना जालां. कोणेय येवंचें आनी तिचो बाजार मांडचो अशें जालां. ते खातीर बायलांनीच आपली जीण मोलादीक करूंक जाय. वरदक्षणेआड चळवळ करून ही वरदक्षणेची दुश्ट चाल नाच्च करूंक जाय.

बायलांनीं आतां सामकीं जागीं जावपाची गरज आसा. आमकां कितें जाय? आमची जीण, आमचे आवडी-निवडी प्रमाण जियेवंक जाय. सगळ्यांक मर्यादा आसप हें

खूब गरजेचें. पूण ओगीच रूढीचें नाकाशिल्लें, कुड्डें चेंपण नाका. लोक कितें म्हण्टीत म्हूण हातचो बरो वावर सोडप नाका. आमीच आमच्यांत आत्मविश्वास जागयलो, हेरांक फुडें सरपाक आनी आपणाकय फुडें येवपाक, आनी लोकांचींय वायफळ उतरां कानामनार घेनासतना, तांचेकडेन पुराय दुर्लक्ष करून, नवे पिळगेक नव्यो दिको दाखवपाचो यत्न केलो आनी एक बरी समाज वेवस्था करूंक पालव दिलो म्हणपाचें समाधान पदरांत घालून घेवया. करणाऱ्यांनी करप आसता, उलोवणाऱ्यांनी उलोवपाचें. बायलांच्यो अडीअडचणी, बायलांकच चड बऱ्यो कळटात. आनी म्हणूनच समजिकायेन आमी एकमेकांक फुडें काडप हेंच चड गरजेचें आनी म्हत्वाचें. घेवपापरस दिवपाचीच भास आसत जाल्यार तातूंत हक्काचीं उतरां येवंक पाव नांत. सगळें कशें समजिकायेच्या आधारार चलता.

मनीस म्हूण बायलेचें जें कितें आसा तें तिका मेळूंक जाय. तें तिका मागचें पडूंक फावना. दादल्याचो खरो पुरूशार्थ बायलांक आपले वांगडा घेवन वचपांत. तीच खरी तांची समर्थकाय जावं येता. चेंपण कोणाच्यानय घालूं येता, पूण दादल्यान तिची तांक वाडयत जाल्यार, ताकाच ताचो लाब जातलो. ताचेंच कुटूंब बरें वयर काडपांत, बरो निर्णय घेवपांत तिचो पालव ताका मेळटलो. ताचो खाशेलो भार आपशींच वाटून वतलो. उणो जातलो. हें जाल्लें कोणाक नाका?

'He who knowns and knows not that he knows, is asleep, wake him up'

आपल्याक खबर आसा म्हणपाचें जाका खबर ना तो निद्रिस्त, ताका जागोवपाचें पडटा. हो एक चिनी सुविचार. तो आमकां बायलांक लागू पडटा. आमची बायलांची तांक केदी व्हडली आसा, हें आमचें आमकांच खूब फावटी खबर नासता. तेन्ना निद्रीस्त उरनासतना, आमी आमकांच जागोवपाचो वेळ आयला. कितें बरें करून आपली समर्थताय दाखोवपाचो तेंप आयला. आमचो फुडार आमच्याच हातांत आसा. कोणूय दुसरो येतलो आनी आमका वयर काडटलो, म्हणपाचो तेंप आतां उरूंक ना. आमीच हातपांय मारचे पडटले. आत्मविश्वास उप्रासता तेन्ना मनीस नवो वावर करूंक फुडें सरता. तांचे फाटल्यान हेरूय बायलो फुडें सरतात. आपणे बऱ्या विचारांनी आनी करणेची देख घेतली, दिली आनी नेतेपण केलें, हेरांक बरी दिका दाखयली, आपले वांगडा तांकाय फुडें काडलीं, हें समाधान आमी पदरांत घालून घेवप हेंच फाव कशें जातलें.



गुरुकुंज,
म्हापशें – गोंय

# बायलमनीस आज खऱ्यानीच स्वतंत्र आसा?



**– शांतन पावसे**

*आयज सगळ्या बायलांनी एकामेकाक साद घालून, आधाराचो हात मेळोवन मूठ जोडली जाल्यार खूब कितें बदलूं येता. पूण अशें जायना. कारण राजकारणांत, खाजगी कार्यालयांनी, धर्म अध्यात्माच्या नांवार बायलांक जाय तश्यो वापरून त्यो गळसणल्यात. पयलीं त्यो अडाणी आशिल्ल्यो. पूण आतां पदरांत शिक्षण आसून लेगीत मोनेपणाचें सवंग पांगुरतात. कारण समाजाची लज म्हणजेच संस्कृताय तांकां खंय ना खंय आड येता.*

**स्व**तंत्रताय म्हळ्यार मेकळीक आनी हक्काची जीण. सगळ्या बंधनांतल्यान मुक्त जावन मेळटा तें स्वातंत्र्य.

बायलमनीस आनी तिची मेकळी जीण हो विशय तसो पळोवंक गेल्यार आयच्या काळांत तरी समाधानाचो आसा. तितलोच तो चिंतेचोय आसा. समाधानाचो विशय म्हळ्यार आदल्या तेपावयली बायलेची जीण आयकत जाल्यार आंगार काटो फुलता. दादल्याच्या हुकुमशायेची ती संस्कृती पळयल्यार बायल एक वापराचें साधन आशिल्लें. मनात येता तेन्ना जाय तितली जाय तशी वापरप आनी तिचो वट आयलो काय खोटावप. त्यावेळार भुरगेपणांत लग्न करप, वरदक्षणेखातीर हुलपावप, घोवा फाटल्यान सरणार चडोवन तिका सती धाडप, बोडकी करप, घोवाचीं दोन-तीन लग्नां असो ना ना तरांनी बायलांचो छळ जातालो. त्यो बायलो तोंडाक गुड्डो मारून मुको मार सोंसताल्यो. तांच्यात ताकत आशिल्ली पूण आवाज भायर फुटनासलो. कारण त्यो आत्मनिर्भर नाशिल्ल्यो. भायर भोवपाक मेकळीक नासली. चार वण्टीभीतर घुस्मटत रावचें पडटालें. त्या मानान आयची बायलमनीस बरीच फुडें पावल्या. शिकून, नोकरी करून दादल्याइतलीच ताकतवान जाल्या. शिक्षणीक मळार जाल्ले उदरगतीक लागून विचार वाडला. ती बेधडकपणान आपल्याचेर जावपी अन्यायाविरुद्ध आवाज करपा इतली सबळा जाल्या. हातूंत साहित्याचो तशेंच टी.व्ही., संगणक तशेंच गांवांगांवांनी महिला मंडळां, भगिनी मंडळां, आपरोजगार येवजण सारक्या माध्यमांतल्यान तांची विचारशक्त वाडोवपाक मोठो आदार जाला. स्वतःचे बुद्धीन स्वावलंबनांतल्यान त्यो स्वतःचें अस्तित्व सोदतात ही भोवच समाधानाची गजाल.

पूण!!! ही गजाल समाधानाची तितलीच चिंतेची जायत चल्ल्या. काळावांगडा बदल घडला आनी तो घडप सैमा सारको अपेक्षीत जरी आसलो तरी आमी म्हणटात तितली बायलमनीस अजून स्वतंत्र ना. ती शिकल्या सवरल्या, नोकरी धंदो करून दादल्याची

बरोबरी करता पूण ती सुरक्षीत ना. वेळ-काळ, धर्म परंपरानी, संस्कृती, कर्मकांडांनी ती घुस्पल्ली आसा. तिच्या मनांतलो समाजाचो भंय, दुगदूग तिका पावला कणकणी आफुडटा. दिसपट्टी जावपी चलयांचेर, बायलांचेर आगळीक, हुंड्याखातीर छळ, चलयांची भ्रुणहत्या अजून चालू आसा.



आयज सगळ्या बायलांनी एकामेकाक साद घालून, आधाराचो हात मेळोवन मूठ जोडली जाल्यार खूब कितें बदलूं येता. पूण अशें जायना. कारण राजकारणांत, खाजगी कार्यालयांनी, धर्म अध्यात्माच्या नांवार बायलांक जाय तश्यो वापरून त्यो गळसणल्यात. पयलीं त्यो अडाणी आशिल्ल्यो. पूण आतां पदरांत शिक्षण आसून लेगीत मोनेपणाचें सवंग पांगुरतात. कारण समाजाची लज म्हणजेच संस्कृताय तांकां खंय ना खंय आड येता.

एके बायलेचेर जाल्ले अन्याय, अत्याचार शेजरा रावपी दुसरी बायल पळोवन आपलें दार धापता. कारण तें दुःख तिचें नासता. एकाद्रे चलयेचेर आगळीक जाली जाल्यार ताका समाज बोट दाखयता पूण आपणायना. आयची अस्तुरी जोडटा. सकाळीं उठून रांदप, ऑफीस, घरांतलीं कामां, भुरग्यांचें शिक्षण सगळीं कामां वेळोवेळा करता. दिसभर तिच्या माथ्यार चिंतेचो भोरो. येतना-वतना गर्दैत, गाडयांनी असाह्य बयलांचेर जावपी लैंगीक छळाचो भंय, दादल्यांची पोझडी नदर, रातचें एकटें भोंवपाचो भंय अश्या ना ना तरेच्या भंयान तिका बांदल्या. म्हणजे मानसीक आनी शरिरीक नदरेन ती खचल्या.

बायलमनशेच्या खऱ्या स्वातंत्र्याची सुरवात तिच्या घरांतल्यान जाता. फुडें लग्न करून दितगीर घोवाल्या घरच्या लोकांची तिका पयली सुरक्षा जाय. घोव, भुरगीं, मांय-मांव, देर-नण्णो तशेंच घरांतल्या हेर लोकांचो आधार आनी फाटीर धिराचो हात जाय. ना जाल्यार थंयच तिच्या दुबळेपणांक सुरवात जाता. मागीर ती भायर भोंवतना लेगीत स्वताक असुरक्षीत समजता आनी तिची स्वतंत्रताय पांगळी जावन खरें अस्तित्व व्हगडायता.

पूण आतां एकत्र कुटूंब पद्धत चड ना जाल्ल्यान ह्या धांवपळीच्या युगांत एकामेकांकडेन पळोवपाक कोणाकूच वेळ ना. जरी बदलतो काळ आयचे अस्तुरेन वेंगायलो तरी स्वतंत्रताय जाय तशी आपणावंक ना. फुडेंय ती मेळयतली हाची खात्री ना कारण तिच्या पांयांक संस्कृतायेच्यो बेडयो आसात.



परिमल, प्रभू नगर,
फोंडे-गोंय
फोन : ९४२३८३५३५८

# बायलमनीस आयज खऱ्यांनीच स्वतंत्र आसा?

*ह्या पुरुशप्रधान समाजांत बायलमनशेन अबला ह्या शब्दाचो सामको त्याग करपाक जाय. आपलें बळगें वाडोवन खऱ्या अर्थान सबळ जावंक जाय. पयलीं आपली बौद्धीक पातळी वाडोवन निर्णय घेवपाची तांक मेळोवंक जाय. लग्न कोणाकडेन जावंचें, पगाराचें कितें करचें इतलेंच न्हय तर भुरगीं लेगीत केन्ना आनी कितलीं जल्माक घालचीं हांचेर बायलांनीच निर्णय घेवंक जाय. म्हळयार आपलो निर्णय घेवपाची तांक वाडयल्य रावपाक जाय. त्याचवांगडा शारिरीक बळ मेळोवन आपली राखण आपूण करपाक शकपाक जाय. वांकडे नदरेन लेगीत पळयतल्याचे दोळे ताच्याच हातांत दिवपाची शक्त मेळोवंक जाय.*



– आशा शानभाग

**आ**यज एकविसावो शेंकडो चलता. जग फुडे फुडें धावत आसा. टॅक्नोलॉजीच्या वापरान सगल्या संवसाराचो कोनशान कोनसो जोडला. म्हणल्यार संवसार ल्हान जायत आसा. मनीस चंद्रीमावेलो भोवमोलादीक खजिनो सोदपाची तयारी करता. धर्तरीसारकीच जुंवळी धर्तरी खंयतरी अंतराळांत आसा हाचो सोद लागला. एकाच धपक्यान धर्तरी हय आशिल्ली ना जावपाची शक्यताय आसा. तरीकूय जग उमेदीचेरच जगत आसा. अशा ह्या सगल्या बदलांचे फाटभुंयेर आनी बदलत्या मानसिकतायेच्या समाजामदी अस्तुरेची सुवात शेर्त खंय आसा हो प्रस्न उप्रासता.

ह्या संवसारामदीं फकत नर आनी मादी होच भेद उरपा इतली धांव बायलमनशेन मारल्या. शारीरीक पावंड्यावेलो सैमान भोव हेतुनी दवरिल्लो वेगळोचार सोडल्यार बायल आनी दादल हांचेमदीं बौद्धिक स्तरार कांयच भेद असंभव ना. बायलांनी दादल्याइतल्याच वा केन्नाय तांचेपरसूय वयल्या पावंड्यार बसका घेतल्या ती आपले बौद्धीक क्षमतेचेरच. म्हळ्यार अतिताय जावची ना. देखून आयज तरी दादलो म्हान काय बायल म्हान हो प्रस्नच उरिल्लो ना. म्हळ्यार सैमान रचिल्ल्या संवसाररथाचीं दोन एकामेकांक पुरक चक्रां म्हणल्यारच दादलो आनी बायल. शिकपाच्या मळार, खेळाच्या मळार इतलेंच न्हय तर राजकारणाच्या मळारय बायलो फाटीं नांत. इतलें आसुनय मनांत खूब प्रस्नांचीं ल्हारां फुट्टात. बायलांक खरेंच समाजामदीं समान जागो आसा? बायलांक हो समाज मान दिता? हांचेपरस व्हडलो प्रस्न म्हजें मन पोखरता तो म्हळ्यार.... बायल मनीस आयज स्वतंत्र आसा काय कितें?

म्हज्या मतान आनी मनानूय, प्रत्येक भुरगें

जल्माक येता तेंच एक स्वतंत्र व्यक्तीमत्व म्हणून. मागीर जावं तें चली वा चलो. पूण तरीकय ह्या पुरूशप्रधान समाजांत चलयांक आयुश्यभर बापायचें वा घोवाचें नांव वांगडा जोडूनच जगचें पडटा. हें चित्र कसलें? तरीकूय आसूं. एखादेवेळार अमक्यालें चली वा अमक्याली बायल म्हणून कळूनं समाजामदीं मानाची (!) सुवात मेळची म्हणून पुरुशप्रधान समाजाची ती येवजण आसतय. मागीर अशीं नांवां लावपी चलयांचेर वा बायलांचेर अत्याचार आनी बलात्कार कशे जातात? मागीर ही असली तकलादू राखण किदें गरजेची?

खूब फावट आमी आयकतात एकाद्रो बापूय उलयता आसतना तो म्हणटा, 'हांवें म्हजे चलयेक पुराय स्वातंत्र्य दिल्लें आसा.' ते चलयेचें फुडें लग्न जातकीर ताका होच डायलॉग वेगळे तरेन आयकत रावचो पडटा. ताचो घोव म्हणटा, 'हांवें दिल्ल्या स्वातंत्र्याचो तूं गैरफायदो घेवं नाका आं!' ह्यो धमकीवजा सुचना आर्थिक नदरेनूय स्वतंत्र, पैशे-पगार जोडपी आनी घरगृहीणी बायलांक आयुश्यभर आयकुंच्योच पडटात. कारण कितें? हांगा म्हाका प्रस्न पडटा तो इतलोच, बायमनशेक बापूय वा घोव हांचेकडच्यान स्वातंत्र्य मेळोवपाक त्यो केन्ना पारतंत्र्यांत आसतात? दुसरो म्हत्वाचो प्रश्न म्हळ्यार फकत दादले स्वतंत्र आसात हें कोणें आनी खंयच्या निकशांचेर थारायिल्लें आसा? बायलांक बापूय वा घोव हांचेकडल्यान स्वातंत्र्याचें दान दिवपाचो ठेको तांकां कोणें दिला?

हांव आयज चव्वेचाळीस वर्सांचें आसा. जल्मात सावन हांव बरेंच टॉमबॉयीश. झाडार चडप, पेंवप वा स्कुटरीची स्पीड ६५-७० किमी दवरप ह्या गजालींनी हांव दादल्यांच्या मॉनोपॉलीक टक्कर दितां. आयजमेरेन म्हजेर बंधनां लादपाक कोणूच पावलोना. ना म्हजो बापूय ना म्हजो घोव.. कारण एकतर हांव मनान आनी शरिरानय कणखर आसां, म्हजें बरें खंय तें म्हाका जुस्त समजता आनी तिसरी म्हत्वाची गजाल म्हळ्यार म्हजेविशीं म्हजे



फामिलेच्या मनांत खूब विस्वास आसा. हांवय त्या विस्वासाक दगो दिवपासारकें आयजमेरेन वागलें ना. आनी एक गजाल म्हळ्यार आमची आतां तिगांचीच फामिल. पूण आमचे नेम हे तिगांकूय सारकेच लागू आसतात. थंय हांव बायल वा म्हजो घोव आनी चलो दादले म्हणून वेगळेचार ना. रिती, परंपरा हांचो आधुनिकतायेकडेन मेळ घालून पालन करप आनी आपलेविशीं दुसऱ्यांच्या मनांत विस्वास उत्पन्न करप ह्या कामांनी कोणाच्याच स्वातंत्र्याआड कोणूच येना.

आपल्या मनांक जे गजालींतल्यान आनंद भोगपाक मेळटा तें काम करपाची पुराय मेकळीक मेळिल्ली बायलच स्वतंत्रतायेन जगूंक शकता. हांगा दुसऱ्याच्या आनंदाआड आपूण येवचेंना हाचीय जतनाय तितलीच गरजेची आसा. म्हजीच गजाल सांगतां. म्हज्या मनाक जें पटता तेंच हांव करतां. तेन्ना हांव समाजाची लेगीत पर्वा करिना. कोण हो समाज? हांवय त्याच समाजाचो एक घटक. पूण म्हजे आड ओगीच कागाळ केल्यार त्या समाजाक हांवें तरी कित्याक आनी कसलो मान दिवप? एकच गजाल आमी बायलांनी मनांत धरूंक जाय, जेन्ना समाजांतल्या मनशाचें एक बोट आमचेर रोखून धरलें तेन्ना ताचीं तीन बोटां ताचेच छातयेर रोखिल्लीं आसात. हें करतलीं जाल्यार बायलांनी आतां गौरीचें शामळू रूप सोडून दुर्गेचें रूप घेवंक जाय. आपलें स्वातंत्र्य अबाधीत राखपाक, आपली राखण आपणेंच करपा इतलें समर्थ जाल्यारच बायलो खऱ्या अर्थान स्वतंत्र जाल्यात म्हणू येतलें.

उक्त्या स्वातंत्र्याचें पयलें सुत्र म्हळ्यार आपणें आपल्या मतानुसार आनी मनानुसार वागप. ह्या गजालींचो आमी बायलां विचारच करिनांत आनी भुरगेपणांत बापूय वा हेर फामिलीमेंबर आनी लग्नाउपरांत घोवाच्या पावलार पावलां दवरून चलतात. आनी मागीरूच हे नाका जाल्ले बायलां स्वातंत्र्याचे प्रस्न उप्रासतात. कोणेंतरी म्हळां की बायलो ह्योच बायलांच्यो दुस्मान आसतात. हांव तरी शंबर टक्के ह्या मताकडेन सहमत आसां. बापूय वा घोवाचें नांव लायात वा न लायात आयज कोण कांयच म्हणिना. पूण फुतफुततात त्यो ह्याच समाजांमदल्यो बायलोच. 'लग्न जायनासतना उरलां' 'घोव आसा काय मेला हेंच कळनां.' असले थोमणे ह्याच समाजांमदल्यो बायलोच मारतात. आनी त्योवूय बायलांकच. घरांत पयलेफावट भुरगें जल्माक येवपाचें आसा हें कळ्ळें की ह्यो बायलोच जप सुरू करतात. 'फळां खा गो. चलोच जल्मुंदी वंश वाडोवंक' 'आज्याक हाडात गो जल्माक बेगीन.' त्या नव्या जोडप्याक तांच्या रक्तामासांचें तें भुरगें जल्मतलें ताचें अप्रूप आसता. ह्या विंगड विंगड आशिर्वादांनीं तिंवूय बाबडीं घुस्पतात. आतां चलेच वंश वाडयतात आनी चलयो? चले आनी चलयो ह्यो समसमान. कोणूय जल्मूं पूण बाळ आनी बाळंतीण सुशेगाद आसुंदी हें मागणें जेन्ना घराघरांत सुरू जातलें तेन्नाच बायलां स्वातंत्र्याचो प्रस्नच काबार जातलो.

दुसरी गजाल लग्न थारायतना चलयेक पळोवपाचो सुवाळो. कोणेंय शाणे चलयेन चल्याक असवडीं पळोवपाचो विचार आयकयल्यार तें आयजय सुबेज थारता. हांगा चलयांक दोळे भरून पळोवपाचो, तांका कितें येता वा येना हें विचारपाचो ठेको कितें न्हवरेकारांकच दिला? हीं सगळीं कर्मां करतात मांयो आनी नणणो. परतून बायलांच बायलांचीं

दुस्मान. दिसाळ्यांचेर वाचूंक मेळटा सुनेक पेटयली म्हणून. हांगा पेत्रोल घालता मांय आनी काडी ओडटा नणंद. जो मेरेन बायलांचीच विचार करपाची पद्धत बदलचीना तो मेरेन बायलो खऱ्या अर्थान स्वतंत्र जावच्योच नात हें मात शेर्त. म्हळ्यार हे असले प्रस्न निर्माण जावंक मुखेल तरेन जापसालदार थारतात त्यो बायलोच. देखून बायलांनी पयले सुवातेर मानसिक आनी वैचारीक नदरेन स्वतंत्र जावपाची खूबच गरज आसा. हांव एक स्वतंत्र व्यक्ती ह्या विचारांचेर ठाम रावप जेन्ना बायलांक जमतलें तेन्नाच खऱ्या अर्थान बायल मनीस स्वतंत्र जावन समाजामदीं भोवमानाचो जागो मेळयतली. बायलमनीस केन्नाच परतंत्रांत आसना. तर ती आपलेभोवती एक बंदनाचें रिंगण आखून तातूंत घाण्याच्या बैलाभशेन गोल -गोल घुंवत रावता. हांव म्हजेपुरतीं हीं असलीं फालतू बंधनां केन्नाच पाळिना. आनी तेच भाशेन म्हज्या लागसारच्या लोकांनीय तीं पाळपाचीय अपेक्षाय धरिना. देखून शाळकरी मित्रांपासून धोक्याच्या पावंड्यावेल्या कॉलेजींतल्या मित्रांकडेनय हांव म्हजे आनी तांचे फामिलीसयत अजून अॅटॅच आसां. स्वतंत्रताय वा स्वातंत्र्य हें तोंडान जपून कांयच जायना. स्वातंत्र्य तिगोवपाक पयलीं आपलेविशीं आपल्या लागसारच्या फामिलीच्या मनांत विस्वास निर्माण करचो पडटा. हें जेन्ना सगल्या बायलांच्या मदी घडटलें तेन्नाच तांचें जल्मजात स्वातंत्र्य ह्या पुरुशप्रधान समाजांत अबाधित उरतलें.

बायलमनीस आर्थिक नदरेन कमावपी, स्वतंत्रपणान मेळोवपी आसल्यारच तिका स्वातंत्र्य मेळटा अशें म्हणटात. हांव मात उरफाटेंच. ग्रॅज्युयेशना उपरांत कोणाचीच चमचेगिरी करप म्हाका जमचें ना हें कळ्ळून हांवें शिर्वीस करपाची न्हयकारली. हांव आयज पुरायवेळची घरघन्नी आसां. हाचो अर्थ हांव स्वतंत्र ना? फकत गोंदळ जावपी अर्थिक परिस्थितीचो उल्लेख जावन बायलांचें स्वातंत्र्य थंय जोडलें म्हणून म्हजो दाखलो दितां. म्हाका घरघन्नी म्हणून एकूय पैसो पगार मेळना. तरी घोव म्हणटा की हांव बिनपगारी खरें पूण आसां मांत सर्वाधिकारी.

आयज समाजांतल्यो बायलो शिर्वीस करतात. व्हडल्या पांवड्यावेल्यो ऑफीसर्स जातात. पूण त्यो स्वतंत्र आसतात? काय समाजामदीं आपलो चार वण्टीफाटल्या गुलामीचो चेहरो लिपोवपाक स्वतंत्रतायेचो मुखवटो घालून फिरतात? एकाद्रो घोव बायलेच्या हाताखालचो कर्मचारी म्हणून काम करता तेन्ना बायलांचे घरचे हाल सुणो लेगीत खावचोना अशें आसतात. मागीर आर्थिक स्वातंत्र्याकडेन बायलांच्या स्वातंत्र्याचो संबदच कसलो? जेन्ना दुडू जोडुनय निर्णय स्वातंत्र्य नासता तेन्ना जिणेचो अर्थ तरी कितें? सादीच गजाल सांगतां. म्हज्या सोयऱ्यांभितरल्या एके बायलेचीच गजाल. आयज ही बायल आनी तिचो घोवय सिलेक्शन ग्रेडीचें पेन्शन घेतात. आयज आजयेची जीण जगतनाय तिका पांच-पांच पयशांखातीर घोवासामकार हात पातळावंचो पडटा. हें कसलें स्वातंत्र्य?पयलीं पगार घेताली तेन्नाय पगार घोवाच्या हातांत, ताच्याच सिंगल अॅकाउन्टार आनी आयज पेन्शन घेतनाय तीच तरा. ही तर गुलामगिरी. न्हय ही सामकी वेठबिगारी. पयरच खंय तरी वाचपाक मेळ्ळें. एके बायल न्यायाधिशेची आनी एके लेखिकेची दुखभरी काणी. बायल न्यायधीश कायदो आनी भावना हांचो समसमा संगम करून न्याय दिताली. फायनल रिजल्टामेरेन पावचे पयलींच ती दोनूय पार्टीमदीं सामोपचाराचीं उलोवणी करून प्रकरणां बरेपणान मिटयताली. मागीर जावं तीं घरगुती भाटाबेसांची वाटणी वा घोवा-बायलांमदलो काडीमोडाचो प्रकार. ही अशी गुणी न्यायधीश घरांत मात कौटुंबीक हिंसाचाराचो बळी थारताली. तिचो घोव तिचेपरस हुद्यान कमी जाग्यार काम करतालो. ती तिडक तो बायलेक मानसिक, शारिरीक त्रास आनी विकृत लैंगिक त्रास दिवन अकासतालो. भुरग्यांचो फुडार आनी ह्या तथाकथित समाजाचो विचार करून ती आपली अब्रु (?) धापपाखातीर हें सगलें सहन करीत रावली. अन्याय करप आनी सहन करपय म्हळ्यार गुन्यांवच. तो गुन्यांव एक न्यायाधिशच करताली. आनी त्या बळग्याचेर तिचो घोव तिचेर वाडट्या प्रमाणांत अन्याय करतालो. चार वण्टींआड आपलें पारतंत्र्य लिपोवन दवरपाचो यत्न करपाक ही बायल न्यायाधीश आपल्या चेऱ्याचेर मुखवटो लावन समाजांत वावुरताली. तिचें नशीब खरेंच बरें. भुरगीं व्हड जातकीर ताणीं आवयक तेको दिवन बापायपसून घटस्फोट बी घेवंक लावन खऱ्या अर्थान तिका स्वातंत्र्य दिलें.

ह्या पुरुशप्रधान समाजांत बायलमनशेन अबला ह्या शब्दाचो सामको त्याग करपाक जाय. आपलें बळगें वाडोवन खऱ्या अर्थान सबळ जावंक जाय. पयलीं आपली बौद्धीक पातळी वाडोवन निर्णय घेवपाची तांक मेळोवंक जाय. लग्न कोणाकडेन जावंचें, पगाराचें कितें करचें इतलेंच न्हय तर भुरगीं लेगीत केन्ना आनी कितलीं जल्माक घालचीं हांचेर बायलांनीच निर्णय घेवंक जाय. म्हळ्यार आपलो निर्णय घेवपाची तांक वाडयय रावपाक जाय. त्याचवांगडा शारिरीक बळ मेळोवन आपली राखण आपूण करपाक शकपाक जाय. वांकडे नदरेन लेगीत पळयतल्याचे दोळे ताच्याच हातांत दिवपाची शक्त मेळोवंक जाय. जाल्यारच रुढ अर्थान बायलमनीस स्वतंत्र मनीस म्हणून जगपाक पावतली. नाजाल्यार बायमनशेची गत ही रानांतल्या कस्तुरी मृगाभशेनच जावपाची. त्या मृगाचे बोंबलेंत खंय कस्तुरी भरिल्ली आसता. त्या वासान पिशें जावन तें कस्तुरी सोदपाक हांगा थंय धांवता आनी शिकाऱ्याचें बळी थारता. जुस्त ती गत आमची बायलांची. सगळें स्वत:कडेन आसतनांय अस्तुरी पिशी कशी वागता आनी ह्या पुरुशप्रधान समाजांत बळी थारता.... परती परती बळी चडत वता. चडत वता...

सादोळशें-काणकोण गोंय
पिन - ४०३७०२
फोन : २६३२२०४

# बायलमनीस आयज खऱ्यानीच स्वतंत्र आसा?



- हर्षा शेटये

*म्हज्या आज्याच्या विधवा बापोलभयणीन परतें लग्न केल्लें. लग्न जातकीच तिणें हळदीकुकूम केलो. घरांतल्यो कोण बायलो हळदीकुकमाक वचपाक तयार नात. वयल्यान विधवेकडल्यान म्हणून कुकूम कपलाक लावन घेतलीं? अशें म्हणपाक लागल्यो. पूण म्हजी आजी हळदी कुकमाक गेली. हळदीकुकमाक वाटिल्ली कुंकमाची डबी तिणें कुकूम सोंपयार कपलाक लायली.*

**ह्या** प्रश्नाची जाप एकदम हय अशी दिवपाक जावचिना आनी न्हय अशीय दिवपाक जावचिना. पन्नास साठ वर्सांफाटल्या काळाचेर नदर मारली जाल्यार आयची बायलमनीस त्या मानान स्वतंत्र आसा म्हणचीच पडटली. आतां ही बायलमनीस स्वतंत्र आसा म्हळ्यार कशेतरेन स्वतंत्र आसा? आर्थिक नदरेन काय वैचारीक नदरेन? तिका निर्णय स्वातंत्र्य आसा काय ना तेंय पळोवंचें पडटलें.

आर्थिक नदरेन आयची बायल स्वतंत्र आसत. तरीय तिणें जोडिल्ल्या पयशांचेर तिचो पुरायेन अधिकार आसतलो म्हणून सांगू नजो. आयच्याय काळांत घर काय करिअर हो प्रश्न बायल मनशेच्याच मुखार उबो रावता. म्हाका दोनूय जाय अशें सडसडीत सांगपाचें धाडस कितल्यो बायलो दाखोवंक शकतात? जीं बायलां हातुंतलें दोनूय स्वीकारतात तिका घर आनी नोकरी हांचे मदीं मेळ सादयत सरये वयली कसरत करचीच पडटा. तिणें नोकरी केली जाल्यार देखून तिचो उरिल्लो वेळ तिणें घराखातीर, भुरग्यांखातीर राखून दवरचो अशी घरच्यांची अपेक्षा आसता. दोगांय नोकरी करपी घोवबायलां वांगडाच घरांत भितर सरलीं जाल्यार लेगीत घोव भायर सोफाचेर फाटीपोंदा लोड घेवन सोफाक तेकून बसतलो. बायल बेगबेगीन भितर वचून गॅस सुरू करतली. आनी च्याचें एक कप घोवाक हाडून दितली आनी आपूण भितर काम करतां करतां उब्यांनीच कप तोंडाक लायतली. तिका भायर सोफार बसून टी.व्ही. पळयत च्या पिवपाक घोवान आडोवना. पूण तिचे मुखार कामाचे दोंगर उबे रावतात. ते खातीर ती पांयांक चक्रां लावन जाता तितले बेगीन घरांतलीं कामां सोपोवंक पळयता. घोव समजीकायेचो आसत जाल्यार माणसुकी. तो भुरग्यांचो अभ्यास घे, भुरग्यांक न्हिदय असल्या कामांक तरी हातबोट लायतलो. नाजाल्यार बायलांचीं कामां आपणे

कित्याक करप म्हणून बसून रावतलो.

आज काळ बदलला. कपलाक लावप काय ना. गळ्यांत मंगळसूत्र घालप काय ना. हें तिचें ती थारायता. आपल्याक जाय तसले कपडे वापरता. इतलीं वर्सां समाजान आपल्याक घाल्लीं बंदना तोडून उडोवन ती आपूण स्वतंत्र जाल्या अशें समजता. पूण आपल्याक कितें जाय हें तिका कळ्ळां न्हय? उगत्या मळबापोंदा मेकळो श्वास घेवपाची मेकळीक तिका आसा काय ना? ह्या प्रश्नाची जाप हय अशी आयली जाल्यार ती खऱ्यानीच स्वतंत्र आसा म्हणची पडटली.

तिचे न्हेसप, दिसप आधुनिक पद्धतीचें आसलें म्हणून ती स्वतंत्र आसताच अशें ना. हाचें उरफाटें एक अशिक्षित दिसवड्याचो वावर करपी बायल स्वतंत्र आसूंक शकता. आमी आमचे सरभोवतणी नदर भोंवडायली जाल्यार अश्यो कितल्योशोच बायलो आमकां दिश्टी पडटल्यो. म्हजो चलो ल्हान आसतना अमिरा म्हणून मोती दोंगरार झोपडपट्टींत रावपी एकली बायल ताका तेल लावन न्हाणोवपाक येताली. ती केन्नाच शाळेंत वचूंना. तिगेले धुवेक दुसरीय चली जाली. तेन्ना तिचे धुवेन आनी भुरगीं नाकात म्हणून ऑपरेशन करपाक लायलें. पूण धुवेचो घोव आनी मांय कशीच आयकना जालीं. चलो जायच म्हणूंक लागलीं. पूण ही धुवेच्या फाटल्यान घट्ट उबी रावन आपले जबाबदारीचेर ऑपरेशन करून घेतलें. इतलेंच न्हय तर आपलो घोव जोडिल्ली जोड सोऱ्यांत घालता, एकूय पयसो घरांत दिना म्हणून तिणें घोवाक जेवण वाडपाचें बंद केलें आनी घोवांक लागी घेना जाली. चार पांच म्हयने वाट पळोवन पळोवन घोव जाग्यार आयलो. सोरो सोडलो आनी घरांतय पयशे दिवंक लागलो. आतां हे बायलेक ती स्वतंत्र विचारसरणेची आसा म्हणचेंच पडटलें. अशीच आनीक साठ एक वर्सांपयलींची गजाल. घडये हांव हांगा विशय बदलतां जावये! म्हज्या आज्याच्या विधवा बापोलभयणीन परतें लग्न केल्लें. लग्न जातकीच तिणें हळदीकुकूम केलो. घरांतल्यो कोण बायलो हळदीकुकमाक वचपाक तयार नात. वयल्यान विधवेकडल्यान म्हणून कुकूम कपलाक लावन घेतलीं? अशें म्हणपाक लागल्यो. पूण म्हजी आजी हळदी कुकमाक गेली. हळदीकुकमाक वाटिल्ली कुंकमाची डबी तिणें कुकूम सोंपसर कपलाक लायली. हांगा हळदीकुकमाक वचपाक कोणांक दादल्यांनी आडावंक नाशिल्लीं. म्हणजे स्वातंत्र्य हें बायल मनशेचे मानसिकतायेचेर अवलंबून आसता. ती ज्या वातावरणांत ल्हानाची व्हड जाता. तिचेर जे संस्कार जातात ते तिका वेगळो विचार करपाचें स्वातंत्र्य दिता. हांव हाका वैचारीक स्वातंत्र्य म्हणन. आजयेचें कुळार आधुनिक विचारसरणेचें. ते खातीर ती बाकीच्या परस वेगळो विचार करूंक पावली. आनी तशी वागलीय बी.

आज काळ बदलला. पुरुशप्रधान समाजाची मानसिकताय बदलत चल्ल्या. शिक्षणान आमची फुडले पिळगेकडेन पळोवपाची नदर बदल्ल्या. तूं चलो-तूं चली हे जाणविकायेचे पास आयचे आवय बापूय तांच्या भुरग्यांच्या व्यक्तिमत्वा भोंवतणी आवळूंक दिनांत. ते खातीर आयच्या चलयांक निर्णय स्वातंत्र्य आसा. म्हणून हांव म्हणीन आयचे बायलमनशेपरस आयच्यो चलयो म्हळ्यार फुडाराच्यो बायलो चड स्वतंत्र आसात.




कृष्णप्रेम, अंबाजी
फातोर्डे-गांय-४०३६०२
फोन - ९८५०५३०१५२

# बायलमनीस आयज खऱ्यानीच स्वतंत्र आसा?



- उषा उल्हास राणे

*कांय बायलांक कामाचे सुवातेर कमी अधीक प्रमाणांत असभ्य अशा प्रकाराक तोंड दिवचें पडटा. लैंगीक छळाचे कक्षेंत येवपी गुन्यांवकारी स्वरूपाचें वर्तन खंयचें? हाची व्याख्या करतना, केवळ विनयभंग करप इतलोच गुन्हो मांडिनासतना विनयभंगाचो यत्न करप, वा लिंगभेद मानत उतरांचो त्रास दिवप हो पसून लैंगीक सतावणेच्या व्याख्येंत अंतर्भाव करपाचो निर्णय घेवपांत आयला खरो. मात अशा घटनांचे पुरावे एकठांय करतना कायद्‌याची कसोटी लागता.*

**बा**यलांचेर आयज कितलेंय बरोवंचें थरयलें तरी मराठींतले एके म्हणी भशेन 'बोलाचाच भात आणि बोलाचीच कढी'.

जावं! तर म्हाका दिसता स्वतंत्रताय, आदर आनी मान ह्योच गजाली तर बायलमनीस समाजाकडल्यान अपेक्षीत करता.आतां प्रस्न असो पडटा कीं समाज म्हळ्यार कोणाचो? दादले आनी बायल मेळून समाज? काय फकत दादल्यांचोच समाज? आनी फकत बायलां बाबतींतच हो समाज अशे प्रस्न कित्याक तयार करता? बायलांनी हरेक पावटी हरेक मळार बायल दादल्यांपरस उणी ना हें सिध्द करून दाखयलां. इतलेंच न्हय तर जें काम दादले करूंक शकनात तें काम फकत बायलांच करूंक शकतात हेंवूय सिद्द जालां.

मान्य आसा की भारतीय संस्कृती ही पुरूषप्रधान संस्कृती आसा. पूण केन्ना? जेन्ना दादले घरा भायर वचून कमोवन हाडटाले आनी बायलां घराच्या हुंबऱ्या भितर रावन संवसार चलयतालीं. पूण आतां ती परिस्थिती ना. आतां बायलां दादल्यांच्या खांद्‌याक खांदो लावन बराबरीन काम करतात. प्रसंगार दादल्यां परसय चड कमयतात. तरी बायलांक संपूर्ण स्वातंत्र्य दिवंक दादले तयार नांत. कारण तांकां आपलें अस्तित्व, आपलें वर्चस्व कमी जातलें असो भंय दिसता. आनी तेन्ना अशे विशय तयार जातात. मागीर 'हांव दिलें अशें करतां तूं घेतलें अशें कर' अशें म्हणून तिका धोलयतां आनी येनकेन प्रकारेण तिच्या गळयांतली दोरी भावनात्मक रित्या आपणाल्या हातांत दवरतां. आनी भारतीय नारी म्हण बायलय भावनावश जावन दादल्यांच्या हातांतलें खेळणें जावन रावता.

पयरूच एका साहित्य परिशदेच्या उक्तावण सुवाळ्याक एका वक्त्यान आपल्या उलोवपांत म्हणिल्लें की, भुरग्यांचेर आवय आनी बापूय दोगांयनी मेळून संस्कार करूंक

जाय. कारण संवसाररुपी रथाचीं दोन चाकां म्हळ्यार बायल आनी घोव (आवय आनी बापूय). तीं दोनय चाकां एकेच दिकेन आनी सारखेच गतीन चल्लीं तरच भुरगे आयुश्यांत बरेतरेन यशस्वी जातात आनी बरो नागरीक म्हण समाजांत नावादीकय जावंक पावता. पूण दादल्याक हें मान्य आसा? बायलांक समान हक्क दिल्यार तांचो अहंकार दुखवचो ना? प्रस्न आसा 'बायल मनीस आयज खऱ्यांनीच स्वतंत्र आसा?' जर ती स्व-तंत्र आपणावंक शकना तर स्वतंत्र खंयचें?

सगळेच बाबतींत अशें घडटा अशें ना. हर एक बायल मनशे भितर रांदप, शिवण, वीणकाम, भरतकाम, चित्रकला, नाट्यकला, नृत्यकला अशो जाय त्यो कला आसतात. उच्च शिक्षण आसता तें सगळें भितरले भितर दामून तांका रावचें पडटा. कारण लग्ना पयलीं बापूय सांगता लग्न जातकच घोवाचे संमतेन जाय तें कर. लग्न जातकच घोव सांगता, 'कांय नाका. तूं फक्त घर आनी संवसार सांबाळ. भुरग्यांकडेन लक्ष दी. बाकीचें हांव पळयतां.' तांतले तातूंत थोडे दादले थोडे फुडें सरून विचार करतात. (आपूण फुडारिल्ले म्हण दाखोवपा खातीरय आसत) बायल शिकिल्ली आसा आंगांत कांय कलाय आसात. नोकरी केली वा तांच्यांतल्या कलेचो उपेग केलो तर संवसाराक हातभार लागतलो. गाठीक चार पयशे चड जमतले. असो विचार करून तिका नोकरी करपाची मेकळीक दिता. पूण म्हयनो सोंपलो की पगार तिणें ताच्या हातांत हाडून दिवपाचो. ताणें दिल्ल्या पयशांचेर तिणें तिचो खर्च भागोवंचो. स्वत: कमयिल्ले पयशेय ती आपले पसंतेन वा मत्तान खर्च करूंक शकना. हांगाय कांय अपवाद आसात. सगळेच दादले काय अशे आसनांत.

कांय बायलांक तर काम वा नोकरे व्यतिरिक्त घराभायर सरपाकय मेळना, बंदी आसता. कोणाकडेन उलोवंक जायना, कोणागेर वचपाक जायना. इतलेंच न्हय तर प्रसंगार कोणालेय गाडयेर बसून येवंकय जायना. हळडुवो चश्मो घालतल्याक सगळेंच हळडुवें दिसता. हीं सगळीं बंधनां बायलांक. कारण दादले स्वतंत्र आसतात न्हय? (स्व-तंत्र आसले?) पूण भारतीय बायलमनीस प्रामाणिकतेन, सतशीलतेन आपलो पत्नीधर्म निभयता. बायलेक घोवाची 'अर्धांगिनी' म्हणटात पूण खऱ्या अर्थान ती अर्धांगिनी आसा व्हय?

राजकारणांत बायलां खातीर ३३% राखिवता आसा अशें म्हणतात. ३३% कित्याक ५०% आसूंक जाय असो फार्सय करतात. पंचायत ते थेट लोकसभा मेरेन बायलां खातीर राखीव जागेय आसतात. दादलेय बायलांक पंचायत ते लोकसभा मेरेन वेंचणुको लडोवंक दितात. वेंचूनय हाडटात. वेंचणुके उपरांत बायलांक फुडें काडून सगळो कारभार दादलेच चलयतात अधिकार येवनय तांका स्वातंत्र्य ना. कितें? कशें? केन्ना? करचें हें दादलेच ठरयतात. बायल फकत सही करूंक आदार.

आज बायलांक भरपूर स्वातंत्र्य मेळ्ळां. चूल सोडून उच्च पदार बसून धा दादल्यांक आपल्या हाताखाला राबोवपीय बायल आसा. आनी डान्स बारांत नाचपीय बायल आसा. ताका लागून जितलें स्वातंत्र्य मेळ्ळें ताचो परिणामय तितलोच वायट दिसून आयला. हाका जबाबदार परिस्थिती आसता. पुरूशप्रधान मळार प्रवेश केल्ल्या बायलांक आयजय दादल्यांचे विकृतीक सामकार वचचें पडटा. फरक आसता तो तांच्यांतल्या दादलेपणांत. हो दादलोच तिचो रक्षणकर्ताय आसता आनी भक्षणकर्ताय आसता.

कांय बायलांक कामाचे सुवातेर कमी अधीक प्रमाणांत असभ्य अशा प्रकाराक तोंड दिवचें पडटा. लैंगीक छळाचे कक्षेंत येवपी गुन्यांवकारी स्वरुपाचें वर्तन खंयचें? हाची व्याख्या करतना, केवळ विनयभंग करप इतलोच गुन्हो मांडिनासतना विनयभंगाचो यत्न करप, वा लिंगभेद मानत उतरांचो त्रास दिवप हो पसून लैंगीक सतावणेच्या व्याख्येंत अंतर्भाव करपाचो निर्णय घेवपांत आयला खरो. मात अशा घटनांचे पुरावे एकठांय करतना कायद्याची कसोटी लागता. जितले कायदे आसतले तितल्योच कायद्यांतल्यो पळवाटोय आसतल्योच. तशे गुन्हे आनी गुन्हेगारय वाडटलेच.

जितली स्वतंत्रताय वाडटली तितल्योच समस्याय वाडटल्योच. एके वटेन संवसारी बांयलांच्यो समस्या कायम आसात. तर दुसरे वटेन नोकरी, शिक्षण ह्या निमतान, वा इच्छेपोटी स्वतंत्ररित्या एकटी रावपी बायलांची रावपाची सुवात; सुरक्षिततेचे प्रस्न, कार्यालयीन छळणूक आदी प्रस्न बिकट जायत आसात. घराभायर पडटकच जावपी छेडछाड जावं, कामाचे सुवातेर जावपी लैंगीक पिळवणूक जावं, वा चार वण्टींभितर जावपी घरगुती हिंसाचार जावं, बायलांच्या विरोधांत जावपी बरेच गुन्हे निदर्शनाक हाडलेच वचनांत. कित्याक तर ती एक बायल म्हण तिचेच धींडवडे काडटात. न्याय मागूंक उबे राविल्ले ते बायलेक न्याय मेळटा न मेळटा ही पयसुल्ली गजाल. पूण तिची अब्रू चव्हाट्यार येता ही वेगळीच समस्या. ताका लागून न्याय मागचे परस अन्याय सहन केल्लो बरो असो विचार तिका करचो पडटा. मागीर अशा समस्यांच्या प्रकारांत वाड जायत वता. त्या खातीर मागीर तुमी कितलीय व्हड पुलीस यंत्रणां राबयात, कितलेय कायदे करात. सगळे नाममात्र उरतले.

कायद्यात जोवेळ मेरेन सुधारणा जायना; बायल मनशेकडेन पळोवपाचो; तांका समजून घेवपाचो; तांका समान दर्जो दिवपाचो. तांचो हक्क तांका दिवपाचो; लिंगभेदाचो विचार करिनासतना वागपाचो समाजाचो दृष्टीकोन जो मेरेन बदलना; तांचो हक्क, तांचे अधिकार हांचो तांका जाय तसो वापर करूंक मेळना तो मेरेन बायलमनीस खऱ्या अर्थान स्वतंत्र जाली अशें म्हणपाक येवचें ना.



सदाशिवगड-कारवार
फोन : ०९४४८९४७१२९

# प्रस्नचिन्न



- सुफला रुद्राजी गायतोंडे

*तूं जाणां, भुरगेपणांत प्रत्येकाक भावना आनी कर्तव्य हीं दोन घुस्पल्लीं बंधनां आसतात. एकएकटी दोनीय सांबाळीत जगतात तर थोडीं भावनां सांबाळटात. तर थोडीं झक मारलें सगळें म्हूण कर्तव्यां सांबाळीत जगतात. तेंय बी सोशीकपणान. आपलें मन मारून. आनी केन्ना केन्नाय अशेंय जाता, बायलेक मन मारतगीर घोवाकय आपले बायलेक मन आसता हाचो विसर पडटा. ती जोडटा तितलेंच ताका खबर आसता. ती सकाळीं उठून रातचें न्हिदसर घाण्याक लागता हें ताका कळना.*

**कां**चन आज ऑफीसांतल्यान घरा खूब बेगीन गेलें. तें हरशीं वतना म्हाका पयलींच बेगीन वचपाची सुलूस दिता. आज कितें जालें हाका? म्हज्या मनांत पाल चुकचुकली. हांवें शेजारच्या मेजार बशिल्ल्या वृंदाक विचारलें, ताकाय कांयच खबर ना.

कांचन खरेंच भोळ्या सभावाचें, मायेम्त, उमेदी आनीक सत्य उलोवपी. घरा वतना म्हाका वाटेर ताचो फ्लॅट लागता. हांवें वतनाच भितर सरचें थारायलें आनीक हांव गेलेंय बी.

कांचन दनपरां ऑफीसांतल्यान आयिल्लें तशेंच हॉलांत सोफार बसून टिपॉयार पांय सोडून पडिल्लें. वयर फॅन चलता तसो ताच्या मनाचोय फॅन चलतालो हें ताका पळयतनाच कळ्ळें. ताणें म्हाका पळोवन वेगीच ओंठ पातळायले. खास इश्टीण आसूनय हें कित्याक आयलां अशें मनांतल्यान दिसप स्वभावीकच आसा.

म्हाका पळोवन ताचो गळो भरून आयलो. "कितें जालें कांचन?" म्हज्यानय राव नजो जालें. "कांय ना गो. आतां ह्या वयार कितें आनीक जातलें? सदांच भुरगेपणांत जाल्ले संस्कार मागीर मागीर पिडटात बी जातले न्हय? म्हजी आवय भुरगेपणांत गेली. पूण वचसर 'तूं चली भुरगें दुसऱ्याल्या घरा वचपाचें, बायलमनीस ही सोशीक आसूंकच जाय' हें हजारदां आयकलें. आई फाटल्यान बापायकडेण पैसो खूब आसलो. पूण आवयचो मोग ना तो ना वयल्यान सोयऱ्यांचे, शेजारी हांचे थोमणे खूब मेळ्ळे." आज कांचन खंय तरी दुखावलां हें म्हाका कळ्ळें. त्याच वांगडा लींक न दवरतां जें तें उलयता तेन्ना समजतालें हाका आज खूब उलोवचेलें आसा. फक्त आयकुपीच जाय. हांवेंय थारायलें. हाच्या मनाच्या बांदाक वाट करून दिवया.

तूं जाणां? म्हणत ताणें म्हज्या भुजार हात दवरलो. हांवें भुरगेपणांत आवय ना म्हूण

सोसलें. ह्या मनांक सदांच दिसतालें लग्न जातगीर जेन्ना म्हजें म्हजें म्हूण कितें आसतलें तेन्नातरी ह्या थोमण्यांक बंदी येतली. दीस, सेमाना, म्हयने, वर्सां सोंपून म्हजें व्हड उमेदीन लग्न जालें. म्हाका चड उमेद जाली ती एकाच कारणाखातीर. कांचन म्हज्या दोळ्यांत दोळे बुडोवन उलयतालें. त्या घरांत मांय आसली आनीक हांगा हांव एकमुळें जाल्यार थंय कुटुंबाचें घर.

मांय, देर, जावो, पुतणयो, पुतणये सगळ्यांनी म्हजेर सामको ओत ओतून मोग केलो. आपलेंपण म्हाका थंयच मेळ्ळें. केन्नातरी भुरगेपणांत (समज नासलो तेन्ना) कोणेतरी म्हणिल्लें याद जाता. 'कपलार पडटा तो बरो आसूंक जाय' आतां ताचो अर्थ समजता. घरकार मायेस्त, समजूतदार आनीक विश्वासू आसत तरच एक बायल विश्व जिकूंक शकता.

बायल ही भुरगेपणांत आवयबापायच्या बंधनात. उपरान्त घोवाच्या आनी जाण्टेपणांत भुरग्यांच्या. म्हण्टगीर तिची सुटका केन्ना? तिका आपल्या मनांप्रमाणे केन्ना जगूंक मेळटलें? सदांच तिची जीण बंदखणींत रावप?'' कांचन बरेंच घुस्मट्टालें. मानसीक परिस्थीती बरीच दुखिल्ली हें ताच्या स्वासांतल्यानच समजतालें.

मदीं मदीं नदरेक नदर दीत बडबडटालें. ''तूं जाणां, भुरगेपणांत प्रत्येकाक भावना आनी कर्तव्य हीं दोन घुस्पल्लीं बंधनां आसतात. एकएकटी दोनीय सांबाळीत जगतात तर थोडीं भावनां सांबाळटात. तर थोडीं झक मारलें सगळें म्हूण कर्तव्यां सांबाळीत जगतात. तेंय बी सोशीकपणान. आपलें मन मारून. आनी केन्ना केन्नाय अशेंय जाता, बायलेक मन मारतगीर घोवाकय आपले बायलेक मन आसता हाचो विसर पडटा. ती जोडटा तितलेंच ताका खबर आसता. ती सकाळीं उठून रातचें न्हिदसर



घाण्याक लागता हें ताका कळना. पूण आपणाक एक शींक चड येत तर ते घरकान्नीन ताची खबर घेवंक जाय. मांयमांवाचीं श्राध्दां रांदपी नासतनाय ती करता. भुरग्यांचो वा घोवाचो वाढदीस ती उमेदीन मनयता. पूण स्वत:चो मनोवपाक ती विसरता आनी घोवय विसरता. हें कशें आनीक कित्याक? बायलेचें श्राध्द न विसरतां दान करून घोव करता. बायल जिती आसतना केल्ले त्रास बायलेच्या काळजांत उफेवंचे न्हय म्हूण वा आपलें आनीक भुरग्यांचें बरें जावंचें म्हूण. जितें आसतना काळजाक कांटे तोपप आनी मरतगीर व्हडलो फोटो लावन, फुलां घालून उजवाती दाखोवप.''

कांचन बडबडत आसलें. हांव बंद ओठांनी, उगड्या कानानी आयकत आशिल्लें.

''जाणा मगो म्हाका समजूंक लागिल्ल्याक हांवें भावना दुखोवन कर्तव्य सांबाळ्ळें. भावना दुखोवन कर्तव्य सांबाळटना काळीज कशें पिंजता हाचो हुस्को हांवें केलो ना. दोळ्यांचो बांद घट्ट दवरून कर्तव्यां करीत रावलें. सगळ्यांच्यो जबाबदारी सांबाळीत हांवें कर्तव्यां सांबाळ्ळीं. पूण म्हज्या घोवाक ताचो वालोर नासलो. एकदीस माथ्यार मायेन हात भोंवलो ना. वा एकदीस माये-समजुतिचीं उतरांय म्हाका मेळ्ळीं ना. वेल्यान ताका दिसतालें हांवें तें करपाचेंच. वा म्हाका तकली ना म्हूण हांव हें सगळें करतां. हांव केन्नाय ओघान आकांतून रडलें तरी म्हज्या घोवाक म्हजी काकूळट आयली ना. वेल्यान हांव रडून दाखोवन पचोवंक सोदतां असो ताचो समज जालो.

कोणेंय कितेंय म्हळ्यार जाता. घरच्यांनी कशेय तरेन वागयल्यार जाता पूण आपल्या घोवाक आपली माया, काकूळट आसची अशें प्रत्येक बायलेक दिसता. घोव जर मनांत वायट दवरनास्तना विश्वासान, आपलेपणान बायलेक सांबाळटा तर त्यासारकें तिका दुसरें सूख नासता. प्रत्येक दादल्यान घोव म्हूण, आपली बायल घरच्यांक कशी वागयता तें लक्षांत घेवंचें. बायलेन आपलो घराबो कसो सांबाळ्ळा तें पळोंवचें. पुरो जाल्लो जीव फक्त घोवाच्या गोड उतरांनी, मायेच्या स्पर्शान जाग्यार येवं येता. पूण दोशी जेन्ना बायल नासता आनी तिका घोवच दोशी थारायता तेन्ना तिच्या आंगातली शक्त वता. ती उठपाची शक्त नासता. ताका लागून दोगांमदीं विश्वास गरजेचो आसता. विश्वासांतल्यानच मोग वाडटा.''

कांचन उक्त्या मनान बडबडटालें. ताका ओघ आयला तो वचूं म्हूण हांवय वोग्गी रावन आयकतालें. तें उलयता तातूंत तथ्य आनी सत्य आसलें. भुरगेपणांतल्यान ताका भावना मारून कर्तव्यान जगचें पडलें तें आजमेरेन कर्तव्यानच जगता हें ताच्या उलवण्या वयल्यानच म्हाका समजतालें. मन मारून जगता म्हणप खूब सोपें. पूण जगतल्याक केदो

त्याग सोसचो पडटा आनी त्या घोवाक वा बायलेक त्या त्यागाचो धग केन्ना आनी कसो भोगचो पडटा ताचोय अणभव येता. घोवा कडल्यान बायलेक शारिरीक सूख ना तें ना. मानसीकय सूख ना. वयल्यान तिणें निश्चयान सांबाळिल्ल्या शिलाचो विचार करिनासतना तिच्या शिलाचेर दुबाव घेवप ह्या सारको विचार घोवान करप हेंच घोवाक खरें पाप.

सोशीक बायलां रूपडें घालून भोंवतात म्हूण ह्या दादल्यांचें, आपल्या घोवाचें, साधलां अशें कांचनाचें मत. हांव ह्या बंगल्यांत रावना. बंगसाळेंत रावतां. एकदीस हे बंगसाळेक नकळत उजो लागून आपलोय तातूंत गोबोर जावंचो. आपलें मरण घोवाच्या हातांत जावंचें न्हय अशें कांचनाक दिसता. हांव कांयच उलयलें ना. ताचो घोव शिकप आसून असो काळीज नाशिल्लो हें कळून वायट दिसलें.

कांचन कितें उलयता तें म्हज्यान सोंसूं जायना आसलें. म्हण हांवें म्हळें, ''आगो एक एक स्वभाव आसता.'' ताणें म्हळें, ''सभाव फक्त घोवाचो? बायलो लग्न जावन कसलीय गजाल चार वर्ण्टींभायर वचूंनये म्हूण आपलो स्वभाव बदलता. म्हण घोवाक जळ मेळटा. तो कित्याक बदलना स्वभाव? बदलूंक कळना काय मद आसना? काय बायलेक घोवान सुण्याच्या गळ्यांत म्युन्सीपाल्टी लायसन्स घालता तशें काळ्या पिडडुकांचें लायसन्स घालां म्हूण ती मायेपोटी सोसता? त्या म्हूर्तमणयाखातीर जिणेचो गोबोर करप?''

कांचन बडबडटालें. ताणें अशें बडबडचे परस आपल्या घोवाक जाग्यार कित्याक हाड नये? सगळेच घोव कांचनाच्याच घोवासारके आसनांत हें जरी खरें तरी प्रत्येक घोवान वा बायलेन आपूण बरो वा बरें म्हण्टना दुसऱ्यांक वायट म्हणू नये. म्हजें धवें म्हणपी तुजें काळें म्हणटाच. तो हक्क ताणें काळजांत दवरूं नये. घोवानच आपल्या बायलेच्या शिलाचो दुबाव घेतलो तर दुसरीं कित्याक घेवंचीं नांत?

आजकालच्या जगांत विश्वास गरजेचो. दुबाव न्हय! हांवें सगळें कांचनालें आयकून घेतलें वेळ खूब जाल्लो. हांवें कितें करप कितें उलोवप तेंच म्हाका समजलें ना. ताका वेंगायत ''सोसून घेवप आनी कितें?'' म्हणत हांव उठलें.

ताका हांव वतां हें कळटगीर ताणें दोनी हातांनीं म्हजो हात घट्ट दामलो आनीक म्हळें, ''आगो हें फकत आमचेच भितर दवरया आं SSSS!''

इतलें घडूनय आमचेच भितर दवरया म्हणपी निमाणी बायलच आसता न्हय?



मिरामार-पणजे
मो. : ९८२३१११९१७

## ख्यातकुतल्यो

मुग्वी : आई, आई हांव फाल्यां स्कुलांत वचचों ना

आई : कित्याक रे बाबा? तुका कोणें माल्लें?

मुग्वी : ना, बाई सामकी विसरभोळी. पयर तीं सांगतालीं तीन आनी तीन स. काल सांगलें पांच आनी एक स आनीक आज सांगता चार आनीक दोन स म्हूण. तेन्ना असले शाळेंत म्हाका वचपाचें ना.

माई खेळटना पडलो. फुडलेच दोन दांत पडले. तो पडलो हें कळटकीच ताचो आजो खबरेक आयलो. आज्यान्याय तोंडांत एक दांत ना तें पळोवन साईक वायट दिसलें. ताणें आज्याचे वेंगेंत वचून ''आज्या आज्या तूं पडून दांत पडले हें आमका केन्नाच कित्याक कळयलें ना!''

गणी दारांतच उबें आसलें. इतल्यान पोस्टमॅनान चीट भोवडून दारांत उडयली. ती चीट वाऱ्यान गटारांत पडली. तो पोस्टमॅन वाड्यार चिटयो वाटून येता म्हळ्यार गटारांतली चीट हातांत घेवन गणी उबें रावलें आनी तो दिसतांच धांवत धांवत ताचेलागीं गेलें. ''मामा, मामा ही चीट बदलून म्हाका तुमी दुसरी दियात? ही गटारांत पडिल्ली.''

निस्का मुयो मारता तें पळोवन ताचे आवयन म्हळें, ''चाय ह्यो अश्यो मुयो मारनाका. पातकांत भर घालतलें तूं''
''म्हणजे पप्पा, तुकाय पातकां सुरू आसतलीं तर!'' - निस्का
''म्हाका? कशीं गो चाय?'' पप्पान विचारलें.
''तूं म्हज्या मम्माक सदांच मारता'' निस्कान म्हळें.

शिवन : मम्मा घरांत गतदीस काळें माजर भोंवता.

आवय : भियूं रे, काळें माजर सदांच शुभ आसता.

शिवन : मागीर तूं ताईक सदांच कित्याक म्हणटा तर? काळें माजरासारकें मदीं मदीं कित्याक पायांकडेन घुसपता म्हूण?

- सुविधा प्रभुगांवकार
मडगांव - गोंय

# बायल मनशेक समाज आदरान पळयता?

– नयना आडारकार

*समाज बदल्ला बदल्ला म्हणटात. पूण खऱ्यांनीच व्हय? तशें जाल्यार अजूनय गांवांनी बायलमनीस मेले उपरांत तिका सरणार दाळटना तिची कूड उक्तीच दवरतात. तेन्ना खंय वता त्या बायलेविशीं आदर? विधवा जातकच अजूनय ते बायलेक परंपरेच्या नांवान भरभरीत घोवाच्या मड्याकडेन हाडून तिचो शिरंगार देंवोवपाचें अघोरी कृत्य करतना खंय वता तिचे विशींचो आदर? भुरगीं जायनाशिल्ले बायलेक, लग्न जायनासतना राविल्ले बायलेक, विधवा बायलेक खंयचो समाज आदरान पळयता?*

**ह्या** प्रस्नाक जाप दिवंचे पयलीं 'समाज' म्हळ्यार कितें हें जाणून घेवप गरजेचें. हो 'समाज' म्हळ्यार आमीच. दादले, बायलो, जाण्टीं, नेण्टीं एकठांय येवन निर्माण जाल्लो. आतां दर व्यक्ती कणकणी गूण-अवगूण आसताच. आनी हो समाज तर अश्या गूण-अवगुणां सयत व्यक्तींक आपले भितर आस्पावन घेता. पाटलोभर आंब्यांमदीं एक कुसको आंबो... ह्या म्हणीची भिरांत समाजरुपी पाटल्यांतल्या लोकांकय लागू जाता. 'बायल ही दादल्याची सांगातीण, इश्टीण. तिका स्वताचें स्वतंत्र अशें अस्तित्व आसता. तिकाय भावना आसतात. तिकाय मन आसता' हें समजून घेवपी व्यक्ती ह्या समाजांत फकत हाताच्या बोटांचेर मेजपा इतल्योच आसात. म्हणून तर वयर विचारिल्ल्या प्रस्नाची पुनरावृत्ती अजूनय करची पडटा.

ह्या प्रस्नाची जाप सोदतले जाल्यार समाजांतल्या विंगड-विंगड थरांतल्या बायलांक पयलीं समजून घेवचें पडटलें. तांचे मदीं भरसून ह्या प्रस्नाक जाप सोदतना एक लक्षांत येता तें म्हळ्यार 'बायल' ह्या घटकाकडेन पळोवपाचो समाजाचो मानसीक दृश्टीकोण व्हडलोसो बदलूंक ना. पुरूशप्रधान संस्कृतायेची पकड अजूनय समाजांतल्या घटकांचेर आसा. आनी बायलांकडेन हेच नदरेन पळोवप जाता. हे संस्कृतायेचें बीं दर दादलो-बायलेच्या मनांत तांच्या भुरगेपणांतल्यानूच रोयिल्लें आसता. हें दादल्यान करपाचें, तें बायलांनी म्हणटनाच बायलांनी अशें करूंक जायना, तशें वागूंक जायना, समाज कितें म्हणटलो? समाज शी! थू! करतलो म्हणत समाजाचो हावको बायलांच्या काळजांनी बांदून दवरतात. त्या हावक्याक हुमटावन शेवटून दिवपाचें काम जायत्या बायलांनी, कांय दादल्यांच्या आदारान आनी कांय बायलांनी स्वकर्तृत्वान मुखार सरून केलां. तेन्ना ह्या समाजान तांची फाट थापटिल्याय. पूण तांच्या फाटल्यान तांच्यो बकच्छायोय केल्यात. शिक्षणान समाज सुदारता. पोरण्या परंपरेन चलून आयिल्ल्या कितल्याश्याच वायट प्रथांक झुगारून दिवपाचें बळगें शिक्षण आमकां दिता. मान्य आसा. पूण बायल मनशेक आदरान पळोवपा खातीर फकत शिक्षण न्हय तर संस्काराचीय गरज आसता. आनी जी व्यक्ती आपल्या घरांतल्या बायलांक आदर दिता तीच व्यक्ती समाजांतल्या हेर बायलांक आदरान पळोवंक शकतली.

शाळेंत शिकोवपी कांय शिक्षिकेंचे अणभव म्हाका हांगा सांगन दिसता. शाळेंतलो हो शिक्षीत घटक, वेगळीं मतां आशिल्ल्या हेर शिक्षकांकडेन मेकळेपणान उलोवपी शिक्षिकेक बाकीचो शिक्षकवर्ग कितले नितळ नदरेन पळयता? हांगा मागीर शिकोवपा बदला एक-मेकांच्या अब्रूचीं लक्तरां धुवप अश्यो गजाली घडटात. आनी ज्या शाळांनी असल्यो गजाली घडटात, जंय शिक्षकवर्गूच बायल शिक्षिकेचो आदर करना थंय भावी पिळगे कडल्यान कसली अपेक्षा धरप?

ऑफिस-नांवाच्या बॅनराखाल बायलांक कसल्या कसल्या त्रासांक तोंड दिवचें पडटा हें सगळ्यो बायलो जाणांत. पूण धांपली मूठ लाखाची... हें तत्व तीं बेस बरें आपणायतात. शारिरीक छळाक कितलींशींच बायलां बळी पडटातच, तांच्या मानसीक छळाकय शीम-मेर आसना. उपहास करपी, अपमानकारक उतरांनी जेन्ना बायलांचो छळ ऑफिसांतलो समाज करता तेन्ना ते बायलेक धर्तरी फुटून आपणें भितर वच्चें अशें दिसता. पूण संवसारा खातीर नोकरेची गरज तांकां हें सगळें सोंसपाक शिकयता. आपलें काम ती इमाने-इतबारे करताच. वयल्यान प्रमाणिकपणानूच करता. हेर दादल्या स्टाफा भाशेन च्या पिवपाच्या निमतान हॉटेलाच्यो वाऱ्यो करनांत. आपलें ऑफिसांतलें काम सोपोवन पर्थुन घराच वचून भुरग्याबाळांचो अभ्यास, घरचें काम हो ध्यास तांकां लागिल्लो आसता. पयलीं प्रसार माध्यमां हीं हेर ऑफिसां परस वेगळीं आसतलीं अशें म्हाका दिसतालें. कारण हांगाचो समाज हेर समाजाच्या चड लागीं वता. तांचें दुख्ख समजता. मागीर बायल मनशांकय हांगा समजून घेतले. तांचो आदर हांगा जातलो अशें म्हजें मत आशिल्लें. पूण आतां म्हजो हो भ्रम सामको मातये भरवण जाला. स्वताक विचारप्रर्वतक समजुपी माध्यमांतले हे घटक बायलांक कितले हीन लेखतात, तांचो अपमान करतात, कशे सामकें रडयतात हे अणभवान आनी हेर बायलांक आयिल्ल्या अणभवांनीं कळ्ळें.

घरांतलो दादलो जेन्ना आपले घरकान्नीक वा हेर बायलांक आदरान पळयतलो तेन्नाच त्या घरांतले हेर घटकूय बायलांक सन्मानच दितले. पूण दादल्यान जर तिका दुय्यम लेखली, मांय-मांवान तिका कस्पट केली जाल्यार भुरग्यांकडल्यान तिणें कसली अपेक्षा धरप? आयज काल कांय आडवाद सोडले जाल्यार चडश्या घरांनी हेंच चित्र पळोवंक मेळटा. बायल मनीस संवसाराक आदार म्हूण जावं, वा आपलें करियर करूंक घरांतल्यान भायर सरता, दादल्या बरोबरीन. पूण घरांत परततकच तिणें घरकान्नूच जावपाक जाय हो बाकीच्या घटकांचो अट्टहास आसता. ती दादल्या इतली थकल्या, तिकाय दिसता आपल्याक कोणेंतरी एकदीस पूण च्या तरी करून दिवचो. पूण तिचें मत, तिच्यो भावना, तिका जाल्लें पुरो, कोणाच्याच हिसपांत नासता. दर एकलो तिचेकडल्यान खुबूच अपेक्षा करता. आनी त्यो पुराय जाल्यो ना जाल्यार तिच्या आवय-बापायचो उध्दार करून तिचो मानसीक छळ आनी केन्ना केन्ना शारिरीक छळूय करपाक घर ह्या संस्थेतले सभासद फाटीफुडें पळयनात.

समाज बदल्ला बदल्ला म्हणटात. पूण खऱ्यांनीच व्हय? तशें जाल्यार अजूनय गांवांनी बायलमनीस मेले उपरांत तिका सरणार दाळटना तिची कूड उक्तीच दवरतात. तेन्ना खंय वता त्या बायलेविशीं आदर? विधवा जातकच अजूनय ते बायलेक परंपरेच्या नांवान भरभरीत घोवाच्या मड्याकडेन हाडून तिचो शिरंगार देंवोवपाचें अघोरी कृत्य करतना खंय वता तिचे विशींचो आदर? भुरगीं जायनाशिल्ले बायलेक, लग्न जायनासतना राविल्ले बायलेक, विधवा बायलेक खंयचो समाज आदरान पळयता? आनी ह्यो पोरण्यो गजाली न्हय. हालींच्योच. सामक्यो काल-पयरच्योच. म्हजी एक इश्टीण आपल्या ध्येयपुर्ती खातीर लग्न जायनासतना रावली. ती तिची मर्जी. पूण समाज हांगाय तोंड उगडटाच. आनी दोन ज्वलंत उदाहरणां दितां. म्हज्या इश्टिणीं बाबतींत घडिल्लीं. दोगूय इश्टिणी आपल्या घरकाराचें विरहाचें दुख्ख सोंसपी. सगलें दुख्ख सोंसून आपल्या दोन माणकुल्यांच्या फुडारा खातीर आपल्या पांयार रावपी ह्यो तरणाट्यो विधवा. तांचें खरें म्हळ्यार ह्या समाजान कवतूक करपाचें पूण समाज तांचे कडेन कसो वागता तें पळयात.

तातुंतले एकटेच्या घोवाची गाडी आशिल्ली. आपल्या दोनूय भुरग्यांक शाळेंत हाड-व्हर करपाची जापसालदारी ताणेंच उखलिल्ली.तो आसतना तिकाय केन्नाच गाडी चलोवंक शिकचें अशें दिसलेंना. अचकीत तो गेलो. ती सैरभैर जाली. पूण भुरग्यांखातीर तिणें आपणाक सांबाळ्ळें. आपल्याक कोणामुखार हात फाफुडपाक पडचें न्हय म्हूण ती जिद्दीन गाडी शिकली. भुरग्यां-सांगाताक हासूंक-खेळूंक लागली. तेन्ना ह्याच समाजान तिका काळीज तोडपी कुरण्यांनी दुखयलें. हांगा खंयच्या समाजान तिका तोखणायेचीं उतरां दिलीं?

दुसरेचेंय अशेंच जालें. एका कर्तुबी घरकाराची घरकान्न. पूण तो गेल्या उपरांत भुरग्यांखातीर तिका घरांतलें भायर सरून नोकरी करची पडली. घर पयस गांवांत, तिची नोकरी शारांत. अख्खो दीस तिचो नोकरी आनी प्रवासांतूच वतालो. म्हूण तिणें शारांतूच घर घेतलें. एके विधवेक समाजांत भोंवतना कितल्या नदरांक तोंड दिवचें पडटा हें तिणें अणभवलें म्हूण मांय-मांवाक सांगून-सवरून तिणें गळ्यांत काळ्या मणयांची माळ घाली. तिच्या घरकारान गांवांतले तरणे पिळगेक शिक्षीत करपाक खूब योगदान दिल्लें.

पूण ताचेच बायलेक मात ह्या समाजान तिच्या चारित्र्याक बोट दाखयलें. तेन्ना आकुळपिकूळ जावन रडपी तिचो आक्रोश पळोवन फातराकय पाझर फुटपाचो पूण ह्या समाजाक मात तो फुटलो ना.

आयचो समाज खरेंच बायलांक आदर दिता? मागीर ह्या समाजांत भरसून भोंवून पळयात. आपल्या हुशारकायेच्या, बुद्दीच्या बळग्यार स्वकर्तृत्वार मुखार सरपी बायलां फाटल्यान हो समाज तिका कसो धुयता. राजकारणांत पावलां घालपी बायलमनशेक निरादर दाखोवन, कशे तिचे पांय फाटल्यान ओडटा. नाटक-सिनेमाच्या मळार अभिनय करपी बायल कलाकारांक कशें ह्या समाजाच्या अनादराचे बळी वच्चें पडटा. आपलीं सपनां पुराय करपाक, स्वेच्छेन आंकवारपण स्विकारिल्ले चलयेक कशे तरेन हिणसायतात, स्वताक विचारवंत, विचार प्रर्वतक, समाज सुधारक म्हणून घेवप्यांचे नदरेन बायलेक खंयचें स्थान आसतां हें पळोवपाक, कळपाक ह्या आयच्या समाजांत नदर मारचीच पडटली. तेन्ना कळटलें, बायल मनशेक आदरान पळोवपाचो सामाजीक दिश्टीकोण मात्सो सो (म्हणजे हाताच्या बोंटार मेजपा इतल्या लोकांचो) बदल्ला जायत पूण बाकी सगळें जैसे थे - तेन्ना आनी आतांय.

✿✿✿




४ म्युनिसीपाल मार्केट,
वास्को - गोंय.
फोन :९८२३५३७५६३



# आयच्या समाजांत बायलांक मानाची सुवात आसा?

– ममता सिसोदिया वराडकर

*बायलांचो अनादर जावंक लागता तो घरांतल्यानूच. पदवी परिक्षेक बसल्या बराबर न्हवरो सोदूंक सुरू. 'बरो भुरगो आसा, उजोवन उडयात. कसलो विचार करतात?' तिच्या इत्सा आकांक्षांचो कोण विचारूच करिना.*

'लेडीज फर्स्ट' हीं उतरां सगळ्यांचे संवकळीचीं आसात. हें वता थंय कानार पडटा. आयकून म्हजें स्त्रीमन प्रसन्न जाता.

पूण जेन्ना जेन्ना हांव समाजांत वावुरतां तेन्ना मनांत एक प्रस्न उप्रासता, खरेंच 'लेडीज फर्स्ट?'

पयरचीच एक गजाल म्हाका याद जाली. आमचे वळखीचे एके बायलेगेर तिचे सुनेची व्होंट भरपाचो सुवाळो आशिल्लो. सगळेकडेन खोसयेचें वातावरण आशिल्लें. इतल्यांत कोणें तरी म्हळें, 'पेढेच दिवपाचे आं! बर्फी फुडले खेप खांवची! पयलो चलो जालो म्हणटकच मागीर कसलोच हुस्को ना.' हीं उतरां आयकून ते बायलेची सून खोशी जावंचे बदला तिच्या कपलार आटयो चडल्यो. हाकाच बायलांक मान दिवप म्हणप काय? 'लेडीज फर्स्ट' हांगा कित्याक ना?

म्हजे कुळारा एक चाल आसा. जे बायलेची व्होंटी भरपाची आसता, तिची व्होंटी भरपाचो पयलो मान जे बायलेक पयलो चलो आसा तिकाच फाव जाता. हो खऱ्यानीच तिचो मान काय सगळे स्त्री जातीचो अपमान? हें अजून म्हाका कळना.

कांय वाक्यां आमी सर्रासपणान घोशवाक्यांवरी वापरतात. 'शिक्षीत बायल पुराय घराब्याक शिक्षीत करता', 'आवयूच भुरग्यांचो पयलो गुरू.' पूण जेन्ना जेन्ना आवय भुरग्यांक कितेंय शिकयता तेन्ना हेरांचे कमेंट्स आसतात 'तुका आवयन हेंच शिकयलां?'

भुरगीं आवयक सर्रास म्हणटात, 'तुकां कांय कळच ना. बाबा सारकें सांगता.'

घोवा-बायलांच्या संभाशणांत 'तुका कांय कळनां' हें वाक्य सदांच बायलां खातीर वापरतात.

घरकाम करून, भुरग्यांक सांबाळून, सोयऱ्या धायऱ्यांक यो-बस करून, जापसालदारकेचीं सगळीं कामां करून लेगीत घोव म्हणटा, 'दीसभर घरांत सुसेगाद बसून

जगता, आमकां भायर कितले कश्ट काडचे पडटात हाची कल्पना आसा तुका?'

हेर कडेन कामांक वचून येवन, घरकाम, भुरगीं, समाज ह्या सगळ्या स्तरांचेर सरयेवेली कसरत करीत संवसार करपी बायल मनशेक 'तुजें घराकडेन मात्तूय लक्ष ना. कामाक वता म्हळ्यार कितें व्हडले दोंगर हालयना. तुजे जोडीची कोणाक गरज आसा? मातशें घराकडेन लक्ष दी.'

आतां म्हाका सांगात, हांगा बायलमनशेन कितें करपाचें? कितेंय केल्यार थोमणे आनी दोश! हाका कितें आदर म्हणपाचें?

भुरग्यांच्या शिक्षणाचो निर्णय घेतना तातूंत आपणें वांटो घेतलो आनी शाळा निवडली जाल्यार, हाका आवयच जबाबदार हांवें सांगिल्लें ते शाळेंत घालूं नाका! पूण म्हजें आयकता कोण?

भुरग्यांच्या लग्नाचे निर्णय ती घेवंक शकना. घराविशीं, घोवाविशीं, भुरग्यांविशीं सगळे निर्णय घोवाचेच. बायलेन फकत हयकार दिवपाचो.

हो बायलांक चार वण्टीमदलो मान!

आतां आमी समाजांत बायलांक कितलो मान आसा तें पळोवया.

समाज म्हळ्यार नक्की कितें तें अजून म्हाका कळूंक ना. समाजशास्त्राची व्याख्या मात म्हाका खबर आसा. आसूं!

बायलांखातीर समाज सुरू जाता तो तिच्या हुंबऱ्या भायल्यान. बायलमनीस गाडी घेवन रस्त्यार आयली म्हणटकच चूक कोणाचीय आसूं, 'कित्याक लागून बायलां गाडी चलयतात देवाक खबर' हें वाक्य ठरिल्लेंच आसा. 'चलोवंक येना जाल्यार घरांत बसात.' हो आदर.

कामाक वचपी सगळ्या स्तरावेल्या बायलांचो वेगवेगळे तरेन अपमान जाताच. तांचे वैचारीक, बौध्दीक क्षमतेच्यो सदांच बकच्छायो जातात. 'तांका कितें जमतलें? तांचें काम रांदा, वाडा, उश्टीं काडा, इतलेंच.'

तांच्या नव्या नव्या कल्पनाचीं खिल्ली उडोवप आनी म्हणप, 'ऑफिसांत येवन कितें करतलीं? विणकामूच मू?'

खेळा मळार वावुरपी बायलांचो नानापरीन अपमान जाताच. तांच्या बायलपणाचेर खूबदां हल्लो जाता. तरी दोश वता बायलांकूच, 'कोणें सांगिल्लें घरा भायर वचून खेळपाक? कितें करपाचें तें घरांत करात.' हो आदर बायलांचो!



नाटक-सिनेमा मळार वावुरपी बायलो तर सगळ्यांचो फकाणाचो विशय. त्यो फक्त शोभेच्यो बावल्यो. तांच्या गुणांक, चारित्र्याक तांच्या रूपामुखार सुवात ना. तांका खंयच्याच स्तरार आदर ना. आयजूय एक बायलमनीस ह्या मळार करीअर करपाखातीर आपलें सर्वस्व पणाक लायता. हाकाच 'लेडीज फर्स्ट' म्हणपाचें?

आयज बायलमनीस सगळ्या मळांचेर यशस्वीपणान वावुरता. पूण सगळ्यांची काणी एकूच.

राजकारणांत आयज बायलमनीस महनीय आसा. पूण एक स्त्री आमचेर राज्य करता ही कल्पन्नाच पचोवंक सगळ्यांक जड जाता. मागीर आशिल्ल्यो नाशिल्ल्यो चुको सोदून काडप. होच हो मान काय?

बायलांचो अनादर जावंक लागता तो घरांतल्यानूच. पदवी परिक्षेक बसल्या बराबर न्हवरो सोदूंक सुरू. 'बरो भुरगो आसा, उजोवन उडयात. कसलो विचार करतात?' तिच्या इत्सा आकांक्षांचो कोण विचारूच करिना.

'तुका नोकरी करपाची कितें गरज आसा? हांव जोडिना?' लग्न जालें रे जालें न्हवऱ्यांक आवडटा तें नांव लाय. आडनांव बदल. ताका आवडटा तसले कपडे घाल. घोवागेर शिवराक. मांसाहार बंद. अक्षदा पडले बराबर ह्या बदलांक बायलांनी तयार रावपाचें. ना म्हळें जाल्यार सुनेक नांवां.

भुरगीं जालीं काम सोड. ह्यो सगळ्यो गजाली म्हळ्यार बायलांचो पावला पावलाक अपमान. अनादार. कितलेंय लिपोवंक गेल्यार बायलेक समाजांत आदर ना, तिका मानाची सुवात ना हें पदोपदी दिसता.

हाका कांयकडेन अपवाद आसूं येता. जंय बायलमनशेक मान-सन्मान मेळटा तरी खरी गजाल अशी की तिका वता थंय कळटा नकळटा अपमानूच मेळटा.

तिका आपल्या आवय बापायच्या रिणांतल्यान केन्नाच मुक्ती ना. तिका अग्नीसंस्काराचो अधिकार ना.

हाका हांव स्त्रीत्वाचो फक्त अनादरूच मानतां.

निमणें म्हाका एकूच सांगन दिसता 'लेडीज फर्स्ट' म्हणचे परस 'लेडीज विथ अस' म्हणचें, खरेंच बरें दिसतलें.

फ्लॅट नं. २. दुसरो माळो,
ब्लॉक सी, सुमन-रेसिडन्सी,
बोर्डा-मडगांव.
फोन : ९४२२०५७०६०

# बायलांचें स्वातंत्र्य

**आ**ज बायलांच्या स्वातंत्र्याविशीं विचार करतना एक विचार मनांत येता. बायलांक शिक्षण मेळचें म्हण सरकारी पावंड्यावेल्यान यत्न जातात. आपल्या प्रयत्नांनीं तीं शिक्षणाचे शिगेर पावंक शकतात.

बायलांक स्वतंत्र वेवसाय करूंक सरकारांतल्यान आर्थिक पालव मेळटा. स्वयंसहाय गटांच्या निमतान तांच्या मदल्या उपजत गुणांक वाव मेळटा. त्या गुणांचें येणावळींत रुपांतर करूंक मजत जाता.

आर्थिक नदरेन स्वावलंबी आशिल्ले बायलेचो आत्मविश्वास वाडटा. ती स्वतंत्रपणान निर्णय घेवंक शकता.

आज बायलांक आपल्या आंगांतले कलागूण दाखोवपाची संदय आसा आनीक उर्बाय मेळटा. नृत्य, नाट्य, संगीताच्या क्षेत्रांत काम करून कोणय मानान जियेवंक शकता. ती राजकारणांत भाग घेवंक शकता.

बायलमनीस आपलीं मतां आनीक विचार समाजामुखार मांडूंक शकता. आपल्यो भावभावना व्यक्त करपी साहित्य निर्माण करून लोकांमदीं जाणविकाय हाडूंक शकता.

खरें म्हळ्यार बायलांचेर अत्याचार जावंक पावलो, ती शारिरीक पावंड्यार दुर्बळ म्हण. (एखाद्रे तिचेर खूबशे गूण अवगूण लादून तिचें मन दुर्बळ करून दवरलां आसूं येता.) पूण आज तिका अत्याचारां आड झुजूंक कायद्याचो आदार आसा.

बायलांक आज आपलो जोडिदार निवडपाचें स्वातंत्र्य मेळूंक लागलां.

इतलेंय आसून बायलांक स्वातंत्र्य आसा काय ना हो प्रस्न उप्रासताच. हाचें कारण बायलांचेर युगांयुगांतल्यान घाल्लीं बंदना. जशें पांदऱ्यांतच बंद दवरिल्ल्या सवण्याक पांदऱ्यांतल्यान भायर-काडलें तरी उडूंक जमना तशी अवस्था बायल मनशेची जाल्या. मानसीक पावंड्यार ती अजून परावलंबी आशिल्लेवरी दिसता. अजून मेरेन ती आपलीं सुखदुख्खां थारावंक शकना वो थारायना. आनीक समाज अजूनमेरेन संवसार सांबाळपाची अपेक्षा बायलांकडसूनच करता.

बायलांक शिक्षणाच्या मळार सामकीच उपेक्षीत दवरूनय, तांचेखातीर गिन्यानांचीं कवाडां बंद दवरूनय, तिचेर तरेकतरांचीं बंदनां घालूनय



तिच्या मनाचेर, शरिराचेर अत्याचार करूनय तिच्या गरजांकडेन पुरायपणान दर्लक्ष करूनय, तिका असुरक्षिततेच्या दडपणाखाल दवरूनय भुरग्यांचेर संस्कार करपाची जापसालदारकी तिचे माथ्यार थापिल्ली ती आयजय तिचेच माथ्यार आसा. दादल्यांच्या खांदाक खांद लावन धांवपळ करतनाय घरांतलो कर्तो म्हणून घेवपी दादलो आपलेच बायलेक तुच्छ लेखतलो, तिका किंकोंत करतलो. तिका कांय कळना वो ती कित्याक उपकरना अशेतरेची भावना भुरग्यांमदीं करून दितलो आनी तेच बायले कडसून भुरग्यांक देख मेळची अशी अपेक्षा बाळगितलो, अशेंच चित्र चडशा प्रमाणांत आमच्या समाजांत, चडशा घरांनी दिसून येता.

आज लेगीत बापायच्या व्यक्तिमत्वाचो प्रभाव आशिल्लीं भुरगीं आवयचें आयकनासतना चुकीच्या मार्गार पावलीं जाल्यार समाज आवयकच दोशी थारायता. भुरग्यांचेर संस्कार करपाचें काम बापायचेंच आसूंक शकता हें अजून मेरेन कोणय चिंतता अशें दिसना.

आज बायलो घरांतल्यान भायर सरतात. हाचें फाटलें कारण तिच्या अर्थिक स्वावलंबनाक पाठबळ हें नासून वाडट्या खर्चाक (जंय पुरूषार्थ उणो पडटा) पर्याय हेंच आसा. घरांत आर्थिक ओडाताण जायत जाल्यार बायलमनशेन आपली शक्त वापरून संवसार सांबाळचो ही घरांत धरून सगल्यांची अपेक्षा.

पूण तीच बायल. घराभायर आपलें काम यशस्वीपणान सांबाळटा आसतना घरांत कसलेय प्रस्न निर्माण जाले जाल्यार तेच बायलेन आपलो कामधंदो सोडून घरांत बसचें अशें समाजाकय दिसता. घोव-बायलेच्या कामाच्या बोवाळांत भुरग्यांची भावनीक परवड जाली जाल्यारय आवयच दोशी.

थोडक्यांत बायलांचें सशक्तीकरण जरूर जालां. पूण तिच्यो सगल्यो शक्ती तिच्या स्वताच्या जिवितापरस तिच्या भोंवतणच्यांक उपकारा पडच्यो म्हण. तिच्यो आवडी निवडी, तिच्यो इत्सा, तिचें सुखदुखख हें अजून मेरेन गौणच. ज्या मानसीक आदाराक बायलमनीस आवंडेता थंय चड करून तिची निराशाच जाता आनीक ताका लागून तिचें जिवीत हें तिचें स्वतंत्र जिवीत उरनासतना जाका जाय तेन्ना जाय तसो वापरपाचो एक उर्जा स्त्रोत जावन उरता.

वतां वतां एक अणभव सांगन दिसता.

All India Poetess Conference म्हणून वर्सानवर्स कवयित्रींचें सम्मेलन जाता. अशा एका सम्मेलनांत जें २००८त जाल्लें, तेदेवेळार सगल्या कवयित्रींक मेळपाचो योग आयिल्लो. सगल्यो शिकिल्ल्यो संवरिल्ल्यो, आर्थिक नदरेन स्वतंत्र आशिल्ल्यो कवयित्री. पूण सगल्यांचो सूर चडसो एकच.

भायलें काम आनी घरांतलो संवसार सांबाळटना मेटाकुटीक आयिल्ले जीव, सगल्यांचें सूख आनीक सोय पळयतना आपलें शेणिल्लें स्वत्व आनीक भितर खंयतरी खवदळपी निराशा हांतल्यान वयर सरिल्ली व्यथा चडशा कवयित्रींच्या कवितांतल्यान दिसून आयली.

निमाणे, बायलांचें जिवीत फकत दुसऱ्यांक सुखी करपाखातीर आनीक तिच्या भावभावनांचें स्वतंत्र अस्तित्व जोपासल्यार ती दुसऱ्यांक सुखी करूंक शकचीना अशी धारणा हे पुरूषप्रधान संस्कृतींत आसतली तो मेरेन बायल स्वतंत्र जाल्या अशें म्हणूंक जावचें ना.


**– किरण म्हांब्रे**

२०७, कैलाश दर्शन,

आर्के, मडगांव-गोंय

फोन : ९८२३५७६०९२

# बायलमनशेक राजकारणात आयज मानाची सुवात आसा?

- डॉ. अनुपमा महेंद्र कुडचडकर



*राजकारणांक आदर्श अशी नवी दिशा मेळटली ती फकत सुशिक्षित, दुरदर्शी, नितळ व्यक्तीमत्वाचें, निसुवार्थी देशाचें भलें चिंतपी, देशाचो अभिमान आशिल्ले, बरें शाणपण आशिल्ले मनीस राजकारणांत देंवतले तेन्ना. तातूंत बायलांचोय समान आस्पाव आसचो पडटलो. ताका लागून जे कोण राजकारणांत देंवतले ताणी देशाचे उदरगतीचें सपन दोळयां मुखार दवरून, लोक कल्याणाखातीर आनी देशाच्या हिताखातीर निसुवार्थीपणान वावरचें पडटलें. राजकारण म्हणजे घराण्याची चलिल्ली परंपरा वा धंदो अशें समजुपी राजकारण्यांचो भ्रम तोडून उडोवंचो पडटलो. सगली स्त्रीशक्त एकठांय जायत तर कितेंय घडूं येता.*

राजकारणी बायलमनीस आसूं वा दादलोमनीस. दोगांयकय राजकारणांत तितलोच मान आसा. राजकारण हें वायट न्हय. पूण तें चलोवपी जर भ्रश्टाचारी जाले वा आपली सत्ता वा कदेल तिगोवन दवरूंक सामके लाचार जाले तर असल्या राजकारण्यांक काडयेचोय मान मेळचो ना. ती मागीर बायलमनीस आसूं वा दादलो मनीस.

सद्या राजकारण हो एक समाजाच्या उदरगतीच्या नांवार चलपी भ्रश्टाचारान भरिल्लो अड्डो जावन पडला. वचत त्या राज्यांनी भ्रश्टाचाराचो कहर जाल्ल्याच्यो बातम्यो दर दिसा दिसाळ्यांनी वाचूंक मेळटात. कोणाचेंय कसलेंय सरकारी काम जावचें आसत तर हातूंत आपल्याक कितलो फायदो जातलो हेंच पळोवन तें काम जाता. हें काम करतनां समाजाच्या भल्याचें, सैमाच्या जतनायेचेंच न्हय तर सरकाराच्या तिजोरेचो लेगीत विचार करप जायना. अशे हे निर्दयी काळजाचे कांय राजकारणी, आपूण देशाचे फुडारी म्हणून वावुरतना आपल्या देशाकच पोखरूंक लागल्यात. आपल्या राज्याचोच न्हय तर देशाचो आनी धर्तरेचोय विनाश जालो तरी तांकां कांयच पडून गेल्लें ना. हातांतल्यान वेळ निसटच्या पयलींच अशे विध्वंसी आनी विनाशी राजकारणी आसात तांचीं कदेलां काडून घेवपाची घटका आतां लागीं पावल्या.... अशा राक्षसरूपी विध्वंसी राजकारण्यांक राजकारणांत मानाची सुवात आसा?

बायल मनशेक जितली अबला मानतात तितलींच ती गरज पडल्यार दुर्गा माताय जावंक शकता हें ह्या राजकारण्यांक बेस बरें खबर आसा. ताका लागून बायलांक कशें वश करून दवरचें हाचेरय तांणी बरोच अभ्यास केल्ल्याची जाणीव तांच्या वर्तनांतल्यान दिसून येता. अशें केल्ल्यान तांची फुडल्या निवडणुकेचीं मतां सुगूर जावन उरतात. गांवगिऱ्या बायलांक साडयो वाटप, पयशे

दिवप, कांय उपकरणां वाटप, तांच्या महिला मंडळांक वा भगिनी मंडळांक देणग्यो वा भेटवस्तू भेटोवप असल्या सर्रास जावपी कार्यावळींचे फोटो आनी बातम्यो दिसाळ्यांनी खूब वाचूंक मेळटात. अशिक्षीत, दुबळ्यो, भोळ्यो, हावरट आनी लाचार बायलोच असल्या, तांणी घडोवन हाडिल्ल्या कार्यावळींचे भकीक पडटात आनी तांच्या पक्षाकडेन आकर्शीत जातात. हीच संद सादून राजकारणी अशा बायलांक आपणें घाल्ल्या गरयेच्या गोळाक आडकोवन दवरतात. आज गांवगिऱ्या वाठारांनी सत्तेर आशिल्ल्या कांय बायलमनशांकय राजकारण्यांनी आपली सत्ता तिगोवंक तांका आपल्या कोर्दीची बावली करून दवरल्या. आपली स्वताची बुद्ध आनी विचारशक्ती वापरनाशिल्ली, कायद्याचें गिन्यान आनी योग्य शिक्षण नाशिल्ली, अशिक्षित राजकारणी बायलमनीसच असल्या राजकारण्यांच्या कोर्दीची शिकार जाता आनी हातांत सत्ता आसूनय ती लाचार जावन बसता. ..... असल्या अबुद्धी आनी दुसऱ्यांच्या हातांतली बावली जाल्ले राजकारणी बायलमनशेक मानाची सुवात आसा?

हिंदू धर्मात स्त्रीशक्ती ही दादल्या मनशाच्या शक्तेपरस चड श्रेश्ठ मानल्या. जंय जंय राक्षसांचो वध जाला तो फक्त देवीच्याच हातांतल्यान जाला. आयच्या कलियुगांतलेय कांय भ्रष्ट राजकारणी राक्षसय चड मतिल्ल्यान तांचोय खेळ सोंपोवपाची वेळ आयल्या. सगळी स्त्रीशक्त एकठांय येयत तर तेय दीस पयस नांत. पूण हें घडपाक सगळ्याच बायलमनशांमदल्या आत्मविश्वासाक आनी इत्साशक्तेक प्रेरीत करपाची गरज आसा. मनीस कायद्याच्या हातांतल्यान पुराव्याअभावी आपल्या दोशांतल्यान मुक्त जावंक शकता. पूण आपल्या मनांतले न्यायदेवतेकडल्यान ताका भोगणारे मनस्ताप ताचे जिणेंतल्यान मर म्हणसर चुकनांत हें दर एका मनशाच्या लक्षांत आसूं जाय.



बायलमनशेक आयज वचत थंय मानाचीच सुवात आसा. ती राजकारणांत कित्याक आसची ना? ह्या विशयाचेर सगळ्या बायलांनी एकठांय येवन एकचारान ते दृष्टीन विचार करप गरजेचें आसा. राजकारणांत भितर सरपाक बायलमनशेकडेन बळगें आसचें पडटा, तें दृढ इच्छाशक्त, चिकाटी आनी धडाडीचें. राष्ट्रपती प्रतिभाताई पाटील हे एके बायलमनशेन (पयली महिला) राष्ट्रपती ह्या पदाची सुवात घेवन बायलांक राजकारणांत कितल्या उच्च मानाची सुवात आसा हाजें येदें व्हडलें ताजें बेस बरें उदाहरण घालून दिवंक ना? भारताच्यो पयल्यो महिला माजी पंतप्रधान स्व. इंदिरा गांधी हाणी देशाचें नेतृत्व केलें ना? गोंयच्यो माजी मुखेलमंत्री शशिकलाताई काकोडकार हांणी गोंय राज्य कांय काळ चलोवन दाखयलें ना? ह्या उदाहरणावेल्यान राजकारणांत बायलांक कितल्या मानाची सुवात आसा हाचो प्रत्यय येता.

आमच्यो गोंयच्यो राजकारणी बायलो मोजक्योच जरी आसल्यो, तरीय तांणी अन्यायाविरुद्ध आवाज उठयले नांत? तांची संख्या उणी पडिल्ल्यान तांणी उठयिल्ले आवाज भ्रश्टाचारी आनी सुवार्थी राजकारणी कानामनार घेनांत आनी तांचे बायलांविशींचे प्रश्न आनी समस्या अधिवेशनां सोंपली तरी तशेच हुमकळत उरतात. हालीं विधानसभेचीं आनी लोकसभेचींय अधिवेशनां थेट प्रक्षेपीत जाल्ल्या कारणान थंय कितें कितें बरें वायट घडटा तें सगळ्या गोंयभरच्या लोकांक पळोवंक मेळटा. एकमेकांचीं उणीधुणी काडपाक आनी दुसऱ्याक सकयल कसो खेचपाक मेळटलो हाची संद सादपाकच हीं अधिवेशनां भरिल्लेवरी दिसतात. कोणाचोय भ्रश्टाचार उक्ताडार हाडत वा दुसऱ्याची चूक दाखोवन दीत तर दुसरे ताचेर रोकडेच पड्डो धापूंक सोदतात. उदरगतीच्या मळार वा सामाजिक समस्यांचेर तोडगो काडपाचीं अधिवेशनांनी कितलीश भासाभास जाता? देशाचें वा राज्याचें कितेंय भलें करपाक सोदपी क्वचीत उच्च विचारसरणी आशिल्लो एकाद्रो राजकारणी जर सत्ताधारी पक्षांत नासत तर ताच्या वाट्याक निमाणेकडेन उरता ती फक्त निर्शेणी. अधिवेशनां चलतना कांय राजकारण्यांची शिस्त आनी कायद्यानुसार वागणेंय आशिल्लें दिसना. अशा बेशिस्त आनी कायद्याचें पालन न करणाऱ्या राजकारण्यांक मानाची सुवात आसा?

समाजाच्यो मुळाव्यो गरजो भागोवंक शकनाशिल्लें सरकार 'सागरी सेतू' खंयच्या नेटार बांदूंक सोदता? कित्याक म्हणून? कितल्याशा गोंयकारांक ताचो फायदो जावपाचो आसा? कितल्याशा विचारवंतांनी हाच्या फायद्याचेर मतां मांडल्यांत?

घरदार नाशिल्लीं, रातचीं उपाशीं न्हिदणारीं भुरगीं आनी जाण्टीं मनशां हांका दिश्टी पडनात? तांच्या खातीर कांय करू नजो? काय आपल्याच फुडल्या पिळग्यांचीं पोटां आतांच भरून दवरपाचीं? ज्यांची फुडें कसलीच शास्वती ना!.... असल्या सुवार्थी राजकारण्यांक मानाची सुवात आसा?

एक तरी सरकारी खातें 'आदर्श' खातें म्हणपाच्या लायकीचें आसा? सादें पर्यटन सुद्धा व्यवस्थित सांबाळपाक जायना. स्वर्गासारख्या गोंयचें जगाच्या नकाशार नरक

करून दवरपाकय कोण जबाबदार आसा? वर्सानवर्स वाडत चलिल्ले बायलांचेर जावपी अन्याय आनी अत्याचारांविरुद्ध सरकारान आयज मेरेन कसलीं खर अशीं पावलां उखल्ल्यांत? उलट अशा गजालींक आपली ढाल कशी मानून घेवन ताचेरय राजकारण चलोवपी कांय राजकारणी तयार जाल्यात. हांगा कोणाकच कोणाचोच भंय ना जाला आनी लजय ना जाल्या. जे निर्लज्ज मनीस बायलमनशेचो मान राखूंक शकनात आनी तांच्यो भावना समजून घेवंक शकनांत ते कितें सोडयतले बायलांचे प्रश्न? बायलांच्यो समस्या आनी प्रश्न राजकारणाचो ध्यास घेतिल्ल्या धडाडीच्या बायलांनीच सत्तेर येवन आतां सोडोवंचे पडटले. आयच्या राजकारणांत उमेदीन येवन कितेंतरी बरें, नवें आनी वेगळें करून दाखोवपाची इत्सा आशिल्ल्या नव्या उमेदी उमेदवारांक फुडें सरूंक कित्याक मेळना? हाचेर कोणे विचार केला? कितलेशे राजकारणी आपूण निवडून आयिल्ल्या पक्षाकडेन प्रामाणिक वा एकनिष्ठ रावतात? असले पक्ष बदलू, अविस्वासू राजकारण्यांक मानाची सुवात आसा?

आयची बायलमनीस शिकिल्ली सवरिल्ली आसा. सगळ्याच क्षेत्रांनी ती आघाडीचेर रावन वेगवेगळीं पदां सांबाळटात. राजकारणय तिका बेस बरें चलोवंक येता. दादल्यामनशा इतलेच समान हक्क आनी अधिकारय तिका आसात. पूण कांय कलंकीत राजकारण्यांक लागून कलंक लागिल्ल्या राजकारण नांवाचे किडीक, हळशीकेक फाट म्हणून ती फुडें सरूंक सोदिनां. राजकारणाचो ध्यास धरून कांय बायलमनशांनी फुडें सरपाचो यत्नय केलो तर तिका फाटीं ओडपाकय कांय राजकारणी फाटींफुडें पळयनात. आपलो सुवार्थ सादपाचो आसत वा आपल्याक बायलमनशेच्या आदाराची गरज आसत तरच बायल मनशेचो विचार करप जाता.

चिखलाच्या कोंडाम्हन्यांत गेल्ल्या निवळ नितळ मनशाचेर लेगीत कोंडांतलो चिखल उसळपाचो संभव आसता. ताकाय लागून निवळ नितळ चारित्र्याचे, विचारवंत, बुदवंत, सुशिक्षीत आनी शाणे लोक अशा ह्या चिखलांच्या कोंडाकडल्यान पयस रावंक सोदतात. पूण आयज वेळ आयल्या ती ह्या कोंडानीं चड तेंप सांचून उरिल्लो चिखोल उपसून काडून उडोवपाचो. निवळ नितळसाणीचें म्हत्व खबर आशिल्ल्या शिक्षीत, धडाडी व्यक्तीमत्वाच्या मनशांनी हीं कोंडां निवळ करपाचें काम आतां जोमान हातांत घेवंक जाय. तांच्या बरोबर राजकारणाचो ध्यास घेतिल्ल्या आनी आवड आशिल्ल्या बायलांनीय आपले इत्सेनुसार हीं तुंबिल्लीं कोंडां निवळ करपाक आपलोय हातभार लावंक जाय.

राजकारणांक आदर्श अशी नवी दिशा मेळटली ती फकत सुशिक्षित, दुरदर्शी, नितळ व्यक्तीमत्वाचें, निसुवार्थी देशाचें भलें चिंतपी, देशाचो अभिमान आशिल्ले, बरें शाणपण आशिल्ले मनीस राजकारणांत देंवतले तेन्ना. तातूंत बायलांचोय समान आस्पाव आसचो पडटलो. ताका लागून जे कोण राजकारणांत देंवतले ताणी देशाचे उदरगतीचें सपन दोळ्यां मुखार दवरून, लोक कल्याणाखातीर आनी देशाच्या हिताखातीर निसुवार्थीपणान वावरचें पडटलें. राजकारण म्हणजे घराण्याची चलिल्ली परंपरा वा धंदो अशें समजुपी राजकारण्यांचो भ्रम तोडून उडोवंचो पडटलो. सगली स्त्रीशक्त एकठांय जायत तर कितेंय घडूं येता. आयच्या राजकारणांतय बायल मनशेक मानाची सुवात मेळोवंक येता आनी आपल्या वर्तनानुसार ती तिगोवनय दवरपाक येता. फक्त गरज आसा ती स्त्रीशक्तीच्या एकवटाची, एकचाराची आनी इत्साशक्तीची.

देवादयेन आयज राष्ट्रपती, लोकसभेच्यो सभापती, कांय राज्यांच्यो मुखेलमंत्री, सत्ताधारी पक्षांतल्यो केबिनेट मंत्री आनी सत्ताधारी पक्षाच्यो अध्यक्षा ह्यो सगळ्यो बायमनीसच जावन आसात आनी तांकां मोलादीक मानाचें स्थानय आसा. ह्या मानाचो ताणी योग्य उपेग करून घेवन ज्या राजकारण्यांनी आमच्या देशाची परिस्थिती बिगडावन दवरल्या ती परत जाग्यार हाडल्यार बायलांक राजकारणांत केदें व्हडलें मानाचें स्थान आसा हेंय सिद्ध जातलें.

५०२, शांतिदो,
ला काम्पाला,
मिरामार, पणजी – गोंय.

# बायलां दीस - चिंतन, मनन

- रजनी भेंब्रे



*शार जावं गांवच्या समाजाक हालींसराक एक व्हड किडिचो प्रादुर्भाव जाला आनी ती कीड म्हणल्यार बलात्कार, आगळीक. ही कीड मुळासावन ना जावंक जाय. बायल वा चली मनशेचो गुन्यांव नासतना ती पाशवी मनशांच्या विकाराक बळी पडटा, आनी सासणाची भ्रश्ट जाता. अश्या वेळार बायल स्वतंत्रतायेच्यो वल्गना करपी आमी त्या बलात्कारिकेक आदार करपाक मुखार सरतात काय फकत बातांच करतात?*

**जा**त, धर्म वेगळाय नासतना खंयचोय समाज घे. त्या समाजांतली खंयचीय बायल आवय, धूव, सून, भावज, भयण अशा वेगवेगळ्या रूपांनी नदरे सामकार येता. प्रत्येक बायलेच्या आंगांत कसलो ना कसलो गूण आसता. आनी तो विकसीत करचे पासत ती धडपडटा. कांय वेळार तिका संद मेळटा, कांय वेळार तिचे पांय ओडप जाता. संद मेळटा ती बायल फुडें पावता. आपली उदरगत सादूंक पावता. जिचे पांय ओडप जाता तिचो घुस्मट मार जाता. ती आपली संद वगडावन बसता. धडपडटा, चरफडटा आनी कांयच साद्य जालें ना म्हणून निर्शेता.

समाजांत आमकां दोन चित्रां दिसतात. आपले कर्तृत्वान फुडें पाविल्ली अस्तुरी आनी फटिंच्या परंपरांनी घुस्पावन दवरिल्ली अस्तुरी. अस्तुरेकडेन पळोंवपाची नदर निवळ नितळ आसली जाल्यार अस्तुरेचो फुडार पर्जळीत जावंक पावता.

भारतीय समाज पितृप्रधान जरी आसलो तरी आवयकय 'मातृदेवो भव' म्हणून वयली सुवात फावो केल्या. घरकार आनी बायल संसाररूपी रथाचीं दोन चक्रां. दोनूय चक्रां वेवस्तीत चल्लीं जाल्यारच संवसार सुखी जावपाक पावता.

सुशिक्षित आनी संस्कारी बायल ही आपली उदरगत सादपाक फुडें पावल मारता. ती सुशिक्षित आनी सुसंस्कारी समाज घडोवंचे पासत प्रयत्नशील रावता. भारतांत असल्यो जायत्यो नांवारूपाक आयिल्ल्यो बायलो आसात. आनी त्यो वेगवेगळ्या काळांत जल्मल्ल्यो आसात. रत्नावरी स्वयंप्रभा आशिल्ली बायल सगळ्या तरांच्या बंधनांक कुशीक काडून आपलें अशें आगळें वेगळें रूप दाखोवपाक फाटीं उरना. भारतांत पुराण काळ धरून ह्या समयार लेगीत आमकां अशीं उदाहरणां पळोवंक मेळटात. पूण कोटी कोटींच्या समाजांत हें प्रमाण साप्प कमी आसा.

बायल मनीस आज खऱ्यानीच स्वतंत्र आसा? आमी आयचें चिंततात. पूण एक काळ असो आशिल्लो, अस्तुरी ही दादल्यांची मिरास, हातांतलें बावलें. दादल्यान आपल्या शक्तीच्या बळग्यार खूब संपत्ती एकवटीत केली आनी ताच्या मुखार प्रश्न उबो जालो ती संपत्ती सांबाळून कशी दवरप, कोणा पासत दवरप? तेन्ना ताणें लग्न जावपाचें थारायलें. असुरक्षतेचो न्युनगंड आशिल्ले अस्तुरेन ह्या संबंधाक हयकार दिलो. लग्नाच्या फेऱ्यां वांगडा घुस्पटून ती दादल्यांची संपत्ती जावन पडली.

हो आदलो काळ. पूण आज आमी फाटीं वळून पळयतना समजतात व्हय आदले काळा परस आमी खूब सुदारल्यात? आमकां सगळे तरेचें स्वातंत्र्य आसा. आमचे निर्णय, भुरग्यांच्या शिक्षणाचे निर्णय, घरगुती निर्णय, आपल्या करियरा संबंदी निर्णय अस्तुरी घेवंक शकता. घरकारय निर्णय घेतना बायलेक विश्वासांत घेता. बायले सांगातान संवसाराखातीर धांवपळ करता, भुरग्यांपासत धांव-धपट्यो काडटा. हय सगळें-सगळें करता.

पूण हांगा एक व्हड प्रस्न आमचे मुखार आसा तो हो. अस्तुरे बरोबरीन वावुरपी घरकार शहरी वातावरणांतलो. अशेच तरेचें वातावरण, बदल, गांवगिऱ्या वाठारांनी जाल्लो आसा व्हय? म्हजी जाप ना. सदांच विचार करप जाता, शहरी अस्तुरेंचो. पूण आमचो खरो समाज वसता गांवांनी, खेड्यांनी. त्या बायलांचो विचार प्रामुख्यान जावंक जाय.

स्वतंत्र भारतांत भौशीक जिणेंत बायलांक आनीक बळिश्ट करचे पासत केंद्र सरकार नित्य नेमान नव्यो-नव्यो येवजण्यो राबयता. बदलत्या काळाबरोबर अस्तुरेन स्वताक आचार आनी विचारान नेटान बदलून घेतलां. शिक्षणीक नदरेन तर स्वताक इतलें बदलून घेतलां कीं आयज तिणें अशें एकूय क्षेत्र मेकळें दवरूंक ना. व्हड व्हड पदांचेर आपल्या कर्तृत्वान तिणें आपली सुवात सुगूर करून



आपली छाप दवरल्या. पूण खेदान सांगन दिसता कीं हें सगळें शारांतल्या वाठारांनी मुखेलपणान दिसून येता. गांवगिऱ्या वाठारांनी नदर मारीत तर स्त्री स्वातंत्र्य म्हणटात तें कितें आनी ताच्यो भोगल्यो कश्यो जातात त्यो दिसतल्यो.

कांय प्रमाणांत बदल दिसून येतात. शारांवरीच सुधारणेचें वारें खेडे गांवांनीय पावलां. आपूण शिकूंक पावूं ना, आपलीं भुरगीं तरी शिकचीं म्हूण कश्ट उपसून आनी सरकारी आदार घेवन आवय भुरग्यांक फुडें सरपाक वावुरता. आशिकुशीक घडणुको घडटात ताचो पुरायेन बरेतरेन नियाळ दिवपाचो यत्न करतात. वायट बरें पारखुपाची नदर दिवपा पासत धडपडटा.

आनी आज आमकां ह्या विशयाचीच चड गरज आसा. जी गावगिरी बायल आपल्या भुरग्यांक दिवपाक सोदता.

समाज विस्कळीत जावंक लागला. तरणी पिळगी तर हाता भायर वचपाचे वाटेर आसा. व्यक्तीस्वातंत्र्याचें पिशें तर तरनाट्याच्या मानगुटेर बसलां. खेडे गांवांतली आवय तरी भुरगेबाळांचें करपाक घरा आसता पूण शारांतली आवय आपल्या भुरग्यांक जाय तितली सुरक्षितताय दिवूंक कमी पडटा. स्त्री स्वातंत्र्याची वलगना करतनाच अस्तुरेन केन्नाच विसरूंक फावना, भुरगें हें आवयच्याच गर्भांत जल्मता. म्हणूनच निसर्गान दिल्ल्या वरदानाची राखण करूंक जाय. तिका घटाय मेळून दादल्या बरोबरीन वावरूंक मेळळांच पूण तिका आपल्या कर्तबगारीचेर विश्वास उरूंक जाय. अस्तुरी घटमूट आसली जाल्यार वेळ प्रसंगार स्वत:च्या पांयार उबी रावपाची तांक तिच्यांत निर्माण जावं येता. अन्याया आड झुंजपाची ताकत तिच्यांत निर्माण जावंक जाय.

हे नदरेन सगळ्यांत पयली नदर गांवगिरे बायलेकडेन व्हरया. स्त्री स्वातंत्र्याचो आवाज शहरी वाठारांनी आयज आयकूंक येता पूण गांवगिरी बायल खूब तेंप पयलीं स्वताच्या पांयार उबी आसा. घोवा बरोबरीन न्हय तर घोवाच्याकय ती काम धद्यांत फुडेंच आसा अशें म्हणल्यार अतिताय जावची ना. तिची जोड घोवाल्या जोडीपरस चडच आसूं येता. घोव चार दीस काम केल्यार जोडिल्लो पयसो एकतर व्यसनांत नातर फोल्गांत मोडून वयल्यान बायलेची जोड मागपाक फाटीं फुडें पळेना. बायल पुरायेन आपलें घर सांबाळून चार पयशांची गांठ करून आपलो फुडार सुगूर करपाचो यत्न करता. पूण चडश्या वाठारांनी दिश्टी पडटा तें चीत्र म्हणल्यार घरकाराचो बायलेचेर अधिकार.

सोरो पियेवन रात-रात धुमशणां आनी जेवणा खाणांचो विद्वाट. घरांतली सवस्तकाय ना करप आनी हाचो परिणाम घरांतल्या माणकुल्यांचेर जावप. बायलेक आपल्याक जाय तेन्ना भोगप हो आपलो हक्क समजुपी दादलो कांय वेळार कुटूंब येवजणेचें ऑपरेसांव केल्यार लेगीत तिका जितलो सुसेग दिवपाक जाय तितलो दिवपाक सोदिना, ही वस्तुस्थिती जावन आसा. हातुंतल्यान कांय वेळार ती जिवघेण्या दुयेंसाचे भकीक पडटा.

गांवगिरी बायल अन्याया आड झुंजपाक फाटीं पडटा. आपले जोडीचेर संवसार-गाडें ओडून लेगीत ती घोवाची जबरदस्ती सोंसता. हाका कारण आमची समाज वेवस्था. आयजवेर घरकाराक देवासमान मानला. ताचे

गुन्यांव माफ करप हें बायल मनशेक परंपरेन शिकयलां. मार-झोड सगळें सोंस. अजून आमचे संस्कार आमकां परंपरा आनी रुढीचे विरुद्ध वचूंक दिना. स्वताच्या पांयार उबी आसून लेगीत ती भितल्ले भितर घुस्मट्टा.

आज वेळ आयला विचार करचेलो. कितलो तेंप मेरेन हें तूं सोंसतली म्हणून गांवगिरे बायलेक सांगपाचो वेळ आयला. स्त्री स्वातंत्र्याची कल्पना तिच्या सामकार मांडपाचो वेळ आयला. शहरी बायल आपलो निर्णय आपूण घेवपाक शकता. पूण गांवगिरी बायल वाड्यार रावता आनी वाड्यावेलीं जीं नीतिमुल्यां आसात ताकाच दसून रावता. हे पासत तिची वैचारीक पातळी शिक्षणीक नदरेन वाडोवपाची आज गरज आसा.

गांवगिरे बायलेक सर्वार्थान आपल्या पांयार उबी करचेली गरज आसा. तिच्या आंगातलीं भिजूडपणा पयसावन भंय विरयत ती काम करूंक शकतली अशे आप रोजगार तिका दिवपाक जाय. आज केंद्र सरकार आप रोजगारांचेर भर दिता. ताचो चडानचड फायदो बायल मनशेन घेवंक जाय. पोशक आहार येवजण, सुटयेंतलीं शिबिरां, शिर्विस करपी बायलां पासत हॉस्टेलां, थोडे भितर प्रशिक्षण अभ्यासक्रम वर्ग, वेवसायप्रशिक्षण अभ्यासवर्ग, स्वंयरोजगार एक जाणीव जागृती प्रकल्प.

बायल मनीस आज खऱ्यानीच स्वतंत्र जातली जाल्यार 'स्वयं रोजगार एक जाणीव जागृती प्रकल्प' बायलां खातीर उपेगी करून घेवंचो. ह्या प्रकल्पाचो हेतूच म्हळ्यार गांवगिऱ्या वाठारांतल्या बायलांनीं एकठांय येवप, आपले विचार तशेच कार्यावळींची देवण घेवण करप आनी तातुंतल्यानच हळु-हळू वास्तवतेची जाणविकाय जावन आपलेच



प्रश्न सोडोवपाक एक स्वतंत्र अशी माची तयार करप. अशी माची तयार जाल्ल्यान गांवगिरी बायल गिन्यानी जाता. तिका कायदे कानून, आरोग्य विज्ञानासंबंदी तांत्रिक म्हायती मेळूंक पावता. अन्याया विरुद्ध झगडप आनी आपली उदरगत सादपाक तिका मदत जाता.

कांय प्रश्न गांवगिरी बायल आनी सुधारिल्ली बायलमनशेक एकाच बशेन त्रासदायक थारतात. कांय वेळार सुनेक भुरगें जालें ना जाल्यार कळत नळकत सुनेकच जापसालदार धरतात. सुनेच्या मनाविरुद्ध देव-देवस्की, घाडी-भगत, करणी अश्या अंधश्रद्धांक पोसवण दिवपी निर्धीक आदार दिवपाक प्रवृत्त करतात. आज विसावो शेंकडो हुपून आमी एकविसाव्या शेकड्यांत पावल दवरलें. विज्ञान कितलें प्रगत जालें. भुरगें जालें ना जाल्यार वैजकी उपचार करप कितलें सोपें जालां. तरी लेगीत अंधश्रद्धेक अजून व्हड प्रमाणांत पसवण मेळटा.

वैजकी उपचार आनी अंधश्रद्धेचो आदार घेवन लेगीत सुनेक भुरगें जालें ना जाल्यार घरांतले सुनेचो मानसिक आनी शारिरीक छळ अजुनय जाता. शार आनी गांव म्हणून अपवाद ना. घरच्या मनशांकडल्यानच न्हय तर खुद्द घरकारा कडल्यानय जाता. आनी कांय वेळार अश्या छळाक लागून बायल मनीस आपलें संतुलन वगडावन बसता, आनी तांतल्यान वायट घडणुकोय बी घडिल्ल्यो आयकूंक येतात. अश्या वेळार बायल स्वतंत्र विचारांची आसूंक जाय. भुरगें सगळ्यांक जाय आसता पूण जालें ना जाल्यार सुनेचो छळ करप व्हड गुन्यांव. अश्या छळाविरुद्ध लडो दिवपाक बायल मनीस धीट जावंक जाय. मिळीमिळी रडून प्रस्न सुटावे जायनांत.

वयलेचाराक बायल स्वतंत्र जाली अशी दिसता. पूण बायल मनशेचो खिणा खिणाक घुस्मटमार चालू आसता. खूब वेळा चली जाल्यारूय मानसीक छळ जाता. आयच्या काळार एक भुरगें आनी नॉर्मल जावप म्हळ्यारच व्हड देगणी जावन आसा. चलो जालोना म्हणून वांकडे तोंड करून छळपी लोकांआड झुजपाची ताकत निर्माण करूंक जाय.

चलो भुरगो जायसर भुरगीं जल्माक घाल म्हणपीय ह्या समाजांत खूब मनशां आसात. आपल्या कुळाक, घराक कुलदीप जायच म्हणपी व्हड जातकच त्या कुलदिपान कुळाच्यो वादऱ्यो करूं पूण कुलदीप जायच. असल्या गाजालींच्या आड निर्णय घेवपाक बायलेन फुडाकार घेवंकजाय. अशा निर्णयांक घरकाराच्या तेंक्याची गरज आसता.

शार जावं गांवच्या समाजाक हालींसराक एक व्हड किडिचो प्रादुर्भाव जाला आनी ती कीड म्हणल्यार बलात्कार, आगळीक. ही

कीड मुळासावन ना जावंक जाय. बायल वा चली मनशेचो गुन्यांव नासतना ती पाशवी मनशांच्या विकाराक बळी पडटा, आनी सासणाची भ्रश्ट जाता. अश्या वेळार बायल स्वतंत्रतायेच्यो वल्गना करपी आमी त्या बलात्कारिकेक आदार करपाक मुखार सरतात काय फकत बातांच करतात? समाजाची तिचेकडेन पळोवपाची नदर बदलता. लोक लज्जेक लागून ती कोर्ट-कचेरीचीं सोपणां चडूंक फाटी फुडें जाता आनी हांगाच अशी पाशवीवृत्ती बळावता. आपली चूक नासतना पाशवी बलात्काराक बायल भकीक पडटा तेन्ना कांय वेळार ती आपलें संतुलन वगडावन बसता. समाजाचो सोडाच कांयवेळां तिका खुद्द घरच्यांची सांत्वना आनी आदार मेळना. आनी ती आपलो जीव वगडावन बसता. बायल बनीस आयज खऱ्यांनीच स्वतंत्र आसा?

हो विशयच न सोंपपाचो असो. म्हाका दिसता कांय वेळार बायलांच बायलांच्या स्वतंत्रायेच्या आड आसतात. आपल्या विचारांनी आनी करणेंत. कांय गजाली दुसऱ्यांक सांगप सोपें पूण आपल्याचेर येतकच तीच बायल वेगळे तरेन वागता. सभे माजार हुंड्याचे विरुद्ध उलोवपी बायल पुताची सोयरीक जातकच हुंडो नाका पूण चार चौगांत सोबसारख्यो भांगराच्यो वस्ती पोंतान सगळें-सगळें मागता. आनी जर स्वतंत्र विचारांचें चली अशे वृत्तीचेर बडी मारपाक मुखार सल्लें जाल्यार ते चलये मनशेचेर नाका आशिल्लीं कुंभांडां रचतात. म्हणून विचारन दिसता बायल मनीस जाल्या खऱ्यानीच स्वतंत्र?

जेन्ना बलात्कार, आगळीक परंपरेन चालू आशिल्ल्या पद्धतीचेर घडणुको घडटात तेन्ना बायल मनशेक समाज आदरान पळयता काय? हो व्हड प्रस्न आमचे मुखार उबो जाता.

जेन्ना ऑफिसांतलो अधिकारी आपली भूक भागोवपाक बायल कर्मचारी तयार जायना म्हणून तिचे आड कुभांड रचता तेन्ना बाकीचे कर्मचारी ते बायल कर्मचाऱ्याकडेन केन्ना आदरान पळयत?



शिर्विशेक साकून येतना गर्देचो फायदो घेवन प्रवाशान आपलो विनयभंग करपाचो यत्न केलो म्हणून घरकाराक सांगलें जाल्यार तो हे गजालीक गंभीरतायेन घेतलो काय दुबावान पळयतलो?

अश्यो जायत्यो गजाली आसात, जायते प्रस्न आसात जांकां जापो सोदप सोपी गजाली न्ही. पूण एक गजाल मुखेलपणान बायल मनशेन मतींत दवरूंक जाय ती म्हणल्यार बायल मनीसच घराबो बरे तरेन तिगोवन दवरूंक शकता. कारण जन्मताच निसर्गान सोंशीकपणाची देणगी बायल मनशेकच दिल्या. भुरगें जावपाचो मान बायलेकच दिला. केदीय व्हडली उच्च पदावेली जरी बायल आसली तरी तिका आपलें अशें अपत्य आसचें ही भावना आसताच. आपले हातान भुरग्याची जपणूक जावंची ही स्त्री सुलभ भावना. म्हण्टकच संवसार हो आयलोच. संवसाराची जबाबदारी आयली. नितीनेम आयले, कर्तव्य आयलें. जर बायलमनीस संवसाराचे चौकटींत आयली जाल्यार दादल्या परस तिकाच चड बंधनां पाळचीं पडटात. ना तर तिणें आपलें करियर करप.

आज असो एक विचार रुजपाक लागला कीं आमी सगळें करतात तें कित्या खातीर? मनाक, कुटुंबाक शांती, सवस्तकाय मेळची म्हणूनच न्ही? मागीर चड ताणून धरनासतना बायल मनशेन मध्यबिंदू सादूंक नाका? आपलें स्वातंत्र्य म्हणजेच दुसऱ्या कोणाचें शोशण जावंक जायना. ओडून ताणून स्वातंत्र्य मेळोवचे परस जें आपल्याक रूचना, मानवना, तडजोड जायना जाल्यार अशीं बंधनां पयसावन मुक्त जावप. आपले परीन सुखी जीण जगप.

पश्चिमेकडले देश आज खंयचे अधोगतीक पावल्यात! प्रत्येक जाण व्यक्ती स्वातंत्र्याचो पूजक जाला. स्वातंत्र्याच्या अतिरेकी कल्पनेच्या आधिन जाला. बारा पंदरा वर्सांची सान पिरायेचीं भुरगीं अमली पदार्थाच्या आहारी गेल्ल्यान पयशां खातीर कोणाचोय जीव घेवपाक फाटीं फुडें पळयनांत. साद्या कारणावेल्यान आर्मान गुळयो घालपाक मुखार सरतात आनी चौदा पंदरा वर्सां पिरायेचीं कवळीं चली भुरगीं गुरवार जातात. हें सगळें उखलाप्या स्वातंत्र्याचे परिणाम. जे सगळ्या समाजाक आनी पर्यायान मनीस जातीक घातक थारूं येतात. अती थंय माती असोच हो प्रकार.

स्त्री स्वातंत्र्याचो विचार करतना आमी सबला जावंया अबला रावूं नये. स्वंयसिद्धा जावंया, अन्याया विरुद्ध आवाज उठोवया पूण खंयचेय गजालीचो अतिरेक जावपाक दिवं नये. आमच्या भारतीय समाजाक आध्यात्माची वैचारीक बसका आसा ताका आमी पाळो दिवया.



कुडचडे-गोंय
फोन - ९८२२४८६९५५

# जें हात पाळणें हालयता...!!!

*राजकारणांत अस्तुरेक फावो तितलें मोल दिनांत. हाचें एक उदाहरण म्हळ्यार, आमचे गोंयचे विधान सभेंत वेंचून आयिल्ली एकटीच अस्तुरी व्हिक्टोरीया -मामी. बायलांची प्रतिनीधी तरी म्हणून तिका मंत्रीपद दिवंचें म्हणून बायलांनीच न्हय तर दादल्यांनीय, गोंयभर बोवाळ केलो. ती उपोशणाकूय बसली. पूण कांयच फायदो जावंक ना. दादल्यांच्या स्वार्थीपणां मुखार तिची आनी हेरां गोंयकारांची दाळ शिजलीना.*



**- ब्रॅन्डा मिनेझीस**

देवान संवसार रचलो. आरंभाक ताणें झाडां पेडांनी, सुकण्या-सावजांनी तो नेटयलो. संवसारांत उदक आसलें, मळब आसलें, दोंगर आसले. सोबीत सुंदर ह्या नंदनवनाचेर धनीपण चलोवंक मात कोण नासलो. देवाक हें आपलें कार्य अर्दकुटें दिसलें. जमनीवयली माती घेवन ताचो गुळो केलो आनी आपल्याच सारको त्या गुळ्याचो मनीस रचलो.

संवसारांत रचिल्ल्या झाडां-पेडांक आनी हेर जिवांक नांवां सुचोवंक ताकाच ताणें नेमलो. जालें, देव आपले निर्मितीचेर खूश जालो. ताणें सरभोंवती नदर भोंवडायली आनी ती मनशाचेर येवन थिरायली. 'तो एकटोच बाबडो!' देवाक ताची काकूळट दिसली. मनीस एकटो आशिल्लो बरें न्हय. ताका एक सांगाती दिवंया. देवाक इत्सा जाली.

ताणें ताका बरी न्हीद घाली आनी ताची एक बोर काडून आपले हिकमतीन एक बायल घडयली. तिच्यांत फूंक मारून तिका जीव दिलो. आनी त्या दादल्याक दिलो सांगाती. तांका दोगांकूय पळोवन देव समाधानी जालो. 'वाडात आनी चडात' ताणें तांकां हुकूम घालो. न्हिदेंतलो जागतकच आपले कुशीक आशिल्ले बायलेक पळोवन दादलो खूश जालो. 'ही आसा म्हज्या हाडाचें हाड आनी म्हज्या मासांचें मास. तिका म्हजेकडसून केल्या म्हण्टकच तिका नारी म्हणटले.' ही पवित्र पुस्तकावयली, मनीस कुळाची सुरवातेची काणी. थंय आसा तशी हांवें ती उतरावंक ना, तर म्हज्या शब्दांनी सांगपाचो प्रयत्न केला. सैमानूच जर दादल्या मनशाक खूश करूंक, सांगात दिवंक बायलेक रचली, तर बायल-दादल्या मदीं भेदभावाची ओळ कोणें आखली? दादल्यांनी? काय आमी बायलांनीच?

सांगूंक कठीण. बायलेक दादल्याची अर्धांगीनी म्हणटात. म्हणजे, दादल्यांचें अर्द बायल जालीना? आनी दादलो आनी बायल

मेळून एक जालीना? दादल्या शिवाय बायल अपुरी आनी बायले शिवाय दादलो अपूर्ण. सैमानूच, दोगांयकूय एकेच तरेन सशक्त केल्यांत. मागीर दादलो वयर. तो श्रेष्ठ आनी बायलेची सुवात सकयल आनी तिका कमी लेखूंक कोणें कोणांक अधिकार दिलो?

परतून एकदां पवित्र पुस्तकाचो आदार घेवन समतायेचो मुद्दो मांडटां. देवान म्हळें, 'दादलो आनी बायल लग्न जावन एक जातात. दोन कुडी, पूण एकूच मन. एकूच जिवीत.' म्हणजे सायकलीच्या दोन चाकां सारकीं. एक टायर पंक्चर, तर सायकल बंद. इतलें जरी आसा जाल्यार, बायल दादल्या मदीं फरक आसूंकच शकना. पूण तशें आसा न्हय?

आदल्या काळार, तें आतां मेरेन बायलेक कमी लेखपाची परंपरा चालूच आसा. पूण हालींची परिस्थिती तितली गंभीर ना. आयज बायल सशक्त जाल्या. हय, सशक्त जाल्या अशें हांव म्हणटां, तें शिक्षणाक लागून. जेन्ना चलयांक शिक्षण मळ उक्तें जालें तेन्ना तिची मनस्थिती सुदारली आनी आर्थिक तशेंच हेर नदरेंतल्यान ती बळीश्ट जायत गेली. बायलांची आयची परिस्थिती खरेंच कशी आसा, हाची मोलावणी करूंक ह्या तीन प्रश्नाच्यो जापो सोदून काडून, करूंया.

१. बायलमनीस आयज खऱ्यांनीच स्वतंत्र आसा?

२. बायलमनशेक आयज समाज आदरान पळयता?

३. बायलमनशेक राजकारणांत आयज मानाची सुवात आसा?

चाळीस-पन्नास वरसां आदींचो काळ आनी आयचो काळ घेवन तुलना केल्यार, आयची अस्तुरी आपआपले तरेन स्वतंत्र जियेतना आमी पळयतात. आदीं कुटुंबवेवस्थेंतल्यानूच, चलयांचेर खूब बंधनां लादिल्लीं आसतालीं. पयले सुवातेर, चलयांक शिक्षणापासून वंचीत दवरताले. शिक्षण दिलेंच जाल्यार, मुळाक्षरांची वळख आनी वाचपा-बरोवपा इतलेंच. चडांत चड प्राथमिक थरा मेरेन.

आमचे भारतीय संस्कृतायेप्रमाणे, बायल मनशेक घर सांबाळपाक आनी भुरग्या-बाळांची तशेंच कुटुंबाची देखरेख करपाक गरजे पुरतेंच शिक्षण दिवपाक, समाजाची तयारी आसताली. पूण हें चित्र आतां बदल्लां. आतां चली चल्या मदीं फरक उरूंक ना. उलट आयच्या काळांत, चलयो चल्यावून चड शिकतात. तीं कश्टी आनी जिद्दी आसतात. इंजीनीयरींग, एवीयेशन, स्पेस ह्या क्षेत्रांनी चलयो पावत हें सपनांत लेगीत कोणें चितूंक ना. पूण आयज खूबशीं मळां, जीं फकत दादल्यां पुरतींच मर्यादीत आशिल्लीं तीं आतां बायलांनीय माड्डिल्यांत आनी बरें येस मेळयलां

व्हडल्यो व्हडल्यो झुट्टी आनी पदां बायलांनी सांबाळल्यांत. दादल्यांच्या खांदाक खांद दिवन वावुरपाची तांक आपल्यांत आसा, हें बायलांनी सिद्ध करून दाखयलां. दादल्यांचे गूण आनी क्षमता आपले भितर विरयत ती पुराय सक्षम जाल्या.

कचेऱ्यांनी, शाळांनी आनी हेर प्रशासकीय सुवातांनी, बायलो उंचल्या स्थानार बशिल्ल्यो आमकां मेळटात ही आमची बायलांची स्वतंत्रताय न्हय तर ताका कितें म्हणपाचें? आमी स्वतंत्र नाशिल्लीं जाल्यार ही मळबझेप घेवंक पावतलीं आशिल्लीं?

पूण हाका आडवाद आसा. सगलींच स्वतंत्र आसात अशेंय ना. पूण बायलांचे जिणेंत हें परिवर्तन जावन, ती नोकरी करून आपल्या पांयार उबी रावन, कुटुंबाचे अर्थिक परिस्थितीक हातभार लायता. इतिहास घडोवपी, सावित्रीबाई फुले सारकी म्हान अस्तुरेन जर शिक्षणाची कीट पेटोवंक नासली तर हो संघर्श येशस्वी जावपाचोच न्ही, आनी बायलांक स्वतंत्रतायेचो श्वास घेवंक घडये मेळचो नासलो. आयची आमची पिळगी भाग्यवान.

बायलमनशेचें सैमूच निर्बळ. ती कोमल, नाजूक. देवान तिका रचतानाच अशी घडयल्या की दादल्याचे शक्तीमुखार तिची शक्त कमी पडटा. हांगा उल्लेख करतां तो तनाचे शक्तीचो. पूण तिचें मानसीक बळगें, दादल्यांक फाटी काडटा. पुराणांत, बायलेक देवीची प्रतिमा मानल्या. आमचे भारतीय संस्कृतायेंत तर तिका मानाचें स्थान आसा. अस्तुरी म्हणजे आवय, अस्तुरी म्हणजे भयण, अस्तुरी म्हणजे सांगातीण. आदरान पळोवपाची आनी वागोवपाची ती मूर्त. आदल्या तेंपार तिका तसो सन्मान मेळटालोय बी. बायलमनशेची सतावणूक जालीच जाल्यार, पळयतलो, वाटेवयलो अनवळखी वाटसूर लेगीत तिच्या रक्षणाक धांवतालो. पूण आतां, अस्तुरेक भोगवस्तू मानून, जाण्टी आनी भुरगी म्हणी नासतना ना ना तरेचे तांचेर अत्याचार जातात. छळणूक जाता. सान चलयांक सुद्दां मेकळीं, एकटीं सोडपाची माणसुकी ना. आपल्या लागींच्या संबंदिताकडेन लेगीत.

आधुनिकतायेच्या नांवान, हो सांवार चल्ला. उदरगतीचो आनी आधुनिकतायेचो गैरफायदो घेवन, बरीं तत्वां, मुल्ल्यां आपणांवच्या बदलाक, वायट पवृत्ती भितर सरल्यात आनी त्यो पसवत आसात. हांचेर आळाबंद हाडल्यारूच, समाजांत अस्तुरेक तशेंच दर एक मनशाक मान मेळटलो. दुसऱ्यांचो आदर-सन्मान राखूंक, एकामेकाक मानान वागोवंक, जाय ती बरी देख आनी वागणूक कुटुंबांत भुरग्यांक मेळूंक जाय. भुरग्यांचेर बरे संस्कार जातले जाल्यार आवय-बापायची आनी हेरां जाण्ट्यांची तांकां माय-उब आनी वेळ मेळूंक जाय. ना जाल्यार वायट संगतीचे, तशेंच प्रसार माध्यमाच्या वायट परिणामाचे भकीक पडून तांच्या मनाचेर आनी जिणेचेर भलतोच परिणाम जावन तांचे जिणे व्हडें आडवाटेनूच वतलें. आनी अशेंच जाता, तें आमच्या दोळ्यांनी आमी पळयतात आनी कानांनी आयकतात. बायलांकूच न्हय, तर पुराय मनीसकूळ आदर सन्मानाक तरसता, वळवळटा आदर सन्मानाचे भुकेक सांपडला.

सांवरून घेवंक आतांच पावलां मारची गरज. ना तर सगलेंच मातये भरवण.

राजकारणांत बायलांची सुवात- हो निमणो मुद्दो. दिसता तशें, राजकारणांत आमी बायलो फाटीं नांत. पूण फावताली तितली सुवात तिका मेळूंक ना. फावो तितलो आदर सन्मानूय तिका मेळना. संसदेंत, आरक्षणाखातीर बायलांक झगडचें पडटा. राखीवता जाय पडटा. आनी अशें झगडून झुजून बायलांनी राजकारणांत सुवातो मेळयल्यात. आमचे संसदेंत नदर मारल्यार बायलांक मंत्रीपदां मेळिल्लीं दिसतात. तशेंच सरकारी विभागांनी उंचल्या पदांचेर बशिल्ल्यो बायलो आमचे नदरे मुखार झळकतात. राजकारणांत अस्तुरेक फावो तितलें मोल दिनांत. हाचें एक उदाहरण म्हळ्यार, आमचे गोंयचे विधान सभेंत वेंचून आयिल्ली एकटीच अस्तुरी व्हिक्टोरीया -मामी. बायलांची प्रतिनीधी तरी म्हणून तिका मंत्रीपद दिवंचें म्हणून बायलांनीच न्हय तर दादल्यांनीय, गोंयभर बोवाळ केलो. ती उपोशणाकूय बसली. पूण कांयच फायदो जावंक ना. दादल्यांच्या सुवार्थीपणां मुखार तिची आनी हेरां गोंयकारांची दाळ शिजलीना. पूण जावं. आपले फाटीं, मंत्रीपद मेळोवन दिवंक पुराय गोंय आशिल्लें हें जाणून मात तिका थोडेंतरी सांत्वन मेळां आसतलें.

आमचे संसदेची सभापती एक अस्तुरी. आमची राष्ट्रपती एक अस्तुरी. देशांतल्या बळिश्ट पक्षाची अध्यक्षा एक अस्तुरी. आयज गोंयांत आय. जी. पी. ची सुवात एक अस्तुरीच घेता. हें चित्र नियाळल्यार, अस्तुरेक मानाची सुवात राजकारणांत आसा, हें आमी न्हयकारूंक शकनांत.

बायलांच्या समस्यांचें आनी उदरगतीचें जें चित्र ह्या लेखांत उबें जालां, तें पुराय भारताचें न्हय अशें म्हळ्यार अतिताय जावंची ना. आमच्या देशाचो चडांत चड भाग, गांवांनी वसला, जंय सगल्यो सुख-सुविधा आनी उदरगतींचीं किरणां फाकूंक नांत. थंयच्या बायलांक स्वतंत्रताय ना. तीं जुन्या काळांत जियेतात. तांका शिक्षण खंयचें, शिक्षणाचो वास सुद्दां मेळना. मागीर तांकां राजकारण आनी खंयचें? 'आदर सन्मान' हे शब्द आसात म्हणून लेगीत तांकां खबर आसा की ना देवूच जाणा. अशें म्हणटात की, 'जे हात पाळणें हालयतात, ते संवसार चलयतात.' भारताच्या सुदारिल्ल्या वाठारांत रावपी आमच्या बायलां सारकींच त्योय बायलो पाळणें हालयतात. पूण तांच्या नशिबांत, संवसार चलोवंक केन्ना मेळटलो काय?

पुराय जगांत. आठ मार्च हो 'बायलांचो दीस' म्हणून मनयतात. आमच्या भारतांतूय ह्या दिसाक हालिंच्या काळांत खूबच म्हत्व दिवंक लागल्यात. हिंसेक आनी अत्याचारांक बळी पडिल्ल्या अशिक्षीतपणाच्या काळखांत रावतल्या, गांवागिऱ्या वाठारांतल्या आमच्या भयणांक केन्ना मनोवंक मेळटलो हो 'बायलां दीस' पुराय स्वतंत्रपणान आनी अधिकारान? केन्ना ....?



कुस्मण, केपें-गोंय
फोन : २६६२४९१

उश्णीं वायणां

# व्हडलो भाव

*“ह्या पारपोळ पोरांवांगडा पतंग घेवन धावपाक मातूय लज दिसना तुका? तूं आतां आठवेक पावला मरे, तरी ल्हान भुरग्यांभशेन, शील-मर्यादा सोडून मेळत तसो उडयो मारता? तूं आतां फकत एक यत्ता म्हज्याहून फाटीं आसा मरे! मनशान थोडो तरी आपल्या पोझिसावांचो विचार करूंक जाय. एक तेंप असो आसलो की लोक आठवी शिकून मामलतदार जाताले. हांव कितल्याशाच लोकांक वळखतां, जे माध्यमीक शिक्षण पुराय करून आयज पयल्या दर्जाचे डेप्युटी मॅजिस्ट्रेट वा सुपरिंटेन्डेन्ट जाल्यात. कितलेशेच आठवी पास जावन आमचे फुडारी आनी दिसाळयाचे संपादक जाल्यात. कितलेशेच विद्वान तांच्या हाताखाला काम करतात. आनी तूं तेच आठवेंत येदेशा पारपोळ पोरां वांगडा पतंगा फाटल्यान धांवता?*



**तो** म्हजे परस पांच वर्सांनी व्हडलो, पूण शाळेंत शिकतना तो तिसरेंत आनी हांव पाचवेंत. खरें म्हणल्यार शाळेंत आमी एकेच पिरायेचे आसतना गेल्ले. पूण शिकपाचे बाबतींत ताका मातूय गडबड कोताक येनाशिल्ली, घट बुन्यादीचेर आपल्या शिक्षणाची भव्य इमारत उबी करूंक सोदतालो जावंये तो! ताका लागून एका वर्साच्या कामाक दोन वर्सां लागतालीं ताका. केन्ना केन्नाय तिनूय लागतालीं. बुन्याद सारकी नासल्यार घर बळकट कशें जातलें?

हांव ल्हान, तो व्हड. हांव णव वर्सांचो, ताका वर्सां चोवदा. हांव ल्हान आशिल्ल्यान म्हजेर शेक गाजोवपाचो ताचो जल्मसिध्द हक्क. आनी हांवें ताच्या आज्ञेखाला रावन ताचें प्रत्येक उतर जिकून घेवपाचें. व्हडले भावाचें उतर झेलून घेवप हो आमच्या घराब्याचो पारंपारीक कायदो आनी हो कायदो पाळप म्हजी लागणूक!

सभावान अभ्यासू. ताका लागून हातांत सदांच उकतें पुस्तक. मेंदवाक सुसेग मेळचो म्हूण पुस्तकाचो उपेग चित्रां काडपाक करप आनी चित्रां म्हूण कसलीं? सवणीं आनी सुण्या-माजराचीं! केन्ना केन्नाय एकूच नांव, एकूच उतर ना तर वाक्य धा-धा फावट बरोवप. केन्नाय कवितेची एक वळ घेवन ती सुंदर अक्षरांनी परत-परत बरोवची. केन्ना-केन्ना-केन्नाय अशे तरेची शब्दरचना करप की ताका ना धड अर्थ, ना कसलेंच ताळमेळ! एकदां म्हजी नदर ताच्या कादेर्नाचेर पडली. मागीर कितें पळेतलों? विचित्र उतरांनीं कादेर्नाचीं पानां भरल्यांत. तीं उतरां आसलीं अशीं :- स्पेशल, अमीना, भावांनो-भावांनो, दर असल, भाई-भाई, राधेश्याम, श्रीयुत राधे-श्याम, एक घण्टे तक - हाच्या उपरांत एका मनशाचो चेरो दिसलो. हे गुटाचो अर्थ समजून घेवपाचो हांवें खूब प्रयत्न केलो, पूण

जमलें ना. ताका विचारपाचेंय धाडस जालें ना. कारण तो म्हजो व्हडलो भाव आसलो. ल्हान तोंडांत व्हडलो घांस घेवप, हें म्हजे ताकती भायलें आशिल्लें.

म्हजें मन शिकपांत कशेंच लागनासलें. पुस्तक हातांत घेवन एक वर लेगीत बसप जिवार येतालें. संद मेळटांच हॉस्टेलांतल्यान मैदानार धांव मारतालों. थंय मागीर शेंकऱ्यांनी खेळप ना तर कागदां कुडक्यांचे पाखे करून वाऱ्यार सोडप. आनी कोणूय वांगडी गावलो जाल्यार तर मागीर विचारूं नाका! एकदां आड्यार चडून खाला उडयो मारप तर एकदां फाटकाच्या दरवट्यार चडून ताका फार्टी-फुडें धुकलून मोटरगाडी चलोवपाचो आनंद लुटप. मागीर परत रूमार येतकीर घे! भाईसायबाचो अवतार पळोवनूच ताळो सुकतालो. ताचो पयलो प्रस्न अशा आवाजान विचारप जातालो की ताची जाप दिवप म्हाका अशक्य जातालें. 'मात्सो भायर खेळूंक गेल्लों' अशें सांगपाचें धाडस म्हाका कित्याक जायनाशिल्लें, हाचेंच म्हाका अजाप दिसता. म्हजें मौन अशें दाखोवन दितालें की हांव गुन्यांवकारी आसां. मागीर घे ऽ भाईसायबाच्या रागाक आनी मोगाक वांगडाच ओतो येतालो. आनी म्हजो थंयच्या थंयच उचीत असो सत्कार जातालो. आनी सत्काराचें भाशण मन लावन आयकुचें पडटालें.

"अशे तरेन इंग्लिश शिकशी जाल्यार जल्मभर शिकत रावतलो. वाट लायतलो आयुश्याची. कांयच पडचें ना पदरांत. इंग्लिश शिकप लेच्यापेच्यांचें काम न्हय. तशें जाल्लें जाल्यार, आंडू-पांडू कोणूय इंग्लिशीचे विदवान जावन बसतले आसले. हांगा रात-रात जागरणां करून दोळे खांचावचे पडटात. रात-दीस इंग्लिश शिकून रगत आटोंवचें पडटा. तेन्नाच ती प्रसन्न जाता. जाता कपल! म्हणचेंपडटा तशें. व्हडल्या-व्हडल्या विद्वानांक ती सारकी आनी शुध्द बरोवंक येना. उलोवपाचें तर सोडुनूच दी. आनी हांव म्हणटां, तूं इतलो म्हामूर्ख कसो रे? म्हजे देखीन मातूय धडो घेना. हांव कितली म्हेनत घेतां, हें तुज्या दोळ्यांनी तूं पळेता मरे! आनी तें तुका दिसना जाल्यार, तुका तुजे दोळे तपासून घेवंचे पडटले. तुजे बुध्दीची काकुळट करची पडटली. गांवांत कितल्योशोच जात्रो-काले जातात, तुवें म्हाका केन्ना गेल्लो पळेला रे? सदांच क्रिकेट आनी हॉकी मॅची जातात, पूण हांव तांच्या पसून सदांच पयस रावतां. सदांच एक सारको शिकत आसतां. अशें आसुनूय एकेक यत्तेत तीन-तीन वर्सां घालोवचीं पडटात म्हाका; अशें आसतना खेळांत वेळ वगडावन तूं परिक्षेंत पास जावपाची आस्त कशी बाळगता रे? म्हाका तरी दोन-तीन वर्सां लागतात एका यत्तेतल्यान दुसरे यत्तेत वचपाक. तूं जल्मभर एकाच वर्गांत उरतलो. तुजी तशी इत्सा आसा जाल्यार बरें आसा. घरा वच आनी खेळ कोयंड्या-बालांनी जाय तितलो. बापजाद्यांच्या दुडवांची वाट कित्याक लायता?"

भाईसायबाचें तापोवणें खावन हांव दुखांनीं रडलों. जाप आनी कसली? गुन्यांव म्हजो! बाकीचें खर्यीं पावूं. भाईसायब उपदेस करपाक निपूण आशिल्लो. जिवाक लागता तसलीं उतरां उलयतालो. असले धारधार बाण सोडटालो की ते म्हज्या काळजाक लागून काळजाचे कुडके-कुडके जावंचे, म्हजी हिम्मत तुटून हांव खचून वचचों. ताका लागून घाम गळोवन काम करपाची म्हज्यांतली शक्त खंयच्या खंय नाच्च जातालो. गर्भगळीत जातालों हांव! निर्शेल्ले दशेंत कितलो वेळ चिंतीत बसतालों. दिसतालें, कित्याक म्हूण रावूं हांगा? जें काम म्हजे ताकती भायलें, ताका वेंग मारून जिणेचो सत्यनाश करून कित्याक म्हूण करून घेवचो? एक वेळ हांव मूर्ख जावन रावूंक पसंत करीन आशिल्लों. पूण आर्दी केल्ले म्हेनतीचें कितें? चिंतुनूच घुंवळ येवपाची! पूण वर-दोन वरां उपरांत निर्शेणेचीं कुपां पयसावतालीं, आनी म्हजो इरादो बदलतालो. दिसतालें, फुडाराक खूब शिकचें, मागीर झटपट एक टायम-टेबल तयार करतालों. वांगडा नकसो आनी येवजणूय तयार जातालो. टायम टेबलांत खेळाक मातूय सुवात नासताली. सक्काळी उठप, स वरांचेर तोंड धुवप, नाश्तो करप आनी अभ्यासाक बसप, स ते आठ मेरेन इंग्लीश, आठ ते णव मेरेन गणीत, णव ते साडेणव मेरेन इतिहास. उपरांत जेवन स्कुलाक वचप, साडे-तिनाक स्कुलाक सावन परत घरा येवप. अर्देवर सुसेग. चार ते पांच मेरेन भुगोल, पांच ते स मेरेन व्याकरण, अर्देवर हॉस्टेलाच्या परिसराक पासय मारप, साडे-स ते सात मेरेन इंलिश कंपोजिशन. उपरांत जेवण जातकीर आठ ते णव मेरेन भाशांतर, णव ते धा मेरेन हिन्दी, धा ते अकरा मेरेन किरकोळ विशय, उपरांत सुशेग.

पूण टायम टेबल तयार करप एक गजाल, आनी तें अमलांत हाडप दुसरी गजाल. पयल्याच दिसा सावन ताचेकडे दुर्लक्ष जावंक लागलें. खेळमळावेली ती सुखदिणी हरयाळी, ती मंद-मंद थंडगार हवा, फुटबॉल धतॅरीर आपटून मागीर तो ऊंच मळबांत वयर वयर उडप, कबड्डी खेळगड्यांच्या हात-पायांची आनी तोंडाची कसरत, वॉलीबॉलाचो तो नेट-झेत आनी हावेस - हें सगळें सक्तीन आनी मोन्यानी खेळामळार खुणांनी आपयतालें. आनी खेळामळार पांय थेयतांच हांव सगळें खिणांत विसरून वतालों. तें जीवघेणें टायम-टेबल, दोळेफुटीं पुस्तकां-सगळें-सगळें विसरतालों हांव! असल्या वेळार म्हज्या भाईसायबाक उपदेशासयत म्हजी फजेत करपाक-निर्भत्सना करपाक आयतीच संद गावताली. हांव ताच्या दोळ्यांकडच्यान कूस मारतालों. ताच्या दोळ्यांकडचो पयस-पयस रावपाचो प्रयत्न आसतालो म्हजो. भायल्यान हॉस्टेलांत अशे तरेन चोरपावलांनी भितर सरतालों, की ताका हांव आयिल्ल्याचो थांगपत्तो लागचो न्हय! तरी ताची नदर म्हजेर पडटाली आनी म्हजें काळीज धडधडूंक लागतालें. अशे तरेन सदांच एक धारेची तरसाद म्हज्या माथ्यावयल्यान हुमकळटा, असो भास जातालो म्हाका. अशें आसलें तरी, जे तरेन मनीस मरण आनी संकश्टाच्या कात्रींतूय मोह-मायेच्या बंदनांत जखडून उरता, तशीच म्हजीय गत जाताली.

भाईसायबाच्यो धमकावण्यो-तापवण्यो खावनूय हांव खेळाचो तिरस्कार करूंक शकलो ना.

वर्सुकी परिक्षा जाली. भाईसायब नापास जालो. हांव पास जालों. वर्गांत पयलो आयलों. म्हज्या आनी ताच्या मदें फकत दोन वर्सांचें अंतर उरलें, मनांत आयलें, भाईसायबाक धारेर धरचो. विचारचें, खंय गेली ती तुजी खर तपस्या? ना तर म्हाका पळय, हांव खेळत रावलों आनी पयल्या वर्गांत पयलो आयलों. पूण तो इतको दुख्खी जाल्लो आनी निर्शेल्लो, की म्हाका ताची खूब काकुळट दिसताली. ताचे जखमेर मीठ चोळप म्हाका लज्जेची गजाल आशिल्ली. हां, म्हजें मात हड्डें इल्लें गर्वान फुल्लें. आनी आत्मविस्वास वाडीक लागलो. भाईसायबाचो आदलेभशेन धाक उरलो ना म्हजेर. उकतेपणान आनी नेटान खेळूंक-बागडूंक लागलों. म्हज्या काळजाक घटाय आयिल्ली. चिंतलें, हे फुडें जर ताणें म्हजी फजेत करपाचें थारायलें तर कसलीच भीडभाड धरिनासतना सांगतलों, की तुवें तुजें रक्त आटोवन कितलो उजवाड घालो? ना जाल्यार म्हाका पळय, खेळामळ गाजोवनूय पयल्या वर्गांत पयलो आयलों. मस्तेपणाची भास उलोवपाचें धाडस जालें ना. तरी म्हज्यांतलो बदल दाखोवन दितालो की भाईसायबाचो म्हजेवेलो आतंक आतां उरूंक ना. ही गजाल भाईसायबाच्याय लक्षांत आयली. ताची सहजबुध्दी आकांताची आसली. एक दीस हांव पुराय फातोड कोयंडे-बालांक भेटोवन आयलों. वेळ जेवणाची आशिल्ली. भितर सरलों मात, भाईसायब जणूं काय हातांत तरसाद घेवन म्हजेर धावून गेलो आनी गरजलो ''खबर आसा म्हाका, हे वर्सा तूं पास जाला. वर्गांत पयलो आयलो. तुका एक फीत चडलें. पूण भावा म्हज्या चड घमेंड बरी न्हय. घमेंड व्हडल्या-व्हडल्यांचो मद जिरयता, तुजें कसलें कोंत आसा रे बाबा! इतिहासांत तुवें रावणचरित्र वाचलांच आसतलें. तातुंतल्यान तुवें कितें घेतलां? काय वाचूंक जाय म्हूण वाचलां रे! फकत परिक्षा

*परत एकदां वर्सुकी परिक्षा जाली. आनी हांव परत एकदां पास जालों. भाईसायब परत फेल! हांवें तशी व्हडली म्हेनत घेवंकाशिल्ली. तरी वर्गांत पयलो आयलोंच. म्हाकाच अजाप दिसलें. भाईसायबान जीव तोडून अभ्यास केल्लो. कोर्साचें एकेक उतर चाटून काडिल्लें ताणें! रातचे धा मेरेन हांगा तर फातोडेर आनी स्वंतरी. स ते साडे पांच मेरेन, शाळेंत वच्चे पयलीं अभ्यासांत मग्न आसतालो तो. चेरो कांतीहीन जातालो. तरी फेल!*

पास केली म्हूण जायना. बुध्दीचो विकास जावंक जाय! जें कितें वाचता, ताचो अभिप्राय समजून घे. रावण जगाचो स्वामी आशिल्लो. असल्या राजांक चक्रवर्ती म्हण्टात. संवसारांतले सगळे राजा ताका कर फारीक करताले, उज्या-उदकाचे देवूय ताचे दास जाल्ले. अशें आसतना ताचो शेवट कसो जालो? घमेंड! घमेंडेन ताचो सत्यनाश केलो. घोंटभर उदक लेगीत ताच्या ताळ्यार घालपाक ताका कोण ना जालो. मनशान वायट कर्मां कितलींय करचीं, पूण तांचो अभिमान करचो न्हय! गर्वान फुलचो न्हय. ताणें दुश्कृत्यांचो अभिमान केलो आनी संवसाराक मुकलो. सैतानाची कितें दशा जाली तीय खबर आसतली तुका. ताकाय असोच अभिमान दिसतालो. ताका दिसतालें, आपल्या इतलो व्हड आनी खरो ईश्वरभक्त ह्या संवसारांत आनी कोणूच ना. निमणें अशें जालें, की ताका स्वर्गांतल्यान नरकांत धुकलून उडोंवचो पडलो. शाहे रूमूय एकदां अहंकारान भरलो, भीक मागून-मागून मेलो. तूं तर आतांच एका

पयल्या वर्गांत पास जाला. आनी तुजी तकली आतांच फिरली. तूं तुज्या कश्टांनी पास जाला अशें समजूं नाका. हरवें सोदतल्याक पिकें मेळ्ळां अशें समज. पूण अशें परत-परत घडना. केन्ना-केन्ना कोयंडे-बाल खेळटना, तकली फुटूंकय शकता. असल्यांनी खंयचोय खेळगडो जैतिवंत जावंक पावना. जैतिवंत खेळगडो ताका म्हणूंक जाय, जाची मोख केन्नाच फुकट वचना. म्हज्या फेल जावपाचेर वचूं नाका रे तूं. म्हज्या वर्गांत पावतकच कळटलें तुका. मेंदू भेरेतलो. आल्जेब्रा आनी ज्यॉमेट्री शिकतना दोळ्यांकडे काजुले नाचताले. ब्रिटिशांचो इतिहास शिकचो पडटलो. राजांचीं नांवां लक्षांत दवरप सोंपें काम न्हय. आठ-आठ हेनरी जावन गेल्यात. कसलें काण्ड कोणाच्या राजवटींत घडलें, हें लक्षांत दवरूंक जातलें तुज्यान? हेनरी सातव्याचे सुवातेर हेनरी आठवो बरयल्यार सगळें जालें दिवाळें! भोपळोय मेळचो ना, भोपळो! खंय आसा तूं? डजनानी जेम्स जावन गेल्यात. हें सगळें वाचून तकली घुंवळटा. मेंदू गोंदळटा. ह्या अभाग्यांची नांवांय जुळनात. एकाच नांवां फाटल्यान द्वितीय, तृतीय, चतुर्थ, पंचम लायत गेल्यात. म्हाका विचारशी जाल्यार धा लाख नांवां सांगीन. ज्योमेट्रीच्या बाबतींत तर उलोंव नाका. सगळें देवाचेर सोडपाचें! अ ब ज चे सुवातेर अ ज ब बरयलां आनी सगळे नंबर कट केल्यात. कोणूच ह्या निर्दयी परिक्षकांक विचारिनात की बाबा रे, अ ब ज आनी अ ज ब हांचे मदीं फरक कितें? आनी नाका आशिल्ल्या गजालींक लागून भुरग्यांची कत्तल कित्याक? दाळ-भात-रोटी खाली कितें आनी भात-दाळ-रोटी खाली, फरक कितें पडटा! पूण ह्या परिक्षकांक पडलां कोणाचें? ते पळयतात फकत पुस्तकांत कितें बरयलां तें. तांकां जाय भुरग्यांनीं केल्ली पोपटपंची. हे पोपटपंचेकूच ते शिक्षण म्हणटात. शेकीं तकली-पांय नाशिल्लें शिक्षण घेवन फायदो कितें? परिक्षेक पास जातलो जाल्यार नाका आशिल्ल्यो 'कट कटी पाठ करून दवरच्यो पडटात-सांगलें', 'वेळेचें

महत्व' ह्या विशयाचेर एक निबंध बरयात. निबंध चार पानांपरस ल्हान आसचो न्हय. आतां किर्ते करतलो? पेन हातांत घे, कादेर्न मुखार दवर आनी रड बसून, वेळाचें म्हत्व सगळ्यांकूच खबर आसा. वेळेचो नियम पाळिल्ल्यान मनशाच्या जिवितांत संयम येता. दुसऱ्याचो ताका मोग आनी आपलेंपण फाव जाता. आनी मनशाच्या कारबाराचीय उदरगत जावंक पावता. पूण हे ल्हानशे गजालीचेर चार पानां बरोवप? जी गजाल चार वाक्यांनी सांगूं येता, तिका चार पानां खर्च करप? हीं पिशेपणां जालीं. ही वेळेची काटकसर न्हय, तर दुरुपेग जाता. गरजे भायर कसलींय उतरां घुसडप. मनशान किर्ते सांगूंक जाय तें झटपट सांगचें आनी पळ काडची थंयच्यान. पूण ना, तुका चार पानां खरडुंकूच जाय. मागीर तीं कशींय जावं आनी तांचेर कितेंय बरोवं. आनी पानां पूण कसलीं? फूलस्केप! हो विद्यार्थ्यांचेर केल्लो जुलूम न्हय तर आनी किर्ते म्हणपाचें? चार पानां संक्षेपांत बरयता, अशें सांगप अनर्थ जालो ना? 'वेळेचो नियम' पाळप्यांचेर एक निबंध बरयात. निबंध चार पानांपरस ल्हान आसचो न्हय. बरें आसा. संक्षेपांत चार पानां बरीं आसात, ना तर शें-दोनशें लेगीत जावपाचीं. बेगीन धावात आनी सवकासूय बी, अशें सांगप हें तर्कशून्य जालें ना? ही ल्हानशी गजाल, ल्हान भुरगीं लेगीत समजूं शकतात. पूण ह्या शिक्षकांक तितली अक्कल ना. अशें आसुनूय आपूण शिक्षक म्हूण मिरयतात. म्हज्या वर्गांत पावतलो तेन्ना हें तुका सोसचेंच पडटलें. मागीर कळटलें तुका खरें फट किर्ते पळे तें. ह्या वर्गांत पयलो आयलो म्हूण तूं भुल्लुसला. तुजे पांयें जमनीक लागनात. आतां हांव सांगतां तें आयक. हांव फेल जालां. पूण हांव तुजो व्हडलो भाव आसां, हें तूं विसरूं नाका. तुजे परस हांवें चड पावसाळे काडल्यात, देखून हांव जें किर्ते सांगतां तें घट्ट गांठीक बांदून दवर.''

शाळेची वेळ जाल्ली. ना तर ही उपदेश माळ केन्ना सोंपतली आशिल्ली देवाक खबर! जेवण आयज म्हाका बेचव लागतालें. जेन्ना पास जावनूय जर म्हजो हांगा इतलो तिरस्कार जाता तर फेल जातकीर कदाचीत गोमटी कापपाचीय शक्यताय आसा. भाईसायबान आपल्या वर्गांतल्या शिक्षणाचें जें चित्र उबें केलें, ताणें म्हज्या आंगार कांटो उबो केल्लो. स्कूल सोडून घरा धांव कशी मारलीना, हाचेंच म्हाका अजाप दिसतालें. पूण इतलो तिरस्कार जावनूय बी म्हजी पुस्तकांवेली आवड इल्लीय उणी जाली ना. खेळपा-नाचपाची संद हांव केन्नाच सोडिनासलों. शिकतालोंय, पूण साप्प थोडें. ते-ते दिसा खातीर, वेळा खातीर नेमून दिल्लेंच शिकतालों. वर्गांत कोणेंय नांव थेयचें न्हय, हाचीय काळजी घेतालों. म्हज्या मनांत जो विश्वास निर्माण जाल्लो, तो आतां लुप्त जालो, आनी परत चोराभशेन वावरूंक लागलों.

परत एकदां वर्सुकी परिक्षा जाली. आनी हांव परत एकदां पास जालों. भाईसायब परत फेल! हांवें तशी व्हडली म्हेनत घेवंनाशिल्ली. तरी वर्गांत पयलो आयलोंच. म्हाकाच अजाप दिसलें. भाईसायबान जीव तोडून अभ्यास केल्लो. कोर्साचें एकेक उतर चाटून काडिल्लें ताणें! रातचे धा मेरेन हांगा तर फातोडेर आनी खंयतरी. स ते साडे णव मेरेन, शाळेंत वच्चे पयलीं अभ्यासांत मग्न आसतालो तो. चेरो कांतीहीन जातालो. तरी फेल! म्हाका ताची काकुळट दिसताली. निकाल लागलो तेन्ना बुळुबुळू करून रडलो. ताच्या वांगडा हांवूय रडलों. हांव पास जाल्ल्याची खुशी अर्दी जाली. हांवूंय नापास जाल्लों जाल्यार भाईसायबाक इतलें दु:ख जावचें नासलें. पूण विधिलिखीत कोणाच्यान टाळूं येता?

म्हज्या आनी भाईसायबा मदें आतां एका वर्गाचें अंतर आशिल्लें. म्हज्या मनांत सैतान शिरलो. विचार आयलो, भाईसायब आनी एक वर्स फेल जालो जाल्यार म्हज्या वांगडा पावतलो. मागीर खंयच्या आदारार म्हजी निर्भत्सना करतलो? हांवें असले नीच विचार मनांतल्यान खिणांत काडून उडयले. कितेंय जालें जाल्यार तो किर्ते सांगता तें, किर्ते उलयता तें म्हज्या बऱ्याकूच सांगतालो काय ना? म्हाका तें वायट दिसतालें खरें, पूण कोणाच्यान सांगूं येता, कदाचीत ताच्या उपदेशाच्या प्रभावान हांव, झडझडीत बऱ्या मार्कांनी पास जातालों जावंये!

आतां-आतां भाईसायब चडच मोव पडिल्लो. खूबदां ताच्या मनांत येतालें जावंये, की आदले भशेन ताणें म्हाका भाईगिरी दाखोवची. संद मेळ्ळुनूय ताणें सोताक सांबाळ्ळो. कदाचीत ताणें असोय विचार केल्लो आसुंये, की म्हाका उपदेश करपाचो अधिकार आतां ताका उरूंक ना. आनी उरलोय जाल्यार सामको थोडो. ताका लागून म्हजी मनमानी आतां चडच वाडीक लागिल्ली. हांव ताच्या सहिश्णुकायेचो गैरफायदो घेवंक लागलों. म्हजो आतां असो समज जाल्लो, की हांव आतां हे फुडे पास जायत रावतलों. शिकूं वा ना शिकूं. नशीब बळिश्ट आसा. ताका लागून भाईसायबाच्या भयान अभ्यास करतालों तोय बंद जालो. म्हाका पतंग उडोवपाची गोडी लागिल्ली. आतां दिसतालें, सगळो वेळ पतंगा फाटल्यान धुमशणां घालचीं. तरी हांव भाईसायबाक दचकतालोंच. आनी ताची नदर चुकोवन पतंगाफाटल्यान धांवतालों. पतंग टुर्नामेंटाचें आयोजन आनी हेर कामां चोरयां करचीं पडटालीं. सगळ्यो अडचणी गुपीतकायेन सोडोवंच्यो पडटाल्यो. हांव भाई सायबाचें मन दुबावीत करूंक शकनासलों की म्हजो ताचेविशींचो मान-रेस्पेद उणो जाला.

एकदीस हांव हॉस्टेलापसून पयस पतंगा फाटल्यान देहभान विसरून धांवतालों. दोळे मळबाकडे लागून आशिल्ले आनी मन त्या आकाशगामी पथिकाकडे जो झुमत-झेलत पतनाचे दिकेन चलतालो. जसो काय कोणाचो तरी आत्मो सर्ग सोडून विरक्त जावन संस्कार ग्रहण करूंक वता. बाळकांची पुराय सेना हातांत पालयेसयत कोंड्याबडयो घेवन ताच्या येवकाराक धांवताली. कोणाकूच फाटल्या-फुडल्यान किर्ते घडटा, हाची खबर नासताली. जशेकाय सगळेजाण त्या समतल मार्गावेल्यान - जंय ना गाडयो, ना घोडे, ना ट्रेनी, ना बसी,

ना कसलीच गर्दी-पतंगा फाटल्यान धांवताले.

एक दीस तो बाजारांतल्यान हातांत पिशवी झेलयत येतालो. वाटेर दोडलो. ताणें थंयच म्हज्या हाताक घट्ट धरलो. आनी रागान आइडेलो, ''ह्या पारपोळ पोरांवांगडा पतंग घेवन धावपाक मातूय लज दिसना तुका? तूं आतां आठवेक पावला मरे, तरी ल्हान भुरग्यांभशेन, शील-मर्यादा सोडून मेळत तसो उडयो मारता? तूं आतां फकत एक यत्ता म्हज्याहून फाटीं आसा मरे! मनशान थोडो तरी आपल्या पोझिसावांचो विचार करूंक जाय. एक तेंप असो आसलो की लोक आठवी शिकून मामलतदार जाताले. हांव कितल्याशाच लोकांक वळखतां, जे माध्यमीक शिक्षण पुराय करून आयज पयल्या दर्जाचे डेप्युटी मॅजिस्ट्रेट वा सुपरिइनटेन्डेन्ट जाल्यात. कितलेशेच आठवी पास जावन आमचे फुडारी आनी दिसाळ्याचे संपादक जाल्यात. कितलेशेच विद्वान तांच्या हाताखाला काम करतात. आनी तूं तेच आठवेंत येदेशा पारपोळ पोरां वांगडा पतंगा फाटल्यान धांवता? म्हाका तुजी हीं भुरगेपणां पळोवन चड दुख्ख भोगता. तूं हुशार आसा हातूंत दुबाव ना. पूण आत्मगौरवाचो खून करता ती हुशारी कित्याक उपकारता? तूं मनांतल्यान विचार करता आसतलो, की हांव भाईसायबा परस फकत एक यत्ता फाटीं आसां. ताका म्हाका उपदेश करपाचो-बडाय दाखोवपाचो हक्क ना. पूण हो तुजो गैरसमज आसा. हांव तुज्या परस पांच वर्सांनी व्हड आसां. आयज तूं म्हजे यत्तेत आयलो आनी परिक्षकांचो दिश्टीकोण असोच उरलो, तर फुडले वर्सा आमी दोगूय एकाच यत्तेंत आसतले हातूंत दुबाव ना. पूण म्हज्या आनी तुज्या मदें पांच वर्सांचें अंतर आसा, तें ब्रह्मदेवाच्यान लेगीत ना करूंक जावचें ना. तें तशेंच उरतलें. म्हाका जगाचो आनी जिणेचो जो अणभव आसा ताची बराबरी तूं करूंक शकचो ना. जरी तूं एम्. ए. डि. लिट आनी डी. फील. जालो तरीय. मनशाक अक्कल पुस्तकां वाचून येना, ती येता अणभवान. आमचे आवयन खंयचीच यत्ता पास केली ना आनी दादान तर कदाचीत पांचवी-सवी पास केल्या जायत. पूण आमी दोगांनीय जर संवसारांतलें कितलेंय ज्ञान प्राप्त केलें तरी आमकां उपदेश करपाचो, आमका सुदारपाचो अधिकार तांकां आसतलोच. फकत ह्या खातीर न्हय की तांणी तुमकां जल्म दिला. पूण हे पासत की तांकां आमचे परस संवसाराचो चड अणभव आसा. अमेरिकेंत कसली राजवट चलता, आनी हेनरी आठवो हांणी कितलीं लग्नां केलीं, आनी मळबांत कितलीं नखेत्रां आसात - ह्यो गजाली तांकां घडये खबर नासत. पूण तांकां हजारांनी असल्यो गजाली खबर आसतल्यो, ज्यो तुका आनी म्हाका खबर नांत. तशें घडूं नाका, पूण नशीब आडवें येवन जर हांव दुयेंत पडलों, तर तुजी अवस्था कितें जातली हाची तूं फकत कल्पना कर! तूं फकत दादाक तेलेग्राम धाडशी. ते भायर तुका कितेंच सुचचें ना. पूण तुजे सुवातेर दादा आसत जाल्यार तो कोणाक तेलेग्राम धाडचो ना, धीर सोडचो ना. हात-पांयें गळोवचो ना. पयलीं दुयेंस कसलें हाचो अदमास घेतलो. शक्य जाल्यार इलाज करतलो. यश आयलें ना जाल्यार खंयच्याय तरी दोतोराक आफयतलो. दुयेंसाचें सोडून दी. ती मातशी व्हडली. म्हाका-तुका इल्लीय गजाल खबर ना, की म्हयन्याचो खर्च कसो चलोवंचो. दादा जें कितें धाडटा तें आमी वीस-बावीस दिसांनीच कडयतात. ते उपरांत पयशांक आशेतात. वळवळे काडचे पडटात आमकां. नाश्ता बंद जाता. म्हाल्याक आनी मडवळाक तोंड दाखोवंक लजेतात. आयज हांव आनी तूं जितलो खर्च करतात, ताच्या अर्द्यान खर्च करून, तांणी आपलें चडशें आयुश्य मानान आनी प्रामाणीकपणान सारलां. तेंय बी तांणी अशें एक कुटुंब चलयलां की तातूंत वट्ट णव वांगडी आशिल्ले. आमच्या हेडमास्तराचेंच पळय. एम. ए. आसात ते. तीय बी हांगाची न्हय, ऑक्सफर्डाची. एक हजार रुपया कमयतात. पूण तांच्या घराची वेवस्ता कोण पळयता जाणा तूं? ताची म्हातारी आवय! हेडमास्तराची डिग्री निरुपेगी थारली. पयलीं सोता घराची वेवस्ता पळेतालो. खर्चाचो ताळमेळ कसोच बसना जालो. रिणकारी येवन हुंबऱ्यार बसूंक लागले. जेन्नापसून घराची वेवस्ता म्हातारेन सांबाळ्ळी तेन्ना सावन घरांत लक्ष्मी थीर जाली. तेन्ना म्हज्या भावा, तूं तुज्या मनांतलो गर्व पयस कर. अशें समजू नाका, की तूं म्हाका लागीं आयला, आनी स्वतंत्र जाला. म्हाका पळेनाफुडें तूं वांकड्या मार्गान चलपाचें सोडटलो. जर तुवें म्हजें आयकलें ना, तर हांव- (थापट दाखोवन) हाचो प्रयोग करूंक शकतां. तुका म्हजें हें उलोवप कडू लागलां.''

ताची ही नवी युक्ती पळोवन, हांवें ताच्या मुखार हात जोडले. म्हाका आयज खऱ्यानीच म्हजें ल्हानपण लक्षांत आयलें. भाईसायबाविशीं म्हज्या मनांत स्त्रध्दा उत्पन्न जाली. हांवें सजल नेत्रांनीं सांगलें, ''देवाच्यान ना. तूं जें कितें उलयलो, तें सामकें खरें. तुजो अधिकार हांव न्हयकारना.''

भाईसायबान म्हाका घट्ट वेंग मारली. आनी फुडें उलयलो- ''हांव तुका पतंग उडोवपाक आडायना. म्हजोय जीव आशेता. पूण कितें करूं? स्वता चुकिल्ल्या मार्गान गेलों जाल्यार तुजी राखण कोण करतलो? ही लागणूक म्हजीच, ती सांबाळूं नाका?''

तेच वेळार एक तुटिल्लो पतंग आमच्या माथ्यावेल्यान पासार जालो. ताचें सूत लांबतालें. तें धरूंक भुरग्यांचें एक भिरें उडयो मारतालें. भाईसायब सगळ्यांपरस लांब आशिल्लो. ताणें उडी मारून दोरी पकडली आनी हॉस्टेलाचे दिकेन एकूच धांव मारली आनी हांव ताच्या फाटो-फाट उडयो मारीत धांवलों.

(प्रेमचंद हांच्या बडे भाईसाहब कथेचो कोंकणीत अणकार)



- नं. ध. बोरकार
मास्कारेन्हस वाडो,
व्हडलें - गोंय
फोन : २२१८१४७



## निळोनिळें

निळें निळें
गगन जशें
तशीच जाली...भूंय

उतरून निळें
सपन आयलें
धुंदळशी... रुंय

हांवूय निळो
क्रीस्णसो
निळेंच्च जालें...तूंय

## वडातळा

वडातळा खुरीस
खुरसार वड
वडार....
मळब
मळबार....?
मळब
वयर....वयर
वय्.......र

वडातळा
खुरीस : खुरसार वाती
मुळांत माती
खुरसातळा...
वडातळा...
तळा..........तळा
तळ्ळ.........तळा

## कूड

कूड :
सासणाची
कुडीन आज्जी

कूड :
आज्जीची
कुडीन माय
म्हजी

मायचे कुडीन
हांव : म्हजे कुडीन
कूड :
सासणाची.

## नातूक

नातूक रडटा...
तिळसनां
शेजान्न रुखार

मेणवात खुर्सार
पेट्टा...दोट्टी

चंद्रिम मळबांत
मद्यान्पारा
आयलो घरा
रातराणी... मागील दारा
वथ्रेता.... वज्रकणी

नातूक रट्टा...
उब्या फात्यार
भीऽतर रुखार
दीस दोंगरार
रुजता...वासरमणी

## चेडो-वाडो

हांडीर आसा
चेडो
सगळो सोद्ता
वाडो
वाडो वाडो चेडो
चेडो वाडों वाडों

वाडों वाडों वाडों

चेडो हांडीर
वाडों
तीन पायांचो
काळो घोडो
ताचेर बसला
तिकलो चेडो
चेडो-घोडो
घोडो-चेडो
उडो...उडो...उडो

उड उड उडलो
हांडीवयल्यान पडलो
पडलो चेडो
पडलो वाडो

कोण पयलो?
कोण वयलो?

– बाळकृष्णजी कानोळकार
गोंय विद्यापिठ,
ताळगांव – गोंय

समिक्षकाचे नदरेंतल्यान

# कवयित्री हर्षा शेटये हांगेलें 'काव्यसूत्र'

- एस्. डी. तेंडुलकार

**'बिम्ब'** पुरस्काराच्या काव्योत्सवांत खरो काव्यरंग हाडलो तो कवयित्री राधा भावेन. आनी आतां हर्षा शेटये हांच्यो कविता वाचून अशें दिसलें की ह्या काव्यरंगांत कवयित्री शेटये आपली भर घालताच पूण त्या काव्यरंगाच्यो अनेक शेडसूय ती दाखयता.

कवयित्री शेटये हांणी आपल्या कवितांक नांवां दिवंक नात. कविता-१, कविता-२ असोच तांचो मथळो दिला. अश्यो पांच कविता फेब्रेर २०१०च्या 'बिम्ब' अंकांत आमकां वाचूंक मेळटात आनी त्या पांचूय कवितांत कवयित्री आपली मॅच्युरिटी दाखयता. ह्या पांचूय कवितांचो विशय एकूच जावन आसा. आनी तो विशय म्हळ्यार 'काव्यसूत्र'. कविता बरयतां-बरयतां कवयित्रीक कवितेविशीं, कवितेच्या निर्मितीविशीं जाणविल्ल्यो कांय गजाली, त्या गजालींतली गुंतागूंत आनी ताण हांगा आयल्यात आनी ह्यो सगल्यो काव्यविशयक गजाली अख्ख्या जिणेचो भाग म्हणूनूच कवयित्रीन आपले कवितेंत मांडपाचो यत्न केला. कवयित्री म्हणटा :

**कविता बरोवपाची नासता**
**ती जियेवपाची आसता**
**- आतां हांव कविता बरयना**
**कविता जियेतां**

खरें म्हळ्यार, हे आदीं हर्षा शेटयेच्यो कविता हांवें वाचिल्ल्यो. पूण सांगचें जाल्यार तांचो व्हडलोसो प्रभाव म्हजेर पडूंक नाशिल्लो. पूण 'बिम्बां'तल्यो ह्यो पांचूय कविता वाचून पयलेच फावट ही कवयित्री कितेंतरी सेन्सिबल आनी अर्थपूर्ण बरयता अशें दिसलें. A poem should not mean but be अशें नामनेचे फिरंगी कवी आनी समिक्षक आर्चिबाल्ड मेक्लीश जेन्ना म्हणटा तेन्ना कवितेची अर्थपूर्णता तिच्या अस्तित्वाचेरूच अवलंबून आसा, अशेंच ताका म्हणपाचें आसता. कवयित्री शेटये हांणी हीच गजाल आपले पध्दतीन कशी सांगल्या तें पळोवंया:

**म्हजी कविता**
**कवितेची**
**फास्की मोडून**
**उडूंक सोदता**
**उगत्या मळबांत**
**हांव दवरतां**
**तिका फास्केंत बांदून**

**एक दीस**
**म्हजी नदर चुकोवन**
**ती सरता भायर**
**फास्की मोडून**
**आंगाक लागिल्ल्या**
**मेकळ्या वाऱ्यान**
**ती मनांतल्यान**
**फुलून येता**
**फुलांबशेन प्रसन्न**

**सवण्यांवरी चिंवचिंवत**
**भोंवता हांगा थंय**
**कोण तिका हांसता**
**कोण तिका तोखेता**
**कोण नांवांय दवरता**
**ती मात मनमेकळी...**

कवितेची अर्थपूर्णताय तिच्या 'मनमेकळ्या' अस्तित्वाचेर अवलंबून आसता, ही गजाल कवयित्री शेटये हांणी हे कवितेंत ताकदीन सांगिल्ली आसा.

तशेंच काव्य-निर्मिती प्रक्रियेंतलो एक म्हत्वाचो प्रस्न ही कवयित्री हांगा एका कवितेंत उपस्थित करता. देखीक,

**हांगा कोण खेळयता कोणाक**
**हांव शब्दांक**
**काय शब्द म्हाका?**

म्हाका दिसता दर एका कवीक कवितेविशीं, तिच्या निर्मिती प्रक्रियेविशीं प्रस्न पडूंक जाय. पूण कांय कवी 'ब्लाईंडली' कविता बरयतात, तांका हे असले प्रस्न पडचेंच ना. बेठी कविता बरोवप हें म्हत्वाचें न्हय. पूण कविता बरयताना ज्या कवीक प्रस्न पडटात आनी ते प्रस्न तो कवितेंतूच मांडपाचो जेन्ना यत्न करता, तेन्ना ते कवितेक आपोआप एक तेज येता. ज्या कवींक प्रस्न पडनात तांची कविता फुडें निस्तेज जायत वतली. भाशेचीं तींच-तींच आवर्तनां तांच्या कवितेंत दिसूंक लागतलीं.

कविता सुचपाचो प्रोसेस हे कवयित्रीन कितले ताकदीन मांडला तें पळयात :

**मनाचे पडींग भुंयेर**
**कृष्ण कुपांचें गच्च मळब**
**जोगलां फुटून घसघसता**
**उमाळ्यांचें वादळ**
**अच्छेव कांडीत येता**

बुचकळायता झंझाळायता
तुडूंब भरून व्हांवयतात
मनाची रिती तळी

उपरांतच्या किण्ण शांततायेत
खोल वोले मातयेंतल्यान
रसरसून वयर सरतात
म्हजे कवितेच्यो वळी

-ही कविता नीट वाचली की लक्षांत येता तें म्हळ्यार, हांगा कवितेंत मळब वयर ना, तर तें सकयल मनाचे पडींग भुंयेचेर आसा. हें जाणवलें की आपोआप वयल्या मळबांत आनी कवितेंतल्या मळबांत फरक पडटा आनी हें कवितेंतलें मळब कितेंतरी वेगळें मळब आसा हें रसिकांक जाणवता. हें वेगळेंपण जाणवल्या उपरांतूच 'मळब' हें उतर प्रतिमेच्या पावंड्यार वता आनी कवयित्रीच्या अणभवाक एक 'रिलायबिलिटी' मेळोवन दिता.

कवितेकडे आशिल्ली आपली गुंतवणूक सांगताना एकीकडे कवयित्री म्हणटा :

**म्हज्या एकलेपणांत**
**म्हाका सांगात**
**म्हजे कवितेचो**
**आनी**
**म्हजे कवितेक सांगात**
**म्हज्या एकलेपणाचो**

- हांगा 'कवितेक सांगात म्हज्या एकलेपणाचो' अशें म्हणून कवयित्रीन कवितेक मानवी अस्तित्वाचे पातळीचेर हाडून दवरल्या. कवितेची अर्थपूर्णता तिच्या अस्तित्वाचेर अवलंबून आसता हें परत एकदां हांगा ध्वनित जाता. 'A poem should not mean but be' - हाचो अर्थ कितें? तर- 'कवितेन कांय उलोंवचें न्हय,फकत आसचें.'

आतां, कविता जर कांय उलयना जाल्यार तिच्या आसपाक अर्थ कितें उरलो?

खरें म्हळ्यार कवितेच्या आसपांतूच तिचें (कवितेचें) उलोवणें आसता आनी तें दर एका रसिकान आपआपले परीन, पध्दतीन पारखुचें आसता हें म्हजें स्वताचें इंटरप्रिटेशन.

कवी, कविता आनी रसिक ह्या मुखेल त्रिकोणांतल्यान काव्यवेपार चलता. हांव रसिक म्हणून ह्या त्रिकोणाच्या एका तोकाचेर उबो रावोन कवयित्री हर्षा शेटये हांची कविता जेन्ना नियाळटां, इंटरप्रिट करतां तेन्ना म्हाका जाणवता की त्या कवितेच्या 'आसपां'त रसिकांचेंय 'आसप' सामावल्लें आसता.

खरें म्हळ्यार, कवयित्री शेटयेच्या ह्या काव्यसूत्री कवितानीच म्हाका हे वयले विचार मांडपाक प्रवृत्त केला. हाचेवेल्यान तांच्यो कविता म्हाका मोलादीक दिसल्यो हातूंत दुबाव ना. बरी कविता तुमच्या भावनेक हात घालताच पूण ती विचार करपाकूय प्रवृत्त करता. कवयित्री शेटये हांचें 'काव्यसूत्र' ह्या जातीचें.

कविता बरोवप आनी कवितेविशयीची कविता बरोवप हातूंत मोटो फरक आसा. आनी तो फरक मुखेलपणान वैचारीक आसा. कवितेविशींची कविता कोण बरोवंक शकता? - जाची कवितेविशींची जाण, आयडिऑलॉजी मँच्युअर जाल्या तोच. कवयित्री शेटये हांची कविता त्या मॅच्युरिटीची जाणविकाय दिता हें म्हत्वाचें.

'बिम्ब' पुरस्काराच्या निमतान कवयित्री राधा भावे आनी हर्षा शेटये हांणी कोंकणी काव्यमळार आपलीं दमदार पावलां मारल्यांत. पूण सद्या कोंकणी कवितेची स्थिती कितें आसा? पुंडलिक नारायण नायक एकाच काव्य झेल्या उपरांत कवी म्हणून सोंपला. प्रकाश पाडगांवकार सारको कवी सद्या कवितेंत रटाळ अध्यात्मीक प्रवचनां दीत आसा. निलबा खांडेकार आपल्या कवितेंत भाशणबाजी करीत आसा. तुकाराम शेट आपल्या मनाच्या मळबांत कविता बरोवपाची प्रॅक्टीस करीत आसा. जेस फेर्नांडीस आपल्या साहित्य अकादमीचो प्राईज मेळ्ळो म्हूण खोशयेंत आसा. उलट आपल्याक तो अजून मेरेन मेळूंक ना म्हूण बरेचशे कवी दुख्खी आसात. राजय पवार कविता बरोवचें सोडून मिमिक्री करीत आसा. माधव बोरकार सारको कवी आजुनूय रामाणी स्कुलाचो विद्यार्थीच जावन रावला. ङ्कमना मनाङ्क बरोवपी भरत नायक विडंबन काव्य हीच कविता समजूंक लागला. स्वताच आपल्या कवितांचे अणकार इंग्लेजींत करून घेवन संजीव वेरेंकार इंटरनॅशनल कवी जावपाच्या वावराक लागला. ललित लेखनांत अस्सल काव्य बरोवपी दत्ता दामोदर नायक कवी म्हणून आमकां सगल्यांक मुकला. पूण शंभू भाऊ बांदेकाराची कोंकणी कवितेक कितें गरज आसा? सु. म. तडकोड आपली मराठी कविता कोंकणीत बरयत आसा. काशिनाथ शांबा लोलयेकार कवितेंत गाळी मारीत आसा.

पूण इतलेंय जावन कोंकणी कविता तगतली. कारण तिचें दायज तशें पावरफुल आसा. मनोहरराय, र. वि. पंडीत, बाकीबाब, चाफ्रा, नागेश करमली हांणी जी बुनयाद घालून दिल्या ती बरीच घटमूट आसा. आनी ते बुनयादीचेरूच आयज रमेश वेलुस्कार, अरूण साखरदांडे सारके outstanding कवी उबे आसात.

'काव्यसूत्र' बरोवपी हर्षा शेटयेन कवयित्री म्हणून तांच्या फुडल्या काव्यप्रवासाक ह्या सगल्यांची नोंद घेवचीच पडटली.



## आवय

एके जिणेंत
आवय मरता तीन पावटी
आनि जिती जाता...
ती आवय जाता
तेन्ना नाळ कापची पट्टा
ते पयलें मर्ण
पुणुन भुरग्याक तें कळना
तोंडांत आसता बोम
आनि आवय साय कशी जिबलेर...
उप्रान्त तरणाटो जाता तो
ताका जाय जाता एक मादी
आपलो घोंटेर, चिली-पिली...
हें आवयचें दुसरें मर्ण
दूद आटता, रगत पातळ जाता
होच तर निसर्गाचो मंत्र आसता-
भटोभटो, आपल्यो वाटो...
मागीर आवय जाण्टी जाता
तिका अॅटॅक येता वो द्रोन-तीन दीस बरें दिसना
तिजो श्वास थांबताः
आमी म्हंटा, आवय गेली.
हे तिजें तिसरे मर्ण...
उप्रान्त मात आवय
भुरग्याच्या मनांत फुलता
पार्दिकाचें झाड कशें...

## चंद्रा

चंद्रा तुजे तोंड गोल गोल गोल
काळजांत रावशी तू खोल खोल खोल
चुमो तुवेन दिलो म्हाका गोड गोड गोड
पोपटाच्या चोचींत पेरवाची फोड
आमाशेच्या रातीक चंद्रा जालें गुल
फांतोडेच्या तेंगशेर उजवाडाचे फूल...
उजवाडान सगळे आसता त्या त्या जाग्यार
काळखाची खोपटी आमोरेच्या पारार...
भष्टें आसून तुवेन भोग म्हजो घेतलो
तेन्नाच पैल्या फावट दादलो गुरवार जालो...

## लग्न

धारगळे देवळान भटजीन म्हटले मंत्र
तुजी आवय, मावसभाव, मावशी,
मावसभैणी
सगळ्यांच्या सामकार आमी घातले सात फेरे
खैं पावले ते?
एक फेरो म्हापशां, एक बेती-वेऱ्यां
कोलवाळे,वास्को करतां करतां मुंबै पावली
केन्ना, कशी कळ्ळेंच ना...
मंत्रांच्या दोकल्यांचेर उबे रावून रावून एक
दीस
नाच्च जालें लग्न...
भटजीन पेटयल्ल्या होमखंडांत
ल्हासलों हांव..हो उजो आवयकखायरो
उब जाय म्हणून पेटोवपाचो
आनि ल्हासून घेवपाचें
जळपाचें
जळजळपाचें...
जिवाच्या आकांतान उडकी माल्ली
एका होडयेर पावलो
आजून तें व्हडें बुडूंक ना...
दुसरे फावट
मंत्र म्हणूंक ना
हाताक लागली ती कूड मात घट्ट धरून
दवल्ली
जोरगतींतल्या होडयेवरी...

- नरेंद्र बोडके
पुणे
फोन : ९९२२४०४९६३

## दोन गजलो

१

खिणांत शेणली जीण खिणांत पेटले खीण
स्वास कसो घेवं आतां सांग तुजे वीण

घरांत लेगीत आतां घुस्मट घुस्मट जीव
पचक पचक लागता हें मधुर सुंदर बीण

हे बांदावयले माड म्हण्टा कित्याक मोनें
हीं उतरां कित्याक दिल्यांत किण्णसाणीक रीण

दोळ्यांत दुकांचे घोगे सोदतात कोणाक सांग
यादीन कोणाच्या रुंवार येता झडत शीण

हें गळून गेलां आंग ही गळून गेल्या उर्बा
तुजे वीण रे आतां ही जगची कित्याक जीण

२

तूं गेलो आनी कित्याक जाले ओले ओले म्हजे पोले
तुजे बगर हांगचे खीण जाल्यात लोले लोले

सट्ट जाता तेवटेन तुज्या मागार वयता मन
लेंस म्हजे दोळ्यांर भोंवत जाता ओले ओले

दीस असो लख्ख कसो तरीय अंतरांत रात
तुजेबगर दिसा धवळ्या अबरगतून रडटा कोले

दीक दीक जाल्या दूक करपून रे गेलां सूख
पांचवेचार धतरीचे सुकून जाल्या खोले

– रमेश भगवंत वेळुस्कार

## सपन

हालीं म्हाका मध्यानिचेर
एकूच सपन पडटा
विध्वंस पळोवन सैमाचो
म्हजी आवय दुख्खान रडटा
नदरेक तिचे नदर दिवंक
नदर म्हजी उठना
रडटा रडटा रडून रडून
आवंडो तिचोय फुटना
रडक्या केदनाय आवाजान
उतरां दोनूच येता वोंठार
जल्माक घाल्ल्या पुतानीच
दिले घावे म्हज्या पोटार,
उतरां आयकून काळजाक पडटा
पीळ म्हज्या खोल खोल
पिसटून वता न्हीद म्हजी
आयकून तिचे दुखेस्त बोल
काळजाचे घावे तिचे
म्हजेंय काळीज खरपिता
तळमळत हांव रातभर
कुशीर कुशी परतितां
उजवाडटकच नवो दीस
पोटा जाळाक जळत रावता
सपनांत मात सैमाचो
उजो पालोवंक पळत रावतां
रावला आशेन अशींच सपनां
कोणाक तरी पडटलीं
तेन्ना तरी आवय मोगान
पोरां तिचीं उठतलीं
पोरां तिचीं उठतलीं

– रमेश घाडी

## फोंड

फोंड...
फोंडार फोंड
पावला-पावलार
उथळ, खोल...
हिसपाभायर

फोंड...
फोंडांत उदक
उदकांत घाणी
आमी आमच्याच माथ्यार
ओडपाच्यो

फोंड...
फोंडांत माती
कर्माची
ती आमचीच काणी
सुखा-दुखाची

फोंड...
फोंडांत कचरो
तें कोणाचें खाण
कोणाक ताण
थार नाशिल्लो

फोंड...
फोंड रितो
रित्यांत कितें?
म्हजेंच पडबिंब
भिरांकूळ

फोंड...
फोंडांत हांव
निर्जीव, सुस्त
सासणाच्या जिवीताक
अत्रेकून

– मिनीन आल्मेदा
फातोर्डा – गोंय
फोन : ९८८१२८०८२१

## मनसंवेदना



### कुकूम

तिच्या पांयजणांचो आवाज आयलो
हांवें ल्हवूच थंय पळयलें
तोच मंद हांसो
तीच म्होवाळ नदर
दिसलें, तिका घट्ट वेंगेंत घेवंचें
आनी अचकीत
नदर तिच्या कपलार आशिल्ल्या
तांबड्या कुकमा कडेन गेली

मागीर कितें जालें
त्या कुकमाचो धनी
संवसारांत नासलो म्हूण..??




– अन्वेषा सिंगबाळ
फोंडें – गोंय
फोन : ९४२२४४४२११


### उपाय कितें?

पांयाक तोंपिल्लो काटो काडूं येता
मनाक लागिल्ल्या काट्याचें कितें?

जमनीक पडलेले फोंड पुरोवं येता
नात्यांनी पडलेल्या वेरींचें कितें?

दोळ्यांतलीं दुकां पुसपाक येता
रडटा त्या काळजाचें कितें?

वस्तू विकत घेवपा शकता
गेल्ले अब्रुचें कितें?

एकटेपणांत कोणूच नासता
सगळ्यांक आपलीं म्हणप कशें?

सगळें मोन्यानी सोंसचें पडटा
बडबडटल्या लोकांचें कितें?




– मेहंदी अनय नायक देसाय
११ कॉमर्स,
विद्या प्रबोधिनी हा. से. स्कुल,
पर्वरी – गोंय.


### बंदखणींतली आस्त

मनांत विचार आसात खूब
कागदार उतरावपाक काळीज आडायता
उडपाची आस्त आसा जिणेंत
पाखां कापिल्ल्यान जीव घुसमट्टा

केल्ले विचार कितलेशेच
मळबाचे दिकेन झोंपय मारपाक
अर्दे वाटेर आयलें मोड
येवजिल्लें व्हावोन व्हरपाक

जीण ही उमेदीची
उमेदीन जगपाक जाय
अशक्य जाता जगप जेन्ना
तेन्ना करप कितें काय...?




– राधिका गुरुराज कामत सातोस्कार
साखळी गोंय
फोन : ९८२३६७४५२०



## कलाकार...

एक दीस आमी सगळीं
टि. वी. पळोवपाक बशिल्लीं
आवय गुल्ल बापूय मग्न
एक सुंदर सिरियल पळयतालीं...
फॅन फास्ट लायट पेट्टा
रान्नीर शिताक दवरलां
भायल्या दारांत रातराणीचो
मंद वास परमळ्ळा...
हळूच एक आगळो आवाज
बापायचें थंय लक्ष ना
कानांत आवयच्या गुणगुणटा
तेन्ना मात ती भियेता....
शिताक दवरिल्लें वाळ्ळें
फॅन लायट बंद केली
तरी पूण आवाज थांबना
खंयच्यान येता तो कळना...
असलो आवाज येता खंयच्यान
माजरां लेगीत सोदतात
पेट्याचे कान किटले आयकून
बेजारून तो कडसरता
किर्रर किर्रर शेगीत आवाज
बापायक राग आयलो
सिरियल पळोवपाक मेळना म्हूण
धेंगसो ताणें घालो
हळूच हांवें कान दिवन
खाटिपोंदाक पळयलें
खाचिंतल्यान आवाज येता
बडी घाल्यार बंद जाता
हांव थंय पळयत रावलों
म्हणून तो ओग्गी बसलो
खूब आतां वेळ जालो
ताकाय दिसता बेजार आयलो
ताणें तकली वयर काडली
हांवें तकली घुंवडायली
परत तो रडलो....
ज्युस्त म्हजे नदरेक पडलो
रातकिड्या तूं रे तो?
त्रास खूब दितालो?
येदोसो तूं रे पेदो
आवाज तुजो केदो?
तो म्हणपाक लागलो....
सिरियलींत काम करता तो कलाकार
सिरियल पळोवंक तुमकां ना दिवपी
हांव रातकिडोय एक कलाकार

– अंबेश जयकृष्ण तलवडकार
देऊळमळ – केपें, गोंय



## केन्ना येतलो राम?

वजना शिवाय जायना काम
सायबा आदीं सुण्या सलाम

राजकारण्यांचीं भरना पोटां
जनता जाली सामकी जाम

भ्रश्टाचारांत बुडलें सगळें
दुडवांखातीर जाले हराम

गरीब, गरीब जायत आसा
म्हारगायेन देवयलो घाम

नाका जालें हें जगप हांगचें
तो धावन केन्ना येतलो राम?

– उदय नाईक
नगर्से–काणकोण, गोंय.



## लाडवा नेवरें झगडें

पिठ्या लाडू आनी नेवरी
हांच्यांत लागलें झगडें
नाकटां लावन नेवरेन
लाडवाक यथेश्ट बुड्डिलें

पिठ्या लाडवान नेवरे दोळ्यांत
शेवटून माल्लो पिठो
शंकरपाळयेन नेवरे हेवटेन
झगड्यांत घेतलो वाटो

पिठ्या लाडवा मावशी भाव
धश्ट पुश्ट खाजी लाडू
नेवरे आंगार गेलो आनी
लाडवा वटेन लागलो झगडूंक

लाडवा-नेवरे झगडें पडलें
मोठ्यार अशेतरेन
शेव चिवडो चेक्री लेगीत
लडलीं नेवरे वटेन

खाजी लाडवान शंकरपाळये
एका धपक्यान केलो चुरो
पळोवन तें भियेवन गेलीं
शेव आनी चिवडो

इतल्यान आयलो बेसन लाडू
नेवरे वटेन झगडूंक
खाजी लाडवान एकाच बोटान
उडयलो ताका धुकलून

दोळे पुशीत नेवरी गेली
खाजी लाडवा आंगार
खाजी लाडवान माल्ली मूठ
नेवरीबायच्या पोटार

नेवरीबायचें फुटलें पोट
लागली बाबडी रडूंक
पिठ्या लाडवाक आयलें हासूं
लागलो ताळयो पेटूंक



– नागेश नायक वडिये
लक्ष्मी बिल्डींग,
दत्तगिरी अपार्टमेंट,
वामन वर्दे मार्ग, मडगांव

## करी ताता

अपुरबायेच्या बाय गो म्हज्या
खेळूं नाका आतां
वेळ पळे कितलो जालो
कर गो आतां ताता

झाडावैल्या घोटेरांत
चिमुताई गेली
पिलांक आपल्या कुशीक घेवन
ताता तिणें केली

गोड दुदू दिवन हाम्मा
गोठ्यांत न्हिदली
काळोख पळे कितलो जालो
रात जाली व्हडली

चौकेवैल्या पांदऱ्यांतलो गो
कीर ओगी रावलो
तुंवूय आतां ताता कर
लागूं तुजो दोळो



– विमलताई प्रभुदेसाय
बेळगांव



## शेतकार

आस घेवन मनांत
कसतात आपल्या शेतांत
जमनीचें केन्ना जातलें भांगर
एकूच आस्त तांच्या मनांत

शेतकार आमी गोंयचे
शेत कसप सदचें
जेवणांत आमच्या पेज
बसपाक खंय कदेल आनी मेज!

घाम व्हावोवन शेत कसतात
मोगान तातूंत बीं रोयतात
उरना आमचे खोशयेक शीम मेर
जेन्ना पीक सरता वयर

शेत आमी रोयतात
हेर सगळे अन्न जेवतात
आमी सगळ्यांचीं पोटां भरतात
निमणें उरता कितें हातांत?

– धनवीरा राऊत देसाय
यत्ता : १०वी
द न्यु एज्युकेशनल इंस्टीट्यूट
कुडचडें – गोंय.

## बाबुल्याची भयण

कुकुल्याशा बायक म्हज्या
इल्ले इल्ले दोळे
दोळ्यांत दोळे घालून
सुखान ताका पळे
कुकुल्याशा बायक म्हज्या
इल्लें इल्लें नाक
संवसाराच्या प्रस्नार
मेळटा थंय जाप
कुकुल्याशा बायक म्हज्या
इल्ले इल्ले कान
आयक, तातूंत रे
जिवीताचो मंत्र म्हान
कुकुल्याशा बायक म्हज्या
इल्ले इल्ले हात
हातांत लिपून आसा
संवसाराची रात
कुकुल्याशा बायक म्हज्या
इल्ले इल्ले पांय
संवसारभर चलपाची
आसा तातूंत तांक

– डॉ. भिकाजी घाणेकार
पणजी – गोंय.



## बिलूबाय

बिलूबाय बिलूबाय
सांग कितें जाय
नुस्त्याचें बोडूक काय
दुदावेली साय

धवें धवें बिलूबाय
मोव मोव मोव
चुली पोल्लांत लोळटकच
लायला दिसता पोव

वेळ जातकच जेवणाचो
करूंक लागता नाच
नुस्तें घरांत हाडटकच
ताका पयलो येता वास

रातच्या वेळार बिलूबाय
एका जाग्यार बसना
हुंदीर नदरेक पडलो जाल्यार
धल्ले बगर रावना

दुयेंत जातकच बिलूचें
उदास जाता मन
आंगणा भायर वचून मागीर
खावंक लागता तण

– शोभा शिवा फुलकार
किरला वाडो,
चिंबेल – गोंय.



## हांव वड उलयतां.....

**आ**रे भुरग्यांनो, आयज हांगाशीं? शाळा ना तुमकां? जावं; तुमी येतात, खेळतात म्हूण म्हाका कोणाचीय तरी जाग मेळटा. नाजाल्यार... कोणाचोच हु ना कूं. म्हजी कोण वासपूस करना. कितलीं वर्सां जालीं हांव हांगा एकसुरी जीण जियेतां. आतां कोणच म्हजे लागीं येना.

एका काळार हांव ह्या गांवची शान आशिल्लों. येता-वता तितलेय लोक म्हजें भव्य रूप पळोवन तोंडांत बोटां घालताले. हांव हांगा कसो आयलों, म्हजो जल्म कसो जालो हें म्हजें म्हाकाच खबर ना. पूण हांव हांगा तुमच्या आज्याच्या ल्हानपणासावन आसां. ते दीस म्हळ्यार सामके भांगराळे आसले. गांवचीं सगळीं भुरगीं म्हजेर झोपाळो करून खेळटालीं. शेतांतले लोक, वाटसूर म्हजे सावळेंत विसव घेताले. म्हाका केन्नाच एकटेपण दिसून येनाशिल्लें.

पूण आतां.... एक म्हण तुमी सगळ्यांनी आयकल्याच आसतली, 'सुख येता मुयेचे चालीन आनी दुख्ख येता घोड्याचे धावेन' तशीच गत म्हजी जाली. दुसरी पिळगी आयली तशे नवे विचार आयले. पयलींच्या तेंपावयल्यो बायलो वडा पुनवे दिसा म्हजी पुजा करताल्यो. तुमचो वाडदीस आसता पळय, तसोच वडा पुनव म्हळ्यार म्हजो वाडदीस अशें म्हळ्यार ती अतिताय जावंची ना. पूण आतां म्हजो वाडदीस कोण मनयता? आतांच्यो बायलो तर म्हाका दोळे उक्ते करून लेगीत पळयनात.

'वडाचे जिणेक थाव लागना' अशें म्हणटात. पूण ही अर्द जीण जाय तरी कोणाक? त्या परस म्हजे जिणेक सासणाचोच थाव लागिल्लो बरो. हांव व्हड दिसतां म्हूण हांव पयलींच्या भशेन उरूंक ना. हांव आतां सामको सुकलां. जावपाचें आसा तें जातुाच. देखून हांव आतां म्हज्या पयलींच्या गोड यादींच्या आदारान म्हजें जिवीत चिमटीभर दुखान आनी मुठभर सुखान सारीत रावतां. म्हजें नशीब बरें आसा जाल्यार फुडल्या जल्मांतय लोकांक आलाशिरो दिवंक देवान म्हाका वडच करचो अशें हांव मनासावन मागतां.



– रुपेरी फर्जंद
१०वी
द न्यु एज्युकेशनल इंस्टीट्यूट
कुडचडें – गोंय.

## कावळो

आशिल्लो एक कावळो
खूब तानेल्लो
हेवटेन-तेवटेन उडत भोंवलो
उदक तो सोदीत रावलो
एका घरा कुशीक पावलो
ताका थंय गाडगो दिसलो
पळोवन तो खोशी जालो
कावळो वचून ताचेर बसलो
पूण उदक खोल आसलें
उदक पिवंक मेळना
कावळ्याची तान भागना

कावळ्यान बरें येवजिलें
कितें आतां करचेलें
फातर जर घालीत भितर
उदक वयर सरतलें
हाडले ताणें फातर
घाले त्या गाडग्यांत
फातर जशे पडटा भितर
उदक सल्लें वयर वयर
कावळो उदक पियेलो
खोशयेन उडून गेलो
कावळो काळो खरो
पूण शिटूक आनी शाणो

– लिस्सा डिसिल्वा
आठवी
द न्यू एज्युकेशनल इनिस्टीट्यूट,
कुडचडें – गोंय.
फोन : २६५३३३०

# सुकिल्ल्या झाडाची आपजीण

**आ**वयस....! गेल्ल्या जल्मांत हांवें कितें वायट केल्लें देवाक खबर! 'काम जालें वैज मेलो.' सगळे मनीस ह्याच प्रकारचे आसतात. इतलें अजाप कित्याक जालें तुमकां? म्हाका म्हूण जीव ना? तुमकां म्हजी काणी आयकूंक जाय? ही आयकून तुमचें काळीज भरून येतलें आनी जिवाक चुरचुरे पडटले.

हांव एक वड. एका चल्यान भोव उमेदीन म्हाका रोयिल्लो. तो विसरनासतना दर दिसा म्हाका मेळूंक आनी उदक घालूंक येतालो. तो त्या दिसाची दोळ्यांत तेल घालून वाट पळयतालो, जेन्ना हांव व्हड जातलों आनी तो म्हज्या खांद्याचेर झोपाळो करून खेळटलो. अशींच वर्सां गेलीं आनी हांव व्हड जालों. पूण जो म्हजी व्हड जावपाची वाट पळयतालो तोच खंयचे खंय ना जालो.

मागीर आनी उरलां? हांव पावसाचेर जगपाक लागलों. त्या दिसाच्यान म्हजे बारा बिरेस्तार आनी तेरा शुक्रार जावपाक लागले. हांव तानेन सुकून वचपाक लागलों. कोण कोण येताले आनी म्हाका इल्लो इल्लो कापताले. लोक म्हजे सावळे पोंदा न्हिदताले. भुरगीं म्हज्या झोपाळ्यांचेर खेळटा तें पळोवन म्हजे खोशयेक शीममेर उरनासली. दर दिसा सांजवेळार तीं भुरगीं येवंचीं आनी हांव संतुष्ट जावंचो. पूण जशीं वर्सां गेलीं तींय लेगीत ना जालीं.

मनशान आपल्या सुवार्थाखातीर आमका कापले. म्हजेभशेन आनी कितलींशींच झाडां ताणीं कापलीं. आनी जो थोडो कितें पावस म्हाका मेळटालो तो लेगीत कमी जालो. आनी हांव वतान करपून गेलों. मनीस म्हूण सामकोच सुवार्थी. कामा पुरतो मामा. पयलीं झाडांकडच्यान आपलें काम सादता आनी तें पुराय जातकच तांकांच मारूंक लागता. ताका म्हूण बुद्दीच ना. आमचेपासून तांका प्राणवायू मेळटा, जेवपाक मेळटा, पावस मेळटा. इतलें आसून आमकां मारून उडयता.

तुमकां राग बी येवंक ना न्ही? सगळींच मनशां तशीं नासतात. हाताचीं बोटां तरी खंय सारकीं आसतात! इतकें सगळें जावन लेगीत हांव देवाकडेन म्हाका फुडल्या जल्मांतय तुमची सेवा करपाखातीर एक झाडच कर अशें मागतां. शेवटाक तुमचेकडेन एकच मागणें. जायते जाणांचो जीव घडोवंक हांवें हात दिला. तशेच तुमीय फुडाराक कोणाक तरी पावून तांचे जिणेक आपले परीन हातभार लावंचो.



– **पल्लवी जुवारकर**
धाव्वी,
द न्यू एज्युकेशनल इंस्टीट्युट
कुडचडें – गोंय.

## भुरगेंपण

भुरगेपणांत आमी सगळीं
रांदचेल्यांनी खेळटालीं
पानां फुलांनी आयदनां भरून
जेवण तयार करतालीं

अभ्यासाची उमेद नासली
फुडाराची चिंता नासताली
दिसभर खेळ खेळून
पुरो जावन न्हिदतालीं

ल्हान ल्हान फ्रॉक घालून
कळयो कशो जगतालीं
मात्शी तोखणाय केल्यार
रोखडींच फुलतालीं

भुरगेपणांतले दीस ते
परत केन्ना येवपाना
यादींतले फोटो तेळटना
वेळ केन्ना पावपाना



– **सिध्दी सतीश पै**
तालीगांव – गोंय
फोन : ९८२३६८८४८४



# फातर्पेची जात्रा

मनशाक भक्तिभावान देवा पांयाकडेन एकठांय जावन उत्सव, खोस मनोवपाची जात्रा एक व्हड कारण. म्हाड्डोळची जात्रा, कुंकळेच्यो सत्र्यो, जांबावलेचो गुलाल आनी फातर्पेची जात्रा. व्हडल्या गोंयच्या सायबाचें फेस्त अशो जायत्यो जात्रा आनी फेस्तां गोंयांत जातात.

फातर्पेची जात्रा म्हळयार म्हाका एक व्हड परवणीच. एके वाटेन डिसेंबर म्हयन्यांत येवपी वर्सुकी तिसरी परिक्षा आनी दुसरेवटेन जात्रेक वचपाची उमळशीक. घरा अभ्यासाक बसल्या-बसल्या हांव जात्रेचीं सपनां पळोवपाक लागतां. हे जात्रेक येवपी तरेतरेचे खेळाचे मांड म्हजें मन भुलयता. खूबश्या वस्तुंचे मांड एकेचकडेन पळोवपाक खूब मजा दिसता. ते मांडकार लेगीत मांड इतले सोबितकायेन मांडटात, सोबीत लायटिनीं सजयतात की म्हजा सारकेल्या भुरग्यांक ते पळोवपाक खूब आवडटात. थंयचीं खेळणी उडयो मारीत घेन दिसता.

ल्हानपणासावन फातर्पेचे जात्रेक हांव नेमान वतां. पयलेच खेप ल्हानपणांत हांव आजो-आजेच्या वांगडा गेल्लों. त्या उपरांत नेमान आमी फातर्पेचे जात्रेक वतात. म्हज्या पप्पाक ल्हान आसतना फातर्पेकान्नीन (कुंकळेकान्नीन) मागिल्लो. देखून तो वर्सानवर्स देवळांत वता. आतां तर वर्सुकी पड, म्हजी, मम्माची आनी पप्पाची. तशेंच मम्माची व्हंट दिवंक आमी जात्रेच्या दिसांनी देवळांत वतात. फातर्पेकान्नीची जात्रा पयलीं जाता आनी मागीर कुंकळेकान्नीची. पूण आमी कुंकळेकान्नीचे जात्रेकच वतात. जात्रा सुरू जाली की पयली बातमी आमकां आमची मम्मा दिता. दिसपट्टे दिसाळें वाचतकच मम्माक असल्यो गजाली नदरेक पडटात. आयज या, फाल्यां या करत आमी जात्रेच्या निमण्यादिसा शेनवार आयतार पळोवन जात्रेक वतात. दुसऱ्या दिसा आयतार आसलो म्हणटगच कितलेय रातचें घरा येवंक जाता.

जात्रेच्या खंयच्याय दिसा देवळांत वच गर्दी आसताच. तरीय पूण तेच गर्देंत वचून पप्पाच्यो, 'तुका गर्देच्या दिसानीच येन दिसता' अश्यो तापोवण्यो खायत मम्मा व्हंट आनी पड देवाक दिता. पड दिवचेल्या दिसा आमी शिवराक जेवतात. जात्रेक भोवपाक खूबच मजा. खाज्या-रेवड्यांचे मांड, चण्या-भिकणांचे मांड, खेळाचे, आयदनांचे, कपड्यांचे, काकणांचे, लाकुडवताचे मांडच मांड. वर-दोन वरां सहज पासार जातात. भोवन-भोवन पांय दुखतात. पोटाक भूक लागता. मागीर आमी बटाटवडे, पाव-भाजी खातात आनी खोशयेन घरा येतात.



– विद्येश वि. प्रभू
यत्ता : दुसरी
मुरीडा- फातोर्डा

# अकबर आनी बिरबलाची काणी
## भक्तिभावाचें संगीत



मुघल बादशा अकबराच्या दरबारांत बिरबल नांवाचो एक बुदवंत मंत्री आसलो. तो बुदवंत आसलो तितकोच शिटूक आनी विनोद बुध्दीचोय आसलो. राजा अकबराक सदांच तो आपणाबरोबर आसपाकच जाय सो दिसतालो. राजाक कसलेय गजालीचेर बारीकसाणेन चिंतपाची संवय आसली. त्याखातीर ताका कसल्या ना कसल्या प्रस्नाची जाप जाय आसताली. हे प्रस्न तो सुटावे जायनात जाले कीं बिरबलाक विचारतालो. बिरबल सोपेपणी तांच्यो जापो दितालो आनी राजाचें समादान करतालो. कसल्याय कठीण प्रस्नाची जाप ताचेकडेन आसताली. बादशाह मागीर खोशी जावन ताका इनामय दितालो. असलो बुदवंत बिरबल दरबारांत वा आपणावांगडा नासलो जाल्यार बादशाक सूख लागनासलें.

बिरबलासारके आपापणाल्या कला आनी कसबानीं तांकिवंत अशे णव जाण मनीस, दरबारांत आसले. तांकां अकबर बादशाच्या दरबारांतली 'णव रत्नां' म्हणटाले. तानसेन नांवाचो एकटो भोव कुशल गायक आनी संगीत कलेंतलो विद्वान मनीस त्या णव जाणांमदलो एकटो. गायन कलेंत ताणें व्हड नामना जोडिल्ली. अकबर बादशाक संगीत खूब आवडटालें, बिरबलाकयबी संगीत आवडटालें. सदांच रातीकडेन बादशाच्या दरबारांत संगिताची कार्यावळ जाताली. गायन सोपले उपरांत अकबर आनी बिरबल महालाभायर बागेंत फिरूंक वताले.

एके चान्ने रातीं दोगूयजाण फिरतासतना बादशान म्हणलें, "जाणा बिरबल, जेन्ना तानसेन गायता तेन्ना म्हजें मन खोशयेन भरून येता. ताच्या गायनांत सामको नितळ संगिताचो आनंद मेळटा. म्हाका दिसता संवसारांतलो तो एक बऱ्यांतलो बरो गावपी."

"खरें तुमचें म्हाराज. पूण तानसेन तशें मानपाक तयार ना. तो म्हणटा आपणाले गुरू पंडीत हरिदास हेच खरे बऱ्यांतले बरे गायक म्हणून. तांचें संगीत जित्या जिवां वांगडा निर्जीव वस्तूंचेरय, परिणाम करता. एके तरेचें दैवी संगीत गायतात ते. अशें म्हणटा तो." बिरबलान जाप दिली.

राजाक स्वता जावन खरें कितें तें समजून घेवचें शें दिसलें. ताणें तानसेनाक आफोवन हाडलो आनी म्हणलें- "तानसेन तुजे गुरू तुजे परस बरे गायतात अशें तूं म्हणटा खंय! पूण म्हाका तें खरें दिसना. तूंच एक बऱ्यांतलो बरो गायक अशें म्हाका दिसता."

"म्हाराज म्हजे गुरू म्हणल्यार देवभुंयेतलो बऱ्यांतलो बरो गायक. तुंबराचेच अवतार म्हणूंक जाय. तांचे सारको दुसरो कोणूच गायक गावंक शकना अशें म्हाका दिसता." तानसेनान जाप दिली.

"तशें जाल्यार म्हाका तांचें गायन आयकूंक जाय. हाड तांकां एक दीस दरबारांत." राजान ताका सांगलें.

"म्हाराज, म्हजे गुरूजी तशे आफयले म्हणून येनांत. स्वताक ते एक स्वतंत्र आनी मेकळो मनीस म्हण मानतात. कोणाचेंच आयकनात ते. आपल्याक जाय तेंच करतात." तानसेनान जाप दिली.

बादशाक आयकून मातशें वायट दिसलें. तरी तांणीं म्हणलें, "तानसेन, तांचें गायन म्हाका आयकूंक जाय. कितें करूं हांव?"

"म्हाका तांचेकडेन उलोवंचो धीर जायना म्हाराज. ते वृदावनांत एका आश्रमांत रावतात. थंय गेल्यार तुमकां तांचें गायन आयकूंक मेळटलें." तानसेनान म्हणलें.

अकबर बादशान राजा मानसींग नांवाच्या एका भोव विस्वासू मंत्र्याक वृंदावनांतल्या आश्रमांत वचपाची सगळी तयारी करपाचो आदेश दिलो. बिरबल आनी त्या भायर थोडच्या खाशेल्या मनशांक घेवन बादशा एका राजरथांतल्यान आश्रमाकडेन पावलो. तानसेनान तांकां बरो येवकार दिलो. ताणें राजाक म्हणलें , "म्हाराज, इतलो व्हड पंगड घेवन तुमी जर मेळूंक गेले जाल्यार गुरूजी घडयें तुमकां मेळूंक तयार जावचे नांत. ल्हानशा आश्रमांत रावतात ते." तेन्ना बिरबलान म्हणलें, "हय म्हाराज, तुमी आश्रमांत वतात म्हणटकच थोडेच गेल्ले बरे."

बादशाक तें योग्य दिसलें आनी ते तानसेन आनी बिरबला सांगातान गुरूजींक मेळपाक गेले. पयलीं तानसेन एकटोच गुरूच्या कुटिरांत भितर गेलो आनी ते म्हाराजांक मेळूंक तयार आसात काय ना हाचो अदमास घेतलो. तो रोखडोच भायर आयलो आनी अकबर आनी बिरबलाक घेवन भितर गेलो. ताणें तांची गुरूजींकडें वळख करून दिली.

"म्हाराज तुमचें गायन आयकूंक सोदतात, गुरूजी." अशें ताणें भोव नमळायेन गुरूजींक सांगलें.

तें आयकून गुरू हरिदासांनी म्हणलें "म्हाराज, तुमकां म्हजें गायन आयकन दिसलां ही आनंदाची गजाल. पूण कोणूय म्हाका गायन कर म्हणटा तेन्ना हांव गावंक शकना. म्हज्या मनाखोलांतल्यान जेन्ना एक उमाळो वयर सरून येता तेन्नाच हांव खऱ्या अर्थान गावंक शकतां. तें म्हजें खरें संगीत आसता."

बादशा निर्शेलो. ताका मातसो रागय आयलो. बिरबल तानसेनाक भायर घेवन गेलो आनी ताणें म्हणलें "गुरूजी बादशा सामकार गावंक तयार नांत. ते गायतले जाल्यार कितें माण्णी करूंक शकता तूं?" "म्हजेकडेन एकच उपाय आसा. कोणूय गायक जर बेसूर गावंक लागलो जाल्यार गुरूजींक तें सोंसना. ताच्यो चुको दाखोवन ताका सारकें कितें तें दाखोवपाखातीर ते स्वता गावन दाखयतात." तानसेनान जाप दिली.

"तशें जाल्यार तूं स्वताच बसून बेसूर तरेन एखाद्रो राग कित्याक गायना? चल, तूंच सुरू कर आनी जेन्ना ते तुका सारको सूर गावन दाखयतले तेन्ना आमी तें आयकतात." बिरबलान तानसेनाक तयार केलो आनी आपणाली माण्णी बादशाक सांगली.

तानसेन गावंक बसलो आनी सूरदासांची भैरवी रागांतली एक रचना चुकीचे सूर भरसून गावंक लागलो. गुरूजीन तें आयकलें आनी तांकां तें बेसूरी गायन सोंसना जालें. ताणी तानसेनाक शिटकायलो आनी आपूण स्वता ती रचना गावन दाखोवंक लागले.

तांचें गायन खरेंच खूब गोड आशिल्लें. एकदम सामकें दैवी कशें. भक्तिभावान भरिल्लें. अकबर आनी बिरबलान खोशी जावन तें आयकलें. तांचे कान तृप्त जाले. तांणीं थंयच्यान वचपाचें थारायलें. वचचे पयलीं ताणी गुरूजींक नमस्कार करून तांचो आशिर्वाद घेतलो.

तिगूयजाण मेळून परते राजवाड्यांत वता आसतना बादशान तानसेनाक विचारलें "तानसेन, तूं कित्याक गुरूजीं सारको गावंक शकना?"

"कितलेय यत्न केल्यार हांव तशें गावंक शकना. म्हाराज." तानसेनान म्हणलें.

"कित्याक पूण?" बादशान विचारलें.

जाप सुचना जाल्ल्यान तानसेनान बिरबलाच्या तोंडाकडेन पळयलें.

बिरबलान म्हणलें " हांव सांगतां म्हाराज, तुमी रागार जावचे नांत जाल्यार. गजाल अशी की तानसेनाचें गायन तांच्या गुरूंच्या गायनापरस इल्लेंय कमी ना. तो गायता तें तुमकां खोशी करपाखातीर गायता. पूण ताचे गुरूजी गायतात ते देवाक खोशी करपाखातीर."

हीं ताचीं उतरां आयकून बादशा समजुपाचें तें समजलो आनी म्हणूंक लागलो "खरेंच भक्तिभावान भरिल्लें दैवी संगीत सदांच आयकूंक चड गोड लागता बिरबल. खरें तुजें."



पुनर्कथनः
–रमेश लाड
मडगांव – गोंय

इंद्रधोणू

# आई I Miss you



"आई येतां आं! आई ऽऽ ये आई?"

"अगो खंय आसा तूं?" आईन म्हणचें.

"आगे येतांऽऽ आं!"

म्हळ्यार शाळेक वचूंक भायर सरतना इस्कादे भायर पावतकच व्हडल्यान किळांचून आईक म्हणप आनी आई 'आंऽ सांबाळून वचात' म्हणटकच खंयच पड्-झड् नासतना शाळेक पावतलीं म्हणपाची एक घटसाण आंगांत येवप! मागीर हांव आनी म्हजी फाटली भयण सकाळीं साडे सातांक तुरतुरीत शाळेची वाट चलप.

त्या तेंपार आमची शाळा दोन वेळेची आसताली. सकाळीं आठ ते इकरा आनी दनपारचीं दोन ते पांच मेरेन. इकरांक घरा येतकच आईच्या हातची हुनहुनीत उकडे तांदळांची पेज आनी पेजे वांगडा पापडाची किसमोर, केन्नाय भाजिल्लो पापड नाजाल्यार भाजिल्ल्यो सुक्यो बांगडुल्यो, सुक्या बांगड्यांची वा सुक्या सुंगटांची किसमोर. ह्या जिनसांक म्हज्या आईच्या हाताची रूच भरसल्ल्यान हे जिनस आमी खूब रुचीन खातालीं. आमी कांयच कां-कूं करिनासतना जेवतात तें पळोवन म्हज्या आईचें पोट भरतालें. ती म्हणटालीच, 'सात भुरगीं तिचीं, सातय जाणां रूचीन पोटभर जेवलीं की म्हजें पोट भरून येता' म्हण. आनी जरी तर सातांतलें एकलें जरी सारकें जेवलें ना वा जेवण विचकिलें तर तिका, खूब हुस्को जातालो. कित्याक काय एक म्हजें 'पील' आज सारकें जेवलें ना? आनी मागीर तिजी स्वताची जेवणावयली वान्साच वताली.

अशीच एक याद जाता ती श्रावण म्हयन्यांतल्या आयतारांची. हांव बारा-तेरा वर्सांचें आनी म्हजी फाटली भयण धा-इकरा वर्सांची. आयतारा सकाळीं सं वरांचेर उठून वाड्यावयल्या भुरग्यांवांगडा आमी आमच्या घरा फाटल्या दोंगरार वतालीं. थंयच्यान आईक आयतार पुजपाक 'पत्री' एकठांय करतालीं. आमचे वांगडा आशिल्ल्या थोड्या जाणकार भुरग्यांकडल्यान आमकां कितल्याशाच दोंगरांतल्या 'पत्र्यां'ची वळख जाल्ली. तातूंत रामाचीं बोटां, सीतेचो कुकूम, शेरवडीचीं पानां आनी आनीकय जायतीं जीं आज म्हज्या स्मरणांत नात. पावसांत थपथपीत भिजत 'पत्री' सांबाळीत व्हडली लडाय जिकून आईल्लेवरी घरा येतालीं. मागीर आई सोमती मान्यांत देवोवन खतखतीत हून उदक माथ्यार न्हाणयताली. माथ्यार न्हावन घेवंक म्हाका आईबगर कोणच नाका आसतालो. केन्नाय बाबडी नज जाल्यार तिणें वावराडेक सांगचें. पूण वावराडेन म्हाका माथ्यार न्हाणयतकच केंसावयल्यान हात ओडून हांव पळयतालें आनी तिचें न्हाणोवप मानवूंक ना जाल्यार व्हडल्यान रडून आईक परत न्हाणोवंक आपयतालें. आई बाबडी, 'अगो तिणें बरें करून न्हाणयलां तुका' अशें म्हणटाली. वावराडीय बाबडी गुन्यांवकारी जावन पळयताली. हांवें त्या उतराक आईक सांगचें, 'तूंच पळे केंसांवयल्यान (ओल्या) हात ओडून. केंस कुर्र-कुर्र जायनांत. हात निसरतात.' म्हणटकच केसांक तेल उरिल्लें आसतालें. म्हजे केंसय लांब आनी दाट आशिल्ले. बाबडी म्हजी आई नज जावन पासून कापडाच्यो मिरयो खोंचून मान्यांत देंवन म्हाका परत माथ्यार न्हाणयताली. कितें करतली? तिणें तिज्या सातय भुरग्यांमदीं केन्नाच भेद केलो ना. मायेस्त काळीज, निर्मळ मन आनी हांसरें मुखामळ. आमचे मदीं आमची येदी जाताली. तिजें मन निस्वार्थ आशिल्लें. आनी तिणें सातय भुरग्यांच्यो खूब अपुरबायो केल्ल्यो.

रांदचेकुडींतलीच गजाल घेवंया. म्हज्या पापाक बऱ्यांतलें बरें नुस्तें जाय आसतालें. तें ताणें हाडचें आमच्याखातीर. पूण अशेच कांय दिसांनी बरें जितें नुस्तें बाजाराक नासत तर घरांत नुस्तें नासतालें. तेन्ना आईचेर आकांत येतालो. आतां भुरगीं कशीं जेवतलीं? तिणे म्हाकाच विचारचें 'बाय, आज बाजाराक नुस्तें ना दिसता! बापायन भाडेला कडल्यान (गोंय स्वतंत्र जावचे पयलीं दिसाचो सगळो बाजार म्हणल्यार भाजी, नुस्तें, हरव्यो मिरसांगो, कणगां आनी असल्योच वस्तू कुणबी गावडेच्या माथ्यार दिवन घरा धाडप आसतालें, हें हाडपी गावडेक 'भाडेल' म्हणटालीं.) कांय नुस्तें धाडुंना दनपारच्या जेवणाक. कितें रांदचें तें कळना.' त्या उतराक हांवें आईक सांगचें, 'आई सुक्या बांगड्यांचें सुकें कर, दाळचो कांदो घालून रोस, भाजी आनी लसणीची सुकी मिरसांग घालून कडी, जालें ना! वाऽऽव!' रूच काडून हांवें म्हणचें. 'आई पळे सगळीं कशीं रूचीन जेवतलीं!'

आईचें मुखामळ अशें फुलून येतालें, जणू काय सगळें जेवण तयार जालें आनी सगळीं तिजीं भुरगीं पोटभर जेवलीं. आनी जातालेंय तशेंच. जेवण रांदतकीच ती म्हाकाच पयलीं आपयताली. सगळ्यांक जेवंक आपय म्हणटाली. आनी हांव रूच काडून जेवतकीर सगळीं म्हजीं भावंडां रूचीन जेवतालीं.

सगळ्यो यादी काडून म्हज्या काळजाक पीळ पडटा आनी घुस्मटून आईची याद येवन हांव रडटां. अशें दिसता हांवें आईक असल्या खूबशा खिणाक घट्ट धरून तिज्यो पापयो कित्याक घेतल्यो ना? कित्याक तिका म्हणलें ना 'आई, तूं कितले त्रास घेता गे आमचे खातीर. कशी गे तूं एकएकल्याची रूच याद धरून आमकां शिजोवन वाडटा?' पूण कितें सांगूं? तें म्हजें भुरगेपणांतलें वय, आनी तो तेंप.... त्या तेंपार 'आई' म्हणटा तिणें घरादाराखातीर झरप आनी घरकाराचें आनी भुरग्यांचें आरोग्य सांबाळप.

अशीच आनी एक याद; आई न्हावंक वतना आपलें णववारी न्हेसण उमळपाक सोडटाली तेन्ना हांव तें न्हेसण म्हऱ्यांत घेवन बसतालें. त्या न्हेसणाभितर मुंगरतालें. आईचो वास त्या न्हेसणात म्हाका मेळटालो. एक एकदां सुटी आसत तर तें न्हेसण वेंगांत घेवन बाज्जेर सुसेगाद न्हिदतालें. जणूकाय हांव आईचे वेंगेचो लाव घेतालें आनी कपडे शाबूंत घालतना न्हेसण ना तें पळोवन आई घरभर सोदूंक येताली आनी म्हाका सुस्त न्हिदिल्लें पळोवन न्हेसण थंयच दवरून घरांतल्या फुडल्या वावरांत घुस्पून वताली. तिजें 'ब्रीदच' तशें आशिल्लें. पयलीं तिज्या भुरग्यांचें 'सूख' मागीर संवसारांतलीं सगळीं कामां.

म्हज्या पापाच्यो बदल्यो जाताल्यो. आमी व्हडलें गोंय 'भाटये' गांवांत बारा वर्सां उरलीं. (अशें आई सांगताली) हांव एका वर्साचें आसतना पापाची बदली भाटये गांवांत जाल्ली. थंयच्यान बारा वर्सांनी आमी मडगांवां आयलीं. ही गजाल गोंयच्या सुटकेपयलींची आसा. गोंयांत त्या तेंपार घरांनी वा रस्त्यार लायटीचो उजवाड नाशिल्लो. घरांनी पेत्रोलाचे दिवे जळटाले. आनी रांदचेकुडींत रांदनीचेर वा 'फुगांवाचेर' रांदप. 'फुगांव' म्हणल्यार एकतरेची 'शेगडी' जी पेत्रोल भरिल्ल्या टांकयेच्या आदाराचेर चलताली.

आतां रांदनीचेर रांदप म्हणल्यार लाकडां, सोण्णां आनी नाल्ल्यो (कट्ट्यो) आयल्यो. ह्या सगळ्या गजालींचो पुरूमेंत गोंयच्या घराघरांनी पावसा पयलीं करतालीं. जसो जेवणा-खाणाच्या जिनसांचो पुरूमेंत म्हणल्यार तांदूळ, सुकें नुस्तें, सुक्यो मिरसांगो, आमटाण, सोलां, अळसांदे आनी जायतें. हातूंत पापड आनी लोणचेंय आयलें जें घराघरांनी बायलो स्वता करताल्यो.

तर सांगपाचें म्हणल्यार पापान आईक सांगचें 'फाल्यां सकाळीं (म्हणल्यार चड करून तो आयतार आसतालो.) जळवाचो ट्रक येतलो.' आईन 'आं' म्हणचें आनी पापाची सिर्विस इश्क्रीवांवांची आशिल्ल्यान आयताराचो 'कुमुनदादींत' म्हणल्यार ताज्या ऑफिसांत वतालो. ताका बिरेस्ताराची सुटी आसताली. आतां घराकडे उरलीं तीं आई आनी तिजीं भुरगीं. जळवाचो ट्रक येवन घरामुखार थांबतालो. मागीर आमी चार भयणी आनी दुसरो व्हडलो भाव आमचे बरोबर आसतालो. (सगळ्यांत व्हडलो भाव पुण्यांत शिकपाक आसतालो. आनी व्हडली भयण तेन्ना एकोणीस-वीस वर्सांची म्हणल्यार त्या तेंपार वाडिल्ली चली. म्हणटकच जळोव भरपाचें काम तिणें करप ना हो सादो हिशोब.) आमकां ह्या गजालीचें कायंच सोयर-सुतक आस नाशिल्लें. आमी आई वांगडा आईची 'वानर-सेना' शी जळव भरपाक तयार. तर भावान ट्रका म्हऱ्यांत रावन म्हज्या आनी म्हज्या फाटल्या भयणीच्या दोनय हातांर स-स बारीक लाकडां दवरप. (तेन्ना हांव बारा वर्सांचें आनी म्हजी फाटली भयण इकरा वर्सांची' आमी तीं लाकडां घराच्या फाटल्या वटेन जळोव भरपाचे कुडींत हाडप. थंय आई उबी आसताली. तिणें तो दाळून दवरप. धाकल्यो दोनय भयणी आमचे परस ल्हान आशिल्ल्यान म्हजो भाव तांचे हातार दोन-दोनच लाकडां दवरतालो. सकाळचीं इकरा-बारा जाता म्हणसर लाकडांचो दाळ बरोच वयर पावतालो. आनी आईक निसण लावन वयर लाकडां दाळचीं पडटालीं. निमणी ती रांदचे कुडींत भितर सरताली. तेन्ना म्हजो भाव लाकडांच्या दाळां वयर चडून तीं सारकीं मांडटालो. अशेच तरेन दुसऱ्या आयतारा सोण्णांचो आनी नाल्ल्यांचो गाडो येतालो आनी आमी चारय भयणी आमच्या भावा वांगडा आईच्या सांगातान ती जळवाचे कुडींत गच्च भरून दवरतालीं.

आज दिसता, म्हजे आईक कितलें पुरो जाता आसतालें त्या वेळार! पूण म्हजे यादीक हांवें केन्नाच हें काम करतना तिच्या कपलार 'आठी' पळयली ना. हें सगळें करूनय रांदचे कुडींत आपली माया ओतिल्लें रूचीक जेवण रांदून तें आमी पोटभर जेवलीं काय ना हें पळोवनच, पापाय जेवतकीर ती आपूण जेवताली. आज म्हाका दिसता, ती एकटी जेवंक बसतना हांवें तिचे मुखार बसून आग्रो करून हांवें तिका कित्याक वाडली ना? आई, तुवें म्हजे जिणेतले सगळे सुखाचे खीण म्हाका दिले. पूण हांव लग्न जायसर तुजे बरोबर ल्हानच जावन कित्याक रावलें गे? एक दीस पसून हांव तुजी 'आई' कित्याक जालें ना? आयज तुका देवाघरा वचून बारा वर्सां पुराय जावंक आयल्यांत आनी हांव तुजेकडें मागतां तूं जंय थंय आसा थंयच्यान म्हाका भोगोस, क्षमा कर. तुजे आशीर्वाद तुजे मायेभशेन म्हजेर सदाच आसतले हें हांव जाणां. पूण आई तुजे यादीन म्हजें काळीज फुगार जाता आनी हांव पोट तिडकीन रडटां. आई सपनांत तरी म्हज्या यो गे. म्हाका तुका घट्ट धरून तुजी पापी घेवंक जाय. आईऽऽ I really miss you.

– शैला (तरूलता) श. धुमटकार
पणजे – गोंय



दिका

# भ्रम



*उरिल्लें प्रुफ रिडींग सोपोवन घरा वचपाक वतना ताणें म्हज्या हाताक धरून बसयलें. त्या पुस्तकाविशीं आनीक गजाली सांगूक लागलो. तितलें म्हणल्यार कालोख जालो. ताणें परतून म्हज्या हाताक धरलो. कित्याक म्हण कोण जाणां, ताचो स्पर्श म्हाका आवडलो. हांवें म्हाकाच सदळ सोडलें. हाचो ताणें फायदो घेतलो. म्हजें आंग-आंग ताणें पोशेलें. बोवाळ मारपाचें पयसूच, उल्टें हांवूच ताचे स्वादीन जालें.*

**फा**टल्या वर्सांक सात-आठ छापिल्ल्यो तियात्र संहिता हातांत पडल्यो. एक दोन संहिता शुद्धलेखनाचे नदरेन सादारण आशिल्ल्यो. जाल्यार हेर पळोवनच तिडक मारली. जण एकलो आपणाक जाय ते तरेन बरयता. आमी वाचपी सवाय काय छापप सवाय तें समजना. ही म्हजी सदांची आरड पळोवन एका तियात्रिस्तान आपलें हातबरप म्हजे कडेन तपासपाखातीर हाडून दिलें. तें घेवन हांव वाचीत आशिल्लों.

चुको काडून काडून बेजार आयलो. पेन मेजार आपटिलें आनी दोळ्यांक विसव दिवपाक दोळे बंद केले. दनपार अजून जावंक नासली. तितल्यांत कोणे तरी दारार मारलें. हांवें ताका भितर येवपाची परवानगी दिली. एक सुंदर तरणाटी अस्तुरी भितर सरली. अस्तुरी म्हणचे बदला चलीच म्हणूं येताली. न्हेसपाच्या भेसावयल्यान आनी चेहऱ्याच्या रंगावयल्यान तिणें पंचविशी पार करूंक ना म्हण सहज कळटालें.

''तू कोंण?'' भितर सरतनाच तिचो चेहरो गंभीर जालो.

''हांव कोण म्हळ्यार? भायल्यान पाटी पळयतनासतना भितर आयलां? हांव ह्या कदेलाचो मालक.'' हांवें फकाणां करपाच्या हेतान म्हणलें.

''तो खंय गेला? ह्या कदेलार बसतालो तो?''

तिणें म्हज्या कदेलाक बोट दाखयत जाप सोदपाचो यत्न केलो. म्हाका समजलें ती कोणाविशीं उलयता तें.

''तो आतां हांगा आसना. ताची बदली जाल्या. कांय दिसां आदींच हांवें ह्या कदेलाचो ताबो घेतला. कितें काम आशिल्लें ताचे कडेन?''

''काम?'' तिणें आपले वोंट चांबले.

''म्हाका ताचो हिशोब घेवपाक जाय.''

''हांगा सगळे हिशोब दिवंक येतात. तुका हांवें पयलेच खेप पळयलां आमचो हिशोब घेवंक सोदता तें.''

''हें पळय, हांव तुजीं फकाणां मारूंक हांगा येवंक ना. म्हजो प्रश्न गंभीर आसा.''

''तर सुशेगाद बस आनी उलय. सांग कितें जालां?''

''कितें जाला?'' तिणें मेजार एक थापट मारलें.

''ताणें म्हाका दोन फावट गुरवार केलें आनी आपणेंच व्हरून ॲबॉर्शन करून हाडलें.''

ताचें सरळ सरळ उलोवप आयकून म्हजेर आकांत आयलो. ऑफीसाभायर हें कोणें आयकलें जाल्यार....

''देवा, तूंच म्हाका पाव.'' मनांतल्या मनांत देवाक उलो केलो.

आंतरराष्ट्रीय महिला दिना निमतान हो लेख पुरस्कृत केला हांच्या नांवान :

स. शर्मिला ना. सरदेसाय

''आतां म्हजें लग्न जालां. आनी दोतोरान सांगलां हांव केन्नाच गुरवार जावचें ना म्हण.''

''तर ह्या ऑफीसांत कित्याक आयलां तू?''

''ह्याच ऑफीसांत तर सगळें जाल्लें तें! तो त्याच कदेलार बसतालो आनी हांव हांगा आसतालें. तो सवकास म्हजे फुड्यांत येतालो आनी....''

''तेन्ना हें ऑफीस, ऑफीस नाशिल्लें दिसता. इतलो लोक ह्या ऑफीसांत काम करतना तो तुजे फुड्यांत कसो येतलो?''

''हांव एका छापखान्यांत नोकरी करतालें. पुस्तकां छापपाच्या निमतान म्हजें हांगा येवप वचप जातालें. पुस्तकां छापपाचें तोच पळयतालो. केन्ना केन्ना उशीर जातालो. असोच एक दीस चडूच उशीर जालो. प्रूफ रिडींग चलतालें. इल्लें इल्लें म्हण्टा म्हणसर काळोख जालो. हेर सगळे लोक गेले. बेगीन सोपोवपाक हांवें आग्रो केलो. ताणें म्हाका सांगलें आपूण वतना घराकडेन सोडटां म्हण. साडेसात वरांच्या सुमाराक आमी ऑफीसांतल्यान भायर सरलीं. ते आदीं ताच्या घराकडल्यान दोन फावट फोन आयिल्लो. तो कांयच उलोवंक नासलो. घडये म्हजो आवाज घराकडेन कळत म्हण. घरा वतना तशें सांगलेंय बी.''

''मागीर. मर्यादी भितर रावन वागता त्या मनशाक तूं वाग जावन कित्याक खावंक आयलां?''

''मर्यादी भितर? दुसऱ्याच दिसा ताणें आपली मर्यादा दाखयली म्हाका. उरिल्लें प्रुफ रिडींग सोपोवन घरा वचपाक वतना ताणें म्हज्या हाताक धरून बसयलें. त्या पुस्तकाविशीं आनीक गजाली सांगूक लागलो. तितलें म्हणल्यार काळोख जालो. ताणें परतून म्हज्या हाताक धरलो. कित्याक म्हण कोण जाणां, ताचो स्पर्श म्हाका आवडलो. हांवें म्हाकाच सदळ सोडलें. हाचो ताणें फायदो घेतलो. म्हजें आंग-आंग ताणें पोशेलें. बोवाळ मारपाचें पयसूच, उल्टें हांवूच ताचे स्वादीन जालें.''

''शी! इतली लजेची गजाल सांगूंक तुज्या मनाक तरी कशें पुटवता? मनघडंत काणी न्हय मुगो ही? केदें नांव आसा ह्या ऑफीसाक!''

''भौसामर्दीं नांव आसत ह्या ऑफीसाक. पूण म्हज्या जिविताची कोडू काणी बरयल्ली आसा हांगा. त्या एका दिसान तें सोंपलें ना, तें चालूच उरलें. ऑफीसांतल्या कर्मचाऱ्यांकय हाची सुलूस लागली. हांव येतांच म्हणल्यार तांचे मदीं गजाली जावपाक लागल्यो. म्हज्या तरणाटेपणांत म्हाका कांयच पडून वचूंक नासलें. पूण एक दोतोरान म्हज्या कानसुलार मारिल्लेवरी जालें. म्हयन्याची पाळी जावंक ना म्हण दोतोराकडेन गेल्लें आसतना हांव गुरवार आसा म्हणपाचें स्पश्ट जालें. ताच्याच आदारान म्हजें अॅबोर्शन जालें. एक फावट न्हय तर दोन फावट.

''तो लग्न जाल्लो दादलो म्हण जाणा आसतनाय तूं ताका कशें भुल्लें?''

''सैमाचो खेळ वेगळाच आसता.''

''मागीर आतां कित्याक रडटा?''

''हांव हांगा रडूंक येवंक ना. हांव ताचो खून करूंक आयलां. ताणें म्हाका समजावंक जाय आशिल्लें. तो म्हज्या भावनांकडेन खेळ्ळा. म्हज्या कुडीच्या सांद्याक ताणीं काळीम लायल्या. म्हजो घरकार म्हाका शिरापता. म्हजीं घरचीं म्हज्या जल्माचो पश्चाताप काडटात. हांव एक कलंक जालां ह्या समजांत. देखून ताचो खून करून हांव बंदखणींत वचूंक सोदतां.''

''तुज्या आनी ताच्या गुन्यावाचें हें सोल्युशन न्हय.''

''म्हजे जिणेक आतां अर्थ उरूंक ना.''

''त्या अनर्थाचो परिणाम बंदखण न्हय. ताचे बराबर तुवेंय पाप आदारलां. ताकाच कित्याक दोश दिता? सहभागेलीपणान केल्ल्या गुन्यांवाची जबाबदारी एकल्याची आसना.''

''तूं ताची बाजू कित्याक घेता? हांगा बसून तूंय तेंच करता काय कितें?''

''हें म्हजें ऑफीस. ह्या ऑफीसाक मान मर्यादा आसा. एक ऑफीसराकडेन तूं नाका जाल्ले प्रश्न करता. त्या प्रश्नांक हांव डिफेंड करतां.''

''पूण हें सगळें ह्याच ऑफीसांत घडलां न्हय?''

''घडलां आसत. तें वायट घडलां, तें तुजे परवानगेन घडलां. स्वत:ची चूक पयलीं वळखून घे.''

''खंय मेळटलो तो?''

''तुजे जिणेक लागिल्लो उजो आतां ताचे जिणेक लायनाका. आपली चूक म्हण आनी मुखावयल्या संवसाराक तोंड दिवपाक वाट काड. ज्या दोतोरान तूं आवय जावचेना म्हण सांगलां, तें चूक थारूं येता. दुसऱ्या दोतोराक मेळ.''

आपल्या हातांत आशिल्ली सुरी ताणें मेजार आपटिली. एक तिखट नदर म्हजेर घाली आनी आयिल्ल्या नेटान दार काडून भायर गेलें. हांवें एक लांब सुस्कार सोडलो.

तितल्यांत परत कोणें तरी दारार मारलें.

''मे आय कम इन सर?'' तें म्हजें सेक्रेटरी आशिल्लें. म्हाका जाग आयिल्ल्यासारकी जाली. हांव ताका पळयत उरलों.

''म्हजे फुड्यांत आयिल्ली अस्तुरी कोण ती तूं वळखता?'' हांवें सेक्रेटरीक प्रस्न केलो.

''तुजे फुड्यात? फाटलें अर्द वर हांगा कोणच येवंक ना. हांवूच दोन फावट भितर येवन फायली घेवन गेलां. म्हाका तर कोणच दिसलो ना.''

म्हाका वोगीच हासपाक आयलें. तियात्र संहिता तशीच मेजार पडून आशिल्ली. मेजार सुरीय नाशिल्ली. हांव कसल्यातरी भ्रमांत आशिल्लों.

''अशें म्हण एका ऑफीसांत घडूंक शकता?''

हांव एकलोच हांसलों. सेक्रेटरी म्हाका पळयत उरलें.



– विन्सी क्वाद्रस
'स्नोज कृपा'
आर्लेम राय,
सालसेत-गोंय
मो. 9822587498

पडघेर

# अस्तुरी आनी तिचें स्वातंत्र्य

*जाणट्यांकडे, घरच्या दादल्यांकडे सभ्यपणान खालतीकायेन उलोवप ही आमची भारतीय संस्कृती. हे संस्कार बायलमनशेचेर ल्हानपणांतसावन जायत आयल्यात. कांय घरांनी मोट्यान उलोवप हाकाच झगडीं समजतात. घडये हाचो फायदो दादल्यांनी घेतलो. आवाजाच्या बळार दादले बायलांचेर दबाव हाडटात. घोवागेर नवें कुटूंब म्हूण बायलूय दबावाखाला असहाय. बायलेन आपली बाजू मांडपाचो प्रयत्न केल्यार तिच्या नांवामुखार झगडाळ, फटकळ अशीं विशेशणां लागतात.*



**अ**स्तुरेचें स्वातंत्र्य हो विशय आतां वाचपाचो वा बरोवपाचो उरूंक ना. तर ते दिकेन पावलां उखलपाचो वेळ आयला. आयज अस्तुरी सगळ्याच मळार वावरूंक लागल्या. दर एका मळार तिणें दादल्यांचे बरोबरीन स्वताक सिद्ध केलां. पूण आज लेगीत स्वताची काणी सांगतना तिच्या दोळ्यांतल्या दुकांक अंत ना.

शिक्षीत आनी नोकरी करता ती बायल आपल्या कामाची ढाल वापरून पन्नास ते पंचात्तर टक्के स्वातंत्र्य घेवपाक शकता. कामाच्या निमतान तांका घराभायर रावचें पडटा. केन्ना केन्ना गरज पडली जाल्यार तांका शाराच्या भायर वचपाक संद मेळटा. अशा वेळार घरांत तिचो घरकार वा घरचीं संवसाराचो गाडो चलोवपाचें काम करतात. केन्ना केन्ना एकटो घरकार ही जबाबदारी घेता आनी भुरग्यांकूय आवयची उणीव जावपाक दिना.

नोकऱ्यो करिना त्या बायलांक आपले उमाळे, आपल्यो भावना, चिड्डून मारच्यो पडटात. सकाळचो आदेस रांदचेकुडींत. सांजवेळा भुरग्यांचो अभ्यास, बाजार आनी रातची परत रांदचीकूड. हातूंत तिचो दीस कसो वता हेंच तिका कळना. भुरगीं बेशिस्त जाल्यार तो दोश तिकाच. 'तूं दीसभर घरांत आसता. तुजें भुरग्यांचेर लक्ष आसूंक जाय हीं मुक्ताफळां.'

घरच्या जापसालदारकेचीं कामां दादल्यांनीं पळोवचीं आनी उणाक कामां बायलांचीं. भुरग्यांक वाडोवप, दादल्यांचे दृश्टीन सामकें गौण काम असो चुकीचो समज दादल्यांनी करून घेतला. घर बांदप, पयशांचो हिशोब पळोवप हीं कामां तांका व्हड दिसतात. तातुंतलें बायलांक कांयच कळना अशें तांचें म्हणणें. घरांत जाय आशिल्ली अद्यावत उपकरणां घेवपाक आनी तांचो वापर करपाक बायलांक परवानगी नासता.

सप्तपदीचीं सात पावलां वांगडा चलपी घोव आपले बायलेक आयुश्यभर सांगात दितलो अशें भर माटवांत तिका वचन दिता.

पूण हें वचन तो जिवीतभर पाळटाच अशें ना. प्रत्येक गजाल आपल्याक जाय तशी घडपाक जाय असो हेकेखोर सभाव बायलो पचोवन घेतात.

बायलो आज दादल्यांबरोबर काम करतात पूण दादल्यांभशेन निर्णय घेवपाक तांका परवानगी नासता. हांवें एक जोडपें पळयलें. दोगूय जाणां शिक्षीत आनी कमोवपी. बायलेन खंयची साडी घेवप आनी खंयचें जोतें घेवप हें घोव थारायतालो. भर बाजारांत तमाशा नाका म्हूण बायल ओगी रावताली. भुरग्यांक हॉटेलांत व्हरतालो पूण ताणीं दोन जिन्नस चड मागल्यार तांका दोळे मोटे करून पळयतालो. अशें न्हय की तो बायलेचो मोग करिनासलो वा ताका भुरगीं आवडनासलीं. पूण बायलेचें वा भुरग्यांचें आयकप म्हळ्यार खंयतरी ताचो अहं दुखावतालो. बायलांक सदांच हातासकयल दवरपाक जाय. बायल म्हळ्यार पांयातली व्हाण असो ताचो समज आनी हें तो खूब फावटी उलोवन दाखयतालो.

जाणट्यांकडे, घरच्या दादल्यांकडे सभ्यपणान खालतीकायेन उलोवप ही आमची भारतीय संस्कृती. हे संस्कार बायलमनशेचेर ल्हानपणांतसावन जायत आयल्यात. कांय घरांनी मोट्यान उलोवप हाकाच झगडीं समजतात. घडये हाचो फायदो दादल्यांनी घेतलो. आवाजाच्या बळार दादले बायलांचेर दबाव हाडटात. घोवागेर नवें कुटूंब म्हूण बायलूय दबावाखाला असहाय. बायलेन आपली बाजू मांडपाचो प्रयत्न केल्यार तिच्या नांवामुखार झगडाळ, फटकळ अशीं विशेशणां लागतात.

आयच्या समाजांत चडशीं विभक्त कुटुंबां आमकां दिसतात. कितेंय म्हणात आजलेगीत घरचो संवसार दादल्यांच्या सांगण्याप्रमाणच चलता. तातुंतल्यान कांय बायलो प्रवाहाच्या विरुद्ध वचपाचे प्रयत्न करतात. तांच्या मताप्रमाण दर एकल्याक विचार परगटावपाची, समाजीक वावरांत वाटो घेवपाचो हक्क आसता. घोवूय बी हांवें बायलेक सगल्या प्रकाराचें स्वातंत्र्य दिलां अशें मोट्या अभिमानान सांगता. पूण 'बायलेक म्हजें खंय पडलां ती जाय तेन्ना घरा येता. निमाणें घराकडे येवपाकूच जाय न्हय' अशी मनाची व्यथा उक्तायता. 'शाण्यांक खंय उतरांचो मार' अशा वेळार बायलमनीस आपल्या पावलांक बेडयो बांदता. जर ती बायल निबर काळजाची आसत जाल्यार ह्यो बेडयो तोडून आपल्या स्वातंत्र्याचेर हावळ हाडपाक दिना. घोवाच्या उलोवण्याचेर आडनदर करता. हें सगळ्या बायलांक शक्य जायना.

बायलमनीस मुळांतूच खूब सोशीक. ती आवयचें, बायलेचें, इश्टीणीचें आनी प्रेयसीचें सवंग बरतरेन वठयता. हाचें कारण म्हळ्यार ती आपल्या घरब्याचेर, आपल्या घोवाचेर, भुरग्याबाळांचेर जिवापरस चड मोग करता. देखून आपलें दुखख काळजांत लिपोवन घरच्यांक जाता तितलें सूख दिवपाचो प्रयत्न करता.

बायलमनशेक स्वातंत्र्य मेळचें अशें दर एके अस्तुरेक दिसता. आनी तांच्या स्वातंत्र्याचेर नियंत्रण दवरचें अशें दादल्यांक दिसता. स्वातंत्र्य दिल्यार ह्या स्वातंत्र्याचो गैरफायदो घेवपीय बायलो समाजांत आसात. घडये ही चिंता तांका सतायता आसतली. सगल्या बायलांक एकेच तागडेंत जोखप समा न्हय.

घरच्यांकडेन आडनदर करून बायलांक आवडटा म्हूण समाजसेवा करप कितलें योग्य? हें दर एके अस्तुरेन चिंतचें. घरच्यांक विश्वासांत घेवन समाजसेवा वा छंद पुरो केले जाल्यार मनाचेर ताण पडना. तांचोय तुमका सांगात आसता. त्याखातीर मनाचेर दडपण हाडिनासतना बायलां आपलें कार्य करूं शकतात. घरच्यांनी दिल्ल्या स्वातंत्र्याचो योग्य उपेग करपाक जाय.

स्वातंत्र्य म्हळ्यार स्वैराचार न्हय हें मतींत दवरूनच स्वतंत्रतायेचो अणभव घेवपाक जाय. कुटूंब आनी समाजान, पुरायपणान मान्यताय दिल्ल्या स्वातंत्र्याच्या सारें, उदकाचेरूच अस्तुरेचो जिणेरूख सर्वांगान चंवरतलो तेन्ना स्त्री स्वातंत्र्याची संकल्पना मांडपाचो प्रस्नूच येवचोना. वाट पळोवया त्या दिसाची.



– कुसूम अग्रवाल
शिवोले-गोंय
फोन : २२७२०२१

आत्मनिरीक्षण

# अस्तुरी आनी समाज

'एके चलयेक शिकयात आनी देश सुशिक्षीत करात.'

'एक स्त्रीभृण वाटयात आनी समाज जगयात.' हीं घोषवाक्यां म्हळ्यार भारतीय अस्तुरेची अस्मिताय आनी अधिकार सुरक्षीत दवरपाखातीर केल्ली जागृताय.

'अखिल विश्वाची जननी' आशिल्ले अस्तुरेक आपल्या हक्काखातीर रस्त्यार येवचें पडटा हें आमचें दुर्दैव. जेन्ना तिका स्वताच्या अधिकारांची जाणीव जाली तेन्ना तें मेळोवपाखातीर क्रांती सुरू जाली.

देशांतल्या विंगड विंगड राज्यांत बायलो, चलयो आनी तरणाट्यांखातीर हांवें काम केलां. सगळेकडेन बायलां आपल्या हक्काखातीर जागृत आसात अशें दिसलें तरी क्रांतिची बुन्याद डळमळीतूच आसा. महिला मंडळां, महिला मेळावे, महिलांचे आपसेवा पंगड हांच्या माध्यमांतल्यान बायलांचे खाजगी आनी सामाजीक प्रस्न सोडोवपाक मजत करपी बायलो स्वताक आधुनिक आनी सुधारीत समजता आसल्यो तरी तांची घराकडली अवस्था हेर सामान्य अस्तुऱ्यांवरीच आसता. सुधारणेचीं बुन्यादी तत्वां आनी योग्य धोरण नाशिल्ल्यान तांच्या कार्याचो फावो तो परिणाम जायना. खऱ्या अर्थान अंधश्रध्दा आनी गरज नाशिल्ल्यो रूढी, परंपरा तशेच सामाजीक कायदे मोडून बुध्दीच्या बळग्यार स्वतंत्रतायेन निर्णय घेवपाची क्षमता आशिल्ल्यो थोड्योच बायलो आसतात. पूण तांच्या क्रांतिकारी विचारांक आनी आचारांक लागून तांची विवाहीक वा कुटुंबीक जीण उध्वस्त जावपाच्या मार्गार आसता. अश्यो कितल्योश्योच देखी आमी समाजांत पळयतात. समाजाकडल्यानय ताका अवहेलनाच मेळटा. 'न घर का न घाट का' अशी तांची अवस्था जाता. तरी आपल्या विचारांचेर ठाम रावपी अस्तुऱ्योय आसात. क्रांती करपी बायलांचे बाबतींत अशें कित्याक घडटा? अस्तुरेक हो समाज सन्मानान कित्याक वागयना?

संवसारीकरणाक लागून आयज बायलो विंगडविंगड मळार वावरूंक लागल्यात. दरेका मळार तांची परिस्थिति हुस्को करपा सारकीच आसा. कांय उच्चशिक्षीत अस्तुऱ्यांचो अपवाद सोडल्यार हेर बायलो ज्यो नोकरी करपाक भायर सरतात तांका नोकरेच्या जाग्यार सुरक्षा आसा काय कितें हो म्हत्वाचो प्रस्न. आयज दरेका घरांत चलो-चली, दादलो-बायल दोगांय नोकरी करतात. जोडटात. घराबो चलयतात. पूण घराब्यांत, नोकरेच्या जाग्यार, ऑफिसांत, धार्मिक आनी सामाजिक कार्यांत चड करून दादल्यांचेच वर्चस्व पळोवपाक मेळटा. समाजान मानिल्लो लिंगभेद आनी ते प्रमाण केल्ले सामाजिक कायदे, धार्मिक कायदे आनी रूढी परंपरा.

विसाव्या शेकड्यामेरेन भारतीय रूढी-परंपरेक लागून चली जल्माक येवप हो स्त्राप कसो दिसतालो. जल्मासावनच तिचे जिणेची फरपट सुरू जाताली.

आयज ऑफीसांत एखादी बायल ऑफिसर आसत जाल्यार तिच्या हाता सकयल काम करपी 'दादले' कर्मचारी तिचें वर्चस्व सहजतायेन मान्य करपाक तयार जायनात. तांचो अहंकार दुखवता. मागीर सुरू जाता असहकार वा नसत्यो भानगडी सोदून काडून तिची बदली करपाचे यत्न.

राजकीय मळार लेगीत बायलांचें नांव मुखार करून दादलेच राजकारण करतात. हाका कांय अपवाद आसूं येतात.

धार्मिक मळार तर सगल्यांच धर्मांत धार्मिक कार्य करपाक अस्तुऱ्यांक जायतीं बंदनां आसात. धार्मिक कार्याविळार आमच्या क्रिस्तांव धर्मांत लेगीत वेगळेचार केल्लो पळोवंक मेळटा. जे अधिकार इगर्जेंत मिसा वेळार देवाचें कार्य करपाक पाद्रींक आसात ते सगलेच अधिकार माद्रींक नात. पाद्रीभशेन आमी माद्रीय संवसारीक सुखाचो त्याग करून पुराय जीण देवाक आनी धर्माक ओंपतात. मागीर हो वेगळेचार कित्याक?

कामदार (दिसवड्याचेर काम करपी) बायलांचे प्रस्न सोडयतना कितलेशेच अणभव आयले. व्यसनी घोवाकडल्यान मारफार सोंसपी, कुपोशण आनी कुटूंब नियोजनाविशीं आशिल्ल्या अज्ञानाक लागून ४-५ भुरग्यांचें मातृत्व पत्करपी, अशिक्षीत गरीब बायल जेन्ना पोटाखातीर दिसवड्याच्या कामाक वता तेन्ना तिका दिसवडो दादल्यांपरस उणो मेळटा. बिकट परिस्थितींतल्यान मार्ग काडपी हे बायलेच्या कश्टांक उणें मोल कित्याक?

नोकरी करपी अस्तुऱ्यांच्यो व्यथा समजून घेतना कितल्योश्योच घडणुको उजवाडांत आयल्यो. तांची म्हत्वाची समस्या म्हळ्यार नोकरेच्या जाग्यार जावपी तांचें लैंगीक शोशण. विंगड विंगड ऑफिसांनी, कंपन्यांनी, हॉस्पिटलांनी, शिफ्टींनी काम करपी अस्तुऱ्यांचेर तांचे बॉस वरिश्ठ अधिकारी आनी तांचेर शेक गाजोवपी हेर दादले कर्मचारी हाणी केल्ले लैंगीक अत्यचार. नोकरेवयल्यान काडून उडोवपाचे धमकेक लागून ताणी सोशिल्ले बलात्कार. कॉंट्रॅक्टरांच्या भकीक पडिल्ल्यो कामदार बायलो, चलयो... ह्या सगल्यांचो विचार केल्यार हें सगलें केन्ना सोंपतलें हाचो विचार करपाचो वेळ आयला.

बुन्यादीकूच (कुटुंबीक पावंड्यार) बायलेक प्रेम, माया, आदर, सन्मान आनी कुटुंबांतल्या दादल्या वांगडा समान वैचारीक स्तर मेळ्ळो जाल्यार सामाजिक पावंड्यारय समानताय येवंक शकता. समानतायेच्या विचारांचीं मुळां दरेका घराब्यांत रूजूंक जाय. तेन्नाच समाजांत समानतायेचो रूख पळोवपाचें भाग्य आमकां मेळटलें. 'संवसारीक बायलां दीस' म्हळ्यार बायलांक स्वताचे विचार उक्तावपाची भांगरा संद. पूण दीस मनोवन समस्या सुटटल्यो? एका दिसाची जागृताय ३६४ दीस तिगतली?

Sexual harassment थांबोवपाचें आसत जाल्यार मनशाक 'मनीस' जावचोच पडटलो. दर दिसा दिसाळ्यांचेर येवपी 'सान चलयांचेर बलात्कार' असले माथाळें आनी खबरो म्हळ्यार मनशांतल्या पशुत्वाचीं यादस्तिकां.

The only way to combact this evil is begin today to respect your sister, mother and wife. Thus you will bring back the dignity lost of every woman.



-सिस्टर जॅसीन्ता पिंटो
समुपदेशिका,
अवरलेडी ऑफ
माऊंट कार्मेल हा. से. स्कूल
हरमल, पेडणे-गोंय

# अन्याय नाका

– रूपा कोसंबे



*हुंड्याक लागून सुनेक जळोवप, त्रास करप, चली भुरग्याची भ्रुण हत्या हें तर सर्रास घडत आसा. आनी हाका चडश्यो बायलोच जापसालदार आसतात. हालींच वाचनात आयिल्लें, थोड्या राज्यांनीं आपल्या सुनांक, चलयांक वेश्यावेवसायांत धुकलपीय चडश्यो बायलोच चड प्रमाणांत गुंतिल्ल्यो आसतात. म्हणटगीर सशक्तीकरणाची चड गरज आसा ती बायलांच्या एकमेकाभितल्ल्या नात्याची वीण घटमूट करपाची.*

मार्च म्हयनो आयलो म्हणटगीर सगळ्यांक बायलांच्या दिसाची याद येता. बायलांक कसो न्याय दिवपाक जाय, बायलांचें सशक्तीकरण कशें करूंक जाय ह्या विशयावयल्या भाशणांक एकदम वतो येता. आनी मार्च म्हयनो सरत आयलो, सल्लो म्हणटगीर परत सगळीं एका वर्साखातीर ह्या विशयाक विसरून वतात. रस्त्यार आशिल्ल्या पुतळ्याची एका काळाक लोकांच्या मोगांतल्यान, आदरभावनेंतल्यान उमेदीन उभारणी जाता आनी त्या पुतळ्याक मागीर लोक विसरून वतात. ते बद्द परत याद करतात ज्या वेळार त्या व्हड मनशाची जयंती वा पुण्यतिथी येता तेन्ना. हरशिल्या दिसांनी त्या पुतळ्याचेर वेगवेगळ्या सुकण्यांनी आपलें काम उरकून घेतिल्लें आसता. केन्ना केन्नाय तो रस्त्यावयल्या भिखाऱ्यांचो आलाशिरो जाता नाजाल्यार जार्दीनांत खेळतल्या भुरग्यांचो कट्टो जाता.

बायलांचेर अन्याय जावपाक जायना, तांचें सशक्तीकरण जावपाक जाय ही गजाल खरी, कारण बायल ही एक समाजवेवस्थेंतलो म्हत्वाचो घटक. संसाररथाचें एक चक्र. भुरग्यांचें जनन करप, तांचेर संस्कार करप, देशाचे भावी नागरीक घडोवप हें तिज्या हातांत आसता हेंवय खरें. म्हण तीच पयलीं सशक्त आसपाक जाय. तिका फाव तें मानसिक, आर्थिक बळगें मेळपाक जाय. तिका दादल्याबराबर लेखूंक जाय, मानाचें स्थान मेळूंक जाय.पूण हें सगळें करपाचें कोणें? दादल्यांनी? बायलोच जेन्ना एकमेकांच्यो दुस्मान जातात तेन्ना एकमेकांक समजून घेवपाक न्हयकारतात तेन्ना? सशक्तीकरण कशें आनी कोणें करपाचें?

हालींच कोणाच्या तरी लग्नाक गेल्लें. न्हवऱ्या-होकलेच्या गळ्यांत माळ पडतगीर कोण साखर घेवन, कोण पेढे घेवन तर कोण हातांत हळदी-कुकमाचें ताट घेवन आयलीं. कपलाक लायतां लायतां ती आमी बशिल्ल्या त्या लायनीक पावलीं. तितल्यान एक बायलेन

आपल्याक कुकूम लावनाका म्हण तिका हात केलो. तिचो घोव भायर पडिल्लो. पूण समाजाच्या बुभूक्षित नजरांपासून सादूर रावचेखातीर तिणें आपलो मणी-कुकूम तसोच दवरिल्लो. जाल्यार ही कुकूम लावपी बायल मात्शी फुडें वचून पुटपुटपाक लागली. 'शी, आयब गे बाये. वयल्यान आनी भर सभेक बसतात. कशें म्हण कळपाचें.' हातूंत आयब म्हण शिणपाचें कारणच कितें? ते बायलेन सांगूंक नाशिल्लें जाल्यार?

अशीच एक दीस ज्योतीवयनी म्हाका बर्शीत मेळ्ळी. धुवेच्या दुसऱ्या बाळटेराखातीर वताली. तिचे धुवेगेर पयलींचें चली आसा. हॉस्पीटलांत ॲडमीट केल्या म्हण रकाद येनाफुडें हिणें देवाचो धावो सुरू केलो. हे खेपेक नातू जावंदी म्हणून. हांव दिसनाफुडें हिणें सांगपाक सुरवात केली, 'हे खेपेक तरी चलोच जाल्यार पुरो गो बाये आमच्या कृपागेर. ताच्या व्हडल्या देरागेर दोनूय चलयोच. दिवो कोण लायतलो नाजाल्यार घराक? वंश कसो वाडटलो?' ज्योतीवयनीचो एकलोच चलो मात नाकाशिल्ल्या व्यसनांच्या बकीक पडून गांवभर हेडटा. आनी हिका चिंता धुवेचो वंश वाडपाची. 'चलो जावं वा चली जावं, जाता तें भुरगें आरोग्यान, कुडीन धडधाकट आसचें आनी व्हड जातगीर ताणें उजू मार्ग आपणावचो अशी आमची विचारसरणी केन्ना जातली?'

आतऱ्या-पयऱ्यान आमच्या ऑफिसांत एक बायल म्हज्या कलीगाक मेळपाक येता. येनाफुडें घे तिचो तोंडाचो पट्टो सुरू जाता तो वतामेरेन चालूच. फक्त सुनेच्यो कागाळी आनी तिका गाळी. एकदीस हांवें त्या कलीगाक विचाल्लें, 'तूं तिका वळखता? सून तिका त्रास करता काय कितें?' तर तें म्हणपाक लागलें, 'हीच बायल तसली. आपलो शेक चलतालो तेन्ना तिणें आंतरजातीय लग्न केलें म्हणून नाका शेवट केलें. 'सुनेचें बरें जावं नाका, वंश वाडनाका' म्हण उतरां घालीं.' ते सुनेक खंय दोन जुवळ्यो



चलयो. दोनूय शारिरीक व्यंग आशिल्ल्यो. सुनेन तोंड धापून संवसार केलो. थोड्या तेपान खंय तिचो पूत अपघातांत गेलो आनी त्या धक्क्यान घोवय. कर्ता-सवरतो घरांत कोण नाशिल्ल्यान सूनय हांगा-थंय कामा करून आपलें, मांयचें आनी दोगांय भुरग्यांचें पोट भरता आनी आतां ही सुनेच्या चारित्र्याचेर संशय घेता ती जालीच,वेल्यान आपल्या पुताकय खालो म्हण गाळी संवता. आतां खंय सूनय ओगी रावना.

बायलांक तेंको मेळचो, तांची उदरगत जावची म्हण आतां जायत्यो येवजण्यो चालीक लागल्यात. जायत्यो संस्था बायलांखातीर कामां करतात. पूण हाचो फायदो तळागाळांतले लोक खंय घेवंक पावतात? बायलांक राजकारणांत स्थान मेळचेखातीर जागे राखीव दवरल्यात. पूण अडाणी, अशिक्षीत बायलांचें थंय कितें काम? थोड्यो बायलो कोणाच्या तेंक्यान गेल्योय जाल्यार तांचे कर्ता करविता धनी दादलेच आसतात. राजकारणांत मुरिल्ले हाचो फायदो घेवन सगळें आपल्याक जाय तशें करून घेतात. हें जालें कमी शिकिल्ल्या वा अशिक्षीत बायलांचे बाबतींत. जेन्ना एकाद्री बायल बरी शिकून एखाद्या व्हडल्या पदाची नोकरी करता, वा धंदो सांबाळटा आनी आपलें करीयर म्हळ्यार सर्वस्व ह्या नात्यान वावुरता तेन्ना तिचीय टिकेच्या अस्त्रांतल्यान सुटका नासता. 'तें अमूक अमूक पळय अजून लग्न जालेंना. हाज्याफुडें आनी लग्न केन्ना जातलें, भुरगीं केन्ना जातलीं देवाक खबर.' जावं 'तें पळय कितली रात करून घरा येता, भायर कितेंय केलें म्हणून ताका विचारतलो कोण आसा, म्हणूनच लग्नाचीं बंधनां नाकात ताका.' अशें एक न्हय दोन unnecessary comments चालूच आसतात. म्हणटगीर तिका आदराचें स्थान समाजांत जाय जाल्यार समाजाचे चौकटींत रावूनच तिणें आपले हात-पांय पसरपाक जाय. तिणें जोडिल्लो पयसोय जाय तोय सगळो नितीमुल्यां सांबाळून.

हुंड्याक लागून सुनेक जळोवप, त्रास करप, चली भुरग्याची भ्रुण हत्या हें तर सर्रास घडत आसा. आनी हाका चडश्यो बायलोच जापसालदार आसतात. हालींच वाचनात आयिल्लें, थोड्या राज्यांनीं आपल्या सुनांक, चलयांक वेश्यावेवसायांत धुकलपीय चडश्यो बायलोच चड प्रमाणांत गुंतिल्ल्यो आसतात. म्हणटगीर सशक्तीकरणाची चड गरज आसा ती बायलांच्या एकमेकाभितल्ल्या नात्याची वीण घटमूट करपाची. तांका मानसीक नदरेन सबल घडोवपाची. आनी हें सामकें सकयल्या पावंड्याचावेल्यान जावपाक जाय आनी बायलांनीच हो भार आपल्या शिरार घेवपाक जाय. आनी दर एकल्यान स्वत:कडच्यान सुरवात करून जाता तितलो हातभार लायल्यार बायलांखातीर वेगळो दीस मनोवपाची गरज ना अशें दिसता.



शिंदोळी,सांकवाळ,
कुठ्ठाळी-गोंय.
फोन-२४५२१५०

संवाद



*आपल्या दायजाविशयी जाणून घेवप म्हळयार जिणेक चड समृद्ध करप. सांस्कृतिक अखंड व्हावपी झऱ्यांतलो आपुणूय एक थेंबो आनी आपलेंय तातूंत योगदान आसता हें नवे पिळगेन जाणून घेवप वा तांकां कळप खूब गरजेचें. ही जागृताय तांच्यामदीं जावंची हे नदरेन आमी वेग-वेगळो विषय वेंचून तांचेर टेम्परारी प्रदर्शन मांडटात. सेमिनार, व्याख्याना दवरतात. विद्यार्थी, म्युझियमात पावचे म्हणून कांय स्किमिय राबयतात.*

**नमस्कार, गेल्लीं तीन साडेतीन वर्सां गोंय राज्य वस्तुसंग्रहालयाची संचालिका म्हूण तूं काम पळयता. गोंयांत जायतीं सरकारी खातीं आसात पूण बायल संचालिका म्हूण काम पळोवपी फकत हाताच्या बोटार मेजपा इतलीच. तातुंतलेंच तूं एक. देखून म्हजेसारखेल्यांक तुजें अप्रूप. म्हाका एक सांगशीत, एक बायल मनीस म्हूण ह्या पदार वावुरतना तुका कसले लाव मेळटात काय तुका अडचणीक तोंड दिवचें पडटा?**

ज्या पदार तुमी काम करतात त्या पदाची जबाबदारी वा कामासंदर्भात ज्यो मागण्यो आसतात तातूंत तुमकां बायल मनीस म्हूण सूट मेळना. तें करूंकच जाय. पूण कामाच्या संदर्भात कोणाकूय मेळूंक गेल्ले कडेन हांव नकळ बायलमनीस म्हूण काय म्हज्या सभावा खातीर सहकार्य, बायल आनी दादले दोगांय कडल्यान खूब बरें मेळटा. वरिश्ठ खूब सहानुभुतीन, आस्तेन उलयतात. कनिष्ठ नमळायेन, अपुरबायेन वागतात. मेळूंक आयिल्लो लोक आदरान पळयतात. तोखणायूय करतात.
अडचणी येतात केन्ना केन्नाय. पूण त्यो बायलमनीस म्हूण न्हय, त्यो एके विशिष्ट परिस्थितीक लागून. म्हजीं भुरगीं आजून ल्हान आसात. म्हजेर अवलंबून आसात. आवयन चड वेळ भायर राविल्लें तांका मानवना. ताका लागून खूबदां ऑफीस वेळानंतरूय ऑफीसाचेंच एकादलें काम सट्-करून करून उडोवंचें दिसल्यारूय हांव तें करूंक शकना.

**जेन्ना प्रभारी संचालक पदाचेर तुजी नेमणूक जाली त्या खिणाक तूं फाटी-फुडें जालें काय एक चॅलेंज म्हूण तुवें तें स्वीकारलें?**

म्हाका चॅलेंजच नाशिल्लो. आदले संचालक रिटायर जाता त्याच दिसा हो चार्ज हांवें घेवंचो अशी ऑर्डर आयिल्ली. हांव ॲकेडेमीक मनीस. म्हाका ॲडमिनस्ट्रेशन जमतलें? असो प्रश्न म्हाका पडिल्लो. ना न्ही. पूण म्हज्या सहकाऱ्यांनी म्हजेविशयी भोव विश्वास दाखयलो. पाठिंबो दिलो. आनी ल्हवू ल्हवू म्हज्या भितल्ल्या कार्यशक्तीची म्हाकांय वळख जाली.

**आतां थोडेशें फाटीं या. म्हळ्यार तुज्या भुरगेपणांत. तुजें भुरगेंपण कशें**

गेलें?

꧁ रम्य ते बालपण म्हणपासारकें.. एकदम मजेंत. सोबीत सैम, मायेस्त मनशां. एकमेकांकडेन सुसंवाद, भावबंध आशिल्लीं मनशां आनी उत्सवी, आनंदी वातावरण आशिल्लें घर- तूं हो प्रस्न विचारूंच नाका नूतन, हांव त्या यादीनीच घुस्पून उरतलें. एक खरें तेन्ना हांव खीण-खीण जियेतालें, आतां खूबदां दिसता आतां हांव फकत जितें आसां.

**꧁ पयरूच डॉ. किरण बेदी गोंयांत येवन गेल्यो. जण एकले अस्तुरेक आदर्श दिसचें अशें तिचें व्यक्तिमत्त्व. तिच्या व्यक्तिमत्त्वाचो तुजेर प्रभाव पडिल्लो बी? ना जाल्यार कोणाचो प्रभाव पडला?**

꧁ डॉ. किरण बेदी इतलें 'तेज' खंय आसा गो हांव? ती आदर्श दिसची अशी बायल हें खरें. म्हाका तिचे विशयी खूब आदर आसा. पूण जण एके यशस्वी बायलेचो मूळ सभाव, भोवतणची परिस्थिती, प्रस्न आनी तांक हें आपल्या परस वेगळें आसता. शांतपणान सगळें समजून घेवप हें ओके, पूण ताणी सोदिल्ले वाटेवेल्यान आमी चलूंक शकनात. म्हजी वाट हांवेंच सोदूंक जाय, म्हजी लडाय हांवेंच लडूक जाय हें हांव जाणां.. जाणीवपूर्वक प्रभाव कोणाचोच ना. नकळता जाताच आसतलो न्ही?

**꧁ तूं एक संवेदनशील कवयित्री. तुज्या कवितेचो साक्षात्कार तुका केन्ना आनी कसो जालो?**

꧁ खरेंच खबर ना. भुरगेपणांतल्यान सैमाची अनंत रुपां, मनशाभितल्ली माया, ओड, नातेसंबंध हांच्यो कितल्योशोच 'छटा' पळोवन हांव भावूक जातालें. ताका शब्दरूप दिवपाचो यत्न करतालें. इतलें हांव जाणां. ह्या खातीर घरचीं म्हजी टिंगलूय करतालीं. आनी तोखणायूय. मनांतल्या मनांत शब्दांकडेन खेळपाचो छंद म्हाका भुरगेपणांतल्यान आसा. कांय शब्दखेळ बरोवन दवरले, कांय अशेच विरून गेले.




**꧁ तरणे पिरायेचेर तुवें कविता बरोवंक सुरू केलें आनी अजून लेगीत बरयत आसा. तुज्या ह्या संचालकपदाक ही कवयित्री पुरक काय मारक?**

꧁ नक्कीच पुरक. संचालकपद घडये कवयित्रीक मारक थारू येताय आसत. पूण हांव तितली जतनाय घेतां, म्हज्यांतले कवयित्रीक सांबाळटां. म्हाका दिसता हांव कविता बरयतां. म्हणूनच संचालकपदाचीं जबाबदारी हांव बरे तरेन पेलूंक शकतां.. नवी कविता सुचली की कांय दीस मन नशेंत शें उरता. सुर्याच्या किरणानी धुकें विरून वचचें तशें. कामाचे ताण, कटकटी, निर्शेणी कविता स्फुरली की खंयच्या खंय नाच जाता. आनी दुसऱ्यांची बरी कविता वाचूनय होच अणभव घेतां. हांव खूबदां आनी त्या कर्त्याविशयी मनांत कृतज्ञता दवरून वावुरतां.

**꧁ तुजे कवितेचेर बरयल्ल्या समिक्षणात्मक लेखांत कवी एस.डी. तेंडुलकार हाणीं तुका एक कोंकणींतली यशस्वी कवयित्री म्हळां आनी तुवें महत्वाकांक्षी जावंचें अशें ताणीं मागलां. हाचेर तुजें कितें मत?**

꧁ म्हाकाय तें सारकें कळूंक ना. हांव यशस्वी कवयित्री कित्यावेल्यान? आनी महत्वाकांक्षी जावप म्हणचे नक्की कितें? पूण एक खरें. समिक्षकाक कोंकणी काव्याविशीं, ताच्या फुडाराविशीं चिंता/आस्था आसा हें जाणवलें. पूण म्हजे कवितेची इतर कवयित्रींच्या कवितेकडेन केल्ली तुलना टाळिल्ली जाल्यार बरें जापाचेंशें दिसता. हांव कोकणींत खूब कमी बरयतां.. आनी तुमी सगलीं कितलींशींच वर्सां बरयतात. कोंकणी काव्याचे निर्मितीखातीर चालिल्ली ही साधना अशेंय म्हणूं येता. हे साधनेची आनी म्हज्या चार काव्य पिसोळ्यांची तुलना कशी जातली...?

खरें तर म्हजी महत्वाकांक्षा जिणेंतल्या अनंत प्रस्नाच्यो जापो सोदप ही आसा. ताका घडये म्हजी कविता म्हाका वाट दाखयतली वा ते प्रस्नूच म्हजे कवितेक वाट दितले. अशेंय आसत, महत्वाकांक्षी म्हळ्यार चार लोकांनी 'बरें बरयता तूं' म्हळें म्हणून भुल्लसून वचून समाधानी आनी सुस्त जायनासतना, स्वत:च्या कवितेविशयी निरंतर असमाधानी रावप आनी स्वत:तल्या काव्यविषयक असंख्य शक्यतायेचो तातुंतल्यान उंचाय आनी खोलायेचो सोद घेवप हें तेंडुलकरबाब सांगूंक सोदतात घडये!

**꧁ गोंयांतूच न्हय तर गोयांभायरूय तुजे कवितेचे रसिक आसात. अशा वेळार गोयचे आनी गोयांभायले कवी हातूंत तुका कितें फरक जाणवता?**

꧁ पिकता थंय विकना अशें म्हणटात न्ही नूतन! तो न्याय हांगाय लागता जावंये! गोंयांत कविता समजुपी लोक खूब आसात पूण मेकळे मनान दाद दिवपी जावं तिची समिक्षा करपी, व्यक्तीनिरपेक्ष समिक्षा करपी मनशां कमी. महाराष्ट्रांतल्या कांय कवीनी मात वळख-देखा नासतना, मुजरत फोन करून, पत्रां बरोवन म्हज्या 'उमलताना' काव्यसंग्रहाची एक बरी भावकविता म्हणून तुस्त केली. तातुंतलीं बलस्थानां सांगलीं आनी म्हजे कवितेविशींची म्हजी 'उदासिन

वृत्ती' पयस करूंक हातभार लायलो.

**🙟 हांव बँकेंत काम करतां आनी हांवें पळयलां की खूबशीं बायलां बढतीचे परिक्षेक बसनात. बदलेच्या भंयान वा जबाबदारीच्या भंयान. तांकां तूं कितें सांगूक सोदता?**

🙟🙟 आपली मूळ वृत्ती कशी आसा, आपली प्रायोरिटी कितें? हाचो जण एकले अस्तुरेन सोद घेवंक जाय. खूबश्यो जबाबदाऱ्यो एकदम आंगार घेवन मागीर कसरत करची पडली म्हूण दुःखी, हताश जावचे परस, आपल्याक कितें फाव, कितें योग्य हें आमी थारावंक शकलीं जाल्यार खूबशे नवे प्रस्न तयार जावंचे नांत. आमच्या भितर क्षमता आसताच. पूण बायलांची एक खासियत आसा स्वतःचें सुख/आनंद सोदतना वा स्वतःक प्रूव करतना ती भोंवतणच्या लोकांक, खास करून घरांतल्यांक नाराज जाल्ले पळोवंक शकनात. ताका लागून तिची मानसिक फरफट जाता. म्हणूनच आपली वाट सोदतना, स्वतःक, मनाक स्ट्रॉंग करप खूब गरजेचें. आनी हय आपल्या निर्णय प्रक्रियेंत घरांतल्या मनशांक विश्वासांत घेवप, सामील करून घेवप चड फायद्याचें. मागीर नथींग इज इम्पॉसीबल.

**🙟 भोवतेक दादल्यांक आपली बायल आपलेबरोबरची आसची वा आपलेपरस कमी हुद्याचेर आसची अशें दिसता. तुजो अणभव कितें?**

🙟🙟 म्हाका अशें कांयच जाणवलें ना. हांवें म्हजे खाजगी जिणेंत म्हज्या हुद्याक केन्नाच येवंक दिल्लें ना. ऑफीसांतले खुर्चेतल्यान उठ्ठा तेन्ना हांव म्हजें पदय थंयच दवरून येतां. घरांतल्या कुळारच्या लोकांखातीर, म्हज्या इश्टां खातीर हांव तांचें सुजाच आसतां. घरकारावांगडचें म्हजें नातें बरोबरीचें, खेळीमेळीचें आसा. तोय एका महत्वाच्या पदार आशिल्लो आनी ताणें आपलें काम खूब जबाबदारेन, कर्तव्यनिष्ठेन केलां हाची जाणीव म्हाका आसा. तोय म्हज्या कामाची जबाबदारी वळखून आसा. आमी दोगांय दोन समांतर रेल्वे लायनीचेर चलपी गाडयांसारकीं कोन्क्यूरेन्ट चलतात. ताका लागून टक्कर जावपाचो प्रस्नच ना.



**🙟 सुजा म्हाका सांग चॅलेंजींग अशीं पदां घेवपाक बायलांनी कितें करचें पडटलें?**

🙟🙟 उत्तम शिक्षण/ प्रशिक्षण, एक अस्तुरी म्हणून आपल्या भितर आशिल्ल्या शक्तीची/समतेची जाणीव, प्रामाणिकपणान काम करपाची तयारी ती चडशा बायलां भितर आसताच म्हणा आनी एकदां चॅलेंज स्वीकारलें की पिरंगण बंद, ही मनाक शिस्त. ह्या सगल्यांची गरज आसा.

**🙟 आतांचे पिळगेक नव्याचें आकर्शण. अशें आसतना पुराणवस्तुसंग्रहालयाकडेन तरनाट्यांनी नवे नदरेन पळोवंचें ह्या खातीर तुमच्यो कितें येवजण्यो आसात?**

🙟🙟 वस्तुसंग्रहालयांत आमी फक्त पोरण्यो आऊटडेटेड वस्तू दवरतात अशें न्हय तर, आयच्या समकालीन जिणेंतल्यो म्हत्वाच्या वस्तूंचो संग्रह लेगीत थंय आसता. थंय आशिल्ल्या दर एका वस्तूची आपली अशी काणी आसता. तिची निर्मिती, तिचो उपेग, विशिष्ट काळांत वा घटनेतली तिची भुमिका, तिच्या भितल्ली कलात्मकता अशे जायते पैलू आसतात. नव्याची जोड सगल्यांकच आसता, मान्य. पूण आपल्या दायजाविशयी जाणून घेवप म्हळ्यार जिणेक चड समृद्ध करप. सांस्कृतिक अखंड व्हावपी झऱ्यांतलो आपुणूय एक थेंबो आनी आपलेंय तातूंत योगदान आसता हें नवे पिळगेन जाणून घेवप वा तांकां कळप खूब गरजेचें. ही जागृताय तांच्यामदी जावंची हे नदरेन आमी वेग-वेगळो विषय वेचून तांचेर टेम्परी प्रदर्शन मांडटात. सेमिनार, व्याख्याना दवरतात. विद्यार्थी, म्युझियमात पावचे म्हणून कांय स्किमिय राबयतात.

**🙟 खंयच्या साहित्यकृतीनी तुमचेर प्रभाव घाला?**

🙟🙟 तशें ठळपणान सांगूंक येवचें ना. भुरगेपणांत हांव सुंदर राजकन्या, दुष्ट जादूगर/राक्षस आनी शूर राजपुत्रांच्यो काणयो वाचतालें. तरूण वयांत कथा कादंबरी.. डिटेक्टीव्ह लेगीत, अक्षरशः मेळत तें वाचलें. मागीर आपली अभिरूची बदलल्या हें जाणवलें, जाणीवपूर्वक मराठींतल्यो कांय बऱ्यो साहित्यकृती, आत्मचरित्रां बी वाचलीं. भागवत, दासबोधय वाचलो. साद देती हिमशिखरे सारक्या पुस्तकांतल्यान अध्यात्मिक शांती अणभवली. कविता तर सगल्या भाषांतल्यो वाचतां.. मनाक जाणिवेची कीट पेटोवपी, लक्क जावपी खंयचीय साहित्यकृती प्रभावित करून वता. पूण खरें सांगू, सगल्यांत प्रभाव आसा तो ज्ञानेश्वराच्या पसायदानाचो. खरेंच नूतन, इतल्या निर्मळ, शांत मनान सगल्यां खातीर प्रार्थना करपाची तांक आपलेभितर येत जाल्यार, दिसता जिणेचें सार्थक.

**- नुतन साखरदांडे**
म्हापशें-गोंय
फोन : ९४२२०६१७०२



# डॉ. कस्तुरी देसायाक साहित्य अकादेमीचो अणकार पुरस्कार



डॉ. कस्तुरी ना. देसाय

गोंयची नामनेची स्तंभलेखिका, प्राध्यापक डॉ. कस्तुरी ना. देसायाक अंदुचो केंद्रीय साहित्य अकादेमीचो अणकार पुरस्कार फावो जालां. बंगाली कादंबरीकार महाश्वेतादेवीच्या 'अरण्येर अधिकार' हे कादंबरीचो डॉ. देसायान 'अधिकार अरण्याचो' ह्या नांवान कोंकणी अणकार केला.

५० हजार रुपया रोख, शाल आनी यादचिन्न ह्या रुपांतलो हो प्रतिश्ठेचो पुरस्कार जावन आसा. तांका पुरस्कार जाहीर जालो ही दें. सुनापरान्तांतली खबर आनी मुकेश थळी हाणीं घेतिल्ली मुलाखत आमी हांगा बिम्ब वाचकांखातीर दितात.

''कोंकणी मनशान म्हाका आपणायलें म्हूण आयज हो पुरस्कार मेळप शक्य जालें. आदिवासी मनश्याच्या ब्रिटीश तशेंच वयले जातीच्या लोकांच्या विरोधांतल्या संघर्शाविशीं ही कादंबरी आसा. रांची शारांत ही कादंबरी वसल्या. थंय हांवें पदव्युत्तर शिक्षण घेतिल्ल्यान कांय गजाली सोप्यो पडल्यो. तशेंच थंयच्या इश्टां कडल्यान वेळोवेळ मजत मेळ्ळी. हें स्त्रय म्हजें एकट्याचें न्हय तर म्हज्या घरांत काम करपी वावराडी, म्हजी शेजारी, कुटूंब धरून सगळ्यांचेंच.

खरें म्हणल्यार म्हाका कोंकणीकडेन हाडपाक ज्येश्ठ लेखिका हेमा नायकाचो व्हड हात आसा. म्हजें लग्न जाले उपरांत एका कोंकणी मेळाव्यांत तिणें म्हाका कोंकणींतल्यान एक प्रबंध सादर करपाक सांगलें आनी थंयच्यान हांव कोंकणीचे दिकेन ओडलीं.

हांव साहित्यीक न्हय. मात पुस्तकां वाचपाची म्हाका खूब आवड. ल्हान आसतना सावन बापायन म्हाका वाचीत राव असो संदेश दिलो. आयज म्हज्या बापायची आनी मांवाची म्हाका खूब याद जाता. ह्या पुरस्काराचें पुराय स्त्रय घरकार डॉ. नारायण देसाय तशेंच कोंकणींतल्या सगल्या म्हालगड्या साहित्यिकांक हांव दितां आनी ज्ञानपीठ पुरस्कार जैतिवंत रवींद्र केळेकारांचो मुजरत उगडास करतां. तांचे आशिर्वाद सदांच म्हज्या वांगडा आशिल्ले.''




कस्तुरी सद्या फोंडेच्या पीईएस महाविद्यालयांत बॉटनी विभागांत असोसीयेट प्राध्यापक म्हूण शिकयतात. तांणी हाचे पयलीं कोंकणी विश्वकोशांत फुलांविशीं बरप केलां. सद्या नवहिंद टायम्स ह्या दिसाळ्यांत ती नेमान बरयतात. तांणी हाचे पयलीं सुनापरान्त आनी हेर दिसाळ्यांनी तशेंच राजहंस सारकेल्या म्हयनाळ्यांनी विज्ञानाविशीं बरयलां. गोवा कोंकणी अकादेमीन फाटीं बालसाहित्य प्रकल्प राबयिल्लो. ताचे खाला डॉ. देसायाचें 'गोंयचे रूख' हें पुस्तक उजवाडाक आयलां.

# कादंबरींतलें दुबळ्यांचें दुख्ख वाचून संवेदनशीलता जागी जातली : कस्तुरी

(पुरस्कार जाहीर जातकच मुकेश थळी हाणीं घेतिल्ली मुलाखत)



**❀ कस्तुरीबाय, हो राष्ट्रीय पावंड्याचो पुरस्कार मेळटकच तुमकां कितें दिसलें?**

❀❀ पुंडलीक नायकान दिल्लीच्यान फोन करून कळयतकच म्हाका सुरवातेक विस्वासूच बसना जालो. ह्या येसा खातीर हांव देवाचें उपकारी आसां. म्हजो घरकार डॉ. नारायण देसायान ह्या अणकाराक निमणें रूप दिवपा खातीर भोव मोलाच्यो सुचोवण्यो आनी आदार दिलो. तांचें हांव उपकारी. तशेंच हो सगळो प्रकल्प चालू आसतना घरच्या सगळ्यांनी सहकार्य दिलें. तांचेंय हांव उपकारी आसां. १९८५त सगळ्यांत पयलीं हेमा नायकान म्हाका 'बंगाली साहित्य आनी त्या साहित्याचे कोंकणी अणकार' ह्या विशयाचेर उलोवपाक आपयिल्लें. तेन्नाच्यान ह्या अणकाराचे प्रक्रियेक गती मेळ्ळी. कांय बंगाली कथांचेय कोंकणी अणकार हांवें केल्यात.

**❀ रवीन्द्रबाब केळेकारान आदीं आपले एके मुलाखतींत 'तुमचो हो अणकार ही एक भेसबरी साहित्यकृती' अशें म्हणिल्लें. तोय एक पुरस्कार कसो न्हय?**

❀❀ केन्नाय. रवीन्द्रबाबाचें हांव भोव उपकारी आसां. कारण जेन्ना म्हजें लग्न जाल्लें तेन्ना रवीन्द्रबाबान म्हाका एक सल्लो दिल्लो – आंतरराज्यांतलीं लग्नां जावप एकदम बरें. पूण दोगांयनी एकमेकांच्या भाशांतलें साहित्य दुसरे भाशेंत पावयत जाल्यार तें अतिउत्तम. रवीन्द्रबाबांचीं हीं उतरां म्हाका सदांच प्रेरणा दीत आयल्यांत.

**❀ महाश्वेतादेवीचे हे कादंबरीचें खाशेलेंपण कितें?**

❀❀ तातूंत बिरसा मुंडा ह्या फुडाऱ्यान आदिवासींच्या उत्थाना खातीर जें बंड त्या काळांत केलें, तो संघर्श हे कादंबरेंत चित्रीत केला. आयच्या झारखंडांत ह्यो सगळ्यो घडणुको घडल्यात. महाश्वेतादेवीन स्वता त्या वाठारांत वचून आदिवासींमदीं रावन खोलायेन संशोधन करूनच कादंबरी बरयल्या. ह्या आदीवासींक दिसपट्ट्या आहारांतलें मीठ लेगीत मेळनाशिल्लें तेन्ना एक आदिवासी भुरगो (कादंबरींतलें पात्र) आवयक सांगता, 'व्हडलो जातकच हांव तुका मिठाच्यो व्हडल्यो कंड्यो हाडून दितां आं आई.' आदिवासींचे जिणेंतलो संघर्श, प्रतिकुल परिस्थिती, दळदीर हाचें काळीज पिळवटून उडोवपी चित्रण कादंबरींत आसा.

**❀ ही कादंबरी कोंकणींत अणकारतना तुमकां कसल्यो आडखळी आयल्यो?**

❀❀ कांय बंगाली संकल्पना कोंकणींत हाडटना मात्शी तकालस घेवची पडली. झाडां, वनस्पत, सैमाचीं वर्णना, सांस्कृतीक संदर्भ कोंकणींत हाडटना त्रास पडले.

**❀ आतां तुमी कसले अणकार करूंक सोदतात?**

❀❀ आनीकूय कांय बंगाली साहित्यकृती कोंकणीत हाडपाचो विचार घोळटा. खास करून रवीन्द्रनाथ टागोर हांचें 'शेषेर कवित' हें काव्य कोंकणींत हाडूंक पळयतां.

**❀ अणकारीत साहित्यकृती भाशा आनी साहित्य कशे तरेन गिरेस्त करतात?**

❀❀ मुदलांत हांव एक वनस्पती शास्त्रज्ञ आशिल्ल्यान साहित्य हें सगळ्यां खातीर आसा आनी आसूंक जाय अशें म्हजें मत. हे कादंबरींतल्या पात्रांचो जितोजिवो संघर्श पळोवन, दुबळ्यांचें दुख्ख वाचून वाचकांची आनी समाजांतल्या सगळ्या स्तरांतल्या नागरिकांची संवेदनशीलता जागी जातली, धारदार जातली आनी अणकारीत साहित्यकृतींचें हेंच व्हडलें योगदान अशें म्हाका दिसता.



कथिका

# चूक कोणाची ?



– शर्मिला वि. प्रभू

*बाकीचीं बरोबरचीं वांगडी नोकरी-धंदो करतना ताका दिसतालें आपणेंय नोकरी धंदो नाजाल्यार नोकरी करची. पूण तें कशेंच शक्य जायनासलें. नोकरेचें नांवच काडल्यार घरकार बेजारतालो. तुका कितें कमी आसा, आतां नोकरी करून तुवें खंय दिवे लावचेले आसात? नोकरेक गेल्यार भुरग्यांक कोण सांबाळटलो? घरदार कोण सांबाळटलो?*

विचारांचें होमकण धगधगलें तशें मनय धगधगलें. तशी जिणेची विचारशक्ती मेकळी जाली. मन सोदूंक लागलें जायत्या प्रश्नांच्यो जापो. तांतलोच व्हड प्रस्न म्हजें अस्तुरेचें मन विचारूक लागलें, 'चूक कोणाची?'

मनीस हो संवसारांतलो, धरतरेवयलो घडये बुध्दीवान प्राणी आसत! तरीय तो सर्वगूणसंपन्न आसुंकच शकना. चूक ही मनशाच्या हातांतल्यान घडटा तरीय, घडिल्ली चूक तुवेंच केल्या, ना तर सगळ्या वायट घडणुकांक तूंच जापसालदार आसा अशें घडूंक शकना. तरीय तें नमिताचे बाबतींत घडलें. दिसपाक काळें सावळें. लांब केसांचें आनी आंगलोटानय लांब, सोबीत वाटकुळया मुखामळाचें, देवादिकांचेर विश्वास दवरपी. विचारांची तानभूक देवाच्या नामस्मरणात भागोवपी. कोणागेरय वचत तर परतिच्या वेळार पांयां पडून आर्शिवाद घेवपी. शिकपाक सामकें हुशार नासलं तरी बीकॉम मेरेन शिक्षण पुराय केल्या उपरांत कंप्युटराचो कोर्स जावं टेली, जावं प्रोग्रामिंग ताणें पुराय केलें. पयलींपासून ताजो सभाव धडपडी. ताका बरीशी नोकरीय गावली. म्हणटासर बरी सोयरीक जाली–बरो चलोभुरगो गावलो म्हण आवय–बापायन ताजें लग्नय केलें. लग्नाउपरांत ताणें नोकरी सोडली ना.

आतां ताचो चलो तीन वर्सांचो जालो. शाळेंत बरे मार्क मेळोवपाक लागलो. नमिताची नोकरी, घरदार, भुरग्याचें शिक्षण सगळें व्यवस्थिशीर चलिल्लें. पूण चलो तिसरेक पावता म्हळ्यार कानांत वारो भरिल्ल्या पाडकावरी ताची गत जाली. अभ्यास करूंक ताका उबगण येवंक लागली. नमिता घरा पावतासर सात–पावणे आठ जातालीं. तो मेरेन हो बिल्डीगेच्या पोरांवांगडा नाचतालो. साडेसात म्हळ्यार खेळून थकतालो. आवय घरांत पावल दवरता म्हळ्यार झेमतालो. नमिता ताका फुसलावन अभ्यासाक बसयतालें. झेमेत–झेमेत तो अभ्यास करतां–करतां न्हिदतालो. नमिता ताका समजायतालें. सांजवेळचो अभ्यास सांगून



कामाक वतालें. चलो कसोच अभ्यास करनासलो. पूण सांजवेळभर खेळप सोडून तो चलो कांयच करनासलो. घरांत सगळ्यांचें मत एकच. आवय चल्याचो अभ्यास सारको घेना. घरांत सगळ्यांचें मत नमितान नोकरी सोडची आनी चल्याची देखभाल, अभ्यास सारको घेवंचो. चलो तिसरी पास जाता म्हळ्यार सोबीत –देखणें चलीभुरगें नमिताच्या आंगणांत कुकुल्या पावलांनी आयलें. आतां तर नोकरेचेर सामकें उदक!

चल्याचो अभ्यास आतां सुधारलो. चली जशें वाडूंक लागलें तशें नमिता त्या सानूल्या बावलेंत आपलें भुरगेंपण सोदूंक लागलें. नमिताची धूव तशी गुणेस्त! आवयन शिकयल्ली प्रत्येक गजाल तें जिखून धरतालें. नमिताक ल्हानपणापासून नाच–गाण्याची खूब आवड. वेळ काळाच्या बंधनांक लागून तें इत्सा पुराय करूंक शकलें ना. चलयेक बरी नृत्य कलेची शिकवण दिवप अशें नमितान थारायलें. भुरग्याचो अभ्यास, तांचो विकास हातूंतच नमिता आतां गुरफटलें. तरीय ताका आतां मनांत दिसतालें, भुरगीं व्हड जालीं. आतां भुरग्यांक स्वताक सांबाळपाक येता. बाकीचीं बरोबरचीं वांगडी नोकरी–धंदो करतना ताका दिसतालें आपणेंय नोकरी धंदो नाजाल्यार नोकरी करची. पूण तें कशेंच शक्य जायनासलें. नोकरेचें नांवच काडल्यार घरकार बेजारतालो. तुका कितें कमी आसा, आतां नोकरी करून तुवें खंय दिवे लावचेले आसात? नोकरेक गेल्यार भुरग्यांक कोण सांबाळटलो? घरदार कोण सांबाळटलो? ताका आता मनांक पटलें. नोकरेचें नांव आपल्या नशिबांत ह्या जन्मांत तरी ना. पयलीसावन नोकरी करीत आयल्यार आयज इतलो त्रास जावंचो नासलो. वगीच मदल्या काळांत सर्विस सोडून बसलें.

घरांत घरकाराकडेन पयशे मागल्यार एक एकदां तो फटक करून म्हणटालो, तुका पैशाची खंय किम्मत आसा! जोडटल्याकच ती होलमता! नमिताच्या आंगांत आशिल्ली बायलमनीस त्या खिणाक दुखावताली. घरांत केन्नाय खंयचीय वस्त चड उणी जाल्यार घरकाराचीं सहज उतरां आसतालीं, तूं दिसूयभर घरांत कितें करता? घरांतलें घरकाम बिनपगाराचें. घरांत उरलें म्हणतगच सहज घरांत निवळसाण, सगळ्यो वस्तु टापटीप दवरीन दिसतात. घरांतलो वावर सोपून–सोपना. पूण दुडवांनी मेजपाक मात येना. नमिता मनांतल्या–मनांत घुस्मटट्टालें. घरदार, भुरगींबाळां. संवसार हाचो सांबाळ करून नमितासारके बायलमनशेन केल्लो त्याग समाजाक सट्ट करून दिसना. आपलेंपण विसरून, समर्पणाची भावना एक बायलमनीस शिकून सवरून संवसाराक दिता. मागीर तातुंतल्यानच भुरग्यांक बरी देख–संस्कार मेळटात. नोकरी करूं वा नोकरी ना करूं दोरयेवयली कसरत एके अस्तुरेकच करची पडटा. चिंतून चिंतून नमिताचे जिणेचो हावेस खंयतरी दुखावतालो. आतां तरी ताजीं भुरगीं कॉलेजांनी वचूंक लागलीं. आपले–इश्ट–सवंगडी ताणी सोदले. तांचें स्वताचें, विचारांचें, जाणविकायेचें विश्व ताणी रचलें. नमिताक आतां खूब–बेकार, आपूण एकमुळें अशें भासूंक लागलें. ताका इश्टीणीचीं उतरां याद जालीं. त्या वेळार अशीच नोकरी सोडटना ताणें ताका समजायिल्लें. तुज्या आंगांत आशिल्ल्या गुणांचो उपेग करपाचो होच वेळ. भुरग्यांक लागून तूं नोकरी सोडीनाका. भुरगीं व्हड जातकच आपल्या. विश्वांत रमतलीं. मागीर तूं कितें करतलें? आतां येवजून कांयच फायदो नासलो. नमिता मनांत चिंततालें. 'चूक कोणाची?'

मुरीडा–फातोर्डा,
गोंय.

फेब्रेर २०१०

भौमानेस्त बाकीबाब,

**खू**ब दीस जाले म्हज्या मनांत तुकां पत्रां बरोंवचीं अशें दिसलें. तूं आतां खंय आसा हाचेविशें तशें कोणाक खबर ना. पूण तूं खंयतरी आसा अशें दिसता आसल्याकारणान बरयन दिसलें. तुका बरयन दिसलें ताचें आनी एक कारण आसा. हांवें तुजो पयलो संग्रह वाचलो तो गितार. हो संग्रह पांसश्टांत आयल्लो. पांसश्टांत म्हटल्यार १९६५त. पूण हांवें काय तो पांसश्टांत वाचलो ना. हांवें तो ते वेळार गोमन्तक ह्या दैनिकांतल्यान आयल्ल्या ते संबंधांतल्या लेखनांतल्यान वाचलें. त्या लेखांत ठळकपणान जिचो उल्लेख आसलो आनी जिची याद म्हाका आजून आसा ती कविता म्हळ्यार 'चोरपावली दुपार' ही कविता म्हज्या मनांत दनपार कशीच रखरखत आसता. कारण ह्याच दनपारच्या वेळार झाडांपोनची शितळ सांवळी अणभवपाक येता. जो मनीस ह्या वतांतल्यान येता ताकाच हे सांवळेच्या संवेदनशील अंतरंगाची अनुभुती भोगूंक जमता. हांवें कुळागरांतूय अशा वेळार हे आर्दींच हे खीण अणभवल्ल्या कारणान ही कविता म्हाका पुरायपणान स्पर्शून गेल्ली. ती काळजांत अजून आसा.

बाकीबाब, आमी अशो गजाली लार्गींच्यान उलोंवच्या वेळार तुवें हांगासल्ल्यान एक्झीट घेवपाचें केल्ल्यान म्हजे मतींतल्यो कितल्योशोच गजाली तुजेकडें उलोवपाच्यो उल्ल्यो. फाटल्या काळाक पत्रां बरोवपाचीय संवय सुटलेल्यानूच हें उलोवप उल्लें. आतां कांय वांगडच्यांनीय एक्झीट घेतल्या कारणान म्हजें एक्झीट जावंचे पयलींच तुकां बरोंवचें दिसलें. आनी एक रजांव आसा ह्या बरपाक. अंदू तुकां शंबर वर्सां जातात. ते निमतान लोक आनी गोंयचें सरकार तशेंच महाराष्ट्रूय साहित्यीक कार्यावळी करतात. तुजे हे शंबरी निमतानूय तुजेकडें उलोंवचें अशें थारायलें. सद्याक गोंयांत साहित्यिक, संगीत, नाटक, करमणूक अशे कार्यक्रम गोंयभर सतत चलत आसतात. वर्तमानपत्रांतलो सुमार पंचात्तर टक्क्यां वयरूच जागो ह्याच कार्यक्रमांच्या खबरांनी भल्लेलो आसता. ते खातीर लोक काम थोडें करतात तर समारंभूच चड करतात. आसूं त्यो गजाली. आनी केन्नाय करुया. तर आयज म्हाकां तुजें 'चोरपावलीं दुपार' बद्दल उलोवपाचें आसा.



बाकीबाब, म्हाका तुजो होच संग्रह पयलो वाचपाक मेळप हातूंत एक व्हड योगायोग आसा. म्हाकां हो संग्रह म्हज्या एका इश्टान ताचे लायब्ररींतल्यान हाडून दिलो वाचपाक. वर्स आसलें १९६८. एप्रील पुराय म्हयनो हांव हो संग्रह वाचतालों. मार्चांत एस्. एस्. सीच्यो परिक्षा सोंपलेल्यो. सगळो वेळ सुटी आनी सुटयेंत कितें करप, असो प्रश्न आसलो. म्हज्या इश्टान रामा पालकर हाणें म्हाका गितार आनी रॉक कार्वालो ह्या कविचो काव्य संग्रह हाडून दिलो. रॉक कार्वालोच्या संग्रहाचें नांव याद उरूंक ना. पूण कवीचें नांव तोंडार उल्लें. हो मनीस वसयचो आनी सुंदर मराठी कविता बरयतालो. ताच्यो कांय कविता हय न्हयशो याद आसा. पूण म्हाकां हो मनीस आवडलो. चार पांच वर्सां फाटीं हांव मुंबय एका हिंदी राष्ट्रभाशेच्या कार्यक्रमाखातीर गेल्लों तेन्ना हांव नेवीच्या एका हॉस्टेलांत दोन चार दीस उल्लों. थंयचो एक रिसेप्शनीस्ट वसयचो आसलो. डाब्रे अशें ताचें आडनांव आसलें. हांव ताचेकडें उलयतां उलयतां तो वसयचो म्हण कळ्ळें आनी हांवें सहज म्हण ताका रॉक कार्वाल्योविशीं विचाल्लें. ताणें ताची वळख आसा अशें सांगलें. तो ताका केन्ना केन्नाय मेळटा अशें सांगलें. आनी कितें काय म्हटल्यार सट्ट करून ताणें फोनाचो नंबर घुंवडायलो. तो कोणाक फोन करता हें म्हाका खबर नासलें. पूण तो जेन्ना फोनार उलोवपाक लागलो तेन्ना कळ्ळें की ताणें तो फोन रॉक कार्वाल्योकूच केल्लो. आनी मागीर ताणें फोन म्हजेकडें दिलो. हांवें रॉक कार्वाल्योचें अभिनंदन केल्लें. सुमार तिसांवयर वर्सांनी हांवें ताचे कवितेखातीर ताचें अभिनंदन केल्लें. रॉक कार्वाल्योचीं उतरां जाण्टेपणाच्या भारान पिकलेलींशी जाणवल्लीं. पूण हालीं ताची कविता तशी वाचपाक मेळनासली. म्हणटकूच एक तर ताणें बरोवप थांबयल्लें आसपाची शक्यता आसली. ना जाल्यार तांचें कितेंय बरें वायट जाल्लें आसपाचीय शक्यता आसली. तशें पळोवपाक गेल्यार हांव ताका विसल्लेलोंच. पूण कांय योगायोग आसता. ते चुकनात. ताच्यो कविता वाचले उपरांत ताका मेळूंक जाय अशें सहज दिसलेलें. पूण ताका मेळपाचे प्रयत्न मात बिलकूल करूंक नासले. आयज मुंबय ही भेट अवचीत जाल्ली. फोनार. सद्याक तो कांय बरयना अशें ताणें सांगलें. हांवें ताका म्हाका वसय येवंक जाय अशें सांगलें तेन्ना ताणें म्हाका आपल्यागेर येवपाचें आमंत्रण दिलें. हांवें

मात ताका हांव कविता निर्मिती करतां हें सांगलें ना.

बाकीबाब, आसा काय ना योगायोग? पूण बाकीबाब त्या दोनूय आवडलेल्या काव्यसंग्रहांमदीं म्हाकां पिशें लायलें तें गितारान. एका म्हयन्याच्या काळांत हांवें ह्या संग्रहाचीं कितलींच पारायणां केलीं. तुमच्या उतरांतल्या गतीक लागून जें संगीत निर्माण जालां तें जिणेच्या अंतरंगांतल्यान घोळून घोळून येता आसल्या कारणान तें मनांत रोकडेंच भरता.

*चोरपावलीं दुपार पातली कुळागरीं*
*गात गोड भर्जरी स्वरांतुनी असावरी*

कविता उतरांनीं आसना ही जाणीव म्हाका तेन्ना जाली. चोर पावलीं दुपार ह्या उतरांत कांयच ना तर आसा तें दनपारच्या हालचालींत. ही हालचाल इतली ल्हवपीक आसा की हे अवस्थेची जाणीव हांवेंय जायत्या पावटीं कुळागरांत अणभवल्या. जायत्या वेळार आमच्या घरा शेजारच्या कुळागरांत दनपारच्या वेळार न्हावपाक गेलां बांयचेर. थंड. कोण्ण नासता अशा वेळार. गच्च केळी. माडयो कावथे आनी हेर झाडांच्या मदल्यान भर दनपारां वत ल्हवूच कुळागरांत देवताना हांवें पळयलां. असल्या दनपार वेळार हांव जायते पावट एकट्यानूच कुळागरांतली शांत अवस्था भोगपाक गेलां. ताका लागून ही दनपार म्हटल्यार हांवूचशें म्हाका दिसलें आनी म्हाका बरोवंक जमलें ना तें तुवें बरयलें आनी म्हाकां दिसता तें म्हज्यान बरोंव येता हाची जाणीव म्हाका जाली आनी ह्याच काळांत हांवें फूल झोकांत बरोवपाचें काम सुरू केलें. मदीं मदीं हांव वगीच तुजीं उतरां तेळटालों.

*चोर पावलांनी दनपार पावली कुळागरांत*
*गायत गोड भर्जरी असावरीच ह्या स्वरांत*

कोंकणींतली लयकारी ही मराठींतले लयकारीक लागीं. पूण लयकारेचो झेत जो



कोंकणीत पळोवंक मेळटा तो मात मराठींत मात्सो उणो दिसलो. हें लयदार संगीत मराठीक दिवपाचें काम बाकीबाब फकत तुवेंच केलां अशें म्हणपाक जाय. तुजे सारकी निनाद आसलेली उतरावळ आनी खंयच्याच मराठी कवीन तुज्या काळांत तुजेवरी कोणेंच बरयली ना अशेंच म्हणचें पडटलें.

*सांवळ्यो आळसावल्यो, पानपान तटस्थलें*
*तणांत संवणे संवणे स्वराधिरान शिरशिल्लें*

ह्यो ओळी कवितेंतल्यो हांवें कितें भाशांतर करूंक नासलें. पूण म्हज्या मनात तांचें रूपकारीत रूप येवन वयतालें. ताका लागून म्हाकां ह्यो कविता कोंकणीच दिसताल्यो. पूण ते वेळार म्हणपाची माणसुकी नासली. कारण कोणाक कितें दिसप हें सगळ्यांनीच थारोवन उडयल्लें. काळाच्या ओघांत अशी मनशांची फ्राकेजूय दिसता. मनांत आयल्ल्या विचारांक तेन्ना हांवें आवाज दिलो ना. तसो हांव कोण साहित्यिकूय नासलों ते वेळार. आनी म्हाकां साहित्यांतलें कितें तरी समजता अशेंय मानपाकूय कोणूच नासलो. बाकीबाबाची वळख नासली. ताची फकत कविताच वळखिची आसली. आनी तिची वळख सामकी केगाद आसली. आनी म्हज्या मनांत येतलें हें रुपकारीत रूप बरोबर आसा काय ना हाचोय संभ्रम म्हाकां आसलो. पूण हो रुपकार म्हज्या मनांत येंवचोच कित्याक असोय विचार एक खाशेलो धीर घेवन येतालो.

बाकीबाब, तुजे हे कवितेंतलो सगळो वाटार गोंयचो. उतरावळ गोंयची कोंकणी आनी ताचो रुपकार मराठींत, तोय बी आकर्शक अशा आकारांत. फाटलीं चाळीस बेचाळीस वर्सां तुजी कविता वाचपाचो हो अभ्यास मनाक शान्त तर दिताच पूण तेच वांगडा एक सृजनकर्तो म्हण तुज्या मनाचे सृजनावस्थेक हात लावपाचोय प्रयत्न खूब फावटीं जाता. तुज्या उतरांक एकठांय करपाच्या प्रयोगाविशीं म्हाका सदांच उत्कंठा आनी उत्कटताय जाणवता. उपरांत

आसतल्या स्वरधनाक तुमी अशे तरेन हात घालतात की त्या उतरांतलें संगीत पोंवळ जावन व्हावूंक लागता आनी एक अदभूत अनुभूती निर्माण जाता.

दनपारच्या वेळार घरांतल्यान कूस मारून सांवळ्यांचे सुवाळे करीत वचपी कुळागार तुमकां आपयता. अशा वेळार अशे सुवातेर ओडून वचपी मनशाचें मन आनी त्या मनाचें रसायण कशें आसता काय हो प्रश्न म्हाका भूल घालता. अशा वताच्या झाडार सवणीं झाडाझाडांर बसून आपापलीं गायना करतात तीं आयकुपाक म्हाकां खूब मजा येताली. आनी हे खातीर हांव दनपारां शाळेक साकून वा स्कुलाक साकून घरा येतकूच, जेवण खाण जातकूच तांबयो घेवन दोंगरार वयतालों. तांबयो घेवन वचप हें एक निमित्त आसतालें, पूण थंयच्या निस्तब्धतायेचें आनी ते निस्तब्धतायेक आकार दिवपी संवण्यांच्या गाण्यांचें कौतूक करचें तितलें थोडें. अजापांच्या आवाजांचें परिमाण दिता. हें सगळें उतरांनी धरप कठीण. जण एकल्यान हे फ्युजनावस्थेक प्रत्यक्ष जावन भिडप इतलेंच शक्य जाता. बाकी मागीर जें कितें मेळपाचें आसता तें आपाप, आपापले कालेती प्रमाण मेळत वयता. बाकीबाब तुजे कवितेन असलें जायतें कितें दिलां.

*मंत्रिती निमंत्रणे : घरास ये सहोदरा*
*पादधावना तुज्या अधीर माऊली घरा*

ह्यो ओळी म्हाकां वेगळेच माऊलीचे वेंगेंत व्हरून पायता. आमच्या सगळ्यांची एक व्हडली आवय आसा ती. तिका आमची सगळ्यांची काळजी आसता. पूण तिची अधिरताय आमचे संवेदनशीलतेक कळना. आमकां जर आमची संवेदनताय फिशाल करपाक कळ्ळी जाल्यार घडये असल्या फिशाल संवेदनाकूय भिडपाक मदत जावं येता.

बाकीबाब, सुमार चाळीस पंचेचाळीस वर्सां जालीं ही कविता वाचल्यार. तुज्या भावनांची तल्लफ ह्या उतरांनी आजून सांबाळून दवल्ल्या.

बाकीबाब खूब उलयलों. पत्रांत एक बरें आसता, आनीक कोण आसना आयकुपी. ना जाल्यार आसूं रे, कितलो उलयतलो अशें कुन्नाटकायेन म्हणपी लोक आसताच. आसूं उलोवप खूबच जालें.

आतां तूं सर्वव्यापी जाला म्हण्टकूच बरें मागून बी अशें म्हणना. हें सगळें लौकीक संकेतांतल्यान जाता. तूं तर आतां अलौकीक जाला. आमी आतां फुडल्या पत्रांत मेळटले.

सस्नेह
– रमेश भगवंत वेळुस्कार



कथा

# काळखी जीण



**मे** म्हयनो सोंपलो म्हणटकच जून म्हयनो सुरू जाता. निळ्या रंगान भरिल्लें मळब काळ्या कुपांनीं भरून येता. तेन्ना समजता पावसाक सुरवात जाता. पयल्याच पावसाच्या सरिनी सुगंधीत मातयेचो वास दरवळटा. पयल्या पावसांत भिजपाची उमळशीक नेणट्या तशीच जाणट्यांकय लागता. खूबश्या गांवांनी मातयेचो आनंद लुटचो म्हण चिखलकालोय जाता. गांवगिरे लोक अशें सांगतात की चिखलकाल्यान लोळ्ळीं जाल्यार थंडी कोणाकच जायना. खूब वर्सांची थंडी आसली लेगीत जाल्यार तीय थंडी तांची वता. माशेलांत वर्साच चिखलकालो जाता. म्हजी भयण म्हाका ह्या काल्याचो आस्वाद घेवंक वर्साच आफयता. आयज ना फाल्यां ना करून वर्सार वर्सां वतात. ह्याय वर्सा भयणीन म्हाका फोन केलो. 'ओंदू तरी येता मगो चिखलकालो पळोवंक. आयतार आयला हे फावटीं.'

खरेंच येता अशें सांगलें. हार्णीय वचया म्हणून सांगलें. आमी तिगांय कालो पळोवंक माशेलांत गेलीं. काल्याक खूबच गर्दी आशिल्ली. आमकां पावंकय वेळ जाल्लो. देखून आमका सामकें फाटीं रावचें पडलें. भुरगो मात कालो पळोवंक आवंडेतालो. म्हाका धर. कांयच दिश्टी पडना. हांवेन ताका उखलून धरलो. कितलो वेळ म्हणून उखलून धरतलें? हात सामके मोडून आयले. हांवेन ताका सकयल दवरलो मात. ताणें किळच्यांनीं रडूंक सुरवात केली. तोंडार हात धरल्यार लेगीत रडपाचो थांबना. हात पांय सामके धाडायता. "कितें जालां ताचें? कित्याक तो मोठ्यान रडटा? भूक बी लागुना मू?" म्हज्या फुड्यान उबे राविल्ले बायलेचो प्रस्न. "ना तो म्हाका उखलून धरूंक सांगता. ताका ते भुरगे चिखलान खेळटात ते पळोवंक जाय. सामको हट्टी तो." हांवेन ताचेर दोन थापटांय मारलीं. "थापट मारप हें ताचेर वखद न्हय. भुरगो तो भुरग्यानींच पळोवपाचें हें. हांव ताका हाच्या फुड्यान दवरूं?" हांवें हय म्हणचे पयलींच तिणें ताका फुडें व्हेलो. तोय चिखल कालो पळोवंक गुल्ल जालो. जावं गे बाये पडलो एकदांचो जाग्यार. तूं हुस्को करूं नाका. ते पळयतले ताका. तीय म्हज्याच म्हऱ्यांत उबी रावली. ती मर्दीमर्दी पांय उखलून तकली वयर करून भुरग्यांक पळयताली. जणूकाय तो तिजोच भुरगो! तो पळय कसो गुल्ल जाला तो. आवडलो आं ताका कालो. थंयच आमची दोगांयची वळख जाली. "तूं खंयची?" हांवेन तिका विचारलें. "हांव माशेलांतली. कुळार मात काणकोणा." तिची जाप. "काणकोणचें म्हणटमच सामकें तूं म्हजेच मगो. हांवय काणकोणचेंच." "काणकोणा खंयचें तूं? हांव पैगीणचें." "महालवाडचावयलें काय वेल्यावाड्यावयलें?" "हांव खरगाळचें." तिची जाप."खंय शिकतालें तूं?" "पयलीं हांव श्रध्दानंदान शिकतालें. फुडलें शिक्षण काणकोणा मास्तीमळार?" "हांव वाणीज्या शिकतालें हांवय वाणिज्यच." "नांव कितें गो तुजें?" "म्हजें नांव प्रिती." "प्रिती तूं म्हाका वळखूंक ना? हांव कितीं मगो."

आमी दोगांयनी एकामेकांक घट्ट मिठी मारली. वीस वर्सांत कितलो बदल जाला पळय आमच्यांत. वीस वर्सां फाटल्यो यादी म्हज्यो उजवाडल्यो. "प्रिती आमी दोगांय एकाच बांकार बसतालीं. माधवाल्या हॉटेलांत चा पियेतालीं. मास्तीमळार वयर बसून पासयो मारतालीं. जाता तुका याद? एक दीस सुध्दां तूं आयलें ना जाल्यार म्हाका आनी हांव आयलेंना जाल्यार तुका सूख लागनाशिल्लें. पारव्यांची जोडी कशीं भोंवतात म्हण आमकां म्हणटालीं. एकामेकांच्या मनांतलें दुःख सुख उक्तायतालीं. कठीणवेळार सुध्दां आमी एकामेकाक साद घालतालीं." "हय यादी जातात म्हाका." शुन्याक वचून तें पळयत म्हणटालें. "आगो पूण म्हाका सांग तूं इतलें शिरपुटें कशें जालें? फुटबॉलाच्या बॉलाचें तुजें आंग क्रिकेटीच्या बेटान गो कशें घेतलें?" हांव हासत ताका विचारतालें. "तुजी उलोवपाची पध्दत, तावकाबावकुलां करपाची पध्दत आजूनय तशीच आसा न्हय?" निर्शेल्यावरीं, जीवार उबगल्यावरी तें उलयतालें. "प्रिती हासयाळें तुजें तोंड अशें कशें गो खिन्नीत जालां? प्रिती कितें जालां तुका? घरांत सुख ना? तुजो घरकार तुका सांबाळून घेना? प्रिती आमी दोगांय इश्टीणी. सुखदुखां आनीक तूं कोणाक सांगतलें? सांग

प्रीती कितें जालां तुका? म्हाका सांग भुरगीं कितलीं तुका?'' ''एक चलो आनी एक चली.'' उतर ताचें सोपचे पयलीं पिशांवरी हांव ताका प्रस्न विचारतालें. ''प्रीती तुजो चलो कितें करता? चली कितें करता? चल्याक वर्सां कितलीं? चलयेक वर्सां कितलीं? कोणाच्याभशेन दिसतात तीं? म्हाका दाखय हांवच सांगता तुका.'' बुल्लुशिल्ल्यावरीं हांवच उलयतालें. तें मात तोंड धापून, सुस्कार सोडीत थरथरिल्ल्यावरीं दोळ्यांतल्यान थेंब गळयतालें. दोळ्यान घालपाच्या थेंबावरी. ओडणेच्या पोतान ताणें दुकां पुसपाक सुरवात केली. दोनय ताचे दोळे मावळत्या सूर्यावरी तांबडे जाल्ले. हांवेन ताच्या खांद्यार हात घालो. ''प्रीती, प्रीती अशें जालां तरी कितें गो? भुरगीं तुका आयकनांत. कितें घडलां प्रीती? तूं तुजे मोगाचे इश्टीणीक सांगचें ना?सांग प्रीती कितें जालां तुका?'' हांवे ताचे दोनय खांदे हालयले. हांवे हट्टच धरलो. ''प्रीती तुका सांगचेंच पडटलें.'' म्हज्या हट्टाक लागून जावंये आपलें दुख हळवें करपाक जावंये. ताणेन सांगपाक सुरवात केली. दोळ्यांक लायिल्लें वक्ल काडून, वक्लाचे दोळे पुसून तकली सकयल घालून तें म्हाका सांगतालें. ''किर्ती म्हजे जिणेची काणीच जाल्या गो. लग्न जावन एकच वर्स सुखान गेलें. दुसऱ्या वर्साकसून आयज मेरेन हांव हें अशेंच. किर्ती म्हाका दोन भुरगीं जाल्लीं. दोगांय अपंग आसलीं गो. चलो व्हडलो १५ वर्सांचो आनी चली तेरा वर्सांचें आसलें. पाळण्यान दवरिल्ल्यावरी दोगांय आमच्या दिसरात मांडयेर आसतालीं. दोगांयकूय बसूंक जायनासलें. उबें रावंकय जायनासलें. तोंडान उलोवंकय येनासलें. कानानी आयकूंकय येनासलें. १५व्या वर्सा उदक पियेतना चलो म्हजो उस्तुर्ते वचून घुसमटून गेलो गो. दिवो घराचो पालवलो. किर्ती हांवेन कितें करपाचें?'' घुस्मटून, फुगार जाल्लो ताचो हुंदको एकदम तोंडांतल्यान भायर पडलो. तें रडटालें. रडटां रडटां सांगतालें, ''जावंची जावन दोगांय गो अशीं कशीं जालीं? तुमी रक्त तपासूंक ना? तुमी नात्यांतलीं? एकाच रक्ताचें आसल्यार खंय अशें जावं येता. तुमी दोतोराक मेळ्ळीं नात?''

थंडपणान दोळे पुशीत हांवें ताका विचारलें. ''पयलो चलो अपंग म्हणून दुसरें भुरगें नाका म्हणपाचें हांवेन थारायलें. हाणी हट्टच धरलो. दोतोरागेर गेलीं. दोतोराक आमचो फाटलो इतिहास सांगलो. उपरांत ताणें म्हाका इंजेसांव केलें. णव म्हयने आमी दोतोरालो रस्तो झरयलो. आमकां चली जालें. आमकां दोगांकय उमेद जाली. चली जाल्यार जावं. जीण बरी जाल्यार पुरो अशें म्हळें. पयलीं दुख्ख गिळून म्हणटात तशें चलयेचो बारसो केलो. चलयेक पाळण्यांत घालें मात तेंवय पांयार पांय घालूंक लागलें. आजीमांयक हांवें सांगतकच पांयाक वाळे तिणें घालूंक सांगलें. कोणें सांगलें झाडो घालात. कोणें सांगलें दृष्टीचें उदक घालात. सांगिल्लें तें सगळें केलें. दोतोरागेर आमी ताका व्हरतालीं. घरांत सकाळचें तेल काडून वताक तर दवरतालीं. उमतें लेगीत तें पडलें ना. हासनासलें. दोळे उगडे करून लेगीत पळयनासलें. चल्याच्याच भशेन सगळी कर्तुबां. मूतप, संडास करप सगळें हातुणाचेर. नोकरी सुद्धां हांवें सोडली.'' सांगतां सांगतां रडटालें. कानशीलानी चिड्डून घेतालें म्हणटालें, ''सोसूंक जाय नासले गो ते दीस. १२ वर्सां सोंपलीं तशें तें बसूंक पळयतालें. उबेंच रावंक सोदतालें. मर्दीच मारून आयिल्ल्यावरी तोंडांतल्यान फेस काडून तकलेनच तें पडटालें. एक दीस, एक दीस किर्ती तें धिमकुऱ्यांनीं राविल्लें पळोवन म्हाका आनंद जालो. १२ वर्सांचो म्हज्या चलयेचो वनवास सोंपलो आसतलो. चली म्हजें उबें रावंक तरी सोदता. आशेचो किरण म्हज्यान उजवाडलो आनी तो उजवाड खिणभरानच पालवलो. किर्ती धाकट्या मेजाक धरून उबें रावंक पळयनाच फट्ट करून तें सकयल पडलें. जांगेचें हाड ताचें कट्ट करून मोडलें. हांवेन एकच किळांच मारली.'' तें फुडें सांगतालें. ''ताणें तोंडांतल्यान फेस काडलो. दोळे वयर वयर व्हेले. तशेंच मन घट्ट करून दोतोरागेर ताका व्हेलें. दोतोरान ऑपरेशन केलें. मुळानच तें अपंग. तातूंत ह्यो पायाक सरयो. कितलो त्रास हे कुडीक जातलो पळय. दोतोराक आमी विचारलें 'दोतोर हें अशें ताका कशें जाता?' थंडपणान सुस्कार सोडीत दोतोरान आमका सांगलें. 'हें पळय तुमीय मन घट्ट आतां करूंक जाय. तें वयार आयलां ताका तेरावें वर्स लागलां. तुमका थोडे त्रास सोसचेच पडटले.'' म्हाका धस्स जालें. ताका घेवन आमी घरा आयलीं. सालान ताका बाज्जेर न्हिदयलें आनी साडी बदलूंक लागलें मात, घम् असो आवाज जालो. हांव धावन भायर आयलें. पळय जाल्यार परत तें फिट्स येवन पडिल्लें. ह्या ह्या फावटीं किर्ती ताणें दोळे वयर व्हेल्ले ते....'' ताणें सांगच्या पयलींच म्हाका समजलें. म्हज्या खांद्यार तकली दवरून आकांतान तें रडटालें. ''देवान दिवपाचीं दिवन म्हाका असलीं गो कसलीं दिलीं? भुरगें जावूं ना म्हळ्यार उपकारतालीं. वांजूड म्हणून घेतिल्लें बरें आसलें. पूण म्हणतालें दिवो विजवलो तो विजवलो. पणती गो ती कित्याक पेटली ना?'' ताच्या प्रस्नाक म्हजेकडेन जाप नासली. फूल फुलच्या पयलींच रोप उमटल्लें. खिन्न जावन तें पळयतालें. आमच्या म्हऱ्यांत कोणच नासलो. कालो सोपून लोक केन्नाच घरा पाविल्ले. भुरगो म्हजो त्या चिखलांत लोळटालो. ताचो घरकार म्हज्या घरकाराक वेंग मारून म्हणटालो, ''तूं तरी सांग जीवन हांवें कशें जगचें? आमी दोगांय निराधार.'' पॅण्टींतल्या बोल्सांत हात घालून तुवालो काडून तोय तोंड पुसतालो. म्हजो भुरगो धांवत आयलो. ताणें ताका वेंग मारली. ''काका कालो सोपलो?'' ''हय बाबुल्या कालोच न्हय तर म्हज्या फुडलो उजवाडय सोंपलो. उरल्यात त्यो काळख्यो राती.''

– भारती कुंकळेंकार
देऊळमळ-शिरवय,
केपें-गोंय.

उजवात

# मनीसपण



सकाळचो धांचो सुमार. सदांभशेन हांव आपलें म्हज्या अभ्यासांत मग्न आशिल्लें. इतल्यान म्हजो मोबायल वाजलो. विक्रमाचो फोन. विक्रम हें म्हज्या एका आमीगाचें नांव. ताचेकडेन उलयतां उलयतां ताणें म्हाका विचारलें की म्हाका सुबोधान फोन केल्लो काय म्हणून. ताणें म्हाका सांगलें की सुबोधान ताका आज सकाळींच फोन केल्लो आनी नेहा खंय रे, आमी मेळया मरे अशें म्हणटालो खंय. आतां हो सुबोध कोण? असो तुमच्या मनांत प्रस्न आयला आसतलो. तोय बी म्हजो आनी विक्रमाचो खूब लागचो आमीग. आतां विक्रमान म्हाका सांगलें की सुबोध म्हाका विचारतालो,म्हणून हांवें ताचो मोबायल नंबर धुंवडावन ताका एक मिस्ड कॉल दिवन फोन दवरलो. आमची ती सदचीच स्टाईल. एक रींग दिवप आनी ओग्गी रावप.

बऱ्या एक वर भरांत सुमार, सुबोध कॉलींग अशें मोबाईलाचेर येवपाक लागलें. मनांत हांवें म्हळें, ह्या सुबोधाक हांवें रींग दिवनदवरतगीर म्हाका फोन करपाची याद जाली, ना जाल्यार करचो नाशिल्लो दिसता.

''हॅलो!'' हांवें म्हळें. फुडल्यान जाप आयलें ''हॅलो! कोण नेहा उलयता?'' हांव आयकूंकच उरलें. म्हाका कांयच कळ्ळें ना. हें आनी कितें? फोन तर म्हज्या आमीगाचो, पूण आवाज एका जाणट्या मनशाचो सो कसो? अशें हांव चित्ता आसतना कॉल कट जालो. हांवें एक-दोन मिनटां विचारांत काडलीं आनी परत हांव म्हज्या अभ्यासांत गूंग जालें. थोड्या वेळान परत सुबोधाचो फोन. हांवें उखललो जाल्यार परत तशेंच ''कोण गो, नेहा उलयता?'' आतां म्हाका मात्सो दुबाव मारलो आनी हांवें हासत म्हळें, ''हय रे सुबोध.'' इतलें म्हणपाक परत कॉल कट जालो. हांवें मनांतल्या मनांत म्हळें ह्या सुबोधाची मस्करी करपाची संवय केन्नाच वचपाची ना. होच आपलो आवाज बदलून म्हजी मजा पळयता आसतलो.

खरेंतर सुबोध हो सदांच सामको हासपी. खेळपी उमेदीचो तरनाटो. ताचीं फकणा कायम चालूच आसता. केन्नाच ताका दुःखी वा टेंशनान पळयल्लो म्हाका तरी याद ना. आनी तशें आसत, जाल्यार लेगीत तें तो कोणाक दाखोंवचो ना. आपलें दुःख विसरून तो सदांच दुसऱ्यांक खूश करपाचो विचार पयलीं करतालो. आनी ह्याच ताच्या स्वभावाखातीर तो सगल्यांचोच सामको मोगाचो. सुबोध जर कोणा एका मनशाबरोबर आसत, जाल्यार तो मनीस खूब हासल्या बगर रावपाक शकचोना, असो हो.

दनपारचें पावणे एक जाल्लें. हांव आपले भुकेपोटार पप्पा घरा येवपाची वाट पळयतालें. इतल्यान म्हजो मोबायल वाजलो. म्हाका दिसलें पप्पाच आसतलो. कित्याक तर ताची एक संवय.... चडसो पावणे एकाक, वा एकाक बी फोन करप आनी म्हणप, ''तुका जाय जाल्यार तूं जेव गो म्हाका येवपाक उशीर जातलो.'' मम्मी काय दनपरां जेवपाक घरा नासता, म्हणटगीर हांव सदांच पप्पाक जेवपाक रावतां, ही म्हजी संवय... जावं! पूण फोन पप्पाचो न्हय. पळयल्यार सुबोधाचो!

आतां मात म्हाका खरोच राग आयलो. फोन करप आनी आवाज बदलून नेहा उलयता काय म्हणून विचारप आनी फोन दवरप, हाचो म्हाका राग. पूण ह्या फावटी इल्लें वेगळेंच जालें, ''हॅलो नेहा, आगो हो फोन सारको ना दिसता, परत परत बंद पडटा.'' हांवें रागा रागांत म्हळें, ''सुबोध आतां फकणा पुरो.''

''कोण सुबोध? हांव जय, जयबाब उलयतां...''

''जयबाब? कोण जयबाब?'' हांवें विचारलें. ''तूं नेहाच मगो?'' अशें आयकतगीर हांवें अजापानूच शें उत्तर दिलें, ''हय. हांव नेहाच, पूण तुमी कोण? कोण जयबाब हांव ओळखूंक ना. कितें जालां?''

''बाय, तूं म्हाका ओळखुचेंच ना. पूण म्हाका एक सांग, ज्या नंबरावेल्यान हांवें तुका फोन केला, तो नंबर कोणालो? तूं वदळ कोण सुबोध म्हणून नांव घेतालें, तागेलो? कित्याक तर म्हाका हो फोन एकेकडे रस्त्याचे कडेक पडिल्लो मेळ्ळो.'' अशें सांगतकीर पयलीं म्हाका पटलेंच ना. पूण मागीर चिंतलें की

सुबोध इतलो वेळ फकणा करचोना आशिल्लो. एक दोनदां करून मागीर खरें कितें तें सांगतलो आशिल्लो. सुबोधाचो मोबाईल खरोच शेणला सो दिसता, आनी तो कोण एका जयबाबाक मेळला ''हॅलो नेहा आयकता मगो तूं?'' अशें म्हणून ताणीं आपलो नंबर म्हाका दिलो आनी म्हाका सांगलें की जाचो हो फोन, ताका आपलेकडल्यान व्हरपाक सांग. इतलें उलोवन ताणी फोन दवरलो.

आतां हांव खऱ्यानीच विचारांत पडलें की अशें जर खरेंच आसा जाल्यार हांव सुबोधाक कशें कळोवं? ताच्या घरच्यांक कळोवया, अशें चितून हांवें ताच्या घरचो फोन लायलो. कितल्या वेळा फोन वाजयलो पूण घरचो फोन कोणूच उखलनांत. आनी ताच्या आवय बापायलो मोबाईल नंबर तर म्हाका खबरना. म्हजेर आतां टेंशन येवपाक लागलें. घरा तर कोण फोन घेना, सुबोधाचो मोबाइल रस्त्यार सापडला... कांय जावंक तर ना मू? अशे एक एक विचार करता आसतना म्हज्या मनांत आयलें की हावेंच वचून हाडिल्लो बरो. पूण तरी म्हज्या जिवाक सुशेग ना. हो फोन करपी कोण बरो मनीस नासून कोणी रस्ताद वा मवाली बी आसलो जाल्यार... अशे विचार म्हज्या मनांत घोळपाक लागले. तरी हांवें तांच्या नंबरार फोन करून तांका तांचो नामो विचारलो आनी ताणी आपल्या घरचो नामो सांगलो. नामो मेळतगीर हांवें विक्रमाक फोन केलो आनी ताका सगली गजाल सांगली आनी विचारलें की तोच वोचून तो फोन हाडपाक शक्ता काय म्हणून. तेन्ना ताणें म्हाका सांगलें की तो एका कामा निमतान मडगांव पावला आनी ताका लागून ताका तें शक्य जावचेंना.

आतां तर म्हाका आनी कांय मार्ग सुचना जालो. म्हणटगीर हांवें म्हज्या पप्पाक फोनार कळयलें आनी ताकाच विचारलें की हांवें कितें करप? तर ताणीं म्हळें, ''भिवपाची कांयच गरज ना. तूं वचून सुबोधाचो मोबायल घेवन यो.'' अशे बापायचे शब्द कानार पडतगीर म्हाका खूब धीर मेळ्ळो. आनी हांवें जयबाबाक फोन करून कळयलें की हांवूच फोन व्हरपाक येतां; आनी त्याप्रमाणे एक पंदरा मिनटान ताणी दिल्ल्या नाम्याचेर हांव पावलें.

ताणीं आपल्या बिल्डींगेचें नांव सांगून म्हणिल्लें की ते पयल्या मजल्यार रावतात. जेन्ना हांव तांच्या बिल्डिंगे सकयल पावलें, तेन्ना म्हजी नदर पयल्या मजल्याच्या गॅलरीकडे गेली. तेन्ना म्हाका एक जाणटीं घोव-बायल गॅलरींत उबीं दिश्टी पडलीं. तांका पळयतगीर जसो म्हाका अंदाज आयलो की हेच जयबाब आसूंक जाय, तसोच तांकाय म्हाका पळोवन अंदाज आयलो आसतलो की हांवूच नेहा आसतलें. तांचे घरकान्नीन म्हाका मोगान उलो मारून विचारलें, ''तूंच नेहा?'' हांवें म्हळें, ''हय'' ''यो यो, वयर यो!''

हांव वयर गेलें. तर म्हज्या खातीर घराचें दार उगडेंच दवरिल्लें. जयबाब आनी ताचे घरकान्नीन म्हजें स्वागत केलें. मागीर ताणी आपली आनी आपल्या बायलेची ओळख करून दिली. आनी आमच्या खबऱ्यांक सुरवात जाली. ताणीं म्हाका सांगलें कीं ते खरेंतर आपल्या पायांक जखम जाल्या म्हणून दोतोराक दाखोवपाक गेल्ले. आनी थंयच्यान घरा वतना तांकां हो मोबायल रस्त्याचे कडेक पडिल्लो दिसलो. ताणी तो काडलो आनी आपल्या घरा घेवन आयले. घरा येतकर, हांवें सकाळीं जो सुबोधाक म्हणून फोन लावून एक रींग दिवून दवरिल्लो, तो मिस्ड कॉल ताणीं पळयलो आनी म्हजो नंबर घुंवडायलो. हें सगळें सांगता आसतना जयबाबाली बायल भितर गेली आनी म्हज्याखातीर दोन नेवऱ्यो आनी कपभर उदक घेवन आयली. पयलीं हांवें खावपाक नकार दिलो, पूण तिजो मोग मयपास पळोवन म्हाका खायना आसतना रावपाक जालेंना. ताणीं म्हाका अजीबात परकी समजूंक दिलेंना. खातां खातां हांवें जयबाबाक म्हळें, ''जयबाब, तुमी खरेंच महान. आज कालच्या काळान जेन्ना कोणाक कोणाचें पडिल्लें नासता, आनी तुमी मुद्दम फोन घरा घेवन येवन, म्हाका फोन लावन कळयलें आनी मोबाईल जाचो ताका दिवपाचें चितलें. तुमच्या जाग्यार जर कोणी आयच्या पिढीचो तरनाटो आशिल्लो जाल्यार, एक बरो मोबाईल मेळ्ळो म्हणून आपल्याकच दवरपाचो. केन्नाच परत दिवपाबद्दल चितचो नाशिल्लो.''

''आगो आमी पोर्तुगेज टायमावेले. आमकां आमच्या आवय बापायन केन्नाच दुसऱ्यांची वस्त आपल्याक दवरपाक शिकोवंना. ती मागीर केदीय व्हडली आसूं. ह्या मोबायलाचें कितें घेवन बसलां? तूं भुरगें. सदांच एक याद धर. तुमी आजकालची पिढी रोखडीच भुल्लूसता, आनी मनीसपण घालोवन बसतात. मनशान जर मनीसपणूच घालयलें जाल्यार तो मनीस खंय उरलो? जनावरान आनी मनशान मनीसपणाचोच फरक. तूं मात मनीसच जा हां!''

तांचीं तीं उतरां आयकून, म्हाका म्हज्या आज्याची याद आयली. तोय सदांच अशेंच म्हणटालो. मागीर हांवें तांचे आभार मानले आनी येवपाक भायर सरलें.

घरा येतना म्हाका एका अनोळखी नंबरा वेल्यान मॅसेज आयली, 'हांव सुबोध, म्हजो मोबाईल शेणला.' ती वाचून हांवें ताका त्याच नंबरार फोन केलो आनी सांगलें की ताचो मोबाईल म्हजेकडेन आसा; जाल्यार ताणें म्हाका अजापान विचारलें, ''तुजेकडेन कसो पावलो?''

हांवें म्हळें, ''वह एक लंबी कहानी है, तूं घरा यो.''

तो घरा येतगीर हांवें ताका सगळें सांगलें. तें आयकून ताणें, ''थॅन्क यू!'' म्हणून म्हजे आभार मानले. हांवें म्हळें, ''म्हजे आभार मानू नाका, बोलो जयबाब की जय...!!''



– नेहा मोहन तेलंग
कांपाल – गोंय.

फोटोदर्शन




बिम्ब प्रकाशनान उजवाडाक हाडिल्ल्या श्रीमती सुधा खरंगटे हांच्या काणी एका सुण्याची ह्या पुस्तकाचें विमोचन करतना नामनेचे गीतकार आनी पत्रकार ॲड. उदय भेंब्रे, साहित्यकार दामोदर मावजो, दिलीप बोरकार, रजनी भेंब्रे, लेखिका सुधा खरंगटे आनी कोंकणी भाशा मंडळाच्या साहित्य उपासना विभागाच्यो मुखेली दीपा मुरकुंडे.

---



बिम्ब प्रकाशनाच्या पुस्तक प्रकाशन सुवाळ्यांत तेजश्री प्रभु गांवकार आनी सुफला प्रभु शेळकार हांच्या पुस्तकांचें विमोचन करतना कला अकादमीचे सदस्य सचिव आनी लेखक डॉ. पांडुरंग फळदेसाय. वांगडा नागेश करमली, शांता लागू आनी दिलीप बोरकार.




सुफला ना. प्रभु शेळकार हांचो आरके गे घुरके हो कविता संग्रह.

एके बायल मनशेचे जिणेंत तिचे जल्मासावन जीं कितें सुख दुख्खां येतात तीं सगळीं ह्या पुस्तकांत कवितेच्या रुपान आयल्यांत. शंबर पानांच्या ह्या पुस्तकांत साठ कविता आसात. पुस्तकाक दिलीप बोरकार हांची प्रस्तावना तर गिरीश बोरकार हांचें सुबक मुखचित्र आसा.

सुफला शेळकार हांच्यो ह्यो कविता अस्तुरेच्यो मनोभावना अचळयपणान उसयत येतात. पुस्तकाचें मोल १०० रुपया. प्रकाशन : बिम्ब प्रकाशन, आगशी, गोंय.

सुफला ना. प्रभु शेळकार हांचें आनीक एक पुस्तक म्हळयार पंचारत हो एकांकी संग्रह. सुफलाक भुरगेपणासावन एकांकिका, नाटक हातूंत भुमिका करपाची आवड. तेच आवडिंतल्यान आनी ओडिंतल्यान ताणीं ज्यो एकांकिका आनी नभोनाट्यां बरयल्लीं तांचो पंचारत हो संग्रह.

ह्या संग्रहांत पांच एकांकिका आसात. शाळा कॉलेजिनीं मंचित करपा सारक्यो ह्यो एकांकी जावन आसात. वखद, एक ना धड, जमाना बदल गया, जाण आनी पारध अश्या सत्तर पानांच्या ह्या पुस्तकाक चित्रकार गिरीश बोरकार हाणीं समर्पक मुखपृष्ठ तयार केलां. प्रकाशन जावन आसा : बिम्ब प्रकाशन, आगशी.







तेजश्री गोपाळ प्रभू गावकार हांचो सांवळी सांज हो कोंकणी काव्य संग्रह. तेजश्रीबाय ह्यो शिक्षिका. भुरगेंपण ते निवृत्ती मेरेनच्या जिवितांत तेजश्रीबायन जें पळयलें, अणभवलें, घर संवसारी जिवितांत ती जे तरेन रमली जे, खोसदिणे खीण तिच्या वाट्याक आयले ताच्यो कविता जाल्यो अशें ह्या पुस्तकाची प्रस्तावना बरयतना ज्येश्ठ कवी नागेश करमली म्हणटात. बिम्ब प्रकाशनान उजवाडाक हाडिल्ल्या ११४ पानांच्या ह्या पुस्तकांत ३९ कविता आसात. पुस्तकाक चित्रकार गिरीश बोरकार हांचें सुबक मुखपृष्ठ आसा. पुस्तकाचें मोल १०० रुपया जावन आसा.

तेजश्री गोपाळ प्रभू गावकार हांचो आनीक एक कविता संग्रह उजवाडाक आयला आनी बिम्ब प्रकाशनान प्रसिध्द केला तो म्हळयार बोलके ठसे. हो मराठी काव्यसंग्रह. सांवळी सांज ह्या कोंकणी काव्यसंग्रहांत जश्यो जिवितांतल्यो भाव भावना घेवन कविता आयल्यात तश्योच कविता ह्या संग्रहांत आसात. ११२ पानांच्या ह्या पुस्तकांत ७१ कविता आसात. ह्या काव्यसंग्रहाक दिलीप बोरकार हाणीं प्रस्तावना बरयल्या. चित्रकार गिरीश बोरकार हांचें समर्पक मुखपृष्ठ संग्रहाक सोबून दिसता. पुस्तकाचें मोल जावन आसा १०० रुपया.





## जित्या सुंगटां फोण्णां हुमण

**साहित्य :** धाकटी वाटी मोटीं सुंगटां, ११/२ वाटी सोय, १ व्हडलें कुलेर मिरसांगे पिठो, धाकटें कुलेर हळदी पिठो, अदमासान आमटाण, १०-१५ मिरयां, २ मध्यम कांदे, इल्लो हींग, २-३ व्हडलीं कुलेरां खोबरेल तेल, अदमासान मीठ.

**करपाची तरा :** सोय, मिरसांगे पिठो, हळदी पिठो, मिरयां, आमटाण, हींग बारीक वाटात. कांदो बारीक शिनून तेलांत तळशियात. तातूंत मोठीं सुंगटां तळशियात. १ वाटी उदक घालून दोन कुलेरां वाटप घालून १० मिनटां शिजयात. मागीर तातूंत वाटप आनी मीठ घालात. तशेंच अदमासान उदक घालून ५ मिनटां बरो खतखतो काडात. बारीक उज्यार आसतनाच वयर बारीक चिरून अर्दवाटी कोथंबिरे पालो (जाय जाल्यार) चिरून घाल्यार वास घमघमीत येता.

## मोठ्या सुंगटां हुड्डमेथी

**साहित्य :** १ वाटी मोठीं उजरायिल्लीं सुंगटां. २१/२ वाटयो सोय, ५-६ कांदे, १०-१२ सुकी मिरसांग, १ कुलेर हळदी पिठो, २५-३० मिरयां, ५-६ कुलेरां तेल, अदमासान आमटाण, २ व्हडलीं कुलेरां तांदूळ, २ व्हडलीं कुलेरां हुड्डा दाळ, १ धाकटें पावकुलेर मेथी, अदमासान मीठ.

**करपाची तरा :** तेल तापोवन मिरयां, मेथी फुलोवन घेयात. त्याच तेलांत तांदूळ तांबूस करून घेयात. तातूंतच हुड्डां दाळ भाजून घेयात. २ कांदे चिरून तेलांत भाजात. तातूंतच सोय भाजून घेयात. तांदूळ, उड्डांदाळ मोठीच वाटात. मिरयां, मेथी बारीक वाटात. सोय, कांदो, हळद, मिरसांग, आमटाण मोठीशी वाटात. उरिल्लो कांदो बारीक चिरून तेलांत तळशियात. तातूंत सुंगटां आनी ११/२ वाटी उदक घालून १० मिनटां शिजयात. मागीर अदमासान उदक घालून सोयेचें वाटप, मिरयां, मेथयेचें वाटप घालून खतखतो येयसर शिजयात. खतखत्यांत हुडीद, तांदळांचें मोठें वाटप, मीठ घालून ५-६ मिनटां शिजयात.

## पोळवाचें सुंगटां सुकें

**साहित्य :** १ वाटी मोठीं सुंगटां, २ कुलेरां मिर्ची पूड, अदमासान मीठ आनीक आमटाण, २ कांदे मध्यम, अर्दवाटी सोय, १ कुलेर हळदीपूड, ५-७ सोलां.

**करपाची तरा :** कांदो बारीक चिरून सुंगटां बरोबर १ वाटी उदकांत शिजयात. सोय मिरसांग, हळदपूड बारीक वाटून अदमासान उदक घेवन वाटपावांगडा घालात. सुंगटां शिजतगीर तातूंत सोलां उडयात. मंद उज्यार १० मिनटां शिजयात.

## सुंगटांचें लोणचें

**साहित्य :** १ वाटी सुंगटां, ४ कुलेरां व्हडल्या मिरसांगे पिठो, १ धाकटें कुलेर हळी पिठो, १ धाकटें कुलेर सासवां, ४ व्हडलीं कुलेरां कुवळायिल्ली आमटाण, धाकटें पाव कुलेर मेथी, ५-६ कुलेरां तेल, अर्दवाटी लिंबारोस, ४ चिमूट शंकरछाप हिंगा पावडर. मीठ.

**करपाची तरा :** तेल तापोवन सासवां घालून पुटपुटलीं की मेथी घालून तळशियात. हळदीपिठो मीठ लावन सुंगटां अर्दवर मुरूंक दवरात. तेलांत हींग तळसून वेगळो काडात. थोडें तेल कायलींत घालून सुंगटां तळून घेयात. सांसवां, मेथी, हींग, मिरसांगे पिठो, हळद, मीठ, आमटाण आनी लिंबूरोस वाटून घेयात. दाटशें वाटात. तातूंत सुंगटां घालात आनी ५-१० मिनटां शिजयात. थंड जातगीर बाटलेंत भरून फ्रिजांत दवरात. जाय तितलेंच जाय तेन्ना वाटयेंत काडून तश्यातशें फ्रिजांत दवरल्यार वीस तीस दीस हें लोणचें तिगता.

## वागयां धबधबीत

**साहित्य :** १५-२० वागयो, २ कुलेरां मिरसांगे पिठो, अदमासान मीठ आनीक आमटाण, ७ ते ८ सोलां, १ वाटी सोय, १ व्हडलें कुलेर हळद पिठो, ४ मध्यम कांदे.

**करपाची तरा :** प्रत्येक वागी मदल्यान उबी चिरून घेवच्यो (वागयो आडव्यो केन्नाच चिरच्यो न्हय) कांदो बारीक चिरून २ वाटी उदकांत वागयांवांगडा शिजयात. सोय, हळदी पिठो, मिरसांगे पिठो, आमटाण बारीक वाटात आनीक कांदो शिजतगीर घालात. आनीक देड वाटी उदक घालून २० मिनटां शिजयात. बरो खतखतो येतगीर सोलां घालून गॅस बंद करात.



– सुफला रुद्राजी गायतोंडे
मिरामार-पणजे
फोन : ९८२३१११९१७

पर्यटन

# डायरी - ए - कश्मीर



'एका तळ्याच्या तळाक' म्हूण म्हजी एक एकांकी आसा. आकाशवाणी सर्ती खातीर बरयिल्लें नभोनाट्य तें. ताका अखिल भारतीय नभोनाट्य सर्तीत दुसरें इनामूय फाव जाल्लें.

ह्या नभोनाट्यांत एक घराबो परंपरागत एका तळयाची राखण करीत आसता. घराब्याचें पुराय कर्तूब ह्या तळ्याची राखण करूंक सरता. पूण नवे पिळगेचो त्याच घराब्यांतलो तरनाटो शिक्षण घेवन मुकार सरता. त्या तळ्यांत सांगोड भोंवचे आदीं कोणेंय पेंवपाक उडी मारल्यार ताका पातक लागता. तो ती तळी भश्टयता अशी थंय एक वदंता आसता. जाणीं जाणीं तसो प्रयत्न केला ते त्या तळ्यांत बुडून सोंपल्यात. देखून कोण त्या विखाची परिक्षा घेवंक वचना.

नवे पिळगेचो प्रतिनिधी हें मानूक तयार ना. ताका आपलें आयुश्य ह्या तळ्याची राखण करपाक घालोवपाचें नासता. ताका खबर आसता की ह्या तळ्यांत शेळो वाडला, वाली वाडल्यात. थंय सांगोड भोंवडायलो म्हणटकच त्यो वाली तुट्टाल्यो. तळें मेकळें जातालें आनी मागीर कोणूय त्या तळ्यांत देंवल्यार, पेंवल्यार तळ्यांतले वालींक घुस्पून बुडनाशिल्लो.

दल सरोवरांत भोंवतना म्हाका म्हज्याच नभोनाट्याची याद जाली. ह्या दल सरोवरांत दर दिसा कितले तरी सांगोड फिरतात. हय, शिकारे आनी वॉटर स्कुटरी आसल्यो तरी थंयच्या त्या पर्यटन वातावरणांत ते सांगोडूच.

गोंयच्या देंवळालागच्या तळ्यांनी, वो तळयनी जात्रे उत्सवांत वर्सांतल्यान एकदां सांगोड नाचता. लोक धुंद जावन ह्या उत्सवांत नाचतात. पूण हांगा तर दर दिसा पर्यटक, धुंदीत नाचत आसतात. तरीपूण ह्या सरोवरांत शेळो आनी वाली सामक्यो दाटायेन पसरिल्ल्यो पळोवंक मेळटात. उदक इतलें पारदर्शक आनी नितळ की तळ दिसूंक कठीण न्हय. पूण एक प्रकारचें शेवाळ आनी वाली त्या संबंद जलाशयांत दाटायेन पसरिल्ल्यो. पुराय जलाशय त्या शेळयान इबाडून उडयिल्लो.

कांय कडेन तो शेवाळ काडपाचें काम चलतालें. कांय शेतकार शिकाऱ्याचेर उबे रावन तो शेळो काडटाले. हो शेळो सुकोवन ताची पूड कशी करतात. मागीर ताचो सारें कसो वापर पिकावळीक करतात खंय. खूब सशक्त अशें खत खंय ह्या शेवाळ्याचें.

हें सरोवर हो शेवाळ काडून साफ जर करतलो जाल्यार एक अभियानूच चलोवचें पडटलें. शेवाळ काडूंक खर्च येतलो तो कोट्यांनी रुपयांचेर पावूं येता खंय! बरें, थोडो काडलो शेवाळ जाल्यार परतून तो वाडटाच. म्हणटकच अभियान सुरू करतलो जाल्यार तें संपूर्ण यशस्वी जातलें हे नदरेनूच राबोवचें पडटलें. थोडें काम करून पयशे सोंपले म्हणपांत अर्थ ना. शेवाळ रोखडेंच आसा त्याच स्तरार येतलें. काडिनासतना रावलें जाल्यार एक दीस असो येतलो की पुराय दल सरोवर ह्या शेवाळाच्या भकीक पडटलें.

दल सरोवर हें श्रीनगरचें एक खाशेलेपण. ह्या सरोवराचेर श्रीनगरच्या भोवतेक लोकांचो संवसार निंबून आसा. दल सरोवरांतलें नुस्तें, साळकाची मुळां जाका ते लोक कमलककडी म्हणटात, वनस्पत आनी उफेवपी शेतां हीं ह्या लोकांचो आदार. ह्या सरोवराक जर ह्या शेवाळान गुठलायलो जाल्यार श्रीनगरांतले लोक एक दीस उबंत पडटले.

श्रीनगर हे जरी श्री चें नगर आसलें तरी थंय हीं असलीं आरिश्टा पायलेक पंचवीस. असल्या अरिश्टांचेर मात करूनच तर कश्मीर हें तगलां.

सम्राट अवंतीवर्मन हाणें ख्रिस्ता आदी ८५५ ते ८८३ ह्या काळांत ह्या कश्मीरचेर राज्य केलें. ताचे राजवटींत त्या काळार हांगा कश्मीरी लोक सुखान नंदताले. तांचें जिवित सुखी आनी समृद्ध अशें आशिल्लें. तो काळ म्हळ्यार कश्मीरचें खोरें हें पवित्र, समृद्ध, शांतीकायेन नंदपी भूंय म्हूण नामनेक पाविल्लें. सम्राट अवंतीवर्मन हो प्रजेचें सूख हेंच आपलें सूख मानतालो आनी त्याच ध्येयान तो राज्य करतालो.

पूण सैमीक अवर्शणां हीं कश्मीरचे पांचवेकूच पुजिल्लीं. ह्या अवर्शणांक लागून शेतीचें खूब लुकसाण जातालें. बुडटी येवन हांगचीं शेतां बुडटालीं. बुडटेक लागून मनशांक मरण येवप ही तर नित्याची बाब जाल्ली. ह्या अवर्शणाचेर तात्पुरती उपाय येवजण राबोवन लोक थकून गेल्ले.

सम्राट अवंतीवर्मनाच्या दरबारांत सुय्या म्हूण एक अभियंता आशिल्लो. जाका धतरिवेलो सर्ग म्हणूं येता अश्या ह्या कश्मीरांत एक सारकी बुडटी कित्यात येता हाचो सोद घेवपाक ताणें आरंब केलो. बारकायेन सर्वय अभ्यास करतकच ताका एक गजाल लक्षांत आयली.

दोंगराचीं खडपां, दोंगर कोसळून सकयल

येतात आनी न्हंयेंत पडटात. ह्या व्हडल्या व्हडल्या खडपांक लागून आनी फातरांक लागून न्हंयो व्हावपाच्यो बंद जातात आनी तुंबलेलें न्हंयांचें उदक तडी हुपून गांवांनी घुसता. जर हे फातर, गुणे, गाळ काडलो जाल्यार न्हंयो व्हावपाक मेकळ्यो जातल्यो. पावसाचें उदक साचून उरपाचें ना.

सुय्यान वितस्ता न्हंयचें सर्वेक्षण केलें. बऱ्याच सुवातांनी हीं आडमेळी आसात म्हणपाचें ताच्या लक्षांत आयलें. हांगा जर साफसफाई केली जाल्यार हे न्हंयत उदक आडावन उरचें ना आनी बुडटेचो धोको सासणाचो पयस जातलो म्हणपाचें ताणें पारखिलें.

वितस्ता न्हंयचें पात्र तर साफ करूंक जाय. पूण काम खर्चाचें. हांगा कितेंय करतलो जाल्यार बुद्धीन करचें पडटलें. ताका एक आयडिया सुचली. सुय्यान सम्राट अवंतीवर्मनाकडल्यान राजकोशांतल्यो कांय मुद्रा घेतल्यो. कश्मीरच्या लोकांक साक्षी दवरून त्यो सगळ्यो सुवर्णमुद्रा वितस्ता न्हंयेत जंय खडपां, फातर बी आशिल्ले थंय शेवटिल्यो.

न्हंयच्या पात्रांत ह्यो सुवर्णमुद्रा मोखपाचें काम चलतालें तेन्ना न्हंयचे देगेर साबार लोकांची गर्दी आशिल्ली. तांच्या मनांत ह्या मुद्रांची आस जागली. धनाचे आशेन हे शेकड्यांनी लोक वितस्ता न्हंयेत देऊन मुद्रा सोदूंक लागले. त्यो सोदूंक न्हंयचो गाळ उसपूंक लागले. फातर-खडपां कुशीक काडूंक लागले. हाका लागून पावसाचें उदक जें तुंबून उरतालें तें फसफसून व्हावन वचूंक लाबलें. सुय्यान लोकशक्तीचो वापर करून पात्रांतली आडखळ पयस केली. उपरांत न्हंयचे देगेर घाट बांदून न्हंयच्यो देगो घटमूठ केल्यो.

दल सरोवर जर शेवाळ्यांतल्यान मुक्त करतलो जाल्यार थंय आयज एक सुय्या तयार जावंचो पडटलो. पूण राजकोशांतल्यो मुद्रा वापरून लोकशक्ती जागोवपी सुय्या आयज खंय मेळटले? राजकोशांतल्यो मुद्रा न्हंयचे पात्रांत न्हय तर त्यो लाटपाक आपूणच पात्र अशें समजुपी खवय्यांच्या राज्यांत सुय्या सोदप म्हळ्यार दल सरोवराच्या त्या शेवाळ्यांत सूय सोदपा इतलेंच आयज कठीण जालां.

शिकाऱ्याचो रूट थरिल्लोच आशिल्लो. हे वटेन वच, हांगच्यान थंय व्हर अशें सांगपाक आमकां थंयची विशेश म्हायती नाशिल्ली. आमी ज्या उदकांतल्यान सैर करतात तें दल सरोवर आनी मुखार दिसतात त्यो हाऊस बोटी इतलेंच आमचें ते भोंवडेंतलें गिन्यान. पूण खंय वचप, कशें वचप, कितलो वेळ भोंवप, कितें पळोवप हें सगळें शिकारोवालो थारायतलो आशिल्लो. ताचे सदचे स्पॉट आसात तेच तो दाखोवपाचो, तें सोडून आनीक कितें नविदाद दाखयतलो म्हळ्यार तसो स्कोपूय ताका नाशिल्लो.

दल सरोवर आनी कश्मीरचीं हेर पर्यटन थळां आनी हेर कडलीं थळां वेगळीं आसात. पूण तीं दाखोवपी गायड आसतात तांची मनोवृत्ती सगळेकडेन एकूच. अमक्या वेळाभितर अमक्यो सुवातो दाखोवप. अमक्या दुडवांचो कंत्राट आसा त्या कंत्राटा भितर फटाफट सगळें दाखयलें की तो पयशे घेवंक मेकळो.

पर्यटकान कितें पळयलें, ताका कितें आवडलें वो ताची आवड कितें हें जाणून घेवपाची ताका गरजूच नाशिल्ली. आमचे सारके पर्यटक दिसाक कितले येतात आनी वतात. आपल्या ह्या वेवसायांत ताणें आमचे सारके कितलेच पर्यटक पळयल्ले आनी तांची भोंवडी करून हाडिल्ली.

तातूंत लेखकूय आसूं येतात, चित्रकारूय आसूं येतात आनी व्हड व्हड उद्योजकूय आनी वेगवेगळ्या वेवसायांतले लोक आसूं येतात. पूण बाबड्या शिकाऱ्यावाल्याक तांचेकडेन कांयच देणेघेणे नासता. ताचें घेणें फकत जितल्या दामाक कंत्राट केला तितलेंच दाम. पर्यटकान खूश जावन वेल्यान कांय सोडलें जाल्यार गजाल वेगळी.

पूण हो शिकारेवालो मातसो चडूच उमेदी आशिल्लो. आशिल्लो काय दाखयतालो हें कळपाक मार्ग नाशिल्लो. पूण तो त्या दलांत आनी सरभोंवतणी चित्रिकरण केल्ल्या चित्रपटांतलीं प्रसिद्ध गितां आपल्या भसाड्या आनी कर्कश आवाजांत गायतालो. ते सुंदर भोंवडेंत तागेलो तो कर्कश आवाज म्हजी तकली उसळयतालो.

दल सरोवरांतली भोंवडी कशी संथ आनी थंडसाणेन जावंक जाय. ती करतना शिकाऱ्यावाल्यान मारिल्ल्या वल्ह्याच्या आवाज बगर दुसरें कांयच आयकूंक येवंक फावना. त्या उदकाचें संगीत मनामेरेन कशे वेगवेगळे तरंग पावयता हें समजून घेवपूच एक वेगळो अणभव.

दल सरोवराचें, हें दल सरोवर जाणीं आपल्या गोपांत घेतलां वो म्हणुया पोशांत घेतलां त्या सरभोंवतपणच्या पहाडांचें म्हूण एक वेगळें संगीत आसा. ह्या पर्वतांच्या मदीं आशिल्ल्या ह्या सरोवरांत भोंवतना पहाडी संगीतूच कानार पडूंक जाय. पंडित शिवकुमार शर्माची संतुरच हांगा वाजूंक जाय. हरिप्रसाद चौराशियांचे बांसरीतल्यान आयिल्लो पहाडी राग हारी आनी हेर पर्वतांक आपटून कानार सादूंक जाय. ह्या पर्वतांचीं प्रतिबिम्बा ह्या दलांतल्या तळ नितळ पाणयांत पडल्यांत तातुंतल्यानूय हे सूर प्रतिबिम्बीत जावंक जाय.

पहाडी रागांत गायिल्लीं, ह्या दल सरोवराकडेन, कश्मीराकडेन संबंदीत आशिल्लीं खूबशीं गीतां म्हजे यादींचे कोठयेकुडींत बंदीस्त आसात. आज तीं आदलेवरीं पाठ नासत, पूण खंयीय वाजलीं आनी तांचे सूर कानार पडले काय म्हज्या काळजाचीय संतूर जाता. महमद रफी आनी लतान गायिल्लें. 'पत्ता पत्ता, बुटा बुटा, हाल हमारा जाने है' हें पहाडी रागांतले गीत ही भोंवडी करतना कानार पडूंक जाय. संगीतकार रवींद्र जैन हाणीं संगीतबद्ध केल्लें 'राम तेरी गंगा मैली'तलें लता आनी सुरेश वाडकरान गायिल्लें. 'सर्दी से डर कैसा संग गरम जवानी है, छोटे छोटे झरने है, झरने के वादे है' हें गीत जावं वो सिलसिला चित्रपटांतलीं गीतां जावं तीं कानार पडटकच मन दल सरोवर आनी

कश्मीराक वचून येवंकूच जाय.

सिलसिला चित्रपटांत संगीतकार शीव हरी हाणीं पहाडी रागाची तर उधळणूच केल्या. दल सरोवांतल्यान रातच्या वेळार सैर करीत जाल्यार 'निला आसमां सो गया' म्हळ्यार कितें हाची अनुभूती जाले बगर रावना. शीवकुमार शर्मा आनी हरिप्रसाद चौराशिया ह्या दोनूय पहाडी संगीतकारांनी शीव-हरी ह्या नांवान 'सिलसिला'क जें संगीत दिलां तें संगीत चित्रपटांतल्या दृश्यांनी जीवंत जालांच. पूण हांगा ह्या दल सरोवरांत हांव भोवतना जणकाय म्हजे वांगडा शीवकुमार संतुर घेवन आनी हरिप्रसाद चौराशिया बांसरी घेवन बसला असोच म्हाका भास जातालो. पंडित शीवकुमार शर्मा हे जम्मूचे. पूण ताणीं आपल्या बापायकडल्यान दायजान घेतिल्लें संतूर हें वाद्य शास्त्रीय संगीतांत हाडलें तें कश्मीरच्या लोकसंगीतांतल्यान. जम्मूक जल्म घेवन कश्मीरच्या पहाडांक धोलपाक लावपी पं. शीकुमार शर्मांक आनी तांचे हे कर्मभुंयेक प्रणाम करीत तितले थोडे आशिल्ले.

शिकारोवाल्यान आपलो शिकारो आतां साळकांदला कडेन व्हेल्लो. 'साळकांदल' हें हांवें दिल्लें नांव. ताका कश्मीरी भाशेंत कितें म्हणटात हें हांवें विचारूंक ना. पर्यटन थळांचेर थळाव्यांची भास चलना. थंय चलता पर्यटकांचीच भास. पर्यटकांखातीर ही सुवात म्हळ्यार 'लोटस लेक' हांगा लोटस म्हळ्यार साळकां उदकाचेर उफेतालीं. तरांतरांच्या रंगाची साळकां, धवीं, गुलाबी, तांबडीं, हळदुवीं साळकां. साळकांक हांगा 'कमल'च म्हणटात जावंक जाय. कित्याक कमलककडी हो कश्मीरी लोकांच्या जेवणांतलो नित्याचो घटक. साळकांच्या मुळांचो भाग म्हळ्यार ककडी. हे ककडेचो वापर भाजी करून, तरांतरांच्यो डिशी करून हे लोक करतात. कमलककडी वेवसाय हो हांगच्या लोकांच्या येणावळीचो मुखेल स्त्रोत. कमलककडी काडून ती बाजारांत विकप होय वेवसाय मुखेल रूपान हांगा चलता. कमलककडी हें नांव कमल हाचेवेल्यान जर हांगा घोळणुकेंत आसा जाल्यार मागीर 'लोटस लेक' हाचें खरें नांव कमलदल अशें आसूंक जाय. हांवें ताका 'साळकां तळें' म्हणप काय साळक दल म्हणप? असले कसले तरी विचार तकलेंत घोळयत हांव त्या कमलदलाची सोबाय निरखीत आशिल्लों.

आमचो शिकारो त्या रंगरंगयाळ्या कमलदलांतल्यान मुखार मुखार वतनाच आनीक एकलो भुरगो आपलो शिकारो घेवन सुर्रर करून आयलो. हो बाबडो कितें विकता काय म्हूण पळयल्यार तो साळकां विकतालो.

साळकां लांब देंठा सयत तोडून काडून त्याच देंठांक मोडून त्या देंठाचीच ताणें माळ कशी केल्ली. साळकां गुंतपाक दुसरे दोरयेची गरज नाशिल्ली. तरांतरांच्या रंगांचीं साळकां ताणें तोडून, अशी माळ कशी करून आपल्या व्हड्यांत दवरिल्लीं. त्यो साळकां माळो विकपाचें ताचें काम. पर्यटक हीं साळकां आपल्या गळ्यांत घालून दल सरोवरांत सफर करताले. चडश्या विदेशी पर्यटकांक ह्यो माळो गळ्यांत घालपाचो सोस. गोंयांतूय जे कोण चार्टडफ्लायटी घेवन पर्यटक येतात ते गोंयांत देवतकच अश्योच फुलांच्यो माळो गळ्यांत घालून घेतात. दसणी फुलांच्यो, रोजांच्यो. कपलाक तिबो लावन गळ्यांत ह्यो माळो घाल्यो काय भारतीय पद्धतीन तांचो येवकार जालो अशें शें कितें तांका दिसता जावंये. तांका मागीर हॉटेलांत येवकार दितना, खंयच्याय पर्यटन थळार येवकार दितना, ह्या फुलांच्यो माळो गळ्यांत घालताच. हे विदेशी पर्यटकूय मागीर दसऱ्याचो बोकडो कशे तीं फुलां मळ्यांत घालून, कपलाक तिबो लावन मिरयतात.

आमी विदेशी नाशिल्ल्यान ती साळकां माळ ताचे कडल्यान विकती घेवपी न्हय हें त्या भुरग्यान पारखिल्लें. ताची अणभवी नदर ते तरेन तयार जाल्ली. पूण पयसल्यान म्हजें धवें खाड आनी केसांनी ताका धोको दिलो. सापडलो बोकडो म्हणत ताणें आपलें व्हडें आमच्या शिकाऱ्याक जोडिल्लें खरें पूण मागीर आपलो मोख चुकली हें ताच्या लक्षांत आयलें. तरी तो हांवें एक माळ घेवंची म्हूण म्हज्या फाटल्यान लागिल्लो. केन्ना कुकीक आनी काकीक होरायतालो. पांच रुपया, दोन रुपया अशी दर सांगत आमचे मुखार ती रंगीत साळकां नाचयतालो.

साळकांचो रंग, तांचो तो मंद सुगंध खरेंच मोनेळ घालता. म्हजो साळकांकडेन भुरगेपणार खूब संबंद आशिल्लो.

गांवची आमची मराठी शाळा. मराठी शाळा म्हळ्यार हिन्दू संस्कृतायेतले सगळे सण आयलेच. सरस्वती ही विद्येची देवता म्हणटकच सरस्वतीक भजप हो संस्कार आमच्या काळजांत रिगोवप हें मराठी मास्तरांचें आद्य कर्तव्य आशिल्लें.

आमचे प्राथमिक शाळेंतलो मुखेल सण म्हळ्यार सरस्वती पूजन. सरस्वती पूजनावेळार शाळेक दोन दीस सुटी आसताली. शाळा धुवपाचें काम आमी भुरगे तनमनान करताले. मास्तर धनूय मागतालो वर्गणीच्या रूपान. पूण आमचे घरची गरिबी ताका खबर आशिल्ल्यान म्हजे कडल्यान तन मनाचीच सेवा ताका अपेक्षीत आसताली. शाळेचें आंगण तण काडून साफ करप, शाळा काथ्यान घासून साफ करप ह्यो गजाली आमची बालसेना करताली. उत्सवूच कसो तो व्हडलो. स्वतंत्र लेखाचो विशय हो.

सरस्वती म्हणटकच साळकां हीं तिचीं प्रिय फुलां. सरस्वती साळकांतूच बशिल्ली आसता अशीं चित्रांय हांवें पळयिल्लीं. साळकांत बशिल्ली शुभ्रवस्त्रांतली ती विद्येची देवता म्हज्या काळजासनार अधिश्ठित जाल्ली. सरस्वती देवीचें स्तवनगीत ताळो सराटून हांवें गायिल्लें... हे सरस्वती पदकमली म्हणपाक म्हाका आगळीच स्फूर्त येताली.

सरस्वती पूजन हें शेताची लुवणी बी जाता तेन्नाच येतालें. आमच्या घरा भोंवतणचीं शेतां लुवलीं आनी भात व्हेलें तरी शेतांत पावसाचें उदक आसतालेंच. शेतांतले ओंडे उदकान उप्पाट भरून आसताले. ह्या ओंड्यांचें आकर्शण म्हळ्यार तातुंतलीं साळकां. तांबडीं भडक हीं साळकां आमकां खुणायतालीं.

तांबड्या रंगाचीं सोडून आनीक कसल्या रंगाचीं साळकां आसतात हें म्हाका ते वेळार खबर नाशिल्लेंच. मागीर केन्नातरी मडकयचे जात्रेक गेल्लेकडेन, मडकयच्या तळ्यांत तांबड्या साळकां वांगडाच धवीं साळकां पळोवन म्हाका अजाप जाल्लें.

तर हीं ओंड्यांतलीं साळकां फुलतात तीं सरस्वती पूजनाखातीरूच असो म्हजो समज आशिल्लो. सरस्वती पूजनाक खंयच्या ओंड्यांतलीं साळकां व्हरप हें हांव तेळून दवरतालों. तीं कोणें ते आदीं काडून व्हरचीं न्हय म्हूण हांव सरस्वतीकूच पराथतालों. गांवचे किरिस्तांवाले भुरगे, शेतां लुवलीं म्हणटकच जाळकूट घेवन ओंड्यांनी देंवताले. ओंड्यांत खवदळ घालून जाळांत नुस्तें धरताले. साळकांच्या पानांची बी जाळाक आडखळ जाता म्हूण तीं हुमटूनय उडयताले. मागीर साळकां आनी फुलूंक नाशिल्ले साळकां बोंगे ओंड्याच्या कडानी पडून आसताले. तेय इतले चिवट की हुमटून उडोवनूय दुसरे दिसा सकाळीं फुलतालेच.

ओंड्यांतलीं हीं साळकां हांव आनी म्हजो भाव सुवास लांब देंठासयत ओडून काडटाले. म्हाका ओंड्यांत देवून एकट्यान साळकां खुटपाचें धाडस नाशिल्लें. सुवास तीं काडटालो आनी तीं धरपाचें काम म्हजें.. सरस्वती खातीर साळकां म्हणटकच तीं जमनीर पडूंक फावनांत. इतलेंच कित्याक, ताचो वास लेगीत घेवंक फावना अशी म्हजी धारणां. पूण साळकांचो तो तांबडो गडद रंग, पाकळ्यां मदलो बोंगो आनी ताचो तो वास म्हाका धुंद करतालो.

देवी सरस्वती खातीरचीं साळकां वेगळीं म्हूण काडून जातकच हांव म्हाका गळ्यांत घालपा खातीर एक साळक काडटालों. ताचो देंठ चडसो लांबूच आसतालो. मागीर ते देंठ मोडून बारीक बारीक कुडके करून ताचीच दोरी करतालो आनी तेंच साळक मेदाल कशें गळ्यांत अडकवन शाळेंत वतालों. शाळेंत पावता म्हणसर त्या देठांतलें उदक म्हज्या बुशकोटाक अडसून ताका बऱ्यापैकी दाग पडटालो.

आज श्रीनगरांत हांवें खूब वर्सांनी ती तेच पध्दतीची साळकांची माळ पळयल्ली. म्हज्या भुरगेपणांतली याद जागोवन गेली.

कमलदलांतल्यान आमचो शिकारो मुखार मुखार वतालो. त्या रंगरंगयाळ्या साळकांचें दर्शन पर्यटकानी घेवंचें म्हूण त्या लोटस लेकाच्या लागच्यानूच शिकाऱ्यांखातीर जलमार्ग तयार केल्लो. कशेंय करून शिकाऱ्यांत बशिल्ल्या पर्यटकांची मनरिजवण तर जावंक जाय आशिल्ली. चडांतचड वेळ काडपाखातीर शिकाऱ्यावाल्याकूय नव्यो नव्यो गजाली दाखोवपाची संद मेळूंक जाय आशिल्ली. ताचेरूच ताची जोड निंबून आशिल्ली.

लोटसलेकाक हांवें कमलदल अशें नांव जरी दिल्लें तरी दलसरोवरांतल्या त्या विस्तृत साळकांच्या वाठाराक परतून दल अशें संबोधप कितलें रास्त तेंय म्हज्यान सांगू नज.

हें दल सरोवर म्हळ्यार खऱ्यानीच एक अजाप म्हणूंक जाय. श्रीधर पर्वत जाका जबरवन अशेंय नांव आसा तो एकेवटेन, एकेवटेन शंकराचार्याचें मंदीर आशिल्ली दोंगुल्ली आनी एक वटेन हारी पर्वत अश्या तीन पर्वतांनी आपल्या पोशांत उदक भरून दवरलां काय किर्ते अशें हांगचें हें लॅन्डस्केप पळयल्यार दिसता. खंयचेय वटेन रावून पळयत जाल्यार ह्या तळनितळ सरोवरांत ह्या पर्वतांचें पडबिम्ब दिसता. कोणाक हे पर्वत ह्या सरोवरांनी पांय घालून बसल्यात अशें दिसत वो कोणाक हे पर्वत दल सरोवराचे राखणदार अशेंय दिसत. कित्याक वचत थंय ह्या कश्मीरांत सगळेकडेन राखणदारांच्या रुपान फौजी दिश्टी पडटात. दल सरोवराची राखण करूंक हेय तीन फौजी पर्वत उबे आसात अशीय कोणे कल्पना केल्यार चूक जावंचें ना. कारण शिकाऱ्यांतल्यान भोंवतना पयसुल्ल्यान दिसपी हे पर्वत म्हळ्यार फौजींचेच कपडे घालून आसात अशें ताचें तें निळनिळशे धुंवरेपेल्यानचें दर्शन घडटा.

ह्या तिनूय पर्वतांच्या मदीं आशिल्लो वितस्ता न्हंयचो विशाल असो जलाशय पुराय कश्मीरच्या अर्थवेवस्तेचो अर्दपटीन तरी भार सांबाळटा अशें म्हळ्यार अतिताय जावंची ना. स किलोमिटर लांब आनी तीन किलोमिटर रूंदायेच्या ह्या जलाशयाचे, दल सरोवराची चार विभागानी वाटणी केल्या. एका भागाक गागरीबल नांव दिलां, तर दुसऱ्याक लोकुतदल आनी तिसरें बडादल. चौथें आसा तें नागीनदल. प्रत्येक दलांत थंयच्या थळाव्यानी आपल्यो अश्यो तरंगपी जमनी वसयल्यात. प्रत्येक दलांत आपलो स्वताचो एक तरी जुंवो आसाच. रूप लॅन्क, सोना लॅन्क अशी तांचीं नांवाय मजेशीर.

ह्या सगळ्या जलाशयांत कितें म्हूण चलना? कोण भाजयो रोयता, कोण नुस्तें मारता, कोण शिकारे चलयता, कोणाच्यो हाऊस बोटी आसात. कोणाचीं मॉलां आसात जंय सगळ्या तरांचो बाजार चलता. हांगा एकूच बाजार चलतना म्हाका दिसलोना तो सोऱ्याचो, जुगाराचो आनी बायलांचो. तो हांगा चलना अशें तरी हांवें खंयच्या आदाराचेर म्हणप?

संवसारांतलें खंयचेंय पर्यटन थळ घेयात, पर्यटन थळ म्हूण तें नामनेक पावंक लागलें रे लागलें थंय सगळ्या धंद्यां परस बायल, सोरो आनी जुगार हे तीन धंदे जम बसयतात. कितलींय बंधनां घालात, ह्या वेवसायाक पुरायपणान बंदी घालप कोणाकूच जमूंक ना. हे तीन वेवसाय अशे जांचे ओडीन पर्यटक जळामळाक ओडटात.

कश्मीर धतरीवेलो सर्ग म्हूण सगळो संवसार तोखेता. हांगची थंडी, हांगची सैमीक सुंदराय आनी हय, हांगची बायलूय, तिच्या सुंदरायेची तुस्त जर केलीना तर मागीर कश्मीरचें सौंदर्य तोखेवपांत कांयच अर्थ ना. कश्मीरी अस्तुरी ही अस्तुरी न्हय ती अप्सरा. तिचें रूप, तिचे दोळे, तिची आंगलोट, तिचो रंग, तिचो आवाज सगळें सगळेंच वर्णन करपा भायलें.

अप्सरा म्हळ्यार खरेंच कोण आशिल्ल्यो? त्यो स्वर्गांतल्यान आयिल्ल्यो काय पहाडी प्रदेशांतल्यान?



कश्मीर आनी हिमालयाच्या मुळसांतलो हो सगळो वाठार म्हळ्यार सर्गाचोच एक भाग. सर्ग ही संकल्पना जी कोणे अस्तित्वांत हाडली ती ह्याच वाठारावेल्यान. आमचो कश्मीर म्हणात, हिमाचल प्रदेश म्हणात, सिक्किम, भुतान, लडाख, अफगाण, इराण, इराक हे सगळे पहाडी प्रदेश. मळबाक तेंकून आशिल्ले. हांगाच ह्या वाठारांत रूशी मुनीनी तपां केलीं. तांचीं तपां मोडून उडोवंक हांगच्या राजानी थळाव्या चलयांचो बेस बरो वापर केलो. तांच्या सौंदर्याचो वापर करून अभ्यासकाचीं एकाग्रता भंग केली. विश्वामित्राची तपश्चर्या भंग केल्ली ती मेनका ही हांगचीच, पहाडी प्रदेशांतली. हांगच्या ह्या पहाडी चलयांक पळयतकच कोणाची तपश्चर्या भंग जावंचिना? ज्या सुवातांवेल्या अप्सरांचो वापर विश्वामित्रा सारख्या रूशींची तपश्चर्या भंग करपा खातीर केलो, थंयच्यो अप्सरा वेश्या वेवसायांतल्यान पयस कश्यो रावपाक शकतात?

कश्मीरांत मुस्लीम धर्म हीमवर्षावा वरी फाफसलो आनी हीमखंडावरींच आपली बैठक बसयत गेलो. बर्फाच्या थराचें लॅन्ड स्लायडींग जावंचें तशें हांगा जालें आनी मूळ कश्मीरी पंडिताक रक्ताचे न्हंयेतल्यान जम्मू मेरेन धांव मारची पडली. आयज बर्फान साचिल्लें कश्मीर हें रूड अर्थान मुस्लीम राज्यूच जावन उल्लां.

मुस्लीम धर्म हो कट्टरपंथीय धर्म. हांगा सोरो वर्ज्य, वेश्या व्यवसाय वर्ज्य, कॅसिनो, नायट क्लब सारखीं जुगाराचीं साधनां वर्ज्य. हांगा पर्यटन वेवसाय चलता आनी फुलता तो निखळ हांगच्या सैम सुंदरायेचेर. आनी हें खरें जर आसत जाल्यार कश्मीर तुका सलाम. पूण...

हय पूण हो सगळेकडेन आसताच. कश्मीरी हो कट्टरपंथीय मुस्लीम आसा अशें जरी मानलें तरी दुडवांचे आशेमुखार ताचो हो धर्म, ताच्या धर्मांतली शिकवण तिगल्या अशें खात्रीन म्हणप जातलें? गोंयांत कमीत कमी लाखांवयर कश्मीरी आसात? कश्मीरी कपडे, गालिचे, शाली, कश्मीरी फर्निचर आनी हेर वस्तू विकूंक ह्या लोकांनी हांगा बस्तान मारलां. गोंयच्या सगळ्या शारांनी आनी दर्या किनाऱ्यांचेर कश्मीरी होच वेवसाय करतात. ह्या वेवसायांतल्यान ते गब्बर जाल्यात आनी तांचेवरी गब्बर जावपाक नवे नवे कश्मीरी, कश्मीर सोडून गोंयांत येतात. तांची ही सगळी जोड ह्याच वेवसायांतल्यान जाता काय आनीक कसलो दोन नंबराचो वेवसाय हे करतात?

गोंयांत आयजवेर घुंवळेवखदानी घुस्पल्ले कश्मीरी सांपडल्यात ते सगळे मुस्लीमूच आसात. गोंयचे पुलीसेक भिनासतना चरस, गांजा, अफू ह्या सारकीं घुंवळे वखदां विकपी हे आपल्या राज्यांतल्या कट्टर धर्मियांक भितले? तांच्यानी थंयच्या पर्यटकांची मनरिजवण करूंक हो वेवसाय थंय करूं नज?

श्रीनगरांत, चड करून दल सरोवराच्या काठावेल्यान भोंवतना फूटपायरेचेर म्हजेमुखार कितल्याच बायलांनी हात मुखार केला. गोंयांत पर्यटकां मुखार खंयचीच गोंयची चली रस्त्यार उबी रावन हात पसरावपाची ना. एक दोन पिश्यो बायलो पणजे, मडगांव शारांत आसात. पणजे सेंट्रल लायब्ररीकडेन तर एकली येरादारी वेवस्ता सांबाळटा. पूण कोणामुखार हात पसरायना.



लोक आपखोसयेन तिच्या हातार दोन रुपया, पांच रुपया दवरता. गोंयांत पर्यटकां फाटल्यान हात मुखार करून धांवतात त्यो गोंया भायल्यो अस्तुऱ्यो. गोंयच्यो चलयो वेश्या वेवसायांत ना अशें म्हणप शक्य ना. तांचो वेवसाय वेगळ्या स्तरार चलता आसुंये! पूण रस्त्यार भीक मागपाचें काम तांचेकडेन घडना.

कश्मीराक मात कश्मीरी बायल भीक मागता. पर्यटकांमुखार हात पसरायत फाटल्यान धांवता. बुरखो घाल्ली बायल आसूं मागीर ती! खरी मुस्लीम धर्मीय बायल परकी दादल्या मुखार तोंडावेलो बुरखो काडचिना. भिकारीण आसल्यार लेगीत काडचिना. पूण आमोरेवेळार हांव दल सरोवरा मुखार दुकानाकडेन उबो रावून गर्दी नियाळटालों तेन्ना एक दोन तरनाट्या चलयांनी म्हजे मुखार हात पसरायल्लो. उजवो हात मुखार करून, दाव्या हातान आपल्या मुखामळावेलो बुरखो कुशीन काडून, 'साब गरीब है, भूक लगी, खाने को कूछ दे दो ना' अशें म्हणत आपली करूण नदर चडांत चड करूण करून दाखयिल्ली. तोंडावेलो पड्डो कुशीक काडून तीं आपले करूणेन भरिल्ले दोळे दाखयतालीं काय आपलें तारूण्य?

भीक मागतना, लोकां मुखार हात करतना तांचे मर्दी कार्ताद भिकारणीचें मुक्त वर्तन नाशिल्लें हें खरें. भीक मागतालीं पूण दबकत दबकत. अशें जर आसा तर पोटाखातीर तांतली एकाद्री दलसरोवरांतल्या हाऊस बोटींत वच्चीनाच अशें कशें म्हणूं येता? म्हजे सारको, सेक्सा सारकी सर्वांगसुंदर गजाल विकती घेवप, ती मोलावप म्हळ्यार ते गजालीचो अपमान करप अशें मानपी ह्या मार्गापासून पयस रावता म्हूण ताका हाची म्हायती नासतूय बी! पूण जे पर्यटनाच्या नांवान मौज मजा करूंकच येतात त्या भोगवादी पर्यटकांक हांगा हें सगलें मेळटा काय ना हें खबर ना म्हणप म्हळ्यार म्हजे नदरेन हेरांकडेन पळोवप.

आमचो शिकारो आतां नेहरूपार्काचे दिकेन सरकतालो. कमलदल फाटीं पडटालें आनी नेहरू पार्क हळुहळू लागीं येतालें. नेहरू पार्क म्हळ्यार हांगचें एक प्रचंड व्हडलें सांस्कृतीक पर्व. पंडित नेहरूची याद केल्या बगर दल सरोवराची भोंवडी म्हजे सारको केन्ना पुराय करूंक पावचोच ना.

नेहरू पार्क वल्ल्यावल्ल्यानी लागीं लागीं सरकतालें.

(चलता....)

भलायकी

# नाखटां चाबडावप



**ना**खटां चाबडावपाची संवय खूबश्या लोकांक आसता. हाका 'क्रोनीक ऑनाय कोफेजीया' अशें म्हणटात. हें कसल्या तरी मानसिक वा भावनाशील (emotional) दुयेंसाचें चिन्न जावं येता. जर मनशाक कसलोय मानसीक ताण, उबगण, भूक लागत जाल्यार नेर्वोज आसत जाल्यार तो नाखटां चाबडावपाक लागता.

ही संवय
- २८%-३३% भुरग्यांक (७-१० पिरायेचीं)
- ४४% युवावस्थेंतले (adolescent)
- १९% - २९% तरणाटे (young adults)
- ५% जाणट्यांक आसता.

नाखटां चाबडावपाचे संवयेचे वायट परिणाम आसतात.

१. नाखटांच्या मदीं जी घाण/जंतू आसतात ते तोंडांतल्यान आमचे कुडींत भितर सरतात आनी दुयेंसां जातात.

२. नाखटां चाबडावपी मनशां, तांच्या भोवतणची कात चाबतात जाका लागून थंय घाय जावं येता. ह्या घायांतल्यान जंतू कुडींत भितर सरतात आनी दुयेंसां जातात.

३. तांचीं नाखटां सामकीं ल्हान जाल्ल्यान, तांका थोडीं कामां करपाक त्रास जातात (टायपींग, ड्रॉईंग, सरयो आशिल्लें वाद्य वाजोवपाक).

४. खूब वर्सां नाखटां चाबडावपी मनशांच्या दातांचेर वायट परिणाम जावं येतात.

५. खूब वर्सां नाखटां चाबडावपी मनशाच्या बोटांचें तोंक दुखपाक लागता, चुरचुरपाक लागता, जाका लागून तांका त्रास जातात. पूण तांका ती इतली संवय जाल्ली आसता की ताचेर लक्ष दिवप जायना.

६. ह्या लोकांची नाखटां/बोटां पळोवपाक बरीं दिसनांत.

### हाचेर उपाय कितें?

जर तर नाखटां चाबडावप कसल्याय मानसीक किंवा भावनाशील कारणांक लागून जालां, जाल्यार ताचेर पयलीं वखदां करचीं.

नाखटांक कडू किंवा घाण वास येवपी कितेंय लावप.

हांच्या मनगटा भोंवतणी कितेंय बांदचें जाका लागून प्रत्येक वेळा बोट तोंडांत वता तेन्ना तांका याद करता की हें अशें करप सारकें न्हय.

नाखटां खावच्या जाग्यार तोंडांत कितेंय दवरचें (chewing gum, chocolate)

घरच्यां लोकांनी, मित्रांनी प्रत्येक वेळा याद करून दिवप गरजेचें.

पूण सगळ्यांत गरजेचें म्हळ्यार प्रत्येक मनशाक आपूण जावन दिसपाक जाय की ही संवय वायट आनी हें हांवें कशें तरी आळाबंद करपाक जाय.

ज्या लोकांक नाखटां चाबडावपाची संवय ना ताणीं सदांच आपलीं नाखटां निवळ आनी कातरून वेवस्तीत दवरचीं.



- डॉ. वंदना धुमे
फोन :९८२२५८५२८५



– संतोष शिवराम हळर्णकार
बांदिवडे-बंदर,
फोंडा-गोवा ४०३ ४०१

## आडवे

१. भारतीय मास्टर ब्लास्टर क्रिकेटर
६. उदक
७. चामड्याच्यो वस्तू करपी
९. रेडिओ, नभोवाणी
१०. वाळवंट, झुजामळ
११. आयस पयस पातळेल्लें तळें
१२. बेडो, फोफळ
१६. आदवोगाद
१७. थारावंक नाशिल्लें
१८. राजा, एक भौमानाची पदवी
१९. सोसूंक नज असो बोवाळ
२०. चड वजनाचें
२१. वस्त
२३. पणसुलाच्या देंठाचो आनी मावेचो दीख
२५. जबाब, उत्तर
२७. जडसाण, वजन
२८. ऐशीं आनी णव



## उबे

१. बातमी, खबर
२. दिश्ट, दोळ्यांचो गूण
३. भुरग्यांल्या कानांत घालपाची सुपुल्ली वस्त
४. कथा रचपी, कथा बरोवपी
५. तण आनी कणस वेगळें करचेलें शेतकाम
६. तरणाटो
८. मनीसपण
९. इत्सा, रुची
११. धातुची बारीक काडी
१३. वांकडी सुवात
१४. अन्ननळयेचो सकयलो वांटो
१५. एक फूल, राजीव, १६-सध्याचो, तुर्ताचो
१७. अंदाधुंदी, कायदो नाशिल्लें राज
२२. हत्ती, हह्र वदन म्हळ्यार गणपती
२३. दोंको, पावल
२४. आधार, आलाशिरो
२५. देराची बायल
२६. गीत वा हुद्‌दो

**फेब्रुवारी उतरकुवाड्याची जाप**

| | | | | | | | | | |
|---|---|---|---|---|---|---|---|---|---|
| क | स | प | ट | | न | व | खे | प | ण |
| त | | द | न | पा | र | | ळ | | |
| तू | प | | | त | | अ | ग | ती | क |
| क | व | नी | | की | | पा | डो | | स |
| | न | ट | | | प | त्र | | | क |
| आ | | | क | प | ल | | क | ळ | स |
| व | न | ता | स | | त | र | प | | |
| ति | | प | र | व | ड | | ते | प | प |
| का | | र | त | | का | य | ल | | गा |
| य | ती | | | मो | र | | | घ | र |

आयलें तशें गायलें

# हालाक कितें? मुडडदी चल राधेच्या खोडडदी

आमी दर वर्सा आंतरराष्ट्रीय महिला दीस मनयतात. आमी महिला विशेशांक काडटात. आमी महिला मुक्ती, महिला स्वातंत्र्य बी हाचेर भाशणां करतात. आमी कवितेंतल्यान, साहित्यांतल्यान बायलमनशेक सर्वोच्च पदार व्हरून बसयतात. हें सगळें एकेवटेन चलता आनी तेच वेळार खंय तरी हेच बायलेक कोण लासून मारतात, कोण जबरदस्तीन सती चडयता, कोण सामुहीक बलात्कार करता, कोण तिच्या गळ्यांत दुपट्टो जावं नायलॉनची दोरी घालून आवुळटा, कोण तिका खंयतरी व्हरून विकता वो विकती घेता.

खंयच्याय दिसा, खंयचेंय एक खबरांपत्र घेयात. एकतरी बलात्काराची जावं विनयभंगाची बातमी आसतली. एकतरी खुनाची बातमी आसतली. एक आत्महत्येची आसतली. मागीर हांव म्हाकाच प्रस्न विचारतां, हें अशें कित्याक घडटा? आमी बायलमनशेकडेन खंयच्या अर्थान, खंयचे नदरेन पळयतात?

मागीर हांव म्हाकाच प्रस्न करतां, हांव खंयचे नदरेन पळयतां?

हांव बायलमनशेकडेन खंयचे नदरेन पळयतां हाची जाप हांव म्हजे 'सखी वसुंधरा' हे कादंबरींतल्यान दिवंक सोदतां. फाटलीं धा वर्सां हांव ही कादंबरी बरयतां. अस्तुरेचीं वेगवेगळीं रुपां, वेगवेगळे सभाव हांव तातूंत हाडूंक पळयतां. एक कॅरेक्टर तयार जाता आनी मागीर कोण तरी अशी बायल आपलेंच वेगळें अशें रूप घेवन येता आनी मागीर हांवें पयलीं रंगयल्लें पात्र म्हाका अर्दकुटें अशें दिसूंक लागता. हांव पर्थून कॅरेक्टर रंगोवंक बसतां.

हो सगळो म्हजो व्याप चलतना म्हजे मुखार अस्तुरी वेगळ्योच पाकळ्यो उसयत रावता. मागीर म्हजो घुस्मटमार सुरू जाता. हांवें जो कॅरेक्टर रंगयला तो आसा तसोच अर्दकुटोच दवरप काय ताका पुर्णायेक व्हरूंक नवीं पुटां चडोवप? हें म्हजें एक आंतरीक झुंज चल्लां. कादंबरी केन्ना पुराय जातली हाचो म्हाका हुस्को ना. ती पुराय जावंकूच जाय असोय म्हजो अट्टाहास ना. ती आपले परीन तयार जावन आपल्याक जाय तेन्ना येतली. ती बरोवंक घेतल्या उपरांत हांवें कितलें तरी हेर साहित्य बरोवन पुराय केलें. तांच्या पुर्णत्वाचो काळ थारिल्लो आसा. तशेंच 'सखी वसुंधरा'चें. आपल्याक जाय तेन्ना ती येतली. येवंदी जाय तेन्ना!

हांव अस्तुरेकडेन पळयता आसतना सखी ह्या रूपान पळयतां. सखी हेंच नातें सगळ्यांत व्हड अशें म्हाका दिसता. पूण फाटल्या चाळीस-पंचेचाळीस वर्सां सावन म्हाका अजून सखी मेळूंक ना. मेळ्ळ्यात तातूंत सखीगूण खूब कमी सापडला. परीपूर्ण असो अजून सापडूंक ना. गरज सरली तशी जे हांव सखीगूण मानतालों ते एकएक करून नाच जावन गेले. गरज कसलीय आसूं येता. ती दुडवांची आसूं येता, इश्टागतीची आसूं येता, सेक्साची आसूं येता वो निव्वळ वैचारीकूय आसूं येता. पूण जांकां सखी मानतां तांका गरजो म्हूण कसल्यो आसूं येतात? गरजो आसतात सर्व सामान्य बायलांक. त्याच गरजांखातीर घोव-बायलेचीं झगडीं जातात, बायल तेच खातीर घर सोडून वता, वो गोळोव घेता. घटस्फोट घेवन संबंद तोडटा. पूण सखी वो सखा अशें करूंक शकना. पूण हांका सोदप खंय? तरी हांव अजून सखीगूण सोदीत आसां.

हांव धायेक वर्सांचो आसतना म्हाका पयली सखी सापडली. तीय तितलेच पिरायेची आसुंये! म्हाका आतां याद जायना. याद जाता तें ताचें मुखामळ. तें आमच्या एका हिन्दू शेजाऱ्यागेर सुटयेंत आयिल्लें. एप्रिल, मायाची सुटी ती. आठ दीस तें राविल्लें. आनीकूय रावंक सोदतालें. पूण कोणाचें तरी लग्न आसा म्हूण गेलें.

आठ दीस आमी यथेच्छ खेळिल्लीं. धांवचेल्यांनी, लिपचेल्यांनी, हांव वडाच्यो पारब्यो एकठांय हाडून बांदतालों. ताचेर पिडाऱ्याचो कुडको दवरतालों. मागीर ताका ताचेर बसोवन धोलयतालों. शेतांतले कणगांचे कोंबुले ताका सोदून दितालों. खणपूय हांवेंच ते!!

म्हजेकडेन एक लोलक आशिल्लो. तातुंतल्यान पळयत जाल्यार सगळो संवसार सप्तरंगी दिसतालो. ताका हांवें त्या लोलकांतल्यान सप्तरंग दाखयल्ले आनी तो लोलक तें वतना ताकाच भेट दिल्लो. पूण मागीर तें केन्नाच आयलेंना. तो लोलकूय धाडून दिलोना. तें खंय आसा, कांय खबर ना पूण म्हजेकडेन सप्तरंग अजून आसात.

हांवें सखी मानिल्ली ती पयली चली. मागीर हांवें सखीच्याच सोदांत म्हाका गुंतोवन घेतलो. पंजाब, सिंध, गुजरात, मराठा म्हणत हांवें म्हाका दिसता अर्द्यापरस चड राज्यां पादाक्रांत केल्यांत आसतलीं. पूण संपूर्ण सखीगूण आशिल्ली अजून अस्तुरी म्हाका सापडूंक ना.

हो सखीगूण म्हळ्यार कितें? वसुंधरा म्हळ्यार पृथ्वी! हे वसुंधरेचेर सगळे अत्त्याचार करीत आसात. तरी वसुंधरा तांका जल्माक घालीत आसता. जन्म दिवन तांका आपल्या आंगार खेळयता. उदक, खाण सगळें दिता. तरी तिचेर सगळे हळशीक करीत आसात. कोण धर्तरी खणटा, कोण पोखरता. पूण वसुंधरा सगळ्यांक माफ करता. निमण्यावेळार आपल्याच पोटांत तांका सुस्त न्हिदयता.

कोणाक ही वसुंधरा फक्त आपल्या नांवार जाय आसता. आपूण धतरेचो मालक, धनी, भाटकार म्हूण ताका मिरोवपाचें आसता. पूण ती धर्तर कसपाक ताका फावना. ती कसपी कोण वेगळोच आसता. कोणाक फकत झुंजां करपा खातीरूच ही वसुंधरा जाय आसता. महाभारत, रामायण तेच खातीर घडलें. अजून तेच पासत झुंजां चलत आसात. हातूंत विध्वंस जाता तो सखी वसुंधरेचो.

अस्तुरेक सखी मानिल्ल्यानूच हांव तिचेकडेन सुर्वेक सावन वेगळे नदरेन पळयत आयलां. हांव पळयत आयलां काय हांवें केल्ल्या वाचनाचो तो परिणाम? हय. कथा-कादंबरींतल्यान, कवितेंतल्यान बायलमनशेचीं वेगवेगळीं रुपां आमची मुखार आयलीं. त्याच वाचनांतल्यान म्हज्यासारख्यान अस्तुरेक सखी म्हूण पळोवपाचें वचन दिलें.

अस्तुरेकडेन पळोवपाची नदर फक्त म्हजीच नाशिल्ली. ते नदरेंत गांधीजीचीय नदर आशिल्ली. विवेकानंदाचीय आशिल्ली. बाकीबाबाचीय आशिल्ली. चंद्रकांत काकोडकार आनी नॅन्सी फ्रायडेचीय आशिल्ली आनी फ्रॉयडचीय आशिल्ली.

एकदां खंय एक बायलमनीस विवेकानंदाकडेन आयली. तिणें विवेकानंदाकडेन मागलें. आपल्याक तुजेसारकोच भुरगो जाय. ती बायलमनीस विवेकानंदाकडेन गर्भदान मागताली. पूण विवेकानंदान तिच्या पांयाक हात लावन म्हळें, म्हजी हरकत ना. हांव तुजोच पूत. तूं म्हजे माते समान. ह्याच संस्कारांतल्यान म्हजी नदर घडल्या. सखीच्या सोदांत हांव अजून भोंवता तीच नदर घेवन.

तरी एक प्रस्न म्हाकाच सुटावो जायना. समजा विवेकानंदाकडेन आयिल्ले सुंदर अस्तुरे सारकी एखाद्री अस्तुरी म्हजेकडेन आयली आनी तिणें म्हजेकडेन तुजेसारकोच आपल्याक भुरगो जाय अशी मागणी केल्ली जाल्यार हांव विवेकानंदा सारकोच वागतलों आशिल्लों? म्हज्यांतलो पुरूशार्थ जागो जावचो नाशिल्लो?

पुरूशार्थाचो, इगोचो आनी विचारांचो कांयच तसो संबंद ना. म्हज्या आयुश्यांत खूबश्या चलयांनीं, बायलांनीं म्हाका आपल्या रुपान, तारूण्यान, मादकतेन आव्हान दिल्लें आसा. म्हाका कोमार काडपाचो यत्न केल्लो आसा. सिक्कीम सारख्या जंगलांतले थंडीत एकाच रुमांत रावून लेगीत, सगळें वातावरण पोशक आसुनय हांवें फक्त जापसालदारकी वळखून, तिकाच प्राधान्य दिल्लें आसा. हेच म्हज्या सभावाक लागून खूब जाणांनी म्हजो धिक्कार केल्लो आसा. म्हजेविशीं नसतें गांवार घाल्लें आसा. आज जेन्ना म्हाका तीं मेळटात तेन्ना तांच्यो नदरो सकयल वतात. पश्चतापान आसूं येता वो आपली दैना पळोवनूय आसूं येता.

अशें आसलें तरीय बायलमनशेविशीं म्हाका एक नितांत आदर आसा. साहित्यांत रंगयल्ल्या अस्तुरेच्या रुपाची, सभावाची, गुणाची, तिच्या व्यक्तीमत्वाची वळख जाल्ल्यानूच हांव तिच्यांत हें सोदीत आसां.

बायलमनशेचीं वेगवेगळीं रुपां समाजांत वावुरतात. बायल मनीस ही अनंत काळाची माता आनी खीणभराची प्रेयशी अशेंय कांय जाणांनी बरोवन दवरलां. म्हजे मतान तेंय सत न्हय. कितलीं तरी नवजन्मीत भुरगीं आमकां रस्त्याच्या कुशीक उडयल्लीं सांपडल्यांत. कितलींतरी जाणां दिसपट्टीं गर्भजल परिक्षा करून घेतात. करून घेतात म्हणचें पडटा कारण ती करून घेवंक फावना म्हूण सरकारान कायदो केला. देखूनच म्हाका स्त्री ही अनंत काळाची प्रेयशी आनी खीणभराची माता वो बायल आसची अशें दिसता. जी अस्तुरी अनंतकाळाची प्रेयशी आसता तीच खऱ्या अर्थान सखी जावंक पावता.

पूण अस्तुरेक प्रेयशी जावपाक वेळूच मेळना. ती पयलीं कोणाची तरी धूव आसता. मागीर ती कोणाची भयण आसता. उप्रांत बायल जाता. मागीर आवय, आजी अश्या स्थित्यंतरांतल्यान वचत एक दीस धतरीक भार जाता. प्रेयशीचो रोल अस्तुरेचे वाट्याक खूब कमी येता. त्या काळार ती प्रेयशी आसता काय केन्नाच अणभव घेवंक नाशिल्ल्या सुखाचो अणभव घेवंक आशेल्ली फक्त एक मादी आसता? आपल्या आवडीच्या नराक आपल्याक समर्पीत करूंक सोदपी? ती जर प्रेयशीच आशिल्ली जाल्यार लग्न जावन एक भुरगें जाले बराबर तिच्यांतली प्रेयशी खंय सोंपता? कित्याक जातात घरांत झगडीं? कित्याक वता तिचो प्रियकर दुसरेकडेन? तिका कित्याक कोर्टांत वचचें पडटा घटस्फोटाखातीर? कित्याक तर मुळांत ती प्रेयशी नासताच.

म्हाका प्रेयशीच्या रुपान सखी जाय म्हूण हांवें म्हजेरूच खूब प्रयोग करून घेतल्यात. अणभव हो फुकटांत केन्ना मेळना. ताका खूब मोल फारीक करचें पडटा. ज्या समाजांत तूं हे प्रयोग करता तो समाज तुज्यो बकच्छायो करूंक टपूनच बशिल्लो आसता. देखून सहसा असले प्रयोग कोण करूंक वचना. हांवें ते करून पळयल्यात. बायल, आवय, प्रेयशी अश्यो भूमिका करून थकिल्ल्यांक, तातूंत अपयशी जाल्ल्यांक सखी म्हूण तांच्यानी भुमिका करूं येता काय? हाचो एक सोद लावपाच्या उद्देश्यान हांवें केल्ले हे प्रयोग आशिल्ले.

बायलमनशेक धूव, भयण, बायल, आवय बी भुमिका करप सहज शक्य जाता. सगळे छळ, अत्त्याचार सोसूनय ती ह्यो भुमिका वटोवंक शकता. पूण सखी ही भुमिका कोणाक सहज शक्य जायना. तातूंत जें सूख आसता तें छळा परस, अत्याचारां परस चड क्लेशदायी आसूं येता देखून कोणाभितर सखी सापडना. सोदूंक वतल्याक मनस्ताप भोगचे पडटात.

बायल मनशेच्या वेगवेगळ्या रूपां परस एका सर्जकाक सखीची चड गरज आसता. पूण ही सखी तशी सहज मेळना. ताचे खातीर जाय पडटा तपश्चर्या. हे तपश्चर्येंतल्यान तयार जाता मागीर एक राधा.

राधा ही व्यक्ती केन्ना जल्माकूच येवंक ना. तरी राधा पुराय विश्व व्यापून आसा. राधा भारतीय साहित्यांत केन्ना आयली हेंच कोणाक खबर ना. भागवत पुराणांत कृष्णाच्या गोपिकेवांगडच्या श्रृंगाराचें वर्णन आसा पूण राधेचो उल्लेख ना. खूब जाणानी राधेचेर संशोधन केलां. पूण राधा खंयच्यान आयली? तिचो कृष्णासारख्या पुरूषोत्तमाकडेन कोणें संबंद जोडलो? काय कृष्णाचीच ती एक कल्पना, जाका सखीची खरी गरज आशिल्ली, जी राधेच्या रूपान ताणें पूर्ण करून घेतली?

हांवूय तेच राधेच्या शोधांत आसां.



– दिलीप बोरकार
आगशी – गोंय

POSTAL LIENSE NO.: G-2/RNP.Goa/01/2009-11 RNI Regd. No. GOA KON/2008/30413






Published & Printed by Dilip Borkar Owner of Bimb Monthly, 'Dharm-Laxmi', St. Lourence, Agasaim - Goa & Printed at Sahyadri Offset Systems, Corlim, Goa. Editor : Dilip Borkar, Ph.: 2438355, E-mail: bimbkonkani@yahoo.co.in